Tourism fosters national
integration and international
understanding
leading to World peace:

It is our endeavour to
develop tourism in Goa
on a well planned
sound footing for the benefit
of all peoples and prosperity
of the local populace.



Issued by
**DIRECTORATE OF TOURISM**
GOVERNMENT OF GOA
Tourist Home, Patto, Panaji – Goa 403 001

# *The Industrious Dempo*




*Rooted in folklore dating back to the 17th Century, Dempo gained prominence as a business house through the years.*

*With the acquisition of mining concessions in 1949, Dempo has accelerated the process of growth and emerged as an industrial house to cover a range as varied as Domestic Trading to Exports, Mining to Construction, Paints to Auto Accessories, Breakfast & Weaning Foods to extruded soya products to Soft Drinks, Calcination of Petroleum coke to Newspapers and Educational Institutions.*

*Serving as partners in progress and development of India, Dempo operations today extend beyond Goa, to Delhi, Bombay and Bangalore.*

## HOUSE OF DEMPO

CORPORATE HEADQUARTERS
Dempo House
Campal, Panjim Goa 403 001. INDIA
Tel: 226281-226286, Telex: 194-217 DMPO IN
Fax: 91 832 225098

GROUP COMPANIES

**V. S. DEMPO & CO. LTD.**
Leading producers & exporters of Iron Ore
**DEMPO MINING CORPORATION LTD.**
Largest Iron Ore Mining Concessionaire
**DEMPO ENGINEERING WORKS LTD.**
Shipbuilders, Shiprepairers & Engineers
**DEVASHRI REAL ESTATE DEVELOPERS**
Engineers & Civil Contractors
**NAVHIND PAPERS & PUBLICATIONS LTD.**
Owners & Publishers of 'The Navhind Times' and 'Navprabha', the leading dailies of Goa
**GOA PAINTS & ALLIED PRODUCTS**
Manufacturers of 'Galaxy' and 'Galaxite' brands of Industrial, decorative and marine paints
**GOA CARBON LTD.**
Manufacturers of calcinated petroleum coke
**NATIONAL AUTO ACCESSORIES LTD.**
Manufacturers of Tie-Rod ends and steering linkages for automobiles
**HINDUSTAN FOODS LTD.**
Manufacturers & processors of breakfast, weaning foods and extruded soya products
**UNIVERSAL BEVERAGES LTD.**
Franchisee Bottlers of Pepsi aerated soft drinks
**DEMPO MARKETING CO. LTD.**
- Market for Eicher Mitsubishi Canter Automobiles
- Maruti Authorized Service Station
- Office Automation & Consumer Durables

**INDO PACIFIC POLY-FIBRES PVT. LTD.**
Manufacturers of Polyethylene Coverings

# तमसो मा ज्योतिर्गमय्

आंक जाता तितलो बरो काडपाचो यत्न केला. आधारून्य सगळ्यांचो मेळ्ळा. कोणाचे शीण काडपाक आतां पयलिंचे दीस उरूंक नात. काळ बदल्ला. नवे नवे लोक कोंकणीच्या गोपांत येत रावल्यात.

पुणून आमचें एक आंग अजून दुबळें उरलां – कोंकणीचें 'इन्फ्रास्ट्रक्चर' आमी अजून सारकें उबें करूंक पावूंक नात. म्हालगड्यांनी कोंकणी सरस्वती-मंदिराची बुन्याद घालून दिली. आतां बुन्यादिचेर वणट्यो उब्यो करूंक जाय आशिल्ल्यो. खांबे उबे जावंक जाय आशिल्ले. जिस्त ह्या वेळार आमची नवी पिळगी मुखार आयली. ती पाखें चडोवपाच्यो येवजण्यो आंखपाक लागली. तरांतरांचें साहित्य निर्मुपाक लागली.

साहित्य जायच. पुणून तें आपूण जावन विकतें घेवपी लोकूय जाय. हे लोक निर्माण केले बगर 'इन्फ्रास्ट्रक्चर' उबें जावचें ना. सरकाराच्या गळ्याक पुस्तकां बांदलीं, कोंकणी अकादमीक विकतीं घेवंक लायलीं म्हूण भागना.

अंदू दिवाळेक ह्या प्रस्नाचो खोलायेन विचार जावचो आनी फुडले दिवाळे मेरेन तो सुटावो करचो अशें मागुंया.

सगळ्यांक अंदुची दिवाळी सूख आनी धादोसकाय घेवन येवं. सगळ्यांच्या काळजांतले दिवे पेटूं. आमच्या बरोवप्यांक, वाचप्यांक, जायराती दितल्यांक सगळ्यांक दिवाळे सयत येता तें पुराय वर्स सुखाचें वचूं.

**वावुरपी संपादपी**

# जाग

दिवाळी १९९७

वर्स २४ ◇ आंक ३ ◇ ऑक्टोबर १९९७

◆ संपादपी
रवीन्द्र केळेकार

◆ वावुरपी संपादपी
माधवी सरदेसाय

◆ उजवाडावपी
सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

◆ अक्षर जुळणी
राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव, गोंय.

◆ छापपी
उमेश वागळे
प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

◆ चित्रां
एकनाथ, परमेश, निलेश

वर्सुकी मोल: रु. ७५/-
आंकाचें मोल: रु. २५/-

जाग म्हयनाळें
२०२-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साऊदादिश, पाजीफोंड
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.


## ह्या आंकांत

### वैचारीक / ललीत लेख / निबंद


◆ महात्मा गांधी आनी भारतीय शिक्षण — *सुमन्त केळेकार* ............. ५
◆ फुलवुड्यां पंचम — *शंकर रामाणी* ............. ११
◆ चार दसकांची साहित्ययात्रा — *रवीन्द्र केळेकार* ............. १३
◆ आदि पर्व — *शरतचंद्र शेणै* ............. १७
◆ हुस्को — *महादेव नाडकर्णी* ............. १९


### कथा


◆ कुंकुमार्चन — *मीना काकोडकार* ............. २१
◆ मिंगेलीलीं घरचीं — *दामोदर मावजो* ............. २६
◆ खरोंच हांव चुकिल्लों? — *महाबळेश्वर सैल* ............. ३३
◆ अबुद्द बाळक — *देविदास कदम* ............. ३७
◆ विस्वासाची कोमरी — *रुपाली किर्तनी* ............. ४७
◆ सांकळ — *ॲन्सि पालड्का* ............. ५१
◆ जीवघात — *सोनिया चार्ल्स् डि'कॉस्ता* ............. ५३


### कथा (अणकार)


◆ पात्तुमायली बोकडी — *वायकम् मुहम्मद बशीर*
अणकार: *आर. के. राव.* ............. ४३


### नाटकुलें


◆ एक इतिहासीक कॉलाज — *एस्. डी. तेंडुलकार* ............. ५७


### कविता


◆ रमेश भगवंत वेळुस्कार, शंकर रामाणी, माधव बोरकार, आनंद वर्टी ७७-८१
राजय रमेश पवार, रवींद्र रमाकांत म्हाड्डोळकार, भालचंद्र गांवकार




# YOU'LL FIND THE TATA VEHICLE YOU NEED. RIGHT HERE.

# FROM NARCIVA DAMODAR NAIK

Now available :
Vehicles ranging from 2-tonne GVW to 34-tonne GCW. The widest range of commercial vehicles in India.

A vehicle to suit every need, every application. Rugged. Reliable. Just right for India's road, load, climatic and other operating conditions.










For further details, contact :




## NARCINVA DAMODAR NAIK

P.O. Box No. 43, V. N. Naik Road, Margao 403 601 (Goa).
Tel : 221141/42/43/44/221451.

# महात्मा गांधी आनी भारतीय शिक्षण

— सुमन्त केळेकार

शिक्षणाच्या मळार संवसारांतल्या शिक्षकांनी आनी विचारवंतांनी जें कितें योगदान दिवन आपणालें नांव आनी कीर्त वाडयली तातूंत गांधीजींचें नांव घेतलेबगर शिक्षणाचो इतिहासच पूर्ण जावंक पावचोना. गांधीजींनी चड करून भारतीय समाजाक लागू जाता असल्या शिक्षणाचें एक वेगळें रूप मुखार दवरून ह्या समाजांत शिक्षणीक क्रांती करपाखातीर जें पावल घालें तें कितलें समा आशिल्लें म्हणपाचें, येता त्या दर एका खिणाक आमकां दाटून दिसूंक लागलां.

जॉन हॅन्रिच पेस्टॅलॉझीक आर्विल्ल्या शिक्षणीक तत्त्वज्ञानाचो जनक मानतात. अस्तमतेच्या शिक्षणा संबंदान म्हळें जाल्यार तें खरें आसत एकवेळ. पूण उदेंतेच्या शिक्षणीक तत्त्वज्ञानाची निर्मणी आनी तें लागू करपाचें स्रय गांधीजींकच दिवंचें पडटा.

## मूळ उद्देग पद्धत – वर्धा येवजण

१९३७ सालाक गांधीजींनी पयले फावट ही वर्धा येवजण राष्ट्रामुखार दवरली. गांधीजी दक्षीण आफ्रिके सावन १९१५च्या सुमाराक भारतांत आयिल्ले. थंय आसतना शिक्षणाच्या मळार तांणी जायते प्रयोग केल्ले. फिनिक्स वसाहत आनी टॉल्स्टॉय फार्म सारक्या थळांनी तांणी प्रयोग सुरू केल्ले आनी शिक्षणाचे सिद्धांत घडोवपाच्या आनी लागू करपाच्या कामांत तांणी यसूय प्राप्त केल्लें. भारतांत आयले उपरान्तय शिक्षण हो विशय तांचे तकलेंत घोळतच आशिल्लो आनी स्वराज्याच्या काळांत ह्या देशांत शिक्षणाची तरा कसली आसूंक फाव हाचेर तांचें मंथनच चलतालें. तेखातीर तांकां प्रयोग करपाचे आसले आनी त्या कामाच्या निमतान अहमदाबादेक साबरमतीच्या कांठार साबरमती आनी वर्धा सेवाग्राम अशे दोन आस्रम स्थापन केल्ले.

गांधीजींलें जिवीत म्हळ्यार एक प्रयोगांची माळच आशिल्ली. आपणाले जिवीत-कथेकय तांणी सत्त्याचे प्रयोग अशें म्हळां. सत्त्य आनी अहिंसा हीं तांचीं मुळावीं अशीं बुनयादी तत्त्वां. तांचे जिणेच्या पुराय तासांची कसवटणी ह्या दोन तत्त्वांचेर आधारिल्ली. तांचें राजकारण आनी समाजकारण हांतुंतय ह्या दोन तत्त्वांचोच आस्पाव जातालो. ह्याच तत्त्वांच्या सुतान तांणी पुराय विधायक कार्यावळ विणिल्ली. सत्त्याग्रह हें तांचें अहिंसक साधन आशिल्लें. ह्या साधनाच्या आधारान तांणी ब्रिटीश साम्राज्याआड चिवटसाणेन झूज दिलें. तांचे विधायक कार्यावळींत सगळ्या राष्ट्रीय प्रस्नांचेर विचार जाल्लो आनी ते प्रस्न सोडोवपाखातीर तांणी जे खाशेले उपाय सोदून काडिल्ले ते सगळे सत्य आनी अहिंसा हांचेरूच आधारून आशिल्ले. मागीर भारतीय समाजाक शिक्षीत करपाच्या कामांतय तांणी तींच दोन म्हत्वाचीं तत्त्वां आपणायलीं जाल्यार तातूंत अजापीत जावपाचें कांयच कारण ना.

शिक्षणा संबंदान तांचे विचार म्हळ्यार तांची ती तीस-चाळीस वर्सांची साधनाच आशिल्ली. भारतांत पावल दवरनाफुडें भारतीय लोकांचें दळिद्रें जिवीत पळोवन ताचो तांचेर येदो परिणाम जाल्लो की तें तांचें जिवीत सुखी करपाखातीर तांकां सगळ्यांत पयलीं गरज दिसली ती शिक्षणांत पुरायेन बदल करपाची. पुर्विल्ल्या काळार जे तरेची शिक्षण वेवस्ता आशिल्ली ताचो विचार करून फुडें ती बदलुपी कालखंडांत कशी कशी बदल्ली आनी आर्विल्ल्या काळांत म्हळ्यार ब्रिटीश सत्त्येच्या काळांत तिचें सरूप कशें विटलें, तशेंच ताचे वायट परिणाम आमी अजुनय कशे भोगत आसां हाची खोलायेन चिकित्सा करून एक नवी परिणामकारी येवजण देशामुखार तांणी दवरली. हीच ती 'नई तालीम' – एक राष्ट्रीय शिक्षणाची तरा.

तांणी तयार केल्ले राष्ट्रीय शिक्षण पद्धतींत जल्मापासून मरणामेरेनच्या (from conception to death) शिक्षणाचो विचार जाल्लो. हाका तांणी 'समग्र नई तालीम' हें नांव दिल्लें. तांतूंत मुळावण्या शिक्षणाचो (Pre-primary education) तसोच पिरायेच्या १४ वर्सां उपरान्तच्या शिक्षणाचो विचार केल्लो. पूण सुरवातीक भुरग्याचें खुबच गरजेचें आनी म्हत्वाच्या पिराये-गुटाचें शिक्षण म्हळ्यार ७ ते १४ वर्सांचें. हें नीज संस्कार रुजोवपी अशें शिक्षण जाल्ल्यान ताचेर अदीक ध्यान दिवन त्या शिक्षणाची येवजण तांणी देशामुखार दवरिल्ली. हाकाच तांणी Basic Education – मूलोद्द्योग शिक्षण पद्धत अशें नांव दिल्लें. बुनयादी तालीम अशेंय ताका म्हणटात. बुनयादी म्हळ्यार सुरवातिचें शिक्षण इतलोच ताचो अर्थ न्हय. देशांत सकयलें, मदलें, वयलें जें खंयचें शिक्षण दिवपाचें तें सगळें हे बुनयादीचेर उबें करपाचें. गांवगिऱ्या लोकांक एके तरेचें, शारी लोकांक दुसरें, हें चलपाचें ना. नाजाल्यार पयल्या चार वर्सांत नई तालीम आनी उपरान्त पोन्नी तालीम अशेंय चलपाचें ना. देशांतलें पुराय शिक्षण नई तालीमच्या पायाचेरूच उबें करपाचें अशें आसत जाल्यारच ताका बुनयादी शिक्षण म्हणप योग्य थारतलें. शिक्षण हें सगळ्यांखातीर एक. शारां आनी गांव असो भेद ना.

आयज शारांत जें वातावरण आसा तें तशेंच फुडें दवरलें जाल्यार भारतांत शांती नंदप भोव कठीण. ज्या गांवच्या लोकांच्या कश्टांचेर शारां उबीं आसात तांची खरें पळेल्यार शारांतल्या लोकांनी सेवा करूंक फाव. आनी ते नदरेनूच आमच्या भुरग्यांक आयज शिक्षण दिवंक जाय. देशाचे सेवेचें शिक्षण गांवच्या लोकांनी घेवंचें आनी देशाक लुटपाचें शारांतल्या लोकांनी घेवचें हें अशें हे फुडें कशेंच चलूंक दिवं जायना. गांधीजींच्या शिक्षणविचारांत अहिंसा जी दिसून येता, ती ही. ज्या शिक्षणान एकट्याक दुसऱ्याचें शोशण करपाचे वृत्तिचें सारें मेळटा असल्या शिक्षणाक गांधीजींच्या प्रणालींत इल्लीय सुवात ना. गांधीजींच्या शिक्षणांतलें हें खरें नीज तत्त्व जें हेर विचारवंतांच्या तत्त्वज्ञानांत दिसून येना.

## भारतीय शिक्षणाची परंपरा

वेदीक काळखंड हो सुमार २२०० वर्सांचो. इ.साला पयलीं १००० ते इ.स. १२०० मेरेनचो. पुर्विल्ल्या वाङ्मयांत शिक्षण हें उतर चड करून वापरिल्लें दिसना. ते बदला विद्या जावं ज्ञान हीं उतरां मेळटात. त्या काळार शिक्षणाक संस्कार मानताले. आयच्या शिक्षणालागीं तुळा केल्यार ताका अनुपचारीक (non-formal) शिक्षण म्हणूंक फाव. तेंच खरें नीज शिक्षण आसतालें. त्या काळावयली नांवाजती पद्धत म्हळ्यार 'गुरुकुल'. त्या वेळार आयचे वरी उपचारीक शिक्षणाच्यो शाळो नाशिल्ल्यो. गुरुच्या घरा जावं आस्रमांत रावनच शिकपाची परंपरा आशिल्ली. मागीर तो विद्यार्थी

जावं शिश्य राजकुंवर लेगीत जायना. आस्रमांतलें वातावरण – सैमाच्या आवाठांत – शांत वाटारांत आसतालें. चडशे आस्रम रानवटी वाटारांनी आसताले. एकाग्र चित्तान चिंतन-मनन करप शक्य जातालें. आनी ह्या शिक्षणांतय बौद्धिकां वांगडा उपयुक्ततायेच्या – गरजेच्या शिक्षणाच्या प्रशिक्षणाचेर अदीक भर आसतालो. मोट्या मोट्या शस्त्राअस्त्रांचे विद्येंत पारंगत आशिल्ल्या रुशिंच्या आस्रमांतच पांडव कौरव जावं राजा दशरथाचे पूत शिकताले म्हणपाचें आमकां रामायण महाभारतांत दिसून येता. क्षत्रियाक शस्त्रविद्या गरजेची जाल्ल्यान तें शिक्षण दिवपाक प्राधान्य आसतालें.

फुडें इ.साल १२०० ते १८०० मेरेनचो मुसलमानी आगळिकां उपरान्तचो ते ब्रिटीश यो मेरेनचो काळ. मध्ययुगीन काळखंड. ह्या काळांत भारतीय समाजांत नीतीक जावंक शिक्षणीक घसरण इतली जाल्ली दिसून येता की भारतीय समाजाचे जातिंच्या रुपान कुडके कुडके जाल्ले जे आमकां दिसतात ते ह्याच काळांत. पुरयत वर्गाची मिरासदारी ह्याच काळांत वाडली. तांचोच शेक ह्या काळांत चलूंक लागलो. ताका लागून शिक्षण हें फकत ब्राह्मण वर्गान घेवपाचें आनी हेरांक ताचो अधिकार ना अशी परिस्थिती निर्माण जाली. शूद्रांक जाल्यार शिक्षणाचो अधिकार केन्नाच मेळ्ळोना. वेदीक काळांत बायलांक अधिकार आशिल्लो तोय ह्या काळखंडात तांचेकडल्यान काडून घेतिल्ल्यान तांची परिस्थिती काकुळवाणी जायत रावली. ही परिस्थिती किर्ते भारतांतच दिसताली अशें म्हणूं नज. मध्ययुगीन काळांत युरोपांतय थंयच्या पुरयतवर्गाचें – पुजारी वर्गाचें – वर्चस्व वाडिल्ल्यान शिक्षणाचें सरूपच पालटिल्लें दिसून येता. पयलीं एका काळार स्रमनिश्ठेचें जें एक तत्त्व सभावीक आनी सैमीक तरेन प्रचलीत जाल्लें तें बदलूंक लागिल्लें. नवे तरेच्या शिक्षणाचें वारें ह्याच काळांत घोळूंक लागिल्ल्यान शिक्षणांतले कृतीशीलतायेक जबर मार बशिल्लो आनी तें शिक्षणांतल्यान पयसावंक लागिल्लें. ह्या मध्ययुगीन काळखंडांत समाजीक विशमताय वाडली, समाजीक नदर आंखडून आकुंचीत जाली. जातीसंस्थेक पसवणेचें सारें मेळ्ळें. जे जातींत मनीस येता तेच जातिचें काम करपाचें हे परंपरेन मुळां धरलीं. संस्कृत ही ब्राह्मणांची भास जाल्ल्यान देवकृत्यां, धर्मकृत्यां तेच भाशेंतल्यान जावंक लागलीं. पूण ताचो एक बरो परिणाम असो जालो की ह्याच काळार हेरांच्यो – भौसाच्यो – प्राकृत भासो फुलून आयल्यो. संत परंपरा सुरू जाली.

आर्विल्लो काळखंड हो इ.साल १८०० उपरान्तचो. इंग्रजी राजवटिचो आनी इंग्लीश शिक्षणाचो काळ. हे राजवटींत शिक्षणाची जी एक तरा सुरू जाली, ती लागू करतना भारतीय संस्कृतायेच्या खाशेलेपणाचो विचारच जालोना अशें मुजरत म्हणचें पडटा. स्मृतीकालांतल्यो अनिश्ट प्रथा आनी विचारप्रवाह बदलुपाच्या कामांत इंग्लीश भाशेच्या शिक्षणान राष्ट्राक खूब आधार दिलो हें मान्य करुनूय जे तरेची शिक्षण पद्धत वसणुकी राज्यकर्त्यांनी लागू केली तांतूंत तांचो अविचारच अदीक जालो हें मान्य केलेबगर रावं नज.

आचार्य कृपालानी गांधीजींच्या शिक्षण येवजणेचेर बरयल्ल्या पुस्तकांत ब्रिटीश शिक्षणाची निर्भत्सना करतना सांगतात, ''भारतांत जी शिक्षण पद्धत आयज चालू आसा, ती वायट हाची सगळ्यांकच जाणवीक आसा. बऱ्या, खऱ्या आनी शास्त्रीक तत्त्वांक कांयच पाळो दिवंक ना असलें हें शिक्षण म्हणूंक फाव. शिक्षणशास्त्र, मानसशास्त्र आनी रासवळ बलायके आड वावुरपी हें शिक्षण. उपचारीक शिक्षणाची ही तरा जाल्ल्यान जिवितालागीं आनी वास्तवतायेलागीं ताची कांयच लागणूक दिसना. वस्तुंची वर्णना उतरांनी करपाची आनी देख दिवपाखातीर खरी वस्त विद्यार्थ्यांमुखार दवरुपाची वेवस्ता ती करिना. बरयल्लीं उतरां हीं शिक्षणाचें माध्यम जाल्ल्यान यादिचें बळगें हें ताचें मुखेल साधन. हें शिक्षण इतलें निश्क्रीय, वर्णनात्मक आनी अभावरुपी की ताच्यांत कसलोच जीव आसाशें दिसना. भुरग्यांमदीं आशिल्ल्या गुणांची उदरगत करपाक तें असमर्थ आशिल्ल्यान अदीक करून भुरग्याची इत्सा-शक्त आनी तांच्या व्यक्तित्वाची वाड करपाच्या कामांत ताचो आडमेळच जायत आसता.''

चालू भारतीय शिक्षणा संबंदान गांधीजी सांगतात, ''हें शिक्षण वास्वतायेआड तशें कृत्रीम म्हणचें पडटलें. जिवितांतल्या घटनांलागीं ताची लागशिली अशी कांयच लागणूक ना. शिक्षणांत ज्या विशयांचो आसपाव जाता तांचे मर्दी सुसुत्रताय दिसना. आनी परिसरालागीं उत्सुकतायेन आनी शाणेपणान विद्यार्थ्यांन जुळोवन घेवचें म्हणपाची कसलीच सोय केल्ली दिसना.'' फुडें गांधीजी म्हणटात, ''जिवितांतले वास्तवीक परिस्थितीक धरून शिक्षणकार्य चलोवंक जाय. आनी ताची लागणूक खंयच्याय तरी एका हस्तव्यवसायालागीं वा समाजीक आनी प्राकृतीक परिसरालागीं आसूंक जाय; तशें आसल्यारच भुरगो जें किर्ते शिकता तें आपशींच ताचे वाडटे क्रियाशीलतायेंत भरसूंक पावता. गांधीजींल्या दोळ्यांसामकार जी शाळा उबी आशिल्ली ती म्हळ्यार कार्यशीलताय, प्रयोगशीलताय आनी सोद-वृत्ती हांच्या आदारान पुराय शिक्षणक्रम जितो-जिवो करपी एक सुवात आशिल्ली.

गांधीजींक दिसतालें की भारतांत चलिल्लें तें शिक्षण उपयुक्ततायेचें तर नाशिल्लेंच. उफाट्टें तें वायटाक पडसारकें आशिल्लें. भुरग्यांक वायट संवयो लागताल्यो, शारी जिणेचो वसो लागूंक पावतालो आनी भाशेचें तकलुपी अनुकरण केल्ल्यान जें किर्ते मेळूंक पावतालें तें दुसरें किर्तेय जायत, पूण शिक्षण नासतालें.

त्या वेळार चलिल्ली शिक्षणाची तरा कितली दोशयुक्त आशिल्ली तें दाखोवपाखातीर ते म्हणटात, ''हें शिक्षण घेवन लिपिकांची फलटण तयार जाताली. हे लिपीक वसणुकी सरकाराक गरजेचे आसले. जिवितालागीं कसलोच लागिंचार नाशिल्लें तें शिक्षण. पुस्तकी ज्ञान तितलें भुरग्यांच्या तकल्यांनी कोंबप. तातूंत चरितार्थ करपाची तांक नाशिल्ली. आनी हें शिक्षण घेवन भुरगीं जातालीं तीं फकत घमेंड वृत्तिचीं. ह्या शिक्षणांत पुराय बदल जावंक जाय हें तांणी हेरिल्लें. शिक्षणाचेर गांधीजींनी विचार केलो अशें न्हय, तर शिक्षणाची एक संपूर्ण येवजण देशा मुखार दवरली. निखटी साक्षरताय म्हळ्यार शिक्षण न्हय. ती शिक्षणाची सुरवात लेगीत न्हय. कूड, आत्मो आनी मन हांची पुरायेन उदरगत करून व्यक्तींमदल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या गुणांची अभिव्यक्ती करप हें शिक्षणाचें ध्येय आसूंक जाय, अशें तांकां दिसतालें. Literacy is not the end of education, not even the beginning. By education, I mean drawing out of the best in man – body, mind and spirit. खरें बुद्धीक शिक्षण हें कुडिचीं आंगां – हात, पांय, दोळे, नाक बी हांचे वाटयांच मेळूंक शकता. देखून भुरग्याच्या शिक्षणाची सुरवात करतना एकाद्रो उपकरा पडपी असो हस्तव्यवसाय शिकोवंक जाय आनी तातुंतल्यान उत्पादन करपाची क्षमताय ताच्या आंगांत निर्माण जावंक जाय अशें ते मानताले. शिक्षण जिविताक उपकरा पडटा असलें आसूंक जाय हाचेर तांची भिस्त आशिल्ली. गांधीजींच्या शिक्षणीक तत्त्वगिन्यानांत सगळ्यांत म्हत्वाचो घटक हो शिकपी भुरगो आसलो – शिकपाचीं साधनां आनी विशय हांची सुवात मागीरची. रुसो वरी शिक्षणीक रचनेंत गांधीजी भुरग्याक ताची हकाची सुवात दिवंक सोदताले.

१९३७ ह्या वर्सा ऑक्टोबराच्या २२ आनी २३ तारखेर वर्धा हांगा राष्ट्रीय शिक्षण परिशद भरली आनी ते परिशदेन जे थाराव पास केले ते हे:–

१. ही परिशद अशें थारायता की भुरग्याक सात वर्सां मेरेन राष्ट्रीय थराचेर सक्तिचें आनी फुकट शिक्षण दिवपाची गरज आसा.

२. शिक्षणाचें माध्यम भुरग्याची माय-भास आसतली.

३. महात्मा गांधीन केल्ली सुचोवणी ही परिशद मानून घेता की हे

सात वर्सांचे पुराय अवधींत दिता तें शिक्षण खंयच्याय एका हातांनी केल्ल्या उत्पादक व्यवसाया भोंवतणी बांदिल्लें आसचें. तशेंच भुरग्याच्या हेर गुणांची वाड, जावं ताका दिवपाचें तें प्रशिक्षण जाता तितलें ताचे भोंवतणच्या परिसराचो विचार करून त्या केन्द्रीय सुवाते वयल्या हस्तव्यवसायालागीं संबंदीत आसतलें आनी

४. ही परिशद अशी आशा करता की शिक्षणाची ही तरा ल्हवूल्हवू करून शिक्षकांक दिवपाचें वेतन भरून काडपाचें काम खात्रीन करूंक पावतली.

भुरग्याचें ७ ते १४ वर्सां मेरेनचें शिक्षण हें सक्तिचें आनी फुकट अशें थारावपाफाटलो मुखेल हेतू कितें आसलो तें मुजरत ध्यानांत धरपाची गरज आसा. भुरग्याचे पिरायेचो हो सगळ्यांत म्हत्वाचो काळ. तसोच भुरग्याचे कृतीशीलतायेचो (activity) हो काळ. ह्या सात वर्सांत भुरग्याक जें शिक्षण मेळटा ताचो प्रभाव ताच्या व्यक्तित्वाचेर घडूंक पावता. हें शिक्षण सक्तिचें जाल्ल्यान जण एका भुरग्यान तें घेवंकूच जाय असो ताचेर आनी ताच्या आवयबापायचेर दंडक उरूंक पावतलो. फुकट जाल्ल्यान पयशांचे अडचणिचो प्रस्न पालकामुखार निर्माण जावचो न्हय अशी ही येवजण आसली. मूलोद्योगी शिक्षकाकडेन आयच्या आमच्या उपचारीक (Formal) शिक्षणाची आमी तुळा करतां तेन्ना तें सक्तिचें आनी फुकट करपाफाटल्यान आमी कितें साध्य करूं शकतां, हाचो बोध जायना. साक्षरतायेचो आंकडो वाडोवप – आनी शिक्षीत भुरग्यांचो आंकडो वाडोवप हाचेभायर निश्चीत स्वरुपाचो असो उद्देश उक्तोच जायना. नोकरेची शास्वती तर कोण दिना आनी आपूण जावन स्वयं-रोजगार मेळोवपाची तांक आयच्या ह्या शिक्षणांत आसा अशेंय कांय म्हणूंक येना.

शिक्षण हें माय-भाशेंतल्यान दिवपाचें. तेंच एक मुळाव्या आनी माध्यमीक शिक्षणाचें योग्य माध्यम अशें तांणी थारायल्लें. वर्धा शिक्षण परिशदेचो प्रस्ताव मांडटना गांधीजी बरयतात : ''आयज प्रचलीत आशिल्ली ही शिक्षण पद्धत देशाक गरजेच्यो आसात त्यो गजाली खंयच्याच रुपान आनी आकारान दिवंक पावना. वयल्या शिक्षणाचें माध्यम इंग्लीश भास जाल्ल्यान, शिकिल्ले थोडेभोव लोक आनी शिकूंक नाशिल्ले खूब जाण हांचे मर्दी सासणाची वणत उबी जाल्ली आसा. ज्ञान वयल्या थरावयल्यान सकल्या थरार आशिल्ल्या भौसाकडेन झिरपपाचें (infiltration) थांबलां. इंग्लीश भाशेक सुमारा भायर म्हत्व दिल्ल्यान शिकिल्ल्यांचेर अशें एक वजन पडलां की ताका लागून ते मानसीकतायेन सासणाचे लोळे जाल्यात आनी आपल्याच देशांत ते परकी जाल्लेवरी वावुरतात. व्यवसायीक शिक्षण मेळूंक नाशिल्ल्यान हो शिक्षीत वर्ग उत्पादकतायेच्या कामांत कांयच उपकरना जाल्ल्यान, ताचे कुडीचेर ताचो वायट परिणाम जावंक लागला. मुळाव्या शिक्षणाचेर केल्लो खर्च फुकटचो वता हाचें कारण जें कितें थोडें भोव शिकयल्लें आसता तें रोखडेंच विस्मृतींत गेल्लें आसता. आनी ही गजाल जितली गांवगिऱ्या वाटारांत दिसता तशीच ती शारी वाटारांतूय दिसून येता.''

## शिक्षणाचें माध्यम इंग्लीश आसचें हाचेर मॅकॉलेची टिपणी

१८३५ हें वर्स भारतीय शिक्षणाच्या इतिहासाचे नदरेन एक व्हड परिवर्तन घडोवपी वर्स मानचें पडटलें. ह्याच वर्सा मॅकॉलेन भारतीय शिक्षणाचें माध्यम म्हूण इंग्लीश भाशेची शिफारस ब्रिटीश सरकाराक केली. ह्या माध्यमाचे उद्देश उकते करतना ताणें म्हळें, ''आमी राज्य करपी आनी जांचेर आमी राज्य करतां ते कोट्यांनी लोक हांचे मर्दी वेव्हार चलपाखातीर आमकां अशा एका वर्गाच्या लोकांची गरज आसा की तांकां लागून आमकां भौसाकडेन भासाभास करप सोंपें जातलें. त्या वर्गाचे लोक वर्णान आनी रगतान भारतीय आसतले पूण आवडीनिवडीन, मत्तान, नितीन आनी बुद्दीन इंग्लीश आसतले.''

मॅकॉलेचे हे सुचोवणेन भारतीय शिक्षणान एक वेगळीच दिशा घेतली. ताचो परिणाम फुडें फुडें खुबच जाणवूंक लागलो. ह्या शिक्षणाच्या वायट परिणामांनी आमचें बंदेपण दिशींदिशीं आमच्यो गच्यो आंवळूंक लागलें. पूण अशें आसुनय इंग्लीशीक लागून ह्या देशाक जायतो फायदो जालो हें आमकां न्हयकारूंक येना. आमचीं समाजीक वायटां ना करपाच्या कामांत इंग्लीश भाशेन भोव मोलादीक कार्य केल्लें आसा. आमच्या देशांत समाज सुधारकांचो जो एक वर्ग निर्माण जालो ताचे फाटल्यान प्रेरणा मेळ्ळी ती ह्या इंग्लीश साहित्याकडल्यानच. महाराष्ट्रांत लोकहितवादी, आगरकर सारके समाज-सुधारक निर्माण जावंक पावले ते एके परीन इंग्लीश शिक्षणाक लागुनच. बंगालांत राजा राम मनोहर रॉयांसारक्यांक हिन्दु समाजांतल्यो वायट आनी अनिष्ठ चाली हांचेर प्रहार करपाक बळ प्राप्त करून दिलें तेंय इंग्लीश शिक्षणानच. इतलेंच न्हय तर आमचो भारतीय समाज जो एकामेकांक जोडपी अशें भाशेचें माध्यम नाशिल्ल्यान विखुरिल्लो, जळींमळीं शिंपडिल्लो ताका एकठांय हाडपाच्या कामांत आनी स्वतंत्रताये झुजांत ब्रिटिश सरकाराकच ह्या देशांतले भायर धांवडावन दिवपाच्या कामांत इंग्लीश भाशेचें आनी शिक्षणाचें योगदान कितें सामान्यांतलें न्हय. पूण अशें आसुनय ह्या इंग्लीशिच्या शिरकावान देशाचें बऱ्यापरस वायटच चड जाल्लें आसा अशें निरुपायान म्हणचें पडटा. १९३१ वर्सा गांधीजींक न सुटका स्पस्ट उतरांनी सांगचें पडलें की भारत हें राष्ट्र पन्नास जावं शंबर वर्सां फाटीं आशिल्लें तेपरस अदीक निरक्षर जाल्लें आसा.

ब्रिटीशांनी दिल्ले हे नवे शिक्षण पद्धतिचे आनीक कांय वायट परिणाम पळोवंया :

१. मॅकॉले आनी ताच्या वांगड्यांनी आमची नीज शिक्षणपद्धत कशी आशिल्ली हाचो विचारच केलो ना. इंग्लीश पद्धतिचें शिक्षण ह्या देशांत रुजोवन सगळ्या भारतीयांक शिक्षीत करपाचो विचार चुकिचो थरलो. ताका लागून नीज अशा भारतीय संस्कृतायेचें लुसकान जालें आनी नव्या शिक्षणाचें फळीतय मेळूंक पावलेंना.

२. अभ्यासक्रमांतले विशय भारतीय जिविताक लागू नाशिल्ल्यान, समाजीक आनी प्रकृतीक भोंवतणा पासून भुरगो पयसावलो.

३. ह्या शिक्षणान भारतांत एक नवी जात जल्माक घाली. इंग्लीश जाणा जाल्ल्यांची. आनी ती इंग्लीश येनाशिल्ल्यांकडेन तिटकाऱ्यान पळोवंक लागली.

४. ह्या शिक्षणान साक्षरतायेचेरूच अदीक भर दिलो हाचें कारण ताचो मुखेल उद्देश हो तरनाट्यांक सरकारी नोकऱ्यांनी सकयल्या पांवड्यांचेर आसपावन घेवपाचो आसलो.

५. विद्यार्थीवर्गा भितर जी नागरीकतायेची भावना ह्या शिक्षणाक लागून वाडीक लागपाची तो हेतू साध्य जावंक पावलोना.

६. मुळाव्या शिक्षणाची जावंक जाय तशी उदरगत ब्रिटीश राज्यांत इल्लीय जावंक पावलिना.

७. पुराय शिक्षणाचे पद्धतींत खुबच नासधूस आनी कसलोच परिणाम जाल्लो दिसलोना.

८. भौसाच्या शिक्षणासंबंदान सगळीच आबाळ दिसता. वयल्या थरावयले लोक शिकले उपरान्त ताचे संस्कार तळावयल्या लोकांकडेन झिरपतले अशें दिशिल्लें. हे असले फाटभूंयेचे आड गांधीजीचे शिक्षणीक सिद्धांत उठून दिसूंक लागले. ब्रिटीश शिक्षण पद्धती संबंदान, चड करून इंग्लीश शिक्षणाआड, गांधीजींनी मांडिल्ले कांय म्हत्वाचे विचार हांगा दितां.

''एका राष्ट्राचीं भुरगीं आपणाली भास सोडून दुसरे खंयचेय भाशेंतल्यान शिक्षण घेतात तेन्ना ती एके तरेची जिवीत-हत्त्या जाता अशें म्हणूंक फाव. आपणाल्या जल्माचो अधिकार तीं वगडावन बसतात. परकी भाशेक लागून तांच्या मेंदवार ताण पडटा आनी तांच्यांतली सृजनशक्त ना जावन वता. तांची वाड जावपाची ती खुंट्टा आनी आपणाल्या घरांतच तीं एकमुळीं

जातात. म्हज्या हिसबान हाचे सारकी राष्ट्रीय शोकांतिका दुसरी ना.''

''जसो हांव आवयचेंच दूद चोखतां तशेंच हांवें म्हजे मायभाशेचें दूद चोखूंक जाय. मागीर कितल्योय अडचणी आयल्यो तरी उपकरता. तें तशें केल्यारच म्हाका जिणेक तारपी दूद मेळूंक पावत. हांव इंग्लीशीचो जंय तिची सुवात आसा थंय वचून तिचेर मोग करीन पूण तिची जी सुवात न्हय ती तिणें जबरीन बळकायल्यार म्हजे इतलो तिचो दुस्मान दुसरो कोणूच नासतलो. इंग्लीश ही आयज संवसाराची एक व्हड भास हें म्हाका मान्य आसा. आनी म्हणुनच हांव तिका दुसऱ्या नंबराचो पाट दितां. ती आमची इच्छीक भास जावं येता – शाळेच्या पांवड्याचेर न्हय पूण विद्यापिठीय थराचेर. ती थोड्याच जाणांची भास जावं येता, कोट्यांनी लोकांची न्हय. इंग्लीश कांय एक शिकनासतना रशियेन विज्ञानीक उदरगत सादिल्ली आसा. इंग्लीशीबगर आमचें कांयच जावंक पावचेंना अशें आमकां दिसता तें आमच्या मनाच्या बंदेपणाक लागून. हे असले हार खावपी वृत्तीक म्हजो केन्नाच तेंको आसचोना.''

''कोट्यांनी लोकांक इंग्लीश शिकोवप म्हळ्यार तांकां बंदेच करपासारकें जातलें. मॅकॉलेन जी शिक्षणाची बुन्याद रचली ताका लागून आमी बंदे जाले. म्हाका अशें म्हणपाचें ना ताणें तें मुजरत तशें केलें म्हण. पूण ताचो परिणाम मात बरो जालोना हें खरें.''

''आनी एक गजाल मुजरत ध्यानांत दवरुपासारकी म्हळ्यार युरोपीयनांनी जी शिक्षणाची तरा काळाभायरी जाल्ल्यान रद्द केल्या तीच तरा आमच्या देशांत लागू केल्ली आसा. तांचे बुदवंत लोक एक्कासारके बदल करीत आसतात आनी आमी अज्ञानान तांणी भिरकावन उडयल्ल्यो पद्धती आपणावंक लागतात. वेल्स म्हणटात तो इंग्लंडाचोच वांटो. तांची भास परती उदरगतीक हाडपाचे थंयच्या लोकांचे नेटान यत्न चलिल्ले आसात. आनी आमची हांगा कितें परिस्थिती? आमी हांगा एकामेकांक चिटयो बरयतात त्यो चुकिचे इंग्लीशींत. आनी हाका हांगा एम्.ए. जाल्ले लेगीत आडवाद म्हणूं येनात. आमचे बऱ्यांतले बरे विचार आमी इंग्लीशींत मांडटात, आमचीं नांवाजतीं वार्तापत्रां इंग्लीशींतल्यान उजवाडा येतात. ही अशी परिस्थिती हे फुडेंय अशीच चलत रावली जाल्यार फुडें असो एक काळ येतलो की तो आमची निर्भत्सना करून आमकां स्राप दिले बगर रावचोना.''

''पालकांक जावं आवय-बापायक दिसता, इंग्लीशीचो आधार घेतल्यार भुरगो जोडूंक लागतलो आनी सुखाक पावतलो. आनी ताचें तांकां समाधान मेळटा. पूण ही परिस्थिती अशीच चलत रावली जाल्यार आमी परकी जावपाक कळाव लागचोना आनी ज्या स्वराज्याखातीर आमी ख्यास्ती काडटां तेंय मेळटा म्हणसर धर्मान परकीच जावंक पावतले. आनी ताचो परिणाम असो जातलो की आयज ज्या वजनाच्या भारान आमी चिड्डूंक पावल्यात तें तशेंच फुडें स्वराज्या उपरान्तय आमच्या माथ्यार उरतलें. हें संकश्ट टाळपाचो एकूच मार्ग आसा आनी तो म्हळ्यार आमची शिक्षणाची तरा पुरायेन बदलप हो. ताची सगळी रचणूकच हालोवन उडोवप – हें अशे तरेचें राष्ट्रीय शिक्षण दिवपाखातीर आमकां कांय म्हत्वाच्यो गजाली करच्यो पडटल्यो त्यो ह्यो :–

१. माय-भास हें शिक्षणाचें माध्यम करचें पडटलें.

२. भुरग्याच्या घराकडलो परिसर आनी तो घेता तें शाळेंतलें शिक्षण हांचो ताळ-मेळ सादचो पडटलो.

३. ताची येवजण अशे तरेन करची पडटली की तें चडांत चड लोकांची गरज भागोवंक पावतलें.

४. मुळाव्या शाळांतले शिक्षक तितलेच योग्यतायेचे आनी चारित्र्यान उंचेल्या पांवड्याचे आसचे पडटले.

५. शिक्षण फुकट करचें पडटलें.

६. आनी शिक्षणाची पुराय नाडी लोकांच्या हातांत उरची पडटली.

परिशदेचो तिसरो थाराव हो मूलोद्योगा विशिंचो. बेसीक एज्युकेशनाचो हो आत्मो म्हळ्यार जाता. गांधीजींच्या शिक्षणीक तत्त्वज्ञानांतलो हो एक आगळोच आनी खुबच म्हत्वाचो असो विशय. परिशदेक आयिल्ल्या पुराय विचारवन्तांनी एका आवाजान मान्य केल्लो हो थाराव. भुरग्याच्या सात वर्सांच्या शिक्षणीक काळांत ताका खंयच्याय एका हस्तव्यवसायाचें प्रशिक्षण दिवप आनी भुरग्याची उत्पादन क्षमताय वाडीक लावप.

मूलोद्योग पद्धतिच्या शिक्षणाविशीं झाकीर हुसेन कमिटीन मांडिल्ले विचार पळोवंया. ती म्हणटा :

''मानसशास्त्राचे नदरेन ह्या असल्या शिक्षणाची खरीच गरज आसा. ताचें कारण, निव्वळ उतरांचेर आनी कल्पनेचेर आधारून दिल्ल्या शिक्षणाच्या जुलमांतल्यान भुरग्याची सुटका जावंक पावतली. ताची क्रियाशीलताय सदांच आड्डून आड्डून ते गजालिचो निशेद करीत आयल्या. हें नवें शिक्षण बुद्दिचो आनी अणभवांतल्यान आयिल्ले वास्तवतायेचो सुमेळ जोडूंक पावतलें आनी मन आनी कूड हांकां वळण लावपाचें साधन जावन तांचे भितर सुसुत्रताय हाडूंक पावतलें. भुरगें फकत छापिल्ल्या पानांतलो मजकूर वाचपा पुरतें वयलेचाराची साक्षरताय साध्य करचें ना, तर कसल्या तरी विधायक कार्याखातीर हातांचो आनी बुद्दिचो उपेग करूंक शिकतलें. ह्या असल्या शिक्षणाक, नव्या उतरांनी पाचारपाची मेकळीक दिली जाल्यार 'संपूर्ण व्यक्तिमत्वाची साक्षरताय' अशें म्हणपाक हरकत ना.''

ह्या असले तरेच्या उत्पादक कामाची शिक्षणावाटयां वळख करून दिवन राष्ट्रांतल्या भुरग्यांक तातूंत वांटेकार करून घेतिल्ल्यान हातान कामां करपी आनी बुद्दीन करपी हांचेमदीं जो एक आडमेळ दिसून येता तो ना जावंक पावतलो आनी दोनूय ह्या बादिकारांतल्यान मेकळे जातले. तेच बराबर, स्रमाचें व्हडपण खऱ्या अर्थान वाडूंक पावतलें. आनी तशेंच मनशांमनशां मजगतीं, नितीमत्तेचे नदरेन अदमासाभायर लाव जावन, घटमूटसाण येवंक पावतली.

भुरग्याच्या शिक्षणाची सुरवातच ताका एक उपकरा पडटा असलो हस्तव्यवसाय शिकोवनच करपाची. म्हणटकच जे घटकेक तो प्रशिक्षण घेवपाचें सुरू करतलो त्याच वेळार ताच्यांत उत्पादन क्षमताय येवंक पावतली.

''मनशाचें मन आनी आत्मो हांची चडांत चड उदरगत ही हेच तरेच्या शिक्षणान जावंक पावतली हाचेर म्हजो विस्वास आसा'', गांधीजी म्हणटाले.

हस्तव्यवसायाक लागून भुरग्याचें व्यक्तिमत्व तर फुलताच पूण तेच बराबर तें शिक्षण ताच्या जिविताची गरज भागयता हाचेर गांधीजींचो विस्वास आशिल्लो. खंयचीय हस्तकला शिकता ताच्या फळिताक अर्थीक मोल आसूंक जाय अशें तांकां दिसतालें. नोकरेबगर रावपाचे स्थिती आड ती एके तरेची विम्या पॉलिसी (Insurance) आसा अशें ते म्हणटाले.

पोटापाण्याची वेवस्ता करपी शिक्षणाचे कल्पनेवयल्यान गांधीजींच्या शिक्षणीक तत्त्वज्ञानाचें आनीक एक म्हत्वाचें तास नदरेंत भरता तें म्हळ्यार तांची अहिंसक वृत्ती. शिक्षणांत कसलेच तरेचे हिंसेचो आस्पाव जावंक जायना अशें तांकां दिसतालें. शिक्षणाच्या कार्यांत कोणाचेंच शोशण जावंक जायना हाचेर तांचो भावार्त आशिल्लो.

शिक्षणीक तत्त्वज्ञान आनी ताचो वापर ह्या विशयांत गांधीजींचें सगळ्यांत व्हड आनी म्हत्वाचें योगदान म्हळ्यार तांचे शिक्षणपद्धतींत तांणी मनशाच्या हाताक दिल्लें नैतीक अधिष्ठान.

मनीस जेन्ना रानवटी अवस्तेंत आशिल्लो तेन्नासावन हात आनी पांय हींच मनशाचीं आंगां उत्पादनाच्या कामांत म्हत्वाचो वांटो घेतालीं. ही हाताची प्रतिश्ठा सांबाळपाच्या कामांत जों मेरेन मनशान कसलीच आळसाय केली ना तों मेरेन ताचो पोट भरपाचो प्रस्न केन्नाच निर्माण जावंक पावलो ना. पूण मध्ययुगीन काळांत ह्या हाताचें म्हत्व उणें करून मनशाचे बुद्दीक स्रेश्ठ मानपाचें एक नवें दायज निर्माण जालें आनी तेन्नासावन शिक्षणाचें

रुपूय आपशींच बदलून गेलें. स्रमाची प्रतिश्ठा उणी जायत गेली आनी हातापरस बुद्दिची प्रतिश्ठा वाडिल्ल्याचें एक नवें दायज समाजामुखार उबें रावलें. ते परंपरेक धसको दिवपाचें काम पयलेच फावट गांधीजींनी केलें हातुंतच तांच्या विचाराचें व्हडपण सिद्ध जाता.

भुरग्याक दिल्ली माहिती मोन्यांनी आयकून घेवपी एक घटक इतलेंच स्थान दिवपी चलीत आयिल्ल्या शिक्षणांतलो विशय आनी तें शिकोवपाची रीत हाचे आड बंड करपाचें स्रय गांधीजींक वता, हीच तांचे शिक्षणीक कार्यांतली मोठ्यांतली मोटी देण मानूंक फाव. तांच्या मत्ताप्रमाण ''खंयच्याय एका हाती-व्यवसायांतल्यान पूर्ण मनशाची उदरगत सादप हें शिक्षणाचें खरें उद्दिश्ट आसपाक जाय. गांधीजी हो असो एकलोच शिक्षणतज्ज्ञ जावन गेलो की जाणें शिक्षणांत हाती-व्यवसायाक म्हत्वाची सुवात दिली – फकत उत्पादक कामाखातीर न्हय, तर भुरग्यांची बुद्द वाडोवपा खातीर, विकसीत करपा खातीर.

मध्ययुगीन काळांत शिक्षणाचो भरिभार पुरयत वर्गाकडेन गेल्ल्यान ताचें स्वरूप अभावात्मक जावन उतरां आनी कल्पना हांचेभितरच तें घुस्पून उरिल्लें. फुडें रेनासांसचो काळ युरोपांत सुरू जालो आनी उपचारीक आनी अभावात्मक शिक्षणाआड आवाज वयर सरूंक लागलो. एकापरस एक शिक्षणाच्या मळावयले बुदवंत कितेंतरी नवेंच सांगूंक लागले. आतांमेरेन शिक्षणाचो केंद्रबिंदू शिकपी भुरगो नाशिल्लो, तो शिक्षणांतलो म्हत्वाचो घटक जालो. सैम आनी वास्तवताय हांचो विचार करिनासतना फकत पांडित्य शिकोवपी शिक्षणाचो, बेकन, मोंतान, लॉके पासून हालिंमेरेनच्या विद्वानांनी निशेध केल्लो दिसून येता. रुसोन पुस्तकी ज्ञान भुरग्यांचे तकलेंत सांठावपाचे क्रिये आड व्हड करंदाय केली. शिक्षणांत भुरग्यांचे क्रियाशिलतायेक ताणें म्हत्व दिलें आनी म्हळें, ''His hands work for the development of his mind. While he fancies himself a workman he is becoming a philosopher.''

हर पेस्टालोजी हो दुसरो विचारवन्त जाणें शिक्षणांत बाल-मानसशास्त्राचेर भर दिलो. १७७५ ते १७८० ह्या काळांत पेस्टालोजीन पयलीच उद्देगीक शाळा सुरू केली – गरीब भुरग्यांखातीर आनी तांचे कृतीशीळतायेक, तांकां शेतांतलीं कामां करूंक लावन, कापसापासून सूत करूंक लावन आनी मागाचेर विणपाचें काम करूंक लावन, वाव दिलो. हीं कामां करतना कांय वेळ तांकां वाचन करपाखातीरय दितालो. गांधीजींची तरा इल्ली वेगळी आशिल्ली. ते व्यवसायांतल्यान बुद्दिची वाड करूंक सोदताले.

फ्रोबेलान मानसशास्त्रीय वृत्तिचेर भर दिवन शिक्षणाची येवजण तयार केली. ताणें भुरग्याच्या शिक्षणाखातीर Kindergarten शाळा तयार केली. ताणें भुरग्यांचे कृतीशीलतायेचेर आनी विधायक कामांचेर भर दिलो. हालिंच्या काळांतलो कृतीशीलतायेक चडांत चड म्हत्व दिवपी म्हळ्यार ज्यान ड्युई. ताणें जाल्यार कृतीशील शाळाच 'Activity School' काडून आपणाल्या तत्त्वज्ञानांत कृतीकच म्हत्वाचें स्थान दिलें.

कृतीक शिक्षणांत म्हत्वाची सुवात आसूंक जाय अशें मानपी हो अस्तमत्या देशांतलो कालखंड आसुनय भारतांत मात आधुनीक शिक्षणाच्या ह्या काळार ताचें म्हत्व एक गांधीजी सोडून कोणेंच पारखिलें ना. कालबाह्य जाल्ल्या इंग्लीश शिक्षणांतच आमी समाधान मानूंक लागले.

पुराय विशयाचें ज्ञान भुरग्याक मूळ उद्योगांतल्यान दिवंक जाय अशें तांकां दिसतालें. दर एक विशय स्वतंत्र तरेन शिकयल्यार त्या विशयांचो एकामेकांलागचो संबंद कितें तें भुरग्यांक कळूंक पावना. तशेंच हे विशय पुस्तकांचो आधार घेवन शिकयतल्यान त्या ज्ञानाची जिवितालागीं कसली लागणूक आसा हाचो भुरग्यांक बोध जायना. शिक्षणाची उपयुक्ततायूय सिद्ध जायना. ड्युईन आपणाले प्रयोग-पद्धतिची फोडणिशी करतना भुरग्यांक गरज आसा त्या विशयांचें तांकां ज्ञान दिवचें अशें म्हळां. गांधीजींक तें मान्य ना. विशय खंयचोय जायना, तो शिकोवपाक जाता; पूण तो मूलोद्योगाच्या संदर्भांत जाणा जावन घेवचो अशें भुरग्याक दिसलें जाल्यार. आचार्य कृपालानी हे संबंदान अदीक उक्तावणी करतना म्हणटात : ''Every step that is taken will be correlated and coordinated with his personal experience, in the getting of which he is the chief and the principal agent.'' मूलोद्योगाच्या संदर्भांत विशय शिकोवपाचे ते कशे हाची देख दिवन ते फुडें म्हणटात: ''भुरग्यान शिकपाखातीर वेंचून काडिल्लो व्यवसाय समजा, 'लुगट तयार करप' हो आसलो जाल्यार ताची सुरवात ही अशी जातली. तो लुगट तयार करपाक लागता त्या साहित्याची आनी सामानाची पुराय जाणकारी करून घेतलो. कापूस म्हणिनाफुडें ताचो सोद कोणें लायलो आनी तो कसो, संवसारांत जंय जंय कापसाचें पीक जाता तीं केंद्रां हांची खबर जाणा जावन घेतलो. कापसाच्या पिकाक जाय पडटा तसली हवा, उदक आनी मातयेची जात ह्यो गजाली तो समजून घेतलो. कापसाच्या पिकाची तुळा हेर पिकांकडेन करतलो. अशे तरेन तो भुगोल, इतिहास आनी शेतकाम ह्या विशयांची, मूलोद्योगाच्या संदर्भांत, जाय पडटा तितलीच जाणकारी घेवंक पावतलो. हें ज्ञान घेवपाखातीर ताका स्मरणशक्तीचेर ताण दिवपाची गरज भासची ना. यांत्रीक तरेन हें ज्ञान पाठ करून यादींत दवरुपाची तकालस घेवची पडची ना. सूत काडपाचें काम करतना ताका तरेतरेच्या मापांची आनी वजनांची माहिती मेळटी. तशेंच वेळेचें कोश्टक समजतलें. ह्या कामाखातीर संवसारांत जीं यांत्रीक साधनां निर्माण केल्लीं आसात तांचीय वळख जातली. विणपाचें काम शिकतना, विणकामाचो पुराय इतिहास तो जाणा जावन घेतलो. अशे तरेन ताका जी जाणकारी मेळटली ती ताचे लागीं सासणाची उरतली, ताच्या व्यक्तित्वाचो ती वांटो जातली.

जें ज्ञान मूलोद्योगांतल्यान दिवप जमपासारकें ना, तें मात स्वतंत्र तरेन दिवपाक हरकत ना अशें ते म्हणटाले. समवायांतली ही कृत्रीमताय ना करपाखातीर अध्यापनाचें जावं समवायाचें केंद्र मूलोद्योग हेंच मानिनासतना ताचेच बराबर त्या त्या वाटारांतली भुगोलीक जीण, समाजीक जीण हीं लेगीत केन्द्रां मानपाक हरकत ना, ही सुदारणा हे पद्धतींत तांणी उपरान्त केली.

माती आनी मडकें एक काय दोन? दोन म्हणशात जाल्यार आमची माती आमकां दियात. तुमचें मडकें घेवन वचात. एक म्हणशात जाल्यार पेलेकडेन मातयेची रास पडल्या. भरात तातूंत उदक. मातयेच्या आनी मडक्याच्या ह्या संबंदाक आचार्य विनोबा भावे हांणी 'समवाय' हें नांव दिलें. वर्धा शिक्षण पद्धत म्हळ्यार समवाय पद्धत. हे पद्धतींत उद्देग आनी शिक्षण ह्या दोगांचोय समवाय आसा, अशें मानचें पडटा. उद्देगीक शिक्षण एके पतिचें. तातूंत फकत ज्ञान दिवपाचें. तें मडकेचें चित्र पळोवन घेवचें. उदक भरपाचें काम ना. समवाय पद्धतींत खंयचो तरी जिविताक गरजेचो आनी वेगळींवेगळीं तासां आशिल्लो उद्देग शिक्षणाचो दरवट असो मानिल्लो आसता. हो उद्देग शिक्षणाचें एक साधन म्हण न्हय तर शिक्षणाचें एक कडेक काडूंक येना असलें आंग म्हण आयिल्लो आसता. ह्या उद्देगा वरवीं (१) भुरग्यांच्या पुराय शक्तिंची उदरगत करप (२) भुरग्यांचे जिणेक गरजेचें असलें पुराय ज्ञान दिवप आनी (३) भुरग्यांचे फुडले जिणेंत गरजेचें अशें समर्थ साधन पुरोवप हो तिट्टी उद्देश आसता. आनी भुरग्यांच्या ह्या उद्देगांतल्यान जें उत्पादन जाता ताची येणावळ खर्चाखातीर – चड करून शिक्षकाच्या पगाराखातीर – उपकरावप.

परिशदेंत पास जाल्ल्या ह्या थरावाक जायतो विरोध जालो. पूण गुरूकुलाची आदर्श कल्पना घेवन बशिल्ल्या गांधीजींक शिक्षक हो एक आदर्श घटक म्हण शिक्षणाच्या कार्याक जाय आशिल्लो. आयच्या शिक्षकाचें चित्र तांणी येवजूंक लेगीत नाशिल्लें. देखून उत्पादनाक जशें अर्थीक मोल

आसूंक जाय हे विशीं तांचो आग्रो आशिल्लो, तेच भाशेन शिक्षकाविशीं तांची एक निश्चीत भुमिका आशिल्ली. शिक्षण हें लोकांच्या हातांत उरूंक जाय, ताची नाडी सरकाराच्या हातांत वचूंक जायना अशी ते शिटकावणी दिताले, तेंय ह्याच तांच्या उद्देशाक लागून जावंये. व्यवहाराचेय नदरेन तांणी विचार करूंक नाशिल्लो अशें म्हणूंक येना. भुरग्यांनी शाळेंत केल्ल्या उत्पादनाचें मोल शाळा-शिक्षकांच्या वेतनाक पुरो जातलें काय ना हाचेविशीं खूब जाणांक दुबाव आसलो. पूण आचार्य विनोबा भावे सारक्या हस्तव्यवसायाच्या तज्ज्ञ जाणकारांनी हिशेब करुनूच ताचें समर्थन केल्लें दिसून येता. ७ ते १४ वर्सांच्या भुरग्यांनी चरक्याचेर कांतिल्ल्या सुतावयल्यान तांणी हिशेब केल्लो तो असो: म्हयन्यामाल जण एक भुरगो सूत काडटलो ताची येणावळ सरासरीन रु. १ ते रु. १.५० जातली. सूत कांततल्याक त्या वेळार दिसाक आठ वरां काम करून ३ आणे मेळटाले. त्या हिसबान वयली येणावळ थारायल्या. ३ म्हयन्यांचें भुरग्यांचें प्रशिक्षण सोंपतकच टकलेवयल्या सूत काडपाच्या कामाचें मोल जातलें म्हयन्याक १० आणे. भारतांत त्या वेळार शाळेंतल्या शिक्षकाचें म्हयन्याचें वेतन रु. १०/- ते रु. १२/- आशिल्लें. पूण वर्गांत जर २० ते २५ भुरगे आसले तर म्हयन्यामाल ते २० रुपयांचें उत्पादन करूंक पावताले. हो हिशेब जालो सूत कताइचो. दुसरो खंयचोय, मेस्तकामासारको व्यवसाय घेतलो जाल्यार तातुंतल्यान कसलीच अडचण नासतना अदीक पयसो मेळूंक पावतालो. हाचो अर्थ ही येवजण अव्यवहारी आशिल्ली अशें कशेंच म्हणूंक येना.

### मूलोद्योग पद्धतिचें शिक्षण आनी सरकार

१९३७ ते १९४७ ह्या काळांत, कांय प्रांतांनी काँग्रेसची राजवट सुरू जाली. थंयच्या सरकारांनी ही मूलोद्योगी शिक्षण येवजण चालीक लावपाच्या उद्देशान शिक्षण खात्यांक ह्या शिक्षणाचे प्रयोग करून ते यशस्वी करून दाखोवचे आनी तेच धर्तिचें शिक्षण हे फुडें दिवपाचें हे संबंदान आदेश धाडले. पूण १९४०त काँग्रेसीन सरकारांतलें आंग काडून घेतिल्ल्यान ही येवजण तशी मूळ धरूंक पावली ना. १९४६ सालाक जेन्ना परती काँग्रेसची राजवट सुरू जाली तेन्ना परतून हें मूलोद्योगी शिक्षणाचें कार्य चालीक लावपाचें सरकारान थारावन ते दिकेन पावलां पडूंक लागलीं. पूण हे फावटी तातूंत कांयच प्राण दिसलोना. फुडें रोखडेच गांधीजी भायर पडले आनी बेसीक एज्युकेशनाच्या मूळ तत्वां संबंदानच गोंदळाचें वातावरण तयार जालें. मूलोद्योगाचें शिक्षण म्हळ्यार प्रयोगशाळेंतल्या प्रयोगावरी एक वयलेचाराचो उपचार जावन पडलें. आनी पाठ्यपुस्तकांचेर भरिभार दवरून पयलिंचीच शिक्षण-पद्धत तशीच चलत रावली.

ही अशी परिस्थिती निर्माण जावपाफाटलीं कारणां जायतीं आसलीं. गांधीजीन देशामुखार दवरिल्ले येवजणेचेर गंभीरतायेन कोणेंच विचार केलोना अशेंच म्हणचें पडटलें. गांधीजींच्या निर्वाणा उपरान्त तांचे तोडिचो, ह्या देशाची धन्वन्तावरी जिस्ताजिस्त नाडी वळखल्लो मनीसय निर्माण जावंक पावलो ना. देशांत संपूर्ण क्रांती करपाचे योग्यतायेची तांची ही शिक्षण पद्धत इल्ली इल्ली करून विस्मृतिच्या काळखांत लिपूंक लागली हें खऱ्यांनीच ह्या देशाचें दुर्दैव म्हणूंक जाय. आज जे तरेचें शिक्षण ह्या देशांत चलत आसा तें ह्या देशाक तारतलें अशें कांय दिसना. हें शिक्षण फकत प्रस्न निर्माण करूंक लागलां आनी ताच्या कचाटांतल्यान भायर सरप हें दिशींदिशीं कठीण जायत चल्लां.

नाशीक काँग्रेसी उपरान्त सरदार वल्लभभाई पटेल हांचीं जितलीं म्हण उलोवपां जालीं तातूंत चालू शिक्षणाविशीं आपूण समाधानी ना, संतुश्ट ना हें उक्तावन केल्लीं अदीक आशिल्लीं. हायस्कुलांनी आनी महाविद्यालयांनी मेळटा तें शिक्षण कूचकामाचें, इतलेंच न्हय तर तें हानीकारक आसा अशें ते नेटान सांगताले. राष्ट्रीय सरकारांतलो एक जबाबदार फुडारी आनी तो प्रचलीत शिक्षणाविशीं अशें उलयता तें आयकून कोणूय तांकां विचारूंक शकतालो, ''तुमच्या मत्तान चालू शिक्षण इतलें वायट, जाल्यार तें तुमी बदलनात कित्याक ?'' ताची जाप तांणी आपणाल्या अहमदाबादच्या उलोवपांत दिल्या. तांणी सांगलें, ''आमी सगळेच जाण अशा एका जाळांत घुस्पल्यात की तांतुंतल्यान सुटावो करून भायर सरप आतां भोवच कठीण जालां.''

* * *


*With best compliments from*

# Ananta Narcinva Naik

'Tirtharupa'
N. D. Naik Marg
P. O. Box 205
MARGAO – GOA 403 601.

Gram: BABU
Phone: 22171, 731335
Res: 735587, 735634



# फुलवुड्यां पंचम

— शंकर रामाणी

**सा**ल १९३८. मे म्हयन्याचो पयलो पंद्रावडो. खर उबाळाचे दीस. आमचें बिराड तेन्ना वास्को आशिल्लें.

लिसेवाचीं पुतुगीज पयलीं दोन वर्सां, प्रिमेयरु सिक्लु, शिकिल्ल्यान चवदाव्या वर्सा बापायन म्हाका इंग्लेज शिकपाक सेंट जोजेफ इन्स्टिट्यूट ह्या हायस्कुलांत घालो. तें साल १९३७. ताज्या फुडल्या वर्साच्या, म्हळ्यार १९३८, मे म्हयन्यांत हांव दुसरी पास जालों. सुटी सुरू जाली. देडेक म्हयनो सुटी.

चैत्र सोंपून वैशाख लागिल्लो. फाल्यां पंचम म्हळ्यार आदल्या दिसा व्हडल्या भावान – बाबान – म्हाका म्हळें, 'आनंद, फाल्यां सकाळीं कवळ्यां वचुंया मरे?' तेप्रमाण हांवें म्हजे मुस्तायकेक फेर माल्लें. लेंगो, खोमीस आनी ज्युदी ही म्हगेली मुस्तायकी. बाबा पुडवें न्हेसतालो. बानयान, सेदाचें खोमीस आनी त्या काळाच्या मोदी प्रमाण ज्युदी. जिस्ताक जिस्त. दिसूंक गोमटो. तेन्ना अठ्ठावीस वर्सांचो. तन्नो.

दुसरे दिसा पंचम. सकाळीं उठून आठांक वास्को स्टेशनार सावन सुटिल्ल्या मेल गाडयेन आमी मडगांवां पावले. एका वराचें अंतर. स्टेशनार उतरून धा-बारा मिनटां चलत बस-स्टँडार पावपाक फोंड्यां-पणजे वचपाची भरिल्ली कान्हेर मेळ्ळी. धांक फोंडें. सरळ बर्वेल्या हॉटेलांत गेले. दोन तोर्दद उंडे, पातळ भाजी, च्या घेवन तिस्काच्या दिकेन कवळेंचो रस्तो धरलो. चलत. कपिलेश्वरी लागीं पावपाक कवळें वता त्या रस्त्याच्या मोडणार दोन काळे कुळकुळीत चड्डी घाल्ले उकत्या आंगाचे टुणटुणीत पोर. दोगांयच्या हातांत तन्न्या बिब्यांच्यो माळो. तातुंतल्या एकल्याक बाबान हटकिलो, 'कशी दिली रे माळ?'

'बाब, दोन पयशे'. तागेली जाप.

'देडा पयशान दिता?' बाबान विचारलें. आनी सोमत्योच स पयशांच्यो चार रसरशीत बिब्यांच्यो माळो ताणें बाबाच्या हातांत दिल्यो. आनी ते कुरकुरीत बिबे कवळ्यां पावतासर खावन आमी काबार केले.

कवळ्यां तळये कडेन पावचे पयलीं जयवंत कुवेलकारालें घर लागता. ते आमगेले सोयरे. तांचे चले वसंतबाब, शिवुबाब आनी पुतणयो रावजीबाब बाबाले आमीग – इस्पीकबहाद्दर. बाबाक पंचमिचें, चड करून उसळ्यांचें आकर्शण आशिल्लेंच. ताचे पयलीं त्या तिगांवांगडा इस्पिकांनी 'तिनशें चार' खेळपाची उमळशीक आशिल्ली. तो कार्यक्रम अगरसाळेंतल्या समरादने उपरांत. तिनसान मेरेन.

बाबान आपल्या हातांतलें बॅग कुवेलकाराल्या माळयेर दवरलें आनी आमी तडक शांतादुर्गेच्या देवळांत वचून धूळभेट घेतली. थंयच नारायण देवाच्या देवळांत वचून पांयां पडले. अकरा वरां जायत आयिल्लीं. हरशीं आमी दोगांयनी फोंड्या बर्वेल्या हॉटेलांत पोटभर खाल्लें. पूण कवळ्यां मेरेनची वाट वतांतल्यान चलत गेल्ल्यान जावंये, खेरीज तन्नेपण, भुकेन रोखडेच पोटांत कावळे रडूंक लागले. शांतादुर्गा, नारायण देवाचें दर्शन घेतलें आनी आमी सरळ दादुल्या हॉटेलांत आयले.

१९३७-३८ सालांत स्वस्ताय म्हणटात ती तेंगशेवयल्या तेंगशेर पाविल्ली. खंयचीय विकती वस्त, पतीक नाल्ल, साखर, तांदूळ, गंव आनी हेर गरजेच्यो वस्तू सामक्यो सवाय मेळटाल्यो. वैशाखांतले उज्या-दीस म्हणटकीर आंबे, पणस, काण्णां, जांबळां खोंटल्यांनी सवाय मेळटालीं. वांटपण करपाक लज दिसताली.

आमी दोगांयनी दादुल्या हॉटेलांतलें एक मेज आनी दोन कदेलां आडायलीं. बाबान पयल्याच फाराक प्रत्येकाक दोन उंडे आनी मिक्स भाजी मागयली. हॉटेला भायलो रस्तो रामनाथीं बांदोड्या वता. दादुल्या फराळाचेर ताव मारून जाता थंय आसा, भायल्या रस्त्या कुशीक एका पाट्यांत गुलगुलीत मानकुराद आंबे विकूंक बशिल्लो एक मनीस दिसलो. मानकुराद सामके तामशे गालाचे, रुपयाक दूझ. बाबान वांटपण केलेंना: वेंचून बारा आंबे घेतले, बॉल्सांतली 'रोजर' कानवेत काडली आनी बेस बरे कापून अर्द मला अर्द तुला अशें करीत खायत बसले. वांगडा दादुल्यो गजाली. तो बाबाक बरो वळखतालो. सगळेच लोक त्या काळांत खावन-पिवन सुखी. वखवखेपण गरिबांतल्या गरीब मनशाच्या मुखामळार दिसनाशिल्लें. कोणागेरूय दोन वेळच्या जेवणाक मारामार नाशिल्ली.

दादू बाबाल्यो हांगच्यो थंयच्यो गजाली सोंपचे पयलीं देवळांत आरतिची इशारत जाली. आमी दोगूय उठले आनी तळये वाटेन देवळाकडेन गेले.

अर्द-पाऊण वरान आरत्यो जाल्यो. मागीर व्हडल्या अगरसाळींत समरादना. कुंडयकारांलो हो वर्सुकी वासंतीक उत्सव!

समरादनेचें जेवण सुस्ती येवपाचें. आमी कुवेलकारागेर आयले. म्हज्या दोळ्यांत न्हीद हुमकळटाली. शेंदरी पातळावन हांवें ताणून दिलें. बाबा, वसंतबाब, शिवुदाद आनी रावजीबाब हे तिनूय कुवेलकार तिनशें चार खेळांत गुल्ल जाल्ले.

म्हाका जाग आयली तेन्ना भायर काळोख जाल्लो. रातचीं साडेसात जाल्लीं आसतलीं. थोड्याच वेळान देवळांतली इशारत आयकूंक आयली. फुलवुड्यांची पंचम म्हणटकीर सदांच्या पंचमी खेरीत लालखेंत देवता बसता, चनरजोती पेट्टात, कलवंतां पालखे मुखार देवळाक प्रदक्षणा घालतना पेणीं करतात. मागीर आरती जावन त्या रातिचो मुखेल कार्यक्रम व्हडल्या अगरसाळींत. आंबो, तीन रसाळ घरे, चुन्नां, काण्णां आनी उरिल्लें पानभर दोन तरांच्यो उसळ्यो. रुचीन खावपाच्यो. उसळ्यांची आगळी वेगळी रूच उतरांनी वर्णूंक येवचिना. दर एकल्याच्या जिबेचें तें काम! उसळ्यो पोटभर खावपाक म्हाजन गर्दी करतालेच. खेरीत, शेजारच्या गांवांतले लोक ती सुवर्णसंद वगडाय नाशिल्ले. ते रातीं अगरसाळेच्या लांबरूंद सालांत कुंडयकारांल्यो सुनो आनी घरचीं बायलां भांगरां-शिंगरां घालून दर एका सवायशिणिची नाल्ल, फुलां दिवन होंट भरतालीं.

आरत्यो चलताल्यो. पुणून अर्दअदीक म्हाजन अगरसाळेंतल्या माळयेर आपापलीं पानां धरून बशिल्ले. सामकी खेंट. आमकां रोखडोच जागो मेळ्ळो. दर एकलो उसळ्यो रुचीन खावंक जिबेक धार काडून आयिल्लो. पंचम म्हळ्यार पालखी-लालखी. देवळाक प्रदक्षणा घालतना चंद्र अस्तमलेलो. रातचीं अकरा-साडेअकरा जाल्लीं.

उसळ्यांचो कार्यक्रम जावन लोक अगरसाळेंतल्यान भायर येता म्हणसर रातचीं साडेबारा एक जाल्लें. इतल्यांत 'आरे येसुल्या', असो कोणें तरी बाबाक उलो मारिल्लो आयकूंक आयलो. पळयल्यार जगाबाब धुमो आनी तांचो धाकलो भाव कृष्णबाब. दोगूय जाण व्हड पिरायेचे. म्हातारे. पुणून आंगान सडसडीत, घट्ट, खणखणीत धीट अशे जाण्टे. आमच्या वाडये गांवचे. दोगूय जाण मुजरत उसळ्यांच्या कार्यक्रमाक आयिल्ले. दोगूय उमेदी. दोगांकूय भंय-बीय कांय दिसनाशिल्लो. रातचे णवांक ते वाडये सावन कवळ्यां येवंक भायर सरिल्ले. वाटभर पंचमिच्या चंद्राचें चान्नें. सांगाताक त्या तेंपार एकादरो येतो-वतो मनीस तांकां वाटेर भेटलाय जावंये.

दोगूय जाणांनी एकाच सुरांत 'केन्ना आयलो रे वास्को सावन?' अशी मात्शी प्रस्तावना करून 'येसुल्या, या मरे वाडये?' अशें बाबाक विचारलें.

तो प्रस्न आयकना फुडें म्हज्या पोटांत भंयान एकदम गुळो आयलो. कवळें ते वाडी म्हळ्यार कोसभर वाट. तातूंत देड वर रात जाल्ली. बाबान फ्रार्टी फुडें विचार करी नासतना 'या तर' अशी जाप दिली. हांव भुरगो. कितें करतलों? तेन्ना चड करून फक्त परिक्षे वेळार देवाची याद येताली. तीय वाडये काळखांत, भुतां-खेतांच्या सांगातान चलपाचो प्रसंग येवन लेगीत आयलिना.

आमी चौगूय जाण वाडये येवपाक भायर सल्ले. बाबान कुवेलकाराल्या माळयेर दवरिल्लें आपलें ल्हानशें बॅग हातांत घेतलें आनी कपिलेश्वरीच्या वटेन बेताळाचें देवूळ लागता ते दिकेन चलूंक लागले. धा-बारा मिनटांची वाट. बेताळा देवळा फाटल्यान जगाबाब, कृष्णाप्पाची विधवा भयण धाबुआका रावताली. तिका दोगांयनी उठोवन तिजेकडल्यान चार-पांच सुकीं चुड्टां कृष्णाप्पान मागून घेतलीं. तीं कोयतेन कापून तांची चूड करून ती पेटयली आनी आमी दोन खांब्यांकडल्यान वाडयेच्या रस्त्याक लागले. जगाबाब आनी कृष्णाप्पाच्या तोंडाचो पटो चालू जालो तेन्ना आमी पावणांत पाविल्ले. मागीर दवरनें. थंय पावनाफुडें कृष्णाप्पान पांच-स दिसांफाटीं ह्याच जाग्यार शेंकरे माल्ले अशें बाबाक सांगलें. इतले म्हणसर दवरनें आयलें. थंय खंय आत्र्या पैऱ्यान भूत-चेष्टा जाताच – जगाबाबाली सांगणी. हांव तिगांयच्या मदीं चुडिच्या उजवाडांत पावलां उखलतालों. दवरन्या सावन सुरू जाल्या देंवतेर रातच्या किण्ण काळखांत पयसुल्ल्यान 'खण्ण् खण्ण्' असो एकसारको आवाज आयकूंक आयिल्ल्याचो भास जालो. उखळाबांद यो मेरेन तो कानार पडटालो. बांद काडनाफुडें मुशेर देंवचाराचें झाड दिसलें. हांगा म्हज्या पोटांत पांच पांच! पुणून इतले म्हणसर वाडी आयली.

हावाशिवा करून वाडये धुम्याल्या घरांत हाडून जीव घालो. 'सुटले एकदांचे', हांवें मनांत म्हळें. हातपांय आंगणांत धुले आनी तांगेल्या नव्या गुलाबी रंग मारिल्ल्या सालांत आमकां दोगांकूय घाल्ल्या हांतुणाचेर माथ्यावयल्यान पांगरून घेवन ताणून दिलें. मनांत म्हळें, 'आतां भुतां येवं ना जाल्यार तांचे फुडलीं येवं.' पुणून केन्ना दोळो लागलो तें कळ्ळें ना.

सकाळीं उठले तेन्ना साडेआठ काय णव जाल्लीं. तोंडबींड धुवन आनी च्या घेवन वास्को येवपाक फोंडेच्या तिस्का मेरेन चलत आयले. थंयच मडगांवां वचपाची कार्हेर मेळ्ळी. मागीर मडगांव सावन रेल्वेन वास्को पाव म्हणसर दनपारचीं बारा-साडेबारा जालीं. बाबान रजा काडिल्ली. तो ऑफिसाक गेलोना.

दनपरां जेवतना हांवें तळावले रामूशणैल्या घरासावन उखळाबांदामेरेन 'खण्ण् खण्ण्' अशा फोव कांडिल्लेवरी आवाजाची गजाल आईक सांगली. तिणें जाप दिवपाक वेळ केलोना. 'आरे आनंद, लाडाबायच्या देवळांत रातभर भुतां फोव कांडटात. ताचो तो आवाज.' आयकून म्हजें आंग शिरशिरलें.

सांजचो बाजारांत एक पासय मारता आसतना म्हजे बराबर शिकपी सांखळेचो कांता बोरकार मेळ्ळो. उलयतां उलयतां कवळेंच्या फुलवुड्यां पंचमिची आनी रातीं अगरसाळींत खाल्ल्या रुचीक उसळ्यांची सुरबूस गजाल ताका सांगल्या मात, कांतान म्हळें, 'रामाणी, तूं सांखळे यो. ह्या दिसांनी थंयच्या देवळांनी उसळ्यांच्यो ज्यों सुवादीक कार्यावळी जातात ताचो एकदां तरी लाव घे. आनी मागीर म्हाका सांग. बाकीबाबान लेगीत म्हळां: 'दुणी पौर्णिमा रसा न सीमा, उसळ्यांवर उसळ्या'.

कांतालें हें मत आयकतकीच म्हाका आनी उतर फुटलेंना.

१९३७ ते १९८१, म्हळ्यार चवेचाळीस वर्सांचो काळ गेलो. बाकीबाब पर्वरी रावताले. एक दीस तांगेल्या 'स्पर्श' ह्या सुंदर कवितेंतले वयले वळिचें कांता बोरकारान केल्लें 'रसग्रहण' हांवें बाकीबाबांक आयकयलें... आनी आमी दोगूय कितलो तरी वेळ पोट फुटसर हांस हांस हांसले...

* * *


*With best compliments from*

# M/s. D. N. HEMMADY & COMPANY

(NEVREKAR ENTERPRISES)

Dr. Costa Pereira Bldg., Near Municipal Garden,
P. O. Box No. 39, MARGAO – GOA 403 601.
Grams: HEMMADY. Tel.: 732215, 731192

Authorised Dealers in Goa for

- M/s. KIRLOSKAR OIL ENGINES LTD., PUNE
- M/s. KIRLOSKAR BROTHERS LTD., PUNE
- M/s. KIRLOSKAR ELECTRIC CO. LTD., BANGALORE
- THE MYSORE KIRLOSKAR LTD., HUBLI
- M/s. BATLIBOI & CO. LTD., MUMBAI
- M/s. HMP ENGINEERS LTD., (Formerly Rallis India Ltd.)

# चार दसकांची साहित्ययात्रा



— रवीन्द्र केळेकार

'मीर्ग' सुरू जालां तेन्नाच्यान बरोवपाक लागलां. 'मीर्ग'चो पयलो आंक उजवाडा आयिल्लो १९५३तल्या १५ ऑगस्टाक. सात दीस पयलीं लिखणी हातांत घेतिल्ली. तेन्ना पसून ती जी चलपाक लागिल्ली ती खंड पडनासतना आयच्या ह्या खिणा मेरेन चलत रावल्या.

मीर्ग सुरू केल्लें वर्ध्याकसून. वर्ध्याक पावचे पयलिंचीं म्हजीं चार वर्सां गोंयचे सुटकेचे चळवळींत खर्चल्लीं. चळवळींतल्यान डॉ. लोहियांनी आंग काडून घेतिल्लें. आमकां दिका दाखोवपी कोणूच नाशिल्लो. हाका लागून डझनभर फुडारी आमच्या वांट्याक आयिल्ले. केन्ना हाचे सरीं, केन्ना ताचे सरीं अशें करीत करीत एक दीस 'सशस्त्र क्रान्ती'त पडिल्ल्या एका पंगडाकडेन पावलों. कांय म्हयन्यां भितर हे वाटे वयलो म्हजो विस्वास साप उडून गेलो. अश्या वेळार गांधींचे अहिंसेंत कितेंय तथ्य आसा काय ना हें पळोवपा खातीर वर्ध्याक गेलों. वर्ध्याक त्या काळार काकासाहेब, विनोबा, किशोरलाल मश्रूवाला, कुपारप्पा हे गांधींचे मुखेल सांगाती वेगळ्यो वेगळ्यो संस्था चलयताले. आचार्य कृपालानीय येवन वचून आसताले. स सात म्हयन्यां भितर गांधींचे हे सांगाती गांधीयुगांतूच जल्मा येवं येतात आनी गांधीयुग खंयच्याय राष्ट्राच्या जिवितांत हजार दोन हजार वर्सांनीच केन्नाय तरी एक फावट येता ह्या निर्णयार पावलों. तांच्या पांयांकडेन बसून नवें नवें कितलेंशें शिकपाक लागलों. आनी —

गुपाट काळखांत चलतल्या मनशाक अवचीत वाटेर वीज जोगलावन एका खिणांत पुराय वाट स्पस्ट बरी दिश्टी पडची तशें-शें कितें जालें. जिविता कडेन पळोवपाची एक नदर म्हाका मेळ्ळी. आनी कोणायचीं गुपितां कळटकूच तीं दुसऱ्यांक सांगपा खातीर कांय जाणांची जीब हुळहुळपाक लागता, तशी, म्हाका जें कितें हांगा होलमल्लें, समजल्लें तें दुसऱ्यांक सांगपा खातीर म्हजी लिखणी हुळहुळपाक लागली. आनी हांवें 'मीर्ग' सुरू केलें.



कोणा खातीर सुरू केलें?

गोंयचे सुटके खातीर कितेंय तरी करूंक जाय म्हूण तळमळटाले आनी कितें करूंक जाय हें सारकें खबर नाशिल्ल्यान घुस्मट्टाले तांचे खातीर. वाचपी कोण हें थरतकूच म्हजे शैलीन आपशींच फावऽ ती दिका घेतली. तांकां जें कितें सांगचें-शें दिसतालें तें उकत्या चिंतनाच्या रुपान सांगपाक लागलों.

एक गजाल स्पस्ट करूंक जाय — कोंकणी बरपावळींत भर घालूंक जाय ही मोख मुखार दवरून हांवें 'मीर्ग' सुरू करूंक नाशिल्लें. ही मोख दवरिल्ली जाल्यार मीर्गांत कथा कविता बरयतलों आशिल्लों. कथा कविता हांवें बरोवंक नात. आयल्यात तेन्ना उजवाडायल्यात. जाय जाल्यात तेन्ना दुसरे भाशेंतल्यो अणकारून घेतल्यात. वामन सरदेसाय त्या दिसांनी वर्ध्याक म्हजेसरीं येवन राविल्लो. ताणें 'अभिजित' हें टोपण नांव घेवन कांय कविता 'मीर्गा'क दिल्यात. पुणून मीर्गांत चडशें विचारीक बरपूच दिलां. स्वता बरयलां वा अणकारून दिलां.

'मीर्ग' अडेच वर्सां चल्लें. पंद्रशे पंद्रशेक तें येत राविल्लें. उपरांत म्हाका दिल्लीक वचचें पडलें. दिल्लीकसून तें चलोवंक येवपा सारकें नाशिल्लें. म्हूण बंद केलें. वर्सभर दिल्लींत रावन मुम्बयंत आयलों आनी 'गोमंत भारती'त काम करपाक लागलों. तेन्ना 'गोमंत भारती' नांवाचें एक सप्तकी नेमाळें सुरू केलें. कोंकणींत. पुणून रोमी लिपींत. वाचपी धोबीतलाव चिराबाझार सारकेल्या वाटारांत रावतले गोंयकार किरिस्तांव भाव आशिल्ले. चडशे नवसाक्षर. तांचेर इगर्जेचो सगळ्यांत चड प्रभाव आशिल्लो आनी इगर्ज ते मेरेन प्रो-पुर्तुगीझूच उरिल्ली. वाचपी बदलतकूच म्हजी शैलीय बदलली आनी बरोवपाचे विशयूय बदलले. वाचप्यां भितर गोंयचो आनी कोंकणी भाशेचो उपाट मोग भरिल्लो पळेलो. तोच म्हाका तांचे कडेन आपलेपणाच्या सुतान बांदून घेवपाक पुरो जालो. तीन वर्सां हांव तांकां ह्या सप्तकी नेमाळ्यांतल्यान राष्ट्रवादी विचार दीत रावलों.

उपरांत गोंयांत आयलों. चार पांच वर्सां पसून बंदखणींत राविल्ले आमचे सुटके झुजारी सुटून आयिल्ले. तांचे मजगतीं भरसलों. दोन अडेच म्हयने पणजे क्वार्तेलाचेरूय उरलों. वर्सा भितर गोंय मेकळें जालें आनी मेकळ्या गोंयांत भारताच्या नक्शावयलें गोंयचें नांवनिशाण पुसून उडोवपा खातीर कांय शक्ती वयर सरिल्ल्यो पळेल्यो. त्यो गोंय महाराष्ट्रांत विरगळावंक सोदताल्यो. तांचे आड झुजपाक फुरफुरून आयलों. म्हजें अशें नवें नेमाळें सुरू केलें ना. पुणून म्हज्या इश्टांनी सुरू केल्लीं नेमाळीं आशिल्लीं. ह्या नेमाळ्यांतल्यान म्हजे विचार मांडपाक लागलों. तेन्ना म्हजो वाचपी पर्थून एक फावट बदललो. आपणाक मराठी लेखपी, गोंय महाराष्ट्रांत वचूंक जाय म्हणपी गोंयकार म्हजो वाचपी थरलो. ताचे ग्रह पूर्वग्रह दुराग्रह कातरून उडोवपाक म्हजे लिखणेन तरसादेचें रूप घेतलें. हाका लागून म्हजी शैलीय थोडीभोव झगडाळ जाली म्हणूं येता. एक घेतलें जाल्यार दोन दिवप ह्या नेमान बरयत रावलों. चडशें मराठींत बरयलें. १९६८ पसून १९८० मेरेनचें म्हजें बरप चडशें हेच दिकेन आनी हेच प्रेरणेन चलत रावलें. ह्या काळांतलें सगळें बरप हांवें सांबाळून दवरूंक ना. थोडेंभोव उरलां. तिसऱ्या वांट्या इतलेंच म्हणुंया. ताचे वयल्यान नदर भोंवडायतां तेन्ना हें बरप एका साहित्यिकान बरयल्लें न्हय, एका मिशनान भारून गेल्ल्या एका ध्येयवाद्याचें – एका झुजाऱ्याचें बरप कशें दिसता. अख्खो महाराष्ट्र

घुरी घालून आयिल्लो आसतना गोंय महाराष्ट्रांत कित्याक लागून गेलें ना, एक घटक राज्य म्हूण भारतांत कशें रावंक पावलें; जे भाशेक लिपी ना, व्याकरण ना म्हूण खासा तिचेच व्हडले व्हडले पूत हिणयत आयिल्ले ती कोंकणी भास भारतीय घटनेचे आठवे वळेरेंत कशी बसूंक पावली हें समजून घेवपाक आनी ताचेर पुस्तक बरोवपाक कोणूय मुखार सरलो जाल्यार ताका हें बरप उपकारा पडटलें, इतिहासीक दस्तावेजाचें – दोकुमेन्ताचें – ताका मोल आसा. 'साहित्य' म्हूण ताका व्हडलेंशें मोल ना.

पुणून हें बरप 'बरोवंक जाय' म्हूण बरोवंक ना, 'बरयले बगर रावं नज जालां' तेन्नाच बरयलां, जीव ओतून बरयलां हें मात म्हाका कबूल करचेंच पडटलें.

हाचो अर्थ, ह्या काळांत 'साहित्य' म्हणपा सारकें हांवें कांयच बरयलें ना असो मात करूंक येवपाचो ना. ह्या काळांत कोंकणींत जितलींय नेमाळीं भायर सरल्यांत तितल्याय नेमाळ्यां खातीर हांवें कितें-न्हय-कितें बरयलां. केन्ना आगळें वेगळें एक थळ पळेलां, आगळो वेगळो एक देखाव नदरे मुखार उबो रावला, केन्ना आगळो वेगळो कोणूय मनीस पळेला वा आगळो वेगळो अणभव घेतला तेन्ना तांची खबर सांगपाक लिखणी फुरफुरून आयल्या.

'उजवाडाचे सूर' ह्या पुस्तकांतलीं बरपां हे भाशेन बरोवन जाल्यांत. 'हिमालयांत' हेच प्रेरणेन बरोवन काडलां. 'भजगोविन्दम्' फाटल्यान हेच प्रेरणेन काम केलां. म्हज्यांत एक पत्रकार आसा हाची जाणवीक मीर्ग सुरू केलां तेन्ना सावन आशिल्ली. म्हज्यांत एक साहित्यकारूय आसा हाची जाणवीक ह्या बरपांनी म्हाका करून दिली. पत्रकारी बरप एक 'मिशन' म्हूण बरयत आयिल्लों. साहित्यीक बरप म्हजी खोस उक्तावपा खातीर बरोवपाक लागलों. म्हज्यांतल्या ह्या साहित्यकारा कडेन तेन्ना सावन हांव बारकायेन लक्षूय दिवपाक लागलों आनी ताका पोसवण दिवपाचेय यत्न करपाक लागलों.

ह्या बरपाक लागून म्हजी शैली पर्थून एक फावट बदलली. वाचपी म्हजे पांवड्याचे अशें धरून तांचे खातीर बरोवपाक लागलों.

जिस्त ह्या वेळार जिवितांतलो एक व्हडलो निर्णय हांवें घेतलो. सुमार चाळीस वर्सां जें मन राजकर्णांत घुसपून उरिल्लें तातुंतल्यान ताका भायर काडलें. राजकर्ण आतां आमच्या हातांत उरूंक ना – कोणाच्याच हातांत उरूंक ना – तांतूंत वेळ होगडावपांत अर्थ ना, तें निवळायतलों म्हळ्यार पयलीं सारकी शक्तीय उरूंक ना आनी आयुश्यूय चडशें उरूंक ना अशें खोलायेन दिसपाक लागलें. जांच्या सांगातान राजकर्ण केल्लें तांच्यांतले जिवाभावाचे कांय सांगातीय संवसार सोडून गेल्ले म्हूण ह्या मळार हांव आतां एकलो पडलां अशेंय कितें दिसपाक लागलें आनी हांवें राजकर्णांतलें निखटें आंग न्हय, तर मनूय काडून घेतलें. कोंकणीच्या मळार एक नवी पिळगी – आमचे पिळगे परसूय कर्तुत्वी – वयर सरिल्ली पळेली. तिच्या कर्तुत्वाक म्हजी आडखळ जावंक पावची न्हय म्हूण कोंकणी चळवळींतल्यान – बापूय जसो पुता कडेन घर संवसार दिवन जाता तसो – निवृत्त जालों. आनी उरिल्लें आयुष्य साहित्याक ओंपचें अशें थारायलें.

पयलीं मनांत आयलें, 'हिमालयांत' हें पुस्तक अर्दकुटें उरलां तें पुरें करतलों. हांवें जम्नोत्री गंगोत्रीची यात्रा केल्या त्याच वेळार केदार बद्रीचीय केल्या. पुस्तकांत जम्नोत्री गंगोत्रीचे यात्रेचीच खबर सांगल्या. केदार बद्रीचीय खबर सांगतलों आनी पुस्तक पुरें करतलों अशें येवजिल्लें. पुणून हे यात्रे उपरांत हांव काश्मिराकूय पावलां, दार्जिलिंग सिक्किमांतूय भोंवन आयलां, नागालँड मणिपुराकूय वचून आयलां. हिमालयाचेच हे सगळे वांटे. तांचीय खबर बरोवन काडले बगर पुस्तक पूर्ण जावपाचें ना अशें दिसलें. पुणून, प्रवास वर्णना खातीर जी शैली हांवें मानून घेतिल्ली – आनी जी म्हाका थोडीभोव सादिल्ली – ती आतां पोरणी जाल्या अशें दिसपाक लागलें. ते शैलींत बरोवप ना आनी नवी शैली अजून हाताक लागूंक ना. तेन्ना म्हळें, अर्दकुटें उरिल्लें पुस्तक पूर्ण करूंक बसचे परस नवेंच कितेंय बरोवंक घेतिल्लें बरें आनी 'ब्रह्मांडांतलें तांडव' बरोवपाक बसलों. वर्ध्याक जंय गांधी विचारांची वळख जाल्ली थंयच मळबांतल्या नखेत्रांचीय जाल्ली. अख्खें ब्रह्मांड त्या काळांत भोंवन आयिल्लों. तेन्ना म्हजेकडेन टेलेस्कोप नाशिल्लो. आतां एक टेलेस्कोपूय आयिल्लो. ह्या टेलेस्कोपाच्या आधारान पर्थून एक फावट ब्रह्मांडाचे यात्रेक भायर सरलों. हे खेपे धुवेक घेवन भायर सरलों. नक्षत्रविद्ये वयलीं नवीं नवीं पुस्तकां घेवन आयलों आनी फाटल्या तीस वर्सांत लागिल्ले नवे सोद सगळे समजून घेतले.

आनी दोन-तीन म्हयन्यां भितर पुराय पुस्तक बरोवन काडलें. 'तुवें कविता नाका बरोवं, पुणून ह्या पुस्तकाच्या रुपान तुवें कोंकणीक एक महाकाव्य दिलां' अशें पुस्तक वाचून बाकीबाबांनी म्हजे फाटीर हात मारून म्हळें तेन्ना 'हांवें आनीक कांयच बरयलें ना जाल्यार जाता' अशें म्हजे म्हाकाच दिसपाक लागलें.

पुणून, दोन वर्सां पयलीं 'महाभारत' हातांत घेतिल्लें. दोन खेपे सुरू करून रद्दूय केल्लें. तें परतें हातांत घेतलें आनी चार साडे चार वर्सां लावन पुरें केलें. केन्ना केन्ना तें खंयचें हातांत घेतलें-शें जालां. केन्ना केन्ना सोडून दिवचें-शेंय दिसलां. मुदलांतलीं शें देडशें पानां धा पानांत आटयतासर आठ-आठ, धा-धा वरां लागल्यांत तेन्ना खर्शेलां. पुणून काम करीत रावलां. असल्या व्हड कामांचें एक आसता – सुरू करूंक जाय. मागीर, तें कामूच तुजे कडल्यान आपणाक पुरें करून घेता. महाभारत कोंकणींत हाडटा आसतना हांव व्यासाचे प्रतिभेचो थाव घेवपाक बसलां आनी हे प्रक्रियेंत केन्ना केन्ना व्यासमय जालां. व्यासूच म्हजे कडल्यान हें बरोवन घेता अशें दिसलां आनी भक्तिनम्र जावन बरयत रावलां. महाभारत सुरू केलां त्या वेळार हांव आशिल्लों तोच, तें पुरें केलां त्या वेळार उरूंक ना. नवो जावन आयलां.

हो वावर चलता आसतनाच 'सुनापरान्त' सुरू जालें आनी 'जागा'नूय म्हयनाळ्याचें रूप घेतलें. ह्याच अदमासाक 'नवप्रभे'नूय बंद उडयल्लें 'स्वगत' परतें सुरू कर म्हूण मागलें. हांवें रासवळ मळावयल्यान आंग काडून घेतिल्लें आसलें तरूय म्हज्यांतल्या देशभक्तान देशांत जें कितें घडटा मोडटा ताचे हुस्के काडपाचें सोडून दिवंक नाशिल्लें. म्हूण, हांचे खातीर बरोवपाक लागलों. म्हज्या कामाचो, वेळा-तक्तो तयार केलो. आयतार मेकळो दवरप, सप्तकांतले पयले चार दीस हातांत घेतिल्ल्या खंयच्याय साहित्यीक प्रकल्पा खातीर कडेक काडप, सुक्रार 'नवप्रभे' खातीर आनी शेनवार 'जाग' वा 'सुनापरान्त' हांचे खातीर राखून दवरप अशें थारायलें. जें कितें बरोवपाचें आसता तें, तेन्ना सावन, हांव आदल्या दिसा येवजून दवरतां. सकाळच्या आदेसाक तें बरोवन काडटां आनी दनपारचो आदेस 'अभ्यासा' खातीर राखून दवरतां. 'नवप्रभें'तलें 'स्वगत' तेन्ना सावन चलत आयलां. तें नेमान आनी रुचीन वाचपी – तें वाचपा खातिरूच नवप्रभा घेवपी – लोक आसात ते हांवें पळेल्यात. वाचून ते केन्ना केन्ना तिडटात, केन्ना खुबतात आनी केन्ना खोश्शीय जातात म्हणपाचेंय पळेलां. म्हूण, जीव ओतून बरयत रावलां. वाचपी खुबतात, तिडटात ताका म्हजो उपाय ना. हांव तांकां खुबळायना, तिडायना. जें सत्य स्वगतांतल्यान उक्ताडा येता तेंच ताका खुबळायता, तिडायता. उगडें नागडें कोडू सत्य अशेंच करता आनी कोडू सत्य म्होंवांत घोळोवन सांगप म्हाका केन्ना जमलें ना, रुचलें ना. म्हूण म्हजी टिका करतल्यांक जाप दिवपाक हांव वचना.

सुनापरान्तांत वर्स दोन वर्सां बरयत रावलों आनी एक दीस 'आतां पुरो' अशें म्हळें आनी बंद केलें. सुनापरान्तानूय 'बरय' म्हळें ना. 'जागां'त मात नेमान बरयत रावलां. सुमार तिनशीं साडेतिनशीं ल्हान व्हड निबंध कोंकणींत बरोवन जाल्यात. तांतल्या कांय निबंधांचें 'समिधा' नांवाचें एक

पुस्तक पोरुं उजवाडा हाडलां. बाकिचे निबंध पुस्तका रुपान केन्ना उजवाडा येतले, खबर ना. पांच पुस्तकां तयार करून दवरल्यांत. केन्नाय तरी येतलीं. म्हाका ताकतीक ना. हांव आसतना आयलीं जाल्यार तांचे वयल्यान म्हाका आनीक एक हात ओडपाक मेळटलो. म्हजे कसवटणेक उतरून येतलीं. हांव नासतना आयलीं जाल्यार काळाचे कसवटणेक उतरून येतलीं.

एक गजाल मुजरत सांगूंक जाय – हांव पुस्तकां छापतां लोकां खातीर. बरयतां खासा म्हजे खोशये खातीर.

साहित्याच्या मळावयली म्हजी जात थारावची जाल्यार म्हाका निबंधकार म्हणचो पडटलो. निबंधकारांच्योय कितल्योश्यो जाती आसात. खबरेपत्रांतले अग्रलेख निबंधांत मोडटात. 'सायड आर्टिकल्सू'य निबंधांत येतात. हाचे भायर 'पर्सनल ॲसेज' नांवाची निबंधांची एक जात आसा. म्हज्या निबंधांक खंयचे जातींत बसोवचे, म्हाका सांगूंक येना. ते विचारीक तितले पर्सनलूय बी. म्हज्या निबंधांत विचारूय आसतात, तसो 'हांवू'य आसतां.

इतलेंय आसून म्हाका सांगूंक जाय, म्हजो खाशेलो फॉर्म दिसपटयांचो. 'वेळेवयल्यो घुलो' पसून तो सुरू जाल्लो. ह्या 'फॉर्मां'चे हांवें तरांतरांचे प्रयोग केल्यात. जे विचार उबून वतले आशिल्ले तांकां धरून दवरपा खातीर हांवें 'वेळे वयल्यो घुलो' बरयले. मागीर, जें एका निबंधांत सांगतलों आशिल्लों तें दिसपटयेच्या एका पानांत सांगूंक येत काय हें पळोवपा खातीर 'सांगाती' बरयलें. हो फॉर्म म्हजे कालेतीक मानवला. थोडो भोव साधलाय म्हणूं येता. 'सांगाती' उपरांत तसलेंच आनीक कितें कितें बरयलें तें 'ओथांबे' ह्या माथाळ्या खाला एकठांय करून दवरलां. 'जागां'त खंय खंय दिलां. 'जागा' खातीर ल्हान ल्हान 'नोट्स' बरयल्यो. तांतल्यो कांय वेंचून 'पिंपळा पानां' म्हूण एक पुस्तक तयार केलां. आनी केन्ना खंय वाचिल्ले, खंय आयकल्ले, खंय मेळिल्ले एके एके वा दोन दोन वळिंचे विचार 'पिड्डुको' ह्या नांवान पुंजावन दवरल्यात. बुद्ध म्हणटालो, खंयूय कितेंय सत्यवचन मेळ्ळें जाल्यार तें 'बुद्धवचन' धरचें आनी अनमन नासतना उखलून घेवचें. तशीं, खूब कडलीं सत्यवचनां हांवें उखलल्यांत. खंयचीं कोणाचीं हाचो हिशोब दवरूंक ना. म्हजीं जाल्यांत म्हूण तीं 'पिड्डुकां'नी गुंथून काडल्यांत.

कांय जाय विचारतात, तूं कितल्याश्या विशयांचेर बरयता. इतल्याय ह्या विशयांचो तूं अभ्यास केन्ना करता? सांगपाची गरजूच ना, अभ्यास करुनूच सगळें बरयतां. पुणून म्हाका एक गजाल मुजरत सांगची पडटली – फाटल्या चार साडेचार दसकां सावनचो म्हजो अभ्यासाचो विशय एकूच : गांधी. ह्या विशयाक कितलींशीं आंगां आसात. सगळींच समजलां अशें ना. पुणून जीं समजल्यांत तांचेर बरोवंक बसतां तेन्ना पर्थून एक फावट मूळ झरी कडेन वतां. गांधींनी कितें म्हळ्ळें तें समजून घेतां. तांगेल्या सांगात्यांनी ह्या विशयाचेर कितें म्हळां तें पळेतां. तांच्या विरोधकांचेंय मत्त लक्षांत घेतां. आनी तकलेंत स्पस्ट जाले उपरांतूच बरोवपाक बसतां. वाचप आनी बरोवप सोडून हालिंसाराक दुसरें कितेंच करिना. म्हूण जें बरयतां तें मन लावन बरयतां. आनी जें बरयतां तें 'म्हजें'च म्हूण दितां.

सप्तकांतले पयले चार दीस हांवें म्हज्या 'प्रकल्पां' खातीर राखून दवरिल्ले. 'ब्रह्मांडांतलें तांडव' आनी 'महाभारत' हे दोन प्रकल्प पुरे केले उपरांत हांवें हिन्दींत दोन पुस्तकां बरयलीं. एक गांधींचें जिवीत – कॉंग्रेस शताब्दी समिती खातीर आनी दुसरें काकासाहेबांचें जिवीत – काकासाहेब कालेलकर शताब्दी समिती खातीर. ते उपरांत परतो कोंकणी कडेन आयलों आनी बुद्धाचेर एक पुस्तक बरयतलों म्हूण बसलों. कितलींशीं पुस्तकां एकठांय केलीं. कितल्याशा जाणांक मेळ्ळों. आनी चार वर्सां लावन पुस्तक बरोवन पुरें केलें. 'तथागत' ह्या नांवान तें 'जागां'त खिस्ती-खिस्तिंनी तुर्ताक येवपाक लागलां.

'खूब बरयलें, आतां थांबिल्लें बरें' अशें खूब फावटी मनांत आयलें. पुणून जितलेय खेपे तें आयलें तितलेय खेपे 'तुजें बऱ्यांतलें बरें पुस्तक तुवें अजून कोंकणीक दिवंकूच ना' असो एक आवाज भितर काळजांत आयकूंक आयलो. आनी तीस पस्तीस वर्सांचो तरणाटो जाल्ले वरी आतां मेरेन बरयत रावलों. ब्यास्तराव्या वर्सांत पावल दवरलें तेन्ना म्हळें, आयुष्याचे बँक-बॅलन्सींत आतां कितलीं वर्सां उरल्यांत जातलीं, कोण सांगतलो? आतां व्हडलो खंयचोय प्रकल्प घेवन बसलों जाल्यार तो अर्दकुटोच उरतलो. ते परस जो दीस मेळटा तोच खरो अशें मानून त्या दिसा जाता तेंच बरोवन काडपाचें. आठ धा खंडांनी गांधींचें जिवीत बरोवपाचें – पुराय गांधीयुग उबें करपाचें – मनांत आशिल्लें. पांच सात वर्सां लागतलीं आशिल्लीं. तितलें आयुष्य उरलां जातलें अशें दिसना. म्हूण हो प्रकल्प तकलेंतलो तुर्ताक काडून उडयला. असलो कसलोच व्हडलो प्रकल्प हातांत घेवपाचो आतां धीर जायना. म्हूण, तुर्ताक जें बरयतां तें वेगळेच एके प्रेरणेन बरयतां – हालिंसाराक म्हाका दिसपाक लागलां, कोंकणी गद्याक कोंकणी रूप दिवपाचो यत्न आमी सारको केलो ना जाल्यार तें मराठी गद्याचें रूप घेवन मुखार वतलें. म्हाका कोंकणी सारकी येना हें हांव जाणां, कोंकणी सारकी कठीण भास दुसरी ना हेंवूय जाणां. तरी आसतना कोंकणी गद्याक कोंकणी रूप दिवपाचो जागरूक यत्न करीत रावलां. जे भाशेक काल पयर मेरेन कोण भासूच मानूंक तयार नाशिल्लो ते कोंकणी भाशेक आठवे वळेरेंतल्या बंगाली, हिन्दी, तमीळ बी भासांचे पंगतीक व्हरून बसोवपाक जांचो हातभार लागला तांची लागणूक ही अशें मानलां. आनी म्हजे कडेन म्हजे भाशेक जें कितें दिवपा सारकें आसा तें हांव जीव ओतून दीत रावलां. जें दितां तें आयचे वा फुडले पिळगेक अन्न म्हूण खावपाक उपकरा पडलें ना तरूय कोंकणी सरस्पतिच्या शेतांत – बऱ्यांतलें बरें पीक काडपाक – सारें म्हूण ताचो बऱ्यांतलो बरो उपेग जावं येता हे विशीं म्हाका इल्लोय दुबाव ना.

असलें भाग्य सपसप सगळ्या बरप्यांच्या वांट्याक येना.

* * *


*Season's Greetings!*



GOVIND M. POY
RAITURKAR
AND FILHOS

Estd. 1896
MARGAO – GOA

**Dealers in**
Hardware, Paints, Johnson Tiles
& Johnson Sanitaryware, Steel, Cement,
A.C. Sheets, Plywood, Pipes,
Bldg. Materials etc.

Telex: 0196-220 GPOY IN
Ph: 722212, 722883, Gram: GOMAPERAS

COMMONWEALTH DEVELOPERS

*presents*

## CD FULL MOON APARTMENTS

(EXCLUSIVE RESIDENTIAL COMPLEX AT FATORDA)

## CD STRAWBERRY PINK MINI VILLAS

(DESIGNER MINI VILLAS ON COLVA ROAD)

## CD BLUE CHIP

(WELL PLANNED COMMERCIAL COMPLEX IN MARGAO)

## CD SEASHELLS

(BEACHSIDE PLOTS NEAR CARMONA ZALOR BEACH)



# COMMONWEALTH DEVELOPERS

REAL ESTATE DIVISION OF

## DEVIKA BEVERAGES PVT. LTD.

CINE LATA BUILDING, MARGAO – GOA
PHONE: 736955, 734090, FAX: 0834-732980

# आदि पर्व

## केरळांतली कोंकणी साहित्यीक चळवळ मार्गदर्शन करून गेलेली अग्रगामी पिळगी

**शरतचंद्र शेणै**

मार्गदर्शकांची, अग्रगामी लोकांची, वळख घेवप हें निस्तर्क गरजेचें आनी महत्वाचें. तांचे जिणेविशिंची म्हायती भोव उपकारी. शणै गोंयबाब, माधव शानभाग हांचे सारकेल्यांचीं जीवचरित्रां फुडल्या पिळगेक सदां उमेद, उर्बा, स्फूर्त दीत आसतात.

कोंकणीविशिंची म्हायती एकठांय करून ती लोकांकडेन पावोवपांत शणै गोंयबाब निपूण आशिल्ले. भारताच्या खंयच्या खंयच्या कोनशांत कोंकणी खातीर कितें कितें कार्य जालें आनी जायत आसा हाची तांकां बारीक खबर आशिल्ली. तांच्या ३ जून १९२७ दिसाच्या उलोवपांत (गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक – पयलो खंड – गोमन्तक छापखानो, मुंबै, १९२८, पान १५०) ते म्हणटात –

> ''कोचीकारां भाशेन त्रावणकोरच्या गोंयकारांकूय कोंकणीचो जायतो अभिमान आसा. १९२४च्या मायांत अल्लेप्पींत बामणांची जी एक परिशद भरिल्ली तांतूंत कोंकणी भाशे संबंदान जाल्ले एके थारावणुकेंत म्हळां कि – दूदभास सुधरचे खातीर परिशदेच्या ''सारस्वत बोधिनी'' म्हयनाळ्याचीं कांय पानां देवनागरी अक्षरांनी बरैल्या कोंकणी मजकुराक लावंची.''

अशी विसाव्या शतमानाच्या तिसऱ्या दसकांत केरळांत कोंकणी विशीं एक नव जागरुकाय जाली. ताचे आदींय कांय वेंचीक जनांनी कोंकणीची तोखणायेची सेवा केल्या म्हळ्यार ती भजन कीर्तनांची, उत्सव वर्णनांची. निनांवी म्हूण उरिल्ल्यो तश्यो कांय कृती सोडल्यार केरळाची पयली कोंकणी कवयित्री म्हूण मुकार येता अमुलाक्का शेणै (१८५१-१९०२) जिचो मायगांव कोची. देखून कोची कोंकणी देवळाचो व्हडसो प्रभाव तिगेल्या गीतांचेर पडलो. कोचींत घडिल्ल्या महोत्सवाविशिंचीं तिचीं गितां आजूय तिचो उगडास राखून दवरतात. तिणें आनी तिचे पिळगेच्या बायलांनी गुंथिल्लीं बाकी कीर्तनां, गितां, सगळीं आज लोकांचे जिबेर घोळटात तरीय तांचें कर्तृत्व कोण एकल्याच्या नांवाक म्हूण लावप दुष्कर (अनुचीत बी!). अमुलाक्काल्या गितांचो रचनाकाळ एकुणिसाव्या शतमानाचीं निमणीं दसकां आसुनूय तीं कागताचेर छापलीं मात विसाव्या शतमानाच्या तिसऱ्या दसकांत!

शणै गोंयबाबान परामर्श केलेले अल्लेप्पींतले परिशदेक लागून (१९२४) केरळाचे हांगाथंयचे कांय प्रतिभावंत कोंकणीकडे वळ्ळे. 'सारस्वतबोधीनी'चीं कांय पानां कोंकणीक मेळ्ळीं. मलयाळम, संस्कृत, इंग्लेज सारकिल्या इतर भासांनी बरयतल्या कांय जनांनी कोंकणी लेखनां बरवप शुरू केलें. स्वयंची साहित्यरचना नाशिल्ल्या कोंकणी मोग्यांनी प्रकाशनाच्या मळार; प्रस्तावना बरोवन; आनी वितरण इत्यादींत सहाय दिवन सगट ते नवजागृतायेचो छाप केरळांतले कोंकणी साहित्यीक चळवळेचेर घालो.

अंचिकम्मळ गावांचे नारायण नरशीं पै (१८७९-१९५९) हांणी 'हरिकथा' माध्यमान साबार काणयो प्रस्तूत केल्यो. पुराण इतिहासीक विशयांवयल्यो मल्याळम हरिकथा अवतरण करून, ते खातीर यश जोडून मागीर त्योच तांणी कोंकणींत रचून प्रस्तुत केल्यो. 'कुचेलोपाख्यान', 'प्रह्लादचरित', 'चेल्लयाचरित', 'द्रौपदीवस्त्रहरण', 'सति शकूबाय' अश्यो कांय वेंचीक हरिकथा पुस्तकरुपानय तांणी छापून काडल्यो. गीत, संगीत आनी उपकथां सयत अवतरण करच्यो तांगेल्यो सरस काणयो सगल्या रसिकांक आवडिच्यो थारल्यो. पयस पयस गांवांनीय तांचें यश पावलें आनी थंय थंय वचून तांणी हरिकथा सांगल्यो. व्हड संकश्टांची जीण आशिल्ली तांची. अनारोग्यांत, आर्थीक अडचणेंत आपले निमणे दीस तांणी काडलेले. पूण कोचीच्या रायामुकार लेगीत तांणी आपली 'हरिकथा' प्रस्तूत केली आनी ते खातीर प्रशंसाय जोडली. हरिकथेंत मर्दी मर्दी प्रस्तुत करच्या गितांखातीर वेगळ्या वेगळ्या रागांचोय तांणी प्रयोग केलो. तरीय तांणी छापून तयार केल्ल्या पुस्तकांच्यो प्रती चडश्यो अखेल वाळतेंचें खाण जाल्यो! १९७९ वर्सा कोचींत तांची जन्मशती सघोष चल्ली तरीय आजीय, तांची एक कृति लेगीत परती उजवाडावचे खातीर आयची पिळगी मुकार आयलिना हो एक उणावूच म्हणूंक जाय.

पळ्ळिप्पुरम गांवांचे आर. सी. शर्मा (१८९६-१९८०) हांणी भक्तकवि म्हूण नांव जोडलें. आर. सी. शर्मा, म्हळ्यार रामचंद्र शर्मा, हांचेरीय १९२४चे परिशदेन केलेल्या उल्याचो प्रभाव पडलो. 'भाषागानमंजरी' हो तांगेलो भक्तिगितांचो झेलो तांणी १९३० वर्सा उजवाडायलो. तांच्या गितांक व्हड ख्याती आनी जनप्रीति मेळ्ळी. पोस्सो भरून मल्याळम पुस्तकां रचून मेळ्ळेली साहित्यीक तांक तांचे कोंकणी कृतींत खुबशी झळकली. त्या कालाच्या तेग महंताल्या मर्णात खंत उक्तावपी एक शोककविता तांणी रचिल्ली (अश्रुबिन्दु). त्या नमुन्याची ती पयली वयली कविता म्हूण अनुमान करतात. १९३१ वर्सा तोरवूर साकून उजवाडायल्ल्या झेल्यांतूय ('गानांजली'त) हांगेलीं कांय गितां आशिल्लीं. १९७८ वर्साचे बारावे अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेंत (कोची) तांचो भोवमान जालो तरीय तांची बरपावळ नागरीन परती उजवाडा हाडपाक आयचे पिळगेक संद मेळ्ळिना! पूण सगल्या पिळग्यांच्या बायलांले जिबेर तांगेलीं भक्तिगितां अनश्वर कशीं थीर रावल्यांत. दर वर्सा (आतांय) नवरात्रिच्या दिसांनी आर. सी. शर्मा घरघरवंतांत भोंवडी घेता!

हांचे परस भार्ग्यवंत अम्बलपळेची जी. कमलाम्माळ (१९०२-१९८३). कोंकणी साहित्याखातीर तिका बापसुचो अनुग्रह मेळ्ळो. 'रघुरामायण', 'पात्रचचित', 'दोन मित्रां' हीं तिचीं पुस्तकां. रघुरामायणाचें फकत 'बालकाण्ड' पयलीं प्रकाशन केलेलें. सुशीलन म्हूण एक मल्याळम कथाय तिणें रचल्या आनी पुस्तक रुपान उजवाडायल्या. १९७८ वर्सा कोचींत भरलेले अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या बाराव्या अधिवेशनांत हिचोय भोवमान जालोलो, पूण पुस्तक कांय तेन्नाय उजवाडायलोना. (ह्या संदर्भांत एक मुजरत लक्षांत घेवपासारकी गजाल म्हळ्यार, अमुलक्का शेणै १९०२ वर्सा सोंपली आनी कमलाम्माळ १९०२ वर्सा जन्मली!) पुण हिचें महाकाव्य 'रघुरामायण' संपूर्ण रुपान, योग्य जावन, नागरीन उजवाडावपाक १९८१ वर्सा केरळ कोंकणी अकादमी मुखार आयली. 'रघुरामायण' हें केरळ कोंकणी

अकादमीचें पयलें प्रकाशन कवयित्रीचे सान्निध्यांतूच जालें.

जीवनकाळ तुळा केल्यार परकाड गावांचे आर. रंगनाथ प्रभु (१९०३-१९५२) हांची जीण भोव ह्रस्व. पुण तांचो श्रम मोटो आनी कोंकणीवयलो मोग अगाध. मधुरा कॉळेज, त्रिवेंद्रम सायन्स कॉळेज हांगा सगट शिकून, बी.ए. एल.टी. डिग्री घेवन, तोरवूर टी.डी. हायस्कूळांत अध्यापक आसून तांणी कोंकणी म्हण्यांचो एक संग्रह, कोंकणीचो एक शब्दकोश, एक स्वयंबोधिनी हीं सगट तयार केलीं. आतां आमकां हे विशीं फकत म्हायती आसा पूण त्यो कसल्योय कृती उजवाडाक आयल्योनात! तांचें हातबरप आतां खंय, कोणाकडें आसा हाचीय कोणाक खात्री ना! कोंकणींतल्या साहित्या आदीं तांणी हेर भासांनीय खूब बरयलेलें. हें साहित्य तेन्नाच्या नेमाळ्यांनी प्रकाशित जालां. केरळांतल्या कोंकणी साहित्यिक वावरांत हांचें नांव प्रथम गणनीय म्हणूंक वेगळींय कारणां आसात. केरळाचें पयलें कोंकणी नेमाळें तांणीच उबें केलेलें. तागेलें 'The Konkani' म्हयनाळें १९४४ सुरू जावन सुमार दोन वर्सां चल्लें. तें म्हळ्यार एक हातबरपा नेमाळें, ताच्यो धा-बारा प्रती हातबरपानूच तयार करून ते वेगळ्या वेगळ्या वाठारांतल्या कोंकणी संस्थांकडे पावयताले. त्या नेमाळ्यांचेर त्या काळांतले हेर कोंकणी लेखकय बरयताले. ताचेनिमित्तीं एक नवी उमेद, उर्बा तांचेंमदीं जागी जाल्ली. त्या नेमाळ्याचेर तांणी स्वयं बरयलेल्यो कांय कथा आसात ज्यो केरळांत कोंकणीन तयार जालेल्यो पयल्यो वयल्यो कथा जावंक जाय अशें अनुमान जालां. वेगळ्या वेगळ्या लिखणे-नांवांनी तांणी बरयलेल्या कथांनी कांय कथापात्रां परतून परतून तोंड दाखोवन चिरप्रतिष्टित जाल्यांत.

तांचे विशीं म्हायती घेवपाखातीर तांच्या घरवंताक गेलोलो म्हजो एक इश्ट थंयच्या पुस्तकां भरशीं 'काबूली द्राक्षां' ह्या पुस्तकाचें एक पान पळोवन अजापलो. तें पुस्तक १९४० वर्सा कारवारा साकून माधव मंजुनाथ शानभाग हांणी उजवाडायलेलें! (बरोवपी – बालमुकुंद केशव आचार्य) तें केरळांत कशी पावलें? कारवाराच्या कांय कोणाकडे हांकां संपर्क आशिल्लो काय? ह्या वेळार आनी एक म्हायती सांगपा सारकी आसा. १९४३ वर्सालागीं तोरवूर आनी लागिंच्या वाठारांनी तीन पावटी, एक कोंकणी नाटक माचयेर खेळ्ळें – 'चन्द्रहास चरित' हें तें नाटक, केरळांतले कोंकणी माचयेर आयिल्लें पयलें वयलें कोंकणी नाटक. बोळंतूर कृष्ण प्रभु हांणी रचिल्लें हें नाटक कारवारांत जाल्ले पयले अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेंत (१९३१) वाचिल्लें अशीय म्हायती मेळटा. तें नाटक केरळांत कशी पावलें? वयर सांगलेले म्हायते प्रमाण, घेवपा सारको एक अनुमान म्हळ्यार कारवार-तोरवूर संपर्क जोडलेलो तो मनीश, आमचो हो रंगनाथ प्रभु! १९३९ वर्साचे परिशदेक तो कारवार गेल्लो आसुंये. थंय हेर कोंकणी मोग्यांची वळख घेवन तांचेकडे लागिंचो संपर्क दवरून ताणें 'चन्द्रहास चरीत' आनी 'काबूली द्राक्षां' तोरवूर पावयलीं जावंये.

कारवार परिशदेंत माधवमामा भरशीं वावुरलेलो एक म्हांतार माम आजीय आसा आनी तांची याद बरी थोरी आसा अशें आयकलां. एकदां तांकां ह्या तोरवूरच्या तरनाट्याली (रंगनाथ प्रभूक तेन्ना ३६ वर्सां) याद आसुंये! रंगनाथ प्रभूक त्या काळांत फोटोग्राफिचीय ओड आशिल्ली.

साहित्य सृजनांतल्यान कोंकणीची सेवा केलेले एके पिळगेच्यो खबऱ्यो सांगतना खासा वेगळे रितीची सेवा केलेल्या आर. एस. प्रभु (१८७८-१९५६) हांची वळख दिलिना तर अन्याय जातलो. अंचिकम्मळ, कासरगोड, मंगळूर हांगा सगट राबितो करतना तांणी कोंकणीच्यो म्हण्यो आनी वाक्प्रचार (Idioms, phrases and proverbs) पुंजायले. कोणें स्टाम्प, नाणीं बी एकठांय करचे वरी तांणी म्हण्यो एकठांय करून, त्यो अक्षरांप्रमाण मांडून नांगरींत बरे तरेन बरोवन दवरल्यो! सुमार तीन हाजारांलागीं आशिल्ल्यो त्यो म्हणी एक अमूल्य ग्रंथ म्हूण १९८५ वर्सा केरळ कोंकणी अकादमीन उजवाडाक हाडल्यो – 'म्हण्यां सोरू'.

ते पिळगेंतल्या आनिकूय साबार जाणांनी आपआपले तांकीप्रमाण मायभाशेची सेवा केली. चेराय गावांचे पत्मनाभ भट (१८९०-१९५३) ह्या संस्कृत विद्वानान 'सत्यनारायणव्रतकथा' कोंकणीन उतरायली. रंगनाथ प्रभूंल्या 'The Konkani' ह्या नेमाळ्याचेर हांची 'श्रीकृष्णास्तव मातृकाक्षरमाला' आयली. हांच्यो वेगळ्योय कांय भक्तिकृती आसात. १९२४ वर्सा अल्लेप्पींत भरलेले परिशदेक लागून तांणी कोंकणींतल्यान हरिकथा सांगलेली – 'प्रह्लादचरित'!

कोचीची द्रौपदी बाय (१८८५-१९७६) आनी जंबक्का शेणै हांच्या गितांचो एक एक झेलो मल्याळम लिपींत उजवाडाक आयलो. 'गुरुभक्ति' ह्या द्रौपदी बायच्या पुस्तकांत (१९५१) दोन लघुकाव्यां आस्पावल्यांत. तींय वेगळीं तिचीं कांय पदां एकठांय करून 'कोंकणी भाषा स्तुति गीतांजलि' १९९४ वर्सा उजवाडाक आयली. जंबक्का शेणैलीं २५ कृष्णकीर्तनां 'श्रीकृष्ण लीलामृत गानमाला' हांतूंत आस्पावल्यांत. पोरवूर गांवाची सुमित्रा बाय (१९२३-१९८४) हांणी गुंथिल्लीं कृष्णभजनां १९४७ वर्सा 'गानमालिका' ह्या झेल्यांतल्यान उजवाडायल्यांत.

आपल्या कृष्ण भजनांचो एक झेलो १९५१ वर्सा कुरपळे गांवाचे एन्. एन्. पत्मनाभ शेणै हांणीय उजवाडाक हाडलो. एक स्कूळमास्टर आसून तो भुरग्यांक भजन नाटक आदी करूंक प्रचोदन पालव दितालो..

एल्. नारायण मल्या (१९१३-१९६३) हांणी कोंकणी बरोबर मल्याळम आनी इंग्लेज भासांनीय दीर्घकविता रचल्यो पूण तागेलें पुस्तक मेळना.

कोंकणींत चड बरपावळ नासुनूय केरळांतले कोंकणी चळवळेचे फुडारी म्हूण दोग महंतांलीं नांवां मुकार येतात – तोरवूरचो आर. माधव पै आनी वैकमचो एस. जी. नायक. मल्याळम भाशेचो साहित्यकार आनी तांकिवंत प्रकाशक म्हूण नांव जोडलेले माधव पै हांणी श्री नरसिंहविळास वाचनालयावतीन 'गानांजली' उजवाडायली (वर्स १९३०). हांतूंत एक गीत तांणी स्वयं रचलेलें तरी सात गितां आर. सी. शर्मालीं, पांच गितां के. श्रीनिवास कामत, बी.ए.बी.एल्. हांचीं आनी चार गितां विद्वान ए. डी. हरिशर्मालीं आसलीं. तसो एक संग्रह (म्हळ्यार प्रातिनिधीक रुपाचो) उजवाडा हाडपी तो पयलो मनीस आशिल्लो. रंगनाथ प्रभूल्या The Konkani नेमाळ्याचेर हांणी कांय लेखनां कोंकणींत बरयलेलीं तातुंतल्यान कोंकणीवयलो तागेलो मोग उकतो जाता. वैकमचे एस. जी. नायक हांणी एक नामनेचें कोंकणी बरप मलयाळमांत अणकारून केरळाच्या कोंकणी लोकांक आत्मधीर आनी आत्मविश्वास दिलो. हें बरप रावसाहेब दो. वी. पी. चव्हाण हांचें The Konkan and the Konkani Language हाचो मलयाळम अणकार १९२६ वर्सा उजवाडावन कोची त्रावणकोर राज्यांनी भोंवडी करून तांणीच (नायक) वितरण केलो. ह्या पुस्तकानिमित्तीं त्या काळाचे कोंकणी साहित्यिक चळवळीक थोडोभोव फायदो जालो हातूंत दुबाव ना.

केरळांतल्या कोंकणी साहित्याविशीं, चळवळीविशीं समग्र रुपान म्हायती एकठांय करूंक आज मेरेन जावं, खंयचेय संस्थेचे वतीन, जावं कोणेय एके व्यक्तिचे वतीन, कसलोच वावर जालोना. ताचे उरफाटें खंय तरी कोणें कोणें हाचें ताचें म्हणणें आयकून, तांचे तांचे कल्पनेचे तांकी प्रमाण म्हायती 'निर्माण' केली! केरळांत जन्म घेवंकच ना तसल्यांचीं नांवां घेवन मोट्या थोर सांकल्पीक पुस्तकांचीं नांवां घेवन बसप म्हळ्यार आपणाकूच फटवप! तरीपूण ताची गरज कसली? स्वाभिमान जागोवंक फाव तसो वावर आमच्या पूर्विकांनी केलाच मू! तोच आमी वळखून घेवंया!

* * *

# हुस्को

— महादेव नाडकर्णी

*''चिंता से चतुराई घटे*
*दु:ख से घटे शरीर*
*पाप से लक्ष्मी घटे*
*कह गया दास कबीर...''*

म्हजी बा, पिराय णव्वद वयर (इतलें आसुनूय आयज मेरेन जियेता. जियेवं बाबडी) म्हळ्यार म्हज्या बाप्पाली आवय. केन्ना केन्नाय भुरगेपणांत – म्हज्या भुरगेपणांत – वेलो कबीरालो दोहो म्हणटाली आनी फुडें सांगताली, ''... म्हणटकीर मनशान हुस्को केन्नाच करचो न्हय. बलायकी इबाडटा.'' आयज तिचें – कबीरालें तें म्हणणें – खरें थारता. खंयच्याय वैजाक विचारात. 'बेठोच हुस्को करप बलायकेक बरें न्हय' अशेंच तो सांगतलो. इतलें आसुनूय अजाप म्हळ्यार जण एकलो हुस्को करपाचें कशेंच सोडिना!

पिरायेचीं ब्यायशीं वर्सां जाल्लो एक म्हातारो कुटकुटीत आसा अशें पळोवन एकल्यान ताका विचारलें, 'हे पिरायेरूय तुमी अशे कशे?'

'हांवें केन्नाच हुस्को केलो ना. पिराय वाडोवपाचें हें म्हजें गुपीत.' ताणें जाप दिली आनी फुडें म्हळें – 'हांव पानार पडटा तें खातां. म्हळ्यार, हे पिरायेर पचता तेंच...'

मोरारजी देसाय, भारताचे फाटले पंतप्रधान, पिरायेचीं णव्याण्णव जातकच भायर पडले. ताचेंय बी हेंच गुपीत व्हय? ते आशिल्ले जाल्यार विचारूंक येतालें... कोण म्हणटात, ते 'शिवांबू' घेताले म्हण ते इतलीं वर्सां जियेले. तशें जाल्यार मेळत तो 'शिवांबू'चो प्रयोग करतलो आशिल्लो!

वाटेवयल्यान वतल्याक तुमी हटकियात, 'शंबर वरसां पिराय रे तुका! निकतीच याद केल्ली तुजी!'

ह्या उतराक तो म्हणटलो, 'हे म्हारगाये मुखार पयलींच आसा ती पिराय म्हाका जड जाल्या. थंय तूं कित्याक मागता म्हजी पिराय वाडोवंक?'

पयर अशोच गजाली करतना एकल्यान म्हाका प्रस्न केलो. 'तुका न्हीद पडटा?' हांवें हय म्हण सांगतकीर ताणें म्हाका म्हळें, 'तूं जाचे विशीं उलयता ताका न्हीद पडटा काय ना तें तूं जाणा?'

ह्या प्रस्नान म्हजे तकलेंत उजवाड पडलो. हांव गजाली करतालों तो मनीस नागोवणो आशिल्लो. देवांकय ताणें नागयल्यात. हांवच न्हय, सगळे लोक जाणात. 'कितें केलें देवांनी ताचें?' अशें विचारपाक वयल्या प्रस्नान म्हजें तोंड धरलें!

हे गजालीन म्हाका एक गजाल येवजली. न्हय, हावें अणभवली. म्हळ्यार, दुसऱ्याक घडली ती ह्या म्हज्या दोळ्यांनी पळयली.

एक मनीस न्हिदिल्ले कडेन ऊठ-बस करतालो. म्हज्यान सोंसूंक नज जावन ताका विचारलें, 'आगा, तुमी अशें कितें करतात? तुमकां न्हीद पडना?'

म्हजे म्हऱ्यांत दुसरो एकलो न्हिदिल्लो. ताणें म्हाका शिटकायलो – 'आरे, तो देंमांदिश्त म्हण खबर ना तुका? कोणाच्या घरार कसलें सुणें चडोवपाचें तें तो येवजिता म्हण ताका न्हीद पडना, आतां कळ्ळें?'

हुस्को! कोणाक कसलो आसतलो हाचो हिशेबच मेळना! लोकांचें उलोवप सोंपें. आपणाल्या पांयांकडेन कितें जळटा तें पयलीं पळोवंया.

म्हजी घरकान्न पयलीं आपणाल्या बाप्पाविशीं हुस्को करताली. तो एक दीस पेड्डेर जाले उपरांत आपणाले आवयविशीं तिका हुस्को!

घरांत भितर सरून हांव आंगाचें देंवयतां थंय आसां, तिगेलो प्रस्न, 'बाबू (तिगेलो भाव) आयिल्लो?' ना म्हूण सांगलें तरिकूय हुस्को, हय म्हण सांगल्यारूय हुस्को!

म्हज्यान सोंसूं नज जावन एक दीस ह्या प्रस्नाक लागून हांव घरकान्निचेर ताप ताप तापलों. न्हिवूंक वेळ लागलोना. कारण म्हानिवेद्याचो वेळ जाल्लो न्हय! पोटांत कावळे रडटाले. रोखडेंच पानार बसूंक जाय आशिल्लें! पानार जिनोस, तेवूय बी रुचिचे, पडूंक नाकात?

एक दीस तिचो भाव व्यापारा निमतान आयिल्लो. तसोच म्हजेसरीं आयलो. ताका हांवें म्हळें, 'तुवें म्हाका मेळचे वाट्याचो तुजे भयणीक कित्याक मेळना? तूं तुगेली हजेरी घराच लायिल्ली बरी. तुजी भयण म्हाका अशें-अशें विचारता. तूंच तुज्या तोंडान सांग कितें सांगपाचें तें. तूं तिचो भाव जाल्ल्यान तुका जायतें विचारपाचो तिका अधिकार!'

आतां ह्या प्रस्नान कितें घात जालो कोणाचो? आयज मेरेन म्हजो मेवणो म्हजें तोंड पळयना. भायले भायर घरा येता. भयणीक तोंड दाखयता. तिणें दिल्ली च्या-कॉफी-खावंक घेता. तिचेकडेन उलयता आनी वता.

म्हाका तिगी चलयो. फाटोफाट जाल्ल्यो. तीं भुरगीं आसूं, पुणून येन्ना सावन तांकां तयार कशीं करप हाचो म्हाका हुस्को. घरकान्नीक चल्याचो हुस्को! एका विदेशी विद्वानान खंय तरी बरोवन दवरलां – 'लग्न जाय मेरेन पूत पूत आसता. धूव मात सदांच धूव आसता – (A son is a son till he finds his wife; a daughter is a daughter all her life). मनांत आयलें, हें हिका कोण सांगतलो? बरीं बरीं पुस्तकां वाचचीं, म्हणटकर कळटलें. पुणून ना! हुस्को कसो ना जातलो? ह्या हुस्क्यान तिची बलायकी इबाडत म्हणून म्हाका हुस्को! हुस्को करपाचें आमी सोडिनात काय हुस्को आमकां सोडिना हें कळप मोटें कठीण. कोणाच्या फाटल्यान हो हुस्को लागत म्हूण सांगपाची माणसुकी ना. पांयांनी वतल्याक सायकलीन वेता तें पळोवन दोळे फुट्टात. बरें, सायकल मेळ्ळी तर स्कूटरीन वतल्याक पळोवन ताच्या पोटांत मुड्डता. स्कूटर मेळटकीर ताका मोटार घेयन दिसता. मोटार मेळटकीर ताका अमकीच मोटार बरी हें येवजता. येवजिता तसली मेळ्ळी म्हणटकीर ती अमक्याच रंगाची बरी इतलें समजुपा इतलो तो बुदवंत जाता! पुणून हुस्को करपाचें सोडिना!

पयशे, बऱ्या वायट मार्गान मेळोवपीय हेच पतिचो! हजार मेळटकीर ताका लाखाचो हुस्को! लाख मेळटकीर ताका कोटीचो हुस्को! कोटी जाल्यारय एक-दोन करतां करतां दोनय हाताचीं पांयांचीं बोटां – सोंपून सोंपनात. कोटी जातकच ते कशे सांबाळचे हाचो हुस्को. खंयूय खट्ट जालें म्हणटकीर तो भियेता. चोर आयलोना मू, हो दुबाव. ह्या दुबावान तो परतो-परतो पयशे दवरिल्लें बुशेद सांसपिता. ताका न्हीद सारकी पडना. न्हीद सारकी पडना म्हूण तो न्हिदेच्यो गुळयो घेता.

कोणाक भाटांचो हुस्को, कोणाक देमांदाचो. हुस्को करनाशिल्लो एकलोय मेळूंक कठीण. वखदाक लेगीत!

* * *

# कुंकुमार्चन

— मीना काकोडकार

**सा**लांत गर्दी जमल्या...
दादल्यांची.
भितरले कुडींत...
बायलांची.
घरांतलो जाणटेलो...
जयंताचो बापूय,
निलाचो मांव – आबा
भायर पडला.

'असो अकस्मात कसो गेलो ?'

'कितें जालें ?'

रुटीन प्रस्न !

प्रत्येकान न चुकतां विचारपाचे.

ताका मागीर घरच्यांनी दिवपाची...

रुटीन जाप !

'बरो उठला... च्या पिला... पेपर वाचूंक बसला. मातश्या वेळान पळयत जाल्यार...'

'च्... च्...'

मागीर थोडो वेळ हालीं कोण कोण कशे अकस्मात गेले ताची उजळणी.

थोडो वेळ आबाच्या यादिंची उजळणी !

आबाक व्हरूंक अजून वेळ आसा.

तेदोळ म्हणसर रावंक जांकां वेळ ना तीं पांच मिनटां बसून उठलीं.

जे रावल्यात तांच्यो ल्हवू आवाजांत गजाली सुरू.

कसल्यो म्हणून ना.

राजकारणाच्यो !

धंद्याच्यो !

पावस पाणयाच्यो !

जगावेल्यो !

आनी भितरले कुडींत...

सोयरिकांच्यो !

लग्नांच्यो !

भुरग्या बाळांच्यो !

कोणाच्या दुख्खाचें कोणाक पडलां !

वेळ तर वचूंक जाय.

रीत म्हणून येवंकच जाय, तशे थोडे आयल्यात.

निला मोन्यांनी सगळें पळयता, आयकता...

कांतूले आवयची फुतफूत...

'आयाव मरण येवंक भाग्य लागता.'

'हय गे बाये !'

तिचें म्हणणें पटिल्लेवरी भोंवतणच्यो मानो हालतात.

'रांडाव जीण म्हळ्यार खंयच्या जल्माचें पातक !'

मानो परत हालतात.

ही फुतफूत शांताबायच्या कानार पडपा इतली व्हडान...
निलाक भितरल्यान किंवाटे येतात.

तरीकय तितल्याचेर कांतूचे आवयचें उलोवणें सोंपतलें अशें दिसून तें ओगी रावता.

पूण ना.

तिचें सोंपूंक ना.

आपल्या कुळारचीं कोण कोण कितल्या भाग्याचीं हें ती रंगार येवन सांगत आसा.

आतां मात निला उठटा.

तिचे म्हऱ्यांत वता.

'हें पळयात, ह्यो गजाली हांगा करूं नाकात.'

निलाचो आवाज ल्हवू आनी थंड आसा.

पूण तातुंतली खरसाण कांतूले आवयक जाणवता.

तिचें उलोवणें अर्द्यारच बंद जाता.

पांच मिनटां भितर तर ती उठूनच वता.

निलाक बरें दिसता !

कोणाच्या पाप-पुण्याचो हिशेब मांडूंक बसल्यांत हीं ?

घोव आनी बायल हांचे मदलो कोण तरी एकलो पयलीं वचपाचो. दुसरो मागीर वचपाचो.

हातूंत पाप-पुण्य खंयचें आयलें ?

घोवा मागीर गेल्यार दुर्भाग्याचें, हें कोणें थारायलें ?

श्शी !

निलाक याद आसा –

ह्याच कांतूची आजी कितलिंशींच वर्सां हांतुणार उरिल्ली.

आंगाक खिणां... चवनां...

सगले वेव्हार हांतुणार.

जितें, जिवें मरण !

आपणें हाल भोगले.

घरच्यांकय भोगयले.



गेल्यार पुरो, अशें एकान एक दीस सर जगली.
आनी उपरांत –
चवथिचे ऐन परबेर सगळ्यांचो विरस करून गेली...
मात गेली ती कपलार कुकूम घेवन!
तितलेच खातीर ती भोव भाग्याची?
तशें जाल्यार...
तिणें जे हाल भोगले...
तिच्या वांगडा घरच्यांनी भोगले...
ते कोणाच्या पातकाक लागून काय?
मनाक क्लेश दिवपी
जिणेंत दुख्ख हाडपी
परंपरागत संस्कार...
ह्या संस्कारांचे कसवटेर घांसून
पाप-पुण्य थारावचेलें?
लोकांच्या भंयान?
दादल्यांची जीण बदलना –
बायलांची बदलची अशी अपेक्षा कोणेंय कित्याक धरची?
निलाचें मन बंड करता.

✻ ✻ ✻

आबाक व्हरपाचो वेळ जाला.
निमणो नमस्कार...
निमणो निरोप...
काळजांत दाटून आयिल्ले उमाळे मेकळे जावन दोळ्यांतल्यान व्हांवपाचो निमणो खीण!
त्या खिणाक निलाक याद जाता...
चंपूमामीची!
जायत्या वर्सां फाटीं...
निला जेन्ना पांच, स वर्सांचें आशिल्लें
तेन्ना चंपूमामी आनी सोनूमामा तांच्या शेजरा रावऽ.
कपलभर आडवो कुकूम.
आंबाड्यार रासभर फुलां.
आनी तोंडार रसरशीत हांसो...
अशी चंपूमामी!
जिचेर नदर पडल्यार दीस बरो वता अशें वाड्यावयल्यो जाण्टेल्यो म्हणी,
सोयऱ्या धायऱ्यांचीं, वाड्यावयलीं लग्न-कारणां जिचेबगर सोबनासलीं,
अशी चंपूमामी!
नातें नासतनाय जिचेकडेन निलाचें नातें जुळिल्लें
परकी आसुनूय जी ताका आपली दिसऽ
अशी चंपूमामी!
दोगांकय उलोवचेलें पिशें!
दोगांकय फुलांचें पिशें!
कसल्यो गजाली आनी कसलीं फुलां हांकांय बंधन नाशिल्लें.
चंपूमामीच्या पोरसांत तरातरांचीं फुलां फुलऽ. वंयेक जांबळीं, धवीं, हळडुवीं गोटलां.
तुळशी फाटल्यान रतन आबोल्यांचो तांबडो गुंज साज.
नळ्यांवयल्यान सकयल देंविल्ले कलावतीचे तांबशे, गुलाबी गोंडे!
पोरसूंभर फुलां!
मागीर दनपार उलगतां उलगतां...
वसऱ्यार चंपूमामी केळिचे दोर घेवन बसऽ.
आनी निला होटी भरभरून खुटिल्लीं गोटलां, रतन आबोलीं हाडून वसऱ्यार ओती...
सांजवेळ जातासर वसऱ्यार फातयां राशी!
तांबडीं पेत्रोली फुलां पोंदा घेवन वयर धवीं गोटलां धरिल्ल्यो फांतयो.
मदीं पांचवो बोकोड्यो आनी कलावतीची झीग धरिल्ल्यो रतन आबोल्यांच्यो हळयो.
दोरा पोंदा देंठ दोडूनं घाल्ल्यो कलावतीच्या नाजूक फुलांच्यो फांतयो.
चंपूमामीच्या वसऱ्यार रंगपंचम फुलऽ.
तिणें एक फांती निलाक माळची...
एक आपणें माळची.
उरिल्ल्यो सगळ्यो वाड्या वयल्या बायलांक धाडच्यो.
अश्या ह्या चंपूमामीचो घोव सोनूमामा अकस्मात भायर पडलो.
निला शाळेंतल्यान यो जाल्यार सोनूमामाल्या घरा सामकार हीऽऽ गर्दी.
दप्तर शेंवटून तें तांगेर धांव मारपाचें—
इतल्यान आजयेन घट्ट धरलें.
'आयज थंय वचप ना.'
'कित्याक?'
'सोनूमामा देवागेर गेला.'
निलाक याद आसा —
ताची काकी देवागेर गेली ती केन्ना परती आयलीच ना. संजू आनी सुलू तेन्ना 'आईऽऽ' म्हणून हांबेर फोडून रडटालीं.
निलाक दिसलें, सद्दां हांसपी चंपूमामी आयज रडटली.
ताच्या ओंठार हिमटी आयली.
आडावंक आजी नासता जाल्यार तें थंय धांवपाचें.
पूण आजेचें ताचेर बारीक लक्ष.
तें मोन्यांनी भायल्या सोप्याचेरूच बसलें.
चंपूमामीच्या रडपाची जाग घेत.
सट्ट करून ताका याद जाली.
चंपूमामीच्या कुडीक भायले वटेन जनेल आसा.
पोरसांत रावल्यार भितरलें सगळें दिश्टी पडटा.
आजेन घरांत वचूं नाका म्हळां...
भायल्यान रावं नाका खंय म्हळां?
खिणा मजगतीं तें जनेला भायर उबें.
नदर कूडभर भिरभिरायत...
चंपूमामीक सोदीत!
कूडभर बायलो.
तांचे मदीं मान सकयल घाल्ली चंपूमामी.
मोनी!
चंपूमामी रडना.
निलाक तातुंतले तातूंत समाधान!
ताका दिसलें –
चंपूमामीन मान वयर करची...
आपूण हांगा आसा तें तिणें पळोवचें.
पूण चंपूमामीची मान वयर सरली ना.
इतल्यांत —
हातांत पिंजरिचो करण आनी फुलां-फाती घेवन एकली बायल कुडींत आयली.
कांय खीण थंय गुजूगुजू...
मागीर कोण तरी एकली फुडें सरली.
आनी चंपूमामीक धड कितें समजुचे पयलीं तिणें चंपूमामीच्या कपलाक

पिंजर आनी माथ्याक फांती माळ्ळी.
चंपूमामीचो हांबेर निलाचें काळीज चिरीत गेलो.
हरशीं खोशयेन फुलां माळपी चंपूमामीचें त्या दिसा फांती माळटकीर रडप निलाक समजलें ना.
पूण ते बायलेक कितें तरी वायट केलां...
चंपूमामीचें मन दुखयलां...
इतलें ताका समजलें.
आनी पळयतां पळयतां...
जनेलां भायल्यान ताणेंय हांबेर फोडलो.
त्या दिसा ताणें जें पळयलें
ताचो अर्थ ताका तेन्ना कळ्ळो ना.
तरीकय तें ताच्या काळजांत रोमून बसलें.
सोनूमामा गेलो आनी त्या घरांत उरली ती—
उकत्या कपलाची —
मेकळ्या गळ्याची —
ओले नदरेची —
अशी चंपूमामी...
शेणिल्ल्या हांश्याची —
पिशांतक —
अनवळखी —
अशी चंपूमामी...
मागीर चंपूमामी घराभायर सरना जाली.
लग्न-कारणांत दिसना जाली.
फुलां फांतयो घालिना जाली.
पयलिंची हांसकुरी उमेदी चंपूमामी सामकी शेणूनच गेली.
निलाच्या शेजरा ती चड दीस उरली ना.
भाव तिका कुळारा घेवन गेलो.
निलाचें आनी चंपूमामीचें नातें इतल्याचेरच पयसावलें.
पूण काळजांतली चंपूमामी...
पयसावली ना.
त्या दिसा जें कितें ताणें पळयल्लें ताचो अर्थ—
निलाक व्हड जातकीर कळ्ळो.
कळ्ळो त्या खिणाक तें पेटून उठलें.
खंयच्या काळांतल्यो
कसल्यो पोरण्यो, पाड्यो रिती!...
पूण मुजरत याद दवरून त्यो करूंक फुडें सरिल्ले ते बायलेची—
आनी असहाय्य चंपूमामीचे भोगणार मोन्यांनी पळोवपी हेर बायलांची ताका किळस आयली.
मनाक पिडपी, दुख्ख दिवपी असल्या रितींआड पेटून उठपी एक कीट त्या खिणाक
निलाच्या काळजांत पडली.
वयल्यान थंड दिसपी गोबरा पोंदा जशी
धुसधुसपी जिती, जिवी, रसरशीत कीट आसता, तशी!
ती कीट आबाच्या निरोपाच्या निमण्या खिणाक परती पेटून उठली.
ताणें थारायलें —
मांयक जपूंक जाय.
तिच्या मनावयलें दुख्खाचें वजें ना करप ताच्या हातांत नासलें.
पूण कसलींच वेगळीं बंधनां
तिचें मन पिडचीं नात
हाची जतनाय घेवंक जाय.
पूण नसत्या रितींआड बंड करपी निलाक विरोध घडये—
शांताबायचोच जायत आसलो.
जल्मत सावन मनाचेर जे संस्कार घडत येतात...
तांचे पसून मुक्त जावप सोंपें काम नाशिल्लें.
थोडें आडमेळीं लोक हाडटात.
लोकांचो भंयच चडशें काम करता.

✲ ✲ ✲

पळयतां पळयतां बारावो जावन गेलो.
शांताबाय मनान सावरली ना.
तरी देहान सावरली.
घरचो रिवाज —
सकाळफुडें शांताबायन देवा पुजेक बसपाचो.
निलान फुलां हाडप.
शांताबायन न्हावन धुवन देवाकुडींत येवप...
निर्माल्य कुशीन काडून दिवो लावप.
देवाक हळद, कुकूम, फुलां घालून पूजा करप.
त्या दिसा
शांताबाय न्हावन आयली.
सदचे संवयेन देवाकुडींत गेली.
निलान फुलां हाडून दवरिल्लीं.
शांताबायन निर्माल्य कुशीन काडलें.
देवा मुखावयलो दिवो पेटयलो...
पिंजरी करण हातांत धरलो...
चिमटेंत पिंजर घेतली...
आनी तिका सट्ट करून याद जाली.
आपूण आतां...
तिचे हात थरथरूंक लागले.
गळ्यांत उमाळो दाटून आयलो.
भायल्यान निला मांयक पळयतालें.
तें तिरावरी भितर धांवलें.
मांयचे थरथरपी हात ताणें घट्ट धरले.
चिमटेंतली पिंजर सुटूंक दिली ना.
भरिल्ल्या गळ्यान ताणें म्हळें,
'घाल आई, देवाक पिंजर घाल.'
शांताबायचो हात वयर सरलो ना.
निला जाणा —
परंपरागत मनार घडत आयिल्ले संस्कार
चूक आसले तरी खिणा मजगतीं ना जायनात.
आपूण बंड करून उठलें तरी —
मांयक स्वताक हें पटपाक वेळ लागतलो.
आबा आतां ना हें तिचें दुख्ख.
तें ना जावपाचें ना.
पूण तो ना म्हणून वेगळीं बंधनां तिणें आपल्याचेर घालून घेवचीं हें निलाक मान्य ना.
ताच्या काळजांतली उज्या कीट
होमकुंडावरी पेटून उठली.
चंपूमामीचो हांबेर
कानांत घुमूंक लागलो.
मनांत खुदूंक लागलो.
ताणें म्हळें,

'ह्या तुमच्या घरांत, तुमी करूंक जायना अशी एकय गजाल आसची ना....

घालात आई, देवाक पिंजर घालात...'

मनशांनीच घाल्लीं बंधनां!

जाच्या मुखार भक्तिभावान· आपली मांय हात जोडटा त्या देवान काय घाल्लीं न्हय!

तो तर म्हणटा –

पत्रम् पुष्पम् फलम् तोयम्

यो मे भक्तया प्रयच्छति –

भक्तीन दिल्लें कितेंय जर ताका पावता

तर हीं बंधनां घालपी मनशां कोण?

निलान ल्हवूच मांयचो थरथरपी हात देवाऱ्या कडेन व्हेलो.

चिमटेंतली पिंजर अळंग घुमटेंत पडली.

दोगांयच्या दोळ्यांतलीं दुकां...

मनां निर्मळ, नितळ करीत व्हांवतालीं.

त्या घरांत –

त्या खिणाक –

भोव श्रद्धेन –

मांय सुनेचें एक वेगळें –

कुंकमार्चन चलिल्लें!...

* * *


*Wishing a*
*Happy Diwali and*
*a Prosperous New Year!*



HOTEL KENI

PANAJI – GOA



HELP PROTECT AND PRESERVE THE CULTURAL HERITAGE

- Goa Archives preserves for posterity the documentary heritage of Goa's past.
- Collections in Portuguese dated back to the 15th Century.
- It also has Marathi (Modi), Halkannada and a few Persian documents throwing light on the relations of the Portuguese with Marathas, Hyder Ali, Tipu, Sundas and Bhonsles of Sawantwadi etc.
- The collection also contains a few documents in Chinese and Vietnamese scripts.
- Goa Archives has its own well-equipped Preservation Unit for the Scientific preservation of documents.
- It also has modern microfilming, photocopying and xeroxing equipment.
- This is your Archives and you can enrich it by donating your valuable collection of private papers.

VISIT GOA ARCHIVES ALWAYS.

Issued by

THE DIRECTORATE OF ARCHIVES,
ARCHAEOLOGY & MUSEUM

GOVERNMENT OF GOA. PHONE: 226692

सगळ्यांक दिवाळेचीं परबीं आनी
नव्या वर्सा खातीर शुभेच्छा

This season of green and gold
we wish you
something new and something old.
A glimpse of 'TEAK'... on the high,
A shade of 'NEEM'... standing nearby,
A flash of 'GULMOHAR'... beckoning
to your door,
A hint of 'BOUGAINVILLEA'... protecting
your window;
In the kitchen, something to eat...
With a dash of 'BASIL SWEET'
At your table... the 'COCONUT' & 'CASHEW'
singing hymns,
On your bed a pillow...
full of dreams.

(Based on the answers to the Riddles of the 'Eco-Detectives Trail' 1996-97)



GREEN RAY
FOUNDATION

*To protect environment*
*and promote Goan Culture*

# मिंगेलीलीं घरचीं

— दामोदर मावजो

**मी**स सोंपलें आनी मिंगेल घरा परतुपाक लागलो.

'कू ऽ ओ ऽ' कोगळाचो साद कानार पडलो.

'हें म्हाका सोदीत हिंगाय येयलें मिस्ता.' मिंगेलीन मनांतल्या मनांत म्हळें आनी मागीर 'संवसारांत कितें एकूच कोगूळ आहा?' असो प्रस्न आपणाकूच विचारून हांसलो.

'ओऽ मिंगलू, हांसोत वयता सो रे? चेड्यान सागवाद धाडल्या काय चेडवाचो उगडास येयलो?' वाटेवाटेर रॉकसांतनान मिंगेलीक हडकिलो. आनी जापेक रावनासतना चलत रावलो.

मिंगेल आतां अडेचो हांसलो. रॉकसांतान मिंगेलीलो ल्हानपणा सावन इश्ट. मातसो उबो रावन सारकी खबर तरी घेवपाची न्हय पापयान? चेड्याच्या आनी चेडवाच्या नांवान चाळयलो आनी चलत रावलो. गेलो म्हूण सुटलो ना जाल्यार मिंगेल आपणाल्यो चार खबरी सांगून वयल्यान रॉकसांतनालींय चार कुतां वयर काडले बगर सोडचो नासलो. तेच खातीर जावंये, रॉकसांतनान थारनासतना कूस मारिल्ली.

मिंगेल दारांत पावलो तेन्ना कां कां करीत कावळे कोलावपाक लागले.

'राबाय, राबाय... वगत चड जालो? सदां भाशेन येयलां. तुमकां मात्त लेगीत पासियेंस ना.' अशें उलयत भितर गेलो. रातीं जेवतना कुशीक काडून दवरिल्लें शीत घेवन भायर आयलो. आनी तोंडान कां कां करीत मूठमूठ गोटे घेवन शिंवरावन उडयले. घेऽ कावळ्यांचो कुलकुलाट! वीस पंचवीस कावळे झोंपय मारून गोटे तोंचूंक लागले. मदींच तोंच दुसऱ्याक मारून धांवडायतात तें पळोवन मिंगेलीन म्हळें, 'कितूऽ पासा सांगलें तुमकां झगडीं करनाकाय. आनीक जाय जाल्यार आनीक घालतां. सुशेगाद खायाय. पोटा आशेचे लाळये खंयचे!'

मिंगेलीन ताटली पुसून निमणे गोटे शेंवटिले तेन्ना हातांतले गोटे झोमून घेवपाइतले कावळे लागीं आयिल्ले. मिंगेल सोंपणाचेर बसलो. कावळ्यांच्यो लटाफटी सोंपल्यो. निमणो गोटो तोंचून निमणो कावळो उडून गेलो आनी मिंगेल उठून भितर आयलो.

'गेले तुगेले सोयरे?' फेलिझान च्या कोपांत ओतीत विचारलें.

'सोयरे ते? सदींच येतात तेंकां सोयरे म्हण्टाय? ते आमगेले घरचेच.' हात धूवन च्याचें कोप हातांत घेवन मिंगेलीन सांगलें. 'घरचे मात सोयरे जाल्यात.'

'सोयरे केशे? फाटल्या चार वर्सांत व्हिक्टरूय येयलो ना आनी लुसीय येयलें ना. मांय पाय आहा काय ना तें लेगीत तेंकां खबर आसपार ना. देवान भुरगीं दिलीं तीं लेगीत इंग्राद!' फेलिझान आपणाले च्याचो घोंट मारीत म्हळें.

'तूं आनी त्या व्हिक्टराक आंबे घेवन वच म्हणटाली न्हू? गार्फाक सगलेच णोय आंबे लागल्याय जाल्यार तुका तेंचो उगडास येता – हांव पयलेंच सांगतां – हांव वचपार ना. व्हिक्टरान आतां मोटोर घेयलां – टुरिस्ट टॅक्सी खूंय! पूण एक दीस मांयपायक कोलव्यां तरी व्हरोन हाडया येशें दिसलां तेका?'

च्या सोंपोवन फेलीझ उठली. 'पुरो आतां. पोरूं मांगाद करून लुसीक धाडून दिलेलें तें तुयेंच मुरे? तें तूं विसरलो?'

मिंगेल विसरूंक ना. तारवटी किस्तोद मुंबय वतना ताणें लुसी खातीर मांगाद धाडिल्लें. लुसी पावलें म्हूण लेगीत कळयलें ना. दोन म्हयन्यांनी किस्तोदालीच तारवा वयल्यान चीट आयिल्ली. लुसीन तें मांगाद किस्तोदीकच खावपाक दिल्लें. किस्तोदीन आनी बोटी वयल्या तागेल्या सगल्या इश्टांनी रुचीन खाल्लें खंय!

लुसियाना म्हळ्यार मिंगेल-फेलीझाच्या काळजाचो कुडको. मिंगेल फकत

गुंदग्राव जाल्लो. लुसी एस.एस.सी. पास जालें तेन्ना मिंगेलीले खोशयेक तपार उरलो नासलो. ताणें ताका कॉलेजीक धाडिल्लें. बी.ए. पास जालें न्ना मिंगेलीन सर्गाक हात लायलो. लुसीन म्हळें, 'पाय, आतां गोवा निव्हर्सिटी जाल्या. हांव एम.ए. शिकतां.' मिंगेलीन खोशयेन आं म्हळें. तलें म्हणसर व्हिक्टर हायर सेकंडरींत गेल्लो. पगाराचेर ताण पडटालो. ण मिंगेलीन पर्वा केली ना. एम्.ए.चें पयलें वर्स सोंपचे पयलींच लुसीन ायपाय मुखार काळजाचो गूट उकतो केलो.

'पाय, हांव... म्हजो एक फ्रेंड आसा. आमी काजार जावंक सोदतांव.'

मिंगेल-फेलीझ गोंदळून गेल्लीं. फुडल्या शिक्षणाचें कितें? भुरगो कोण? आनी काजार म्हळ्यार येदो व्हडलो खर्च?

चार्ली अब्राहम हो मुंबयच्या एका गिरेस्त घराब्यांतलो तरणाटो. गोवा निव्हर्सिटींतलें शिक्षण निकतेंच सोंपिल्लें. गोंयकार न्हय म्हूण मिंगेलीक ातशें वायट दिशिल्लें. इस्ट इंडियन खंय तो. पूण मुंबय सारकिल्या ारांत इंपोर्ट-एक्सपोर्टचो व्हडलो बिझनेस आनी पॅडर रोडचेर स्वतंत्र गलो. बाय लुसी सुखांत उरतलें म्हूण मिंगेलीन ना म्हळें ना. एक दीस ार्लीचीं मम्मी-पप्पा मर्सिडीस बेंझ घेवन मिंगेलील्या दारांत आयलीं. नाकाक ेंस लायलो ना तरी घर तांकां मानवलें ना म्हणपाचें स्पस्टपणान जाणवलें. ी तांची निमणी भेट.

मिंगेल आनी फेलीझ तांगेले गिरेस्तकाये मुखार चेपणाक पडिल्ले वरी ावुरिल्लीं. आमकां लुसी पसंत आसा, आनी काजराचो भांगराचो कसलोच स्को तुमी करूं नाकात. तांचें काजार सिवील पद्धतीन जातलें म्हूण ांगलें तेन्ना मिंगेलीक सूऽ जाल्लें. तीं लुसीक घेवन गेलीं. आनी मुंबय डा दबाज्यान काजाराची पार्टी दिली. मिंगेलीक सांगलें लेगीत ना. गोमीश ाटकारालो चेडो टायम्सांत व्हडे पदवेर काम करता. ताका आपोवणें ाशिल्ल्यान ताचे कडल्यान कळ्ळें. काजरा उपरांत लुसीन फकत एक ीट बरयल्ली. उपरांत चेडवाक पळयन दिसलें म्हूण मिंगेलीन वचपाची यारी केली तेन्ना मात जाप आयली – तुमी येवं नाकात. डिसेंबरांत क्स्पोझिशन आसा. आमी सगलीं येतलीं. तेन्ना मेळटां.

मिंगेल-फेलीझ कितलीं खुशाल आसलीं. थारायल्ले प्रमाण सगलीं ायलीं. फायव्ह-स्टार हॉटेलांत रावलीं. मदीं एक दीस लुसी एकलेंच ंय-पायगेर आयलें. सोयरें कशें पयस पयस वावुरलें. 'नविदाद' आसा ूण लेगीत विचारतकीर सांगलें. दुवाळ्यांचें विचारतकीर हांसलें. 'तूं कितें तली मांय? म्हाका कांयच फाल्त ना. तुकाच कितेंय जाय जाल्यार ांग.'

ते उपरांत बाब जालो म्हूण चीट आयली. ती लेगीत तीन म्हयन्यांनी. ातां बाब सात वर्सांचो जाला आसतलो. फाटल्यान एक बाय आसा ूण आयकलां. पूण...

च्यक्... च्यक्... चानयेच्या त्या आवाजान मिंगेलीली तनरी भंगली.

'पाडा पोडों म्हुजें. दूद घायलें आनी सकलाकूच उल्लें.' अशें म्हणीत लीझानं आलिमिनाची पातळेली ताटली उखलून तामरेतिचेर चडून वयर रेतिचेर दवरली. हालीं ही चानी दुदाक संवकल्या. सद्दां येता.

फेलिझाले हे वण्टी कुशीक भायले वटेन एक कावाथो वाडला. ताच्या ाटां वयल्यान चानयो नळ्यांचेर भोंवतात. केन्ना सांवळी सोदीत भितरल्या ांचेर नाचतात. फाटीं एक दीस एक चानी अचकीत वांशा वयल्यान तना निसरून सकयल पडली आनी निर्णेवन मेल्ले वरी जाली. फेलीझान बेगीन तिका उदकाचो हात लावन पोशेली. चिमटेन उदक फाफुडलें.

आलिमिनाचे ताटलेंत इल्लेंशें दूद घालें आनी चानये मुखार दवरलें. चीत जातकीर चानयेक थंयच दवरून ती पयस गेली. चानी पयलीं ेली. मागीर ल्हवूच दूद चिंवपाक लागली. उपरांत मात मजा जाली. येक वणटीर चडपाक येना जालें. ती सगळें घरभर नाचपाक लागली.

फेलीझान मागीर एक वांसो हाडलो आनी वण्टीक तेंकून तिरको दवरलो. चानी सडसडीत चडून गेली. तेन्नाच्यान फेलीझ सद्दां सकाळीं च्यांत दूद घालतना ताटलेंतूय थोडें घालता आनी तामरेतिचेर चडून वण्टिचेर दवरताली. हालीं हालीं तर हे चानये वांगडा दोन धाकटुल्यो चानयोय येवपाक लागिल्ल्यो.

'हे आवयन पिलांकूय गोडी लायल्या दुदाची.' फेलीझाल्या उतरांचेर मिंगेलीन विचारिल्लें, 'दुदाची काय तुजी?' आनी तें आयकून फेलीझाल्या काळजा वयल्यान मोरापांख भोंविल्लें.

च्याचें कोप विसळून दवरून मिंगेल उठलो. पिकूंक घाल्ले आंबे तण कुशीक काडून पळयले.

'आगो फेलीझ, फाल्यां म्हुटल्यार पिकतले हे आंबे. म्हाका दिसोता, पोनास आंबे विकोन उडोवंया. तुका केशें दिसता?'

'पोनास कित्याक? सगलेच विकोंया. कोण खातलो इतू आंबे?' फेलीझान म्हळें.

'तुज्या गोश्ताचे मुगो हे! पंचवीस तरी दवरोंया.'

'नाका. दवरतलोच जाल्यार पांच दवर. चार आमकां. आनी एक चानयेक.' फेलीझान सांगलें.

'तेशें जाल्यार फाल्यां सकाळींच व्हरतां. वास्को प्रेस बरो मेळटा खूंय. पयले गाडयेर वयतां. बरो प्रेस मेळ्यार पुरो.' अशें म्हणीत मिंगेल उठलो. 'सोमतेंच रेशन हाडोंक मेळटलें.'

'निसत्याक हाडना?' फेलिझान उगडास केलो.

'आसों. खारें आहा मुगो? तेजीच कडी कर.'

हरशीं जाल्यार मिंगेलीक बाजारांत वचून चकाटां मारपाक मानवतालें. पूण हालीं ताका कोण लागीं करनासलो. पयलीं रुपयाचो सोरो घाल्यार कोणूय वरभर आयकतालो. पूण हालीं सगलेच ताका चुकयताले. पयलीं सदळ आशिल्लो मिंगेलिचो हात हालीं मोटवो जाल्लो. कोणाकूय कोपाचें दिवचें पडत म्हूण खासा मिंगेलिनूय बारां-गादयेचेर वचप सोडिल्लें. तेन्नाच्यान तागेल्यो खबरो आयकुप्यांक फुरसत मेळना जाल्ली.

पूण मिंगेल तसो निर्शेवंक नासलो. नाल्ल बी विकून चार पयशे गांठीक मेळटकीर तो पावभर सोरो हाडून घरांत दवरतालो. आनी चडच एकलेपण जाणवलें जाल्यार इल्लें कुट्ट करून फाटले वटेन वचून आंतेरीर बशिल्ले साळोरे कडेन वा आंब्याच्या गच्च पानांनी लिपून सादोवपी कोगळा कडेन झांक झांक झांकतालो. कोण ना मेळ्ळे जाल्यार झांकड्यांक कावळे लेगीत उपकरताले मागीर.

घराचे फाटले वटेन कुकडांचो घूड आनी तेंकुनूच गोरवांचो गोठो आशिल्लो. फेलीझाच्यान नज जातकीर गोरवां विकून उडयल्यार हरशीं सात आठ वर्सां जालीं. पूण मिंगेलीन गोठो मात सांबाळून दवरला. फेलीझ गोठो फोडुंया म्हणटालें. पूण मिंगेलीनूच नाका म्हळें. हालींसराक गांवांनी खूब घांटी लोक भरला. खोंपिंनी रावपाक मेळ्यार लेगीत पन्नास शंबर रुपये भाडें फारीक करतात. फाल्यां आपूण मेलों जाल्यार फेलीझ साप वाऱ्यार पडचें न्हय; खोंपींत कोणूय रावपाक आयल्यार दुडूय मेळटले आनी मनशांची जागूय मेळटली... एक दीस तशें ताणें म्हळें जाल्यार फेलीझ तापलें. 'तुगे कितें मर्णा-पिराय तेंकल्या?' म्हूण तिडकलें. आनी आमोरी म्हणसर निवळ्ळें. म्हणूंक लागलें, 'तूं सांगोता तें खरें मिंगलू. फाल्यां हांव मेलें जाल्यार तुकाय कोणूय शेजार जायो न्हू? शिंवया ती खोंप...' पयरच चुडटांनी शिंवन लेगीत उडयली. थंय बसल्यार बरो वारो येता म्हूण मिंगेलीन एक वॉल्तेरूय थंय व्हरून दवरलां. आतांच मिंगेल नुस्त्या बाजारांत वचपाचें टाळून गोठ्या कडेन आयलो.

'कूऽ ओ ऽ.'

कोगळाचो साद कानार पडलो. फाटलीं चार वर्सां तो हो साद आयकता.

सुरवेक ताका दिसतालें, हो साद लुसीचो. तें उगडास काडटा आसतलें. लुसी ल्हान आसतना मिंगेल चुकनासतना बाबूल्या गाड्या वयलीं भर्जी हाडटालो. लुसीक आवडटात म्हणून. व्हिक्टर मागीर तिडकतालो. ताका आवडटात म्हूण मिंगेल केन्ना केन्ना पॅटिसूय हाडटालो. पॅटीस म्हारग पडटाले म्हूण जावंये, मिंगेलीक भर्जी हाडपाक आवडटालें. नकळटनां मिंगेलीन स्वास ओडून घेतलो. ताज्ज्या भज्यांचो घमघम नाकांत भरिल्ले वरी दिसलें.

कू ऽ ओ ऽ — लुसी उगडास काडटा आसतलें! कोगळा वरी लुसीलोय ताळो गोड आसलो. इगर्जेंत क्वायरांत गायतना लेगीत लुसीलो गोड आवाज ज्युस्त वळखूंक मेळटालो.

पयलीं पयलीं मिंगेलीक कोगळाची खूबच लक्तुबाय दिसताली. पूण एक दीस कॉलेजींत शिकपी जोस्लीनान ताका सांगलें, साद घालता ती मादी न्हय. तो नर... तशें जाल्यार... तशें जाल्यार हो व्हिक्टर काय? आसा काय ताका त्या पॅटिसांचो उगडास?... व्हिक्टरच आसुंये तो. देखुनूच सामकार येना. पयस आडसराक रावन सादयता. येवजून मिंगेल पेरी कडेन आयलो. हे खोंपी पेल्यान आशिल्ले पेरीक लागिल्लीं पेरां फातरावपाक पयलीं भुरगीं येतालीं तेन्ना मिंगेल तांकां धांवडायतालो. पूण पोरूं पेरीचे वयले तेंगशेर मिंगेलीन दोन कीर पळयले. झाडपिकीं पेरां तोंचायताले. कितलो खोशी जाल्लो तें दृश्य पळोवन मिंगेल! मागीर ताका अचकीत येवजल्लें; दोन नाल्ल्यो घेवन त्यो घांसून खरवडावन निवळ केल्ल्यो. आनी पोरूं पावस सोंपतकीर हे पेरिच्या कॅकल्यां मदल्या खांकोळांनी सुवात करून थंय ह्यो नाल्ल्यो दवरिल्ल्यो. आनी सद्दां सकाळीं मिसाक वचचे पयलीं एकेंत तांदूळ आनी दुसरेंत नासणे घालून दवरतालो. सांज जातासर दोनूय नाल्ल्यो रित्यो जाताल्यो.

आतां मिंगेल लागीं येनाफुडें एक पिटकोळी भुर्ऽ करून उडून गेली. वयले ताळये वयली साळोरी मात थंयच नाल्ले लागसार बसून आशिल्ली. मिंगेलीन वोत दोळ्यांर मारता म्हूण हात दोळ्यांर धरून वयर पळेलें जाल्यार साळोरेनूय मान वांकडी करून ताचेकडेन पळयलें आनी खीणभर अनमनिल्ले भशेन करून उडून गेली.

मिंगेलीन मज घेवन पळयलें. दोनूय नाल्ल्यांनी आजुनूय कणयो उरिल्ल्यो. आपणें हात वयर केल्लो पळोवन साळोरी उपाशीं पोटार बी उडून गेली ना मूं असो दुबाव येवन मिंगेल खिन्नटलो. आनी फाटल्या पांयांनी येवन खोंपी भायर दवरिल्लें वॉल्तेर सांवळेक-शें घेवन बसलो.

त्या कोगळा परस ही साळोरीच बरी. मात लेगीत भियेना. फाटीं खोंप शिंवतना तर हाता कडेन येवन लेगीत सुक्यो काडयो बडयो व्हरताली. आंबे पिकोवपाक उपकरतेलें म्हूण दवरिल्ल्या तणांतल्यो विसेक तणा काडयो हिणें दोळ्यां मुखार फारायिल्ल्यो. फेलीझान म्हणिल्लें लेगीत, घोंटेर बांदता आसतली म्हूण. हालीं हालीं तर मिंगेल बगलेक आयल्यार लेगीत उडून वचनासली. पोशिल्ले वरी लागींलागींच भोंवताली. ती येता म्हूण मिंगेल चार कणयो चडच नाल्लेंत घालूंक लागिल्लो.

पयरूच फेलिझान म्हणिल्लें – 'आरे, दिसाक मूठ मूठ नाल्लेंत घालता ते म्हयन्याक किला परस चड जातले मुरे! आतां बंद कर न्हू!'

त्या उतराक मिंगेलीक राग आयिल्लो.

'व्हिक्टर-लुसी घरांत आसलेलीं जाल्यार तेंकां कितुलो वरोवं लागतासलो तें चिंतून चय आनी मागीर उलय. हिंगा कितलीं सुकणीं पोट भरतात चयलां तुयें?' आनी मागीर मनांतल्या समादानाक वाट करून दीत ताणें सांगिल्लें, 'जाणा फेलीझ, हालीं ती साळोरी जावं हेर सुकणीं, हांव बगलेक येयल्यार लेगीत उडोवन वोसनाय.'

व्हिक्टर मात तोंड घेवन गेलो तो परतो आयलो ना. बऱ्या दुडवांकारागेर जल्माक येवपाक जाय आशिल्लो.

मिंगेल कांय पयशेकार न्हय. दर्जी बापायलो एकसुरो पूत. पुतुगीज सेगुंदग्राव शिकता आनी फुडल्यो दोन यत्ता इंग्लीश शिकता म्हणसर ज्याम जाल्लो. इल्लेशे वळखीन सरकारी ऑफिसांत प्यून म्हूण लागिल्लो. तीस वर्सां चाकरी करून एल्.डी.सी. म्हूण निवृत्त जालो तेन्ना प्रोव्हिडंट फंड आनी हेर दुडू मेळून चाळीस हजार रुपये हातांत पडिल्ले. इतले दुडू एके रकमेंत पळोवपाची तागेली ती पयलीच खेप आसली. पूण दुडू पळोवन तो भुल्लुसलो ना. माथ्या वयलीं वर्जी आजून देवंक नासलीं. लुसीचें काजार पयलींच जाल्ल्यान तो हुस्को नासलो. पूण घर मोडचे पयलीं दुरुस्त करपाचें आसलें. मदल्या काळार ऑफिसा कडल्यान रीण काडून घर आनी घरा फाटली थोडी सुवात भाटकारा कडल्यान विकती घेवन आपणाल्या नांवार केल्ली. त्या रिणाची बाकी वाशील घालून हातांत पडिल्ले चाळीस हजार – तातुंतल्यान घराची मोडूंक आयिल्ली मातयेची पारेत, एक खांबो वांकडो जाल्लें बल्कांव, घरा फाटल्या भाटा कुडक्याचो वावर, व्हिक्टराचें शिक्षण... आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार आपणालो आनी बायलेचो फुडार.

रिटायर जालों तरी आजून बागवंक ना म्हणसर दुसरी नोकरी खंयूय मेळटा जाल्यार पळोवपाक जाय अशें मिंगेल येवजिता आसतनाच व्हिक्टरान आपणालें व्हडें ताणलें.

'पाय, हायें चिंतलां – दरया वेळेर हांव शॅक घालतां. हो बिझनेस एकदम फॉर्त! टुरिस्ट बी खूब येताय.'

व्हिक्टरालें उत्तेजीत तोंड पळोवन मिंगेलीक अजाप जालें. खिणभर मनांत आयलें, हो म्हाका विचारता काय सांगता?

'आरे, पूण आजून तुगे कॉलेज...'

'पाय, कॉलेजींत टायम वेस्ट करपा परस येन्नाच बिझनेसांत पडप बरें. बी.कॉम. जावन बेकार हेडचे परस आपणागे बिझनेस करप बरें न्हू?'

'आरे, पूण बिश्टोच...'

'बिश्टेंऽ न्हू पाय. म्हाका एक शॅक मेळटा. हो चान्स आनकोडेन येवपार ना.' व्हिक्टर उमेदीन उचांबळ जावन उलयतालो.

'आनी ते पासत दुडू खुंयचे हाडटलो?' मिंगेलीन सादेपणान विचारलें.

'तुकोडेन आहाय ते!? तूं कितें करतलो त्या दुडवांचें? बँकेंन दवरोन धा पर्सेंट इंटरेस्ट खातलो? ते परस म्हुकोडेन दी. दोन वर्सां भितर दोबराद करून दितां.'

मिंगेलीक उतर फुटना जालें. शॅक! बेंजामिनाल्या चेड्यान शॅक घाल्लें. थंय घुंवळे वखदांय विकतात खंय. बेंजामिनच दोळ्यांत उदक काडून सांगतालो, ड्रग्स विकतां विकतां चेडोय घेवपाक लागलो म्हूण! हाता भायर गेला खंय तो आतां! मिंगेलीक व्हिक्टराचो हुसको दिसपाक लागलो.

'बाब, तूं तेतूंत पडनाका. शॅक चलोवन कोणाचेंच बरें जालोलें ना.' मिंगेलीन समजावपाचो येत्न केलो.

व्हिक्टर पयलीं अजापान आनी मागीर रागानसो उलयलो, 'कोणें सांगिलां तुका? शॅक चलोवन लोकांनी हाजरांनी जोडले. शॅक घालोंक पंचायती कोडेन लोक हुज्जोत करताय. आनी तूं सांगोता कोणागेलेंच बरें जालोलें ना म्हुण?'

मिंगेलीक कांयच येवजना जालें. घराची दुरुस्ती, भाटांतलो वावर, जाण्टेपणांतलीं दुयेंसां... व्हिक्टर मात तेमाक पेटिल्ले वरी कसोच हट सोडिना जालो तेन्ना फेलीझाक विचारून ताणें निर्णय सांगलो.

मिंगेली कडल्यान 'ना' ही जाप आयकून व्हिक्टर शेंवटलो.

'तूंच खा ते दुडू. म्हाका तेतुंतलो पाणदुडू नाका. लोक आपणागेल्या भुरग्यांक वयर काडपा पासोत भाटां लेगीत विकताय. आनी तूं दुडू आसोन दिना? तुका कितें दिसोलें – तुयें दिले नाय जाल्यार हांव वयर पडटलों? चय तूं. हांव तें शॅक घेयले बगर रावपार ना. म्हाका तुमगे भीक नाका आनी काकुटूय नाका. हांव आयच्यान – न्हू – आतांसान वयतां हिंगाचो.

आनकोडेन पांय दिवपार ना ह्या घरांत.'

आनी खऱ्यांनीच मांयचे विनवणेक जुमाननासतना मुस्तायकी बांदून व्हिक्टर घर सोडून गेलो. घर रितें करून गेलो. मिंगेलीच्या पोटांत फोण घालून गेलो. मोयपासाची नाळ तोडून गेलो.

दोन दीस वाट पळोवनूय व्हिक्टर परतलो ना तेन्ना मिंगेलीक राग आयलो. तो गांवभर सांगीत सुटलो. पूत पारपोळ जाला, आपणालें आयकना, ताका आतां मस्ती मारल्या, तो वायट कामांक संवकला, वायट धंद्यांत पडूंक सोदता... आपणें ताका कसो समजायलो, आडायलो... सकाळीं अर्द पाव, सांजचो अर्द पाव कोपाचें मारप आनी झांक झांक झांकप. मिंगेलीच्या खुस्तार ताळो ओलो करून आयकुपीय मेळटाले. पूण तीन चार म्हयने अशे वतकीर फेलीझान ताका ताळ्यार हाडलो. पाव पाव सोरो हाडून घरांत दवरलो आनी घराच्या वावराक हात घालो. मिंगेलीनूय कामाक हातभार लायलो. मागीर भाटांतलो वावर केलो. खणणी, आळीं, सारें... वावराचें चक्र सुरू जालें तसो झांकपाक वेळ उणो मेळूंक लागलो.

इतले मजगतीं पुताच्यो गजाली कानार पडटाल्यो. पुतान वेळेर शॅक घालां... शॅक बरें चलता... पंजाबा सावन रांदपी हाडल्यात. रातची गिरायकांची लूट पडटा. आयकून बरेंय दिसतालें आनी रागूय येतालो. शॅक चलोवप बऱ्या मनशांचें काम न्हय. थंय घुंवळे-वखदांचो वेपार चलता. व्हिक्टरूय करता आसतलो. एक दीस सांपडटलो तेन्ना त्रासांत पडटलो. तशें जालें जाल्यार मात – मिंगेलीन थारावन दवरिल्लें – बऱ्यांतलो बरो वकील करून ताका सोडोवपच. मागीर व्हिक्टर पर्थून शॅकाचे वाटेक वचचो ना.

... व्हिक्टरान मोटर सायकल घेतली... वर्साभितर कोलव्यां एक हॉटेल चलोवपाक घेतलें. गांवचेच दोग जाण आतां त्या हॉटेलांत सिर्विसेक रावल्यात... पुतान एक प्रायव्हेट टॅक्सी घेतल्या... मडगांवां बॅंकेंत अकाऊंट उकतो केला खंय... टप्प्या टप्प्यान खबरो कानार पडत रावल्यो.

व्हिक्टराचे वाडटे आस्पतिची खबर आयकून मिंगेल खोशी जातालो. पूण दुबाव फाट करनासले. शॅकाचेर घुंवळे-वखदां विकना कित्या वयल्यान? बॅंके कडल्यान व्हडलें रीण काडलां नासुंये कित्या वयल्यान?... एक मात जाल्लें. आतां मिंगेल पुता विशीं लोकां कडेन उलयनासलो. लोकच पुताच्यो खबरो ताका सांगूंक लागिल्ले.

चूक पुताची आसली काय म्हजी, हो प्रस्न मिंगेलीक सतायतालो. जाप सोदपाक तो फेलीझा कडेन वाद घालतालो. ज्या दिसा आपणालें कशें चुकलें ना तें निश्टून सांगतालो त्या दिसा फेलीझ पुताचें सांगणें आयकून घेतिल्लें जाल्यार बरें जावपाचें म्हूण दोश आपणाचेर घेतालें. आनी ज्या दिसा मिंगेल आपूण पुताक समजुपाक चुकलों म्हूण आपणाकूच दुशण दितालो त्या दिसा फेलीझ पुताचें कशें चुकलें तें विस्कटावन सांगतालें.

मानुएल भाटकार आदवोगाद पुताले मारुती गाडयेन भोंवतना मिंगेलीक ताजी नसाय दिसताली. जाल्यार जुआंवालें घरबेंस आपणाल्या नांवार करून घेवन तागेल्या पुतान जुआंवाक आल्बेर्गींत दवरिल्लें आयकून आपूण बरो सुटलों म्हूण मिंगेल सुस्कारो सोडटालो.

जालें तें जालें. फाटलें विसरून पुतान आपणासरीं येवचें अशें मिंगेलीक खूब दिसतालें. एक दोन खेपेक ताणें व्हिक्टराच्या कानार पावचें अशे तरेन तागेल्या इश्टां कडेन तशें उलोवनूय दाखयलें. पूण व्हिक्टर आयलो ना. गांवांत येवन वतालो. पूण मेळनासलो. फेस्ता दिसा मुजरत येतालो. प्रेज्देंतिगेर जेवपाक वतालो. पूण मांयपायक पाचार लेगीत नासलो. कोणाकडेन खबर लेगीत घेनासलो.

पयसुल्ल्यान कोणतरी पाचारता हाची जाणविकाय जावन उगडासांच्या ग्रनांत शेणिल्लो मिंगेल भानार आयलो.

'ओऽ मिंगलू ऽ!'

'साल्वादोरालो आवाज सो दिसता' अशें म्हणीत मिंगेल ताकतिकेन वॉल्तेरांतल्यान उठलो. सावळेंत म्हूण दवरिल्ल्या वॉल्तेराचेर आतां वोत पडिल्लें तरी आपणाक भान कशें उरलें ना हाचें अजाप करतनाच ताच्या लक्षांत आयलें, चड वेळ बसून कमरांत दुखूंक लागिल्लें. भेंडार हात दवरून पांय उखलता म्हणसर फेलीझ मागीलदारा कडेन आयलें.

'आरे, कितें भेड्डो जाला? काय झेम येयिल्ली? तो सालू केदो वगत जालो तुका उले मारता.'

'येयलों, येयलों. आत्तां आयकोंक येयलें. भेंडांत मातशें दुखलें देखून...' अशें म्हणीत मिंगेल फुडल्या दारांत आयलो.

सालू विडी फुंकीत बल्कांवाचेर बशिल्लो. लांब पांयांची पॅंट धोंपरा पासून चार आंगळां वयर कातरून तिची हाफ पॅंट करून घाल्ल्या सालून माथ्यार एक पोरनें चेपेंय दवरिल्ल्यान तियात्रांतलें फकाणेर पात्र कसो तो दिसतालो. पूण सालूक सदां असोच पळोवन आयिल्ल्यांक ताचो अवतार संवकळिचोच जाल्ल्यान हांसो येनासलो.

'सालू, हेरशीं आफयल्यार लेगीत पावना मुरे तूं! आयज ह्या अर्दान खूंय?' मिंगेलीन थोमण्यानच येवकार दिलो.

'तुयें आफयल्यार हांव येयना? नाका जाल्लें उलयनाका. पोरूय तुयें रेकाद धाडलेलो त्या वगतार हांव अस्कत! पणसा वयल्यान पडोन वीस दीस न्हिदोन आसलों. त्या वगतार तूं येयलेलो जापेक? विडये पोंत शेंवटीत सालून थोमणो परतिलो.

मिंगेलीन बें म्हळें. 'तें आसों. आतां कित्याक येयलेलो?'

'म्हादेवान सांगलें म्हाका, देखून...'

बल्कांवाचेर कुले तेंकोवन मिंगेलीन अजापून विचारलें,

'तेणें आनी कितें सांगलें?'

'पयर म्हादेव तुगे आंबे काडोंक येयलेलो न्हू? तेणें सांगलें – तुगे एका माडान कवळ सोडलां म्हूण.'

'हय व्हय. बरोऽ माड. मुडळ केंन्ना लागली चयलीऽ ना. पावटीक पोनास नाल्ल दितालो. पोरूं मार्सा-पाडो केलो तो निमणो. नाल्ल झडटाय म्हुण्टासर बोंडे-चुडटां झडून बोडको जालो.' मिंगेल सालूक सांगतालो म्हणचे परस आपणा लागींच बडबडटालो. 'कोणागे पाडी दिश्ट लागली जाण कोण!'

'ह्या दिसांनी वांशे केल्यार बरे दुडू मेळटले. मागीर पावस गेल्यार कुंड्या मोलाक कोणाक नाका. हांव करूं?'

तो शेंड्या विणें उबो म्हेड कसो माड मिंगेलीच्या दोळ्यां मुखार उबो रावलो. गजाल खरी. माड तर मेलाच. मोड येवन मोडून पडल्यार आनिकूय कितेंय मोडून उडयत म्हूण भिरांत.

'चय, मिंगेल, म्हाका व्हडशेऽ वांशे जाये. तुगे माडूय बरो आहा. हांयें चयला तो. दिता जाल्यार शेंबरांक म्हाका पावलो. फाल्यांच कातोरतां.' सालू वेव्हार उलयलो.

'शेंबऱ्यान कितें जाता सालू?' मिंगेलीक आस जाली. 'दोन व्हडले करवे मेळटले. आनी एका करव्याक पांच पांच तरी वांशे. देडशांक करता जाल्यार चय. ना जाल्यार आसों...'

'ना रे बाबा' अशें म्हूण सालू सोमतोच उठलो. 'म्हाका गरज देखून येयलेलों. वांशे येशेऽ मेळटाय. म्हाका दोन पाटयो जायो देखून माड सोदतां. पूण देडशें देमायज जाले. आसों. रेमतीगे आहा तो तेणें शेंबऱ्यांक व्हर म्हुळां.'

मिंगेलील्या दोळ्यां मुखार शंबरांची नोट नाचूंक लागली. तितल्यान म्हयन्याचें रेशन येवन पडटलें हें येवजून ताणें सालूक आडायलो. 'राब रे सालू. तुका न्हू करोन हांव दुसऱ्याक दितोलों? तूंच कर तो माड.'

सालून सोमतोच बोल्सांत हात घालो. पन्नासांची नोट काडून मिंगेलीच्या हातांत दीत म्हळें, 'हें सिनाल दवर. उल्लोले पोनास कातरून जातरीच

दितां. फाल्यां सकाळीं येतां मानायांक घेयन.'

'नाका, नाका. फाल्यां म्हाका वास्को वयच्याक जायें. परां यो. जायना ?' मिंगेलीन काकुळटेक आयिल्ले वरी म्हळें.

खीणभर अनमनून सालून तकली हालयली. 'परां जाल्यार परां. पूण मागीर फुडें धुकलनाका.'

'परां केन्नाय यो तूं. सामकें सेर्त!' अशें म्हणून मिंगेल सालू पयस वचसर थंयच रावलो. आयचो दीस वायटसो गेलो ना...

दुसऱ्या दिसा मिसाक वचून येनाफुडें ताणें कुळण्यांतले शिता गोटे कांकांरपी कावळ्यां मुखार फापसून शेंवटिले. पूण तोंचावपाक घिट्टी करून आयिल्ल्या कावळ्यां कडेन गजालींक बसनासतना भितोडेक गेलो. आंबे ज्युस्त पिकिल्ले. आनीक चार दीस उरल्यार कुंवळटले आसले. तांतले बरे बरे पंदरा वीस आंबे फेलीझा खातीर काडून दवरले. उरिल्ले मेजले. साठ आनी णव. जड जावन ताणें कडेक काडिल्ल्यांतले आनीक स आंबे भरीक घालून पाऊणशीं केले. फेलीझान दिल्ली च्या ताळ्यांत रकोवन ताकतिकेन भायर सरलो.

गाडी लेट जाल्ल्यान वास्को स्टेशनाचेर देंवता म्हणसर वोत माथ्यार पाविल्लें. हाचेफुडें आनी गिरायक मेळटासर कितलो वेळ जातलो सांगूं येना अशें चिंतीत भायर सरतनाच स्टेशन मास्तरान हडकिलो. मिंगेलीन बेगबेगीन तिकेट भायर काडली. पूण स्टेशन मास्तर पोतयेंतल्या आंब्यांचें मोल विचारतालो.

मिंगेल घुसपलो. वास्कोंत मुसरादांचें मोल कितें आसा काय ? गांवच्या तिंठ्यार तीस रुपयांनी खपत ना खपत. पूण वास्कोंत...

'सायब, पोनास रुपयान दूझ हे. तूं पाच उणे दी...'

'पन्नास ? चाळिसांत लेगीत कोणाक नाकात ते. सारकें सांग.' मास्तरान म्हळें.

रातीं फेलीझान म्हणिल्लें, सगळे विकल्यार दोनशीं तरी येवपाक जाय. इतले म्हणसर आनीक दोग जाण येवन आंबे पळोवपाक लागले. मास्तराक तें रुचलें ना शें दिसलें.

'कशे रे ?' एकल्यान विचारलें.

'पोनासानी बाबा.' मिंगेलीन तांकां फाफुडपाचे नदरेन म्हळें.

'बरे आसात मरे!' दुसऱ्यान म्हळें.

'म्हाका दी रे एक डझन.' पयल्यान बोल्सांतली पोती काडली.

'हांवें घेतल्यात ते सगळे', मास्तरान म्हळें आनी मिंगेलीली पोती घेवन स्टेशनाच्या ऑफिसांत गेलो. मेजून घेवन म्हळें,

'पंचेचाळिसांनी मरे ? स डझनांचे दोनशीं सत्तर जातात. हे घे दुडू. वयले तीन आंबे फाड्याचे सोड.'

बाजारांत बसल्यार घडये चड दुडू मेळत आसले. पूण वाटेवाटेर मेळ्ळे तेय उणे न्हय म्हूण रोखडीच परतुपी गाडी धरून मिंगेल दनपार देंवचे पयलीं घरा परतलो.

फेलीझान जेवन घेतिल्लें. पूण कळाव करनासतना ताणें मिंगेलीक शीतकडी वाडली. जेवनाफुडें मिंगेलीन फेलीझा खातीर काडून दवरिल्लो एक पिकोसो आंबो काडलो. फोडलो. जाल्यार पयली फोड फेलीझान पारेतिचेर काडून दवरली – चानये खातीर.

दनपारां आड पडपाची सदची संवय कित्याक मोडुंया म्हूण कळाव जाल्लो तरी मिंगेली हातरी घालून आड पडलो. जाग आयली तेन्ना वेळ बुडपाकडेन पाविल्लो. गुलगुलेतांतलें थंड उदक पियेवन मिंगेलीन आंबे पिकपाक घाल्लें तण भरलें आनी व्हरून गोठ्यांत उडयलें. तण घेवन भायर वचनाफुडें साळोरी भुर्र करून मुखावयल्यान उडून घुंवन पेरीर बसली.

आरेच्या! आयज वास्को वचपाच्या बोवाळांत आपूण नाल्ल्यांनी चरव घालपाक विसरलों हें येवजून मिंगेल सडसडीत भितर गेलो. भाताचो कुडो आतां रितो जाल्लो. रेशनाचे तांदुळय सोंपत आयिल्ले. फाल्यां हाडूंक जाय, अशें येवजीत मिंगेलीन मूठभर तांदूळ आनी मूठभर नासणो काडलो. आनी भायर येवन नाल्ल्यांनी भरलो.

मिंगेल थंय आसतनाच साळोरी पिट्ट करून आयली. हळदुवीच तोंच नाल्लेंत बुडयली आनी गिळपाक रावनासतना भुर्ऽ करून पांखां फांकारून पयस गेली.

'कूऽ ओऽ.'

मिंगेलीची नदर आंब्यार गेली. पाडा पडिल्लो केन्नाच दिश्टी पडना. आपूण फाट करतकच तरी त्या नाल्ल्यांनी दवरिल्ल्यो कणयो व्हरता काय ? भूक लागना तर ताका ? काय भायरच पोटभर मेळटा ? मागीर सादयता तरी कित्याक ? आतांय म्हूण खंय तरी लिपून रावला. त्या आंब्याच्या ताळयांनी आसूंक जाय.

वॉल्तेराचेर बसत मिंगेलीन मोट्यान म्हळें, 'तूं लिपोन कित्याक राबला ? सामकार यो मरे ? हांव कितें खातां तुका ? हात लेगीत लायना. फकत एक फावट देखों तरी दी.'

फेलीझ तेन्नाच धोण घेवन दुकरांक आफोवपाक मागीलदारांत आयिल्ली. मिंगेलीलीं उतरां आयकून हांस हांस हांसली. आनी मागीर कोडपाणीन उलयली.

'हेगेलीं भुरगीं हेज्या सामकार येनात. हीं सुकणीं कित्याक येतलीं ?'

मिंगेल चाळवलो. 'तूंय तेसलीच. तुज्यान खूंय तेंकां सांबाळोंक जालां ? तुयेंच वाट लायली तेंची. हीं म्हुगेलीं सुकणीं लेगीत बरीं.' आनी उलयउलयत उठून बद्द घरांत गेलो. वास्को वतना घाल्ले पँटिच्या बोल्सांतले दोन रुपये काडून खोसमाच्या बोल्सांत घाले. फाटले वटेन फेलीझ 'बाऽ बाऽ' करून दुकरां-कुकडांक साद घालतालें. ताचे परस वयर आवाज काडून मिंगेलीन सांगलें – 'हांव तिंठ्या कोडेन वोसोन येतां गो ऽ.'

आनी तो तिडकून इनासाले गादयेर वचपाक गेला म्हूण वळखून तो परतो येयसर फेलीझ ताका कितें कितें म्हणीत रावली.

सकाळीं मिसा सावन येता, कावळ्यांक शितागोटे शिंवरायता, च्या घेता म्हणसर सालून साद घालो. सालू दोग मानायांक घेवन आयिल्लो. च्याचें कोप ताकतिकेन विसळून दवरून मिंगेलीन जोतीं घालीं.

'तूं आनी कित्याक येता ? ते कातरतले माड. वांशे पाटयो जाताय म्हणसर आयचो दीस पावपार ना.' सालून म्हळें.

'आसों. हांव बिश्टोऽ येतां. घरांत म्हूण कितें काम आहा ?' अशें म्हूण सगले वांगडाच फाटले वटेनच्यान भाटांत आयले.

माड पळोवन एका मानायान म्हळें, 'कास्ताद आहा माड. सकल्या करव्याचे स वांशे जावच्याकूच जाये. वयल्याचे वांशे काडल्यार पांच. तेय लांबायेक धा हातीं परस उणे न्हू!'

मिंगेली मुखार अशें उलयिल्लें सालूक मानवलें ना. मिंगेलीक कालच्या स्टेशनमास्तरालें तोंड याद जालें.

'तें मागीर चवंया', सालून म्हळें. 'सकयल्या करव्याचे वांशे करया. वयल्याच्यो दोन पाटयो – आठ हातिंच्यो. रॉकी, तूं वयर वॉस.'

इतलें म्हणसर साळोरी खंयच्यान तरी उडली. 'आगो, तूं खूंय लिपोन आसलेलें ? आमरेर घायलेलो ओरोब सोंपयलो कितें गो ?'

सालूक जावं हेरांक कांय समजलेंच ना. आपूण वगीच मोट्यान उलयलों अशें येवजून मिंगेल बाविल्ले वरी वगो रावलो.

म्हणटासर गुठलायिल्लो राजू खांदार मारून रॉकी माडार चडलो. वयर पावलो. वयर वयर वता तें पळोवन सालून म्हळें, 'आरे पुरो. आनीक वयर कित्याक वयता ?'

'वगोऽ राव भांटकारा! वयर साळोरेन घोंटेर केला. पिलां आहाय मिस्ता.' रॉकी आनिकूय वयर चडूंक लागलो.

पिलां? म्हगेले साळोरेन पिलां काडल्यांत! आनी हो रॉकी तीं पिलां काडूंक वयर वता.

'एऽ, एऽ रॉकी, देंव सकला. पयलीं सकला देंव.' धेंक घाल्ले वरी मिंगेल आड्डलो.

मानाय अर्द्यारच उरलो. 'बोबाट जाल्यार उडोन वयतलीं भाटकारा. तुका जायीं जाल्यार तुका दवर.'

'नाका, नाका. तूं पयलीं सकला देंव. देंव म्हण्टां म्हू! बेगीन देंव.' जीव गोळाक लागिल्ले वरी मिंगेल खासावीस जाल्लो.

रॉकी देंवपाक लागलो. सालू अजापिल्लोय आनी घुसपल्लोय. मिंगेलीच्या खांद्यार थापटीत ताणें समजिकायेच्या सुरांत म्हळें, 'आरे मिंगलू, माड मारतकीच घोंटेर पडटलो आनी पिलांय मरतलीं. ते परस काडूं दी तेका.'

मिंगेलीचे तकलेर बडी मारिल्ले वरी जाली. निर्णल्ले वरी तो सैरभैर पळोवपाक लागलो. मानाय सकयल देंविल्लो पळोवन मिंगेल ताळ्यार आयलो. घोगरो जाल्ल्या आवाजान ताणें म्हळें,

'ना, ना... माड मारचों ना हांव. हो माड मारनाकाय. तीं पिलां... म्हगे साळोरेचीं तीं...'

सालूक हांसचें काय रडचें तें कळना जालें.

'आरे मिंगलू, तुका पिशें लागलां?'

'सालू, तूं... तूं मागीर मार तो माड. इतू बेगीन नाका. पिलांक उडोंक शिकों दी. मागीर व्हर तूं तो माड. आनीक थोडेऽ दीस...' मिंगेलीन काकुळटेक येवन सांगलें.

'मागीर जायो तो कोणाक? काल उतर केलां अनी आयज नेगार वयता?' सालू पिकार जावन उलयलो.

'सालू, उपकार कर. हो माड सोड. हांव तुगेले दुडू परते दितां.'

सालू खीणभर तटास जालो. तिडक निवळावपाचो येत्न केल्ले वरी थोडो वेळ वचूंक दिलो. मागीर निबर आवाजान उलयलो.

'आनी ह्या दोन मानायांक कोण फारीक करतलो? तेंगेले दुडू तूं फारीक करता जाल्यार हांव वयतां रेमतीगेर. बिश्टे दोन दीस पिड्ड्यार केले म्हुगेले.'

रागान जाल्यार रागान, पूण सालून मानून घेतिल्लें पळोवन मिंगेलीन मानायांक विनयलें, 'बाब, हांव गरीब. पूण तुमगेलो वगत खायलो हांयें. तुमकां च्यायेक कितेंय दितां. पूण उपकार करात म्हुजेर.' मिंगेलीन मानायां मुखार हात जोडले. मानाय एकामेकांक पळोवपाकच उरले. म्हण्टासर मिंगेल दिमी मारपाक लागलो. ते बराबर रॉकीन ताका आडायलो.

'चय भाटकारा, आमी आशेचे न्हूय. पूण आमगेलो आदेस वयता. आमकां आदेसाचे फारीक कर.'

अयंशी रुपयांच्या दिसवड्याक आयिल्ल्या मानायांक बाबापुता करून पंचवीस रुपयांचेर भागोवन धेवपाक मनयले. ताकतिकेन घरांत गेलो. फेलीझाक अदमास आयिल्लोच. पूण तिगेल्या तोंडावयले उचांबळाये कडेन दुर्लक्ष करून मिंगेलीन पेटलांतले दुडू काडले. सालूले पन्नास सालूचे सुवादीन केले. पन्नास मानायांच्या हड्ड्यार घाले. आनी ते वाटेक लागनाफुडें ताकतिकेन भितर वचून फेलीझाक सांगलें,

'आगो फेलीझ, म्हुगेले ते साळोरेन पिलां काडल्यांय. त्या मेल्ल्या माडाचे तेंगशेवेले घोलींत घोंटेर केला.'

शंबर रुपये बुडयले म्हूण तिडकल्ले फेलिझाली तापसाण खावपाचे तयारेन राविल्ल्या मिंगेलील्या कानार फेलिझालीं उचांबळीत उतरां पडलीं – 'आनी तूं जाणा मिंगलू – चानयेन ती आख्खी शीर खायली. आनेक आंबो फोडटा? आयज दोन शिरो दवरुंया...

✲ ✲ ✲





LIFE IS PRECIOUS
TREAT IT WITH RESPECT AND DIGNITY

OBSERVE ROAD SAFETY RULES AND ENSURE SMILE AND HAPPINESS IN YOUR FAMILY AND IN THE FAMILY OF OTHERS BY AVOIDING ACCIDENTS.

Issued by

DIRECTORATE OF TRANSPORT

GOVERNMENT OF GOA, PANAJI

# खरोच हांव चुकिल्लों ?

— महाबळेश्वर सैल




रु द्रेश्वर पर्वतार देवळा मुखार व्हडव्हडान व्हाजंत्रां व्हाजतालीं. फोग ट्टालो. लोकांचो कलकलूय मुळसा मेरेन आयकोंक येतालो. चोंयवटेन गळो वाठार त्या आवाजान भरून गेल्लो. अशें सांगतात, देवळांतल्या हडल्या धोलार पडिल्ली बडी धा मैलांच्या आंवाठांत आयकोंक येता हण. तो घडघड आयकोन रामनाथालें आंग फुरफुरलें. सगळ्या आंगार ांटो फुललो. पयलीं हांव हो उकतो रुद्रेश्वर पर्वत एकेच धांवणेंत धांवन यतालों. मुळसांतल्यान भिरकटी मारप आनी देड मैलाची उबी चडटी डून वचून दोंगराचे तेंगशेर देवळा मुखार वचून रावप. पूण इतलीं रणमैदानां ारून येयिल्लों हांव आज असो अपंगूळ जावन व्हील चेयरींत पडलां...

ल्हवल्हव ताच्या मनांत निर्शेणेचें एक काळें कूप दाटून आयलें. एक बेण्ण काळोख. आस्तेचो एक थेंब ना. एक कीर्ण ना. ताणें मेल्ले निर्शेल्ले दरेन एक फावट आपल्या दोनय अपंगूळ पांयांसरीं पळयलें. दोनय पांयांच्या ुंडां वयल्यान पिजामाचीं रितीं पांतां लांबतालीं. एक पांय धोंपरा सकल्ल्यान ाडिल्लो तर दुसरो पांय धोंपरा वयर. ते पांय पळोवन तोच पोन्नो प्रस्न रत एक फावट विकराळ रूप घेवन ताका कोंचून विचारूंक लागलो, तुवें केल्लें तें समा काय चूक... समा काय चूक...?'

गेल्लीं कितलिंशींच वर्सां तो ह्या प्रस्नाची जाप सोदता. पूण ताका ाप मेळना. कोणाकय ह्या प्रस्नाची जाप विचारल्यार ताका ते पिशांत ाडटासले. म्हणटासले, 'रणमैदानार वचून असलीं पिशेपणां करता आनी ल्यान विचारता आपलें कितें चुकलें काय म्हण! मनशाक पयलीं आपलो ीव व्हड. सोताक वाटोवंक हेरांक मार ना तर खा!'

तो व्हील चेयरीर मान फाटल्यान उडोवन बशिल्लो. चोंय वटेन कसुरेपणाचो कांच आनी पयस तळातळांनी व्हरपी चिंतनां. भावाली बायल जत्रेक वयताना सांगून गेल्या, 'मेजार ताट दवरलां तें बेगिनच जेवन घे. चड वेळ व्हील चेयरींत बसून रावं नाका. वोगी खाटीर न्हीद.' बरी म्हजी भाभी. तिगेल्या चार भुरग्यां वरी हांव तिगेलें एक अबुद्द बाळक जालां. म्हाका व्हील चेयर दिल्ली तेन्ना दर एक दाराक उंबर आसले. ते तिणें घोवाक सांगून एक्कान एक निखळावन उडयले. लोकान म्हटलें, उंबर निखळावप बरें न्ही. पूण तिणें आयकलें ना. आतां हांव व्हील चेयरीर घरभर भोंवतां. धा वर्सांची जातकीर कामणी पिडेन मेल्ली म्हगेली भयण आतां आसल्यार असलीच आसतासली. फाऽऽटीं एक दीस तिणें म्हाका बारीक पळयत म्हटलें, 'तुजे तळमळे म्हज्यान पळोवं नज. कोणय गरिबालें चेडूं मेळ्ळ्यार हांव तुगेलें लग्न करून उडयतासलें.'

म्हाका कच् जालें. मागीर हांव रडिल्लेवरी हांसलों. अशें कित्याक म्हण उलयली ही व्होनी! कसले तळमळे म्हणटा ती?

पायणी वयले वटेची दुरपदी आवय मदींच खोंकताली. तें खोंकप काळोख कापीत म्हज्या एकसुरेपणाचेर येवन लखतालें. आतां खुब्ब जाण्टी जाल्या ती. पूण म्हाका अजाप दिसता, जिवीतभर इतले कस्ट आनी इतलीं दुख्खां भोगून ती इतलीं वर्सां जियेलीच कशी? फार्टी एक दीस तिका हांवें म्हटलें, 'तुगेल्या मेल्ल्या पुताक लागून हांव म्हगेले पांय व्रगडावन बसलों.' हाचेर पिशाक पळयतलेवरी ती म्हाका बारीक पळयत रावली. मनांत म्हणटाली जावंये, घरांत एकलोच पडून रावन हाची तकली घुंवल्या दिसता.

रामनाथ पयलीं फौजेंत आसलो. अठरा वर्सांचेर फौजेंत भरती जाल्लो तो. खेळूंक मोटो शिटूक आसलो. ऊंच हुडयेंत, लांब धांवणेंत ताणें वस्तादपण

जोडिल्लें. ताचेन अवघ्या पांच वर्सांत तो जवानाचो हवालदार जाल्लो. लांब शिडशिडीत आंगाचो चलाख हवालदार रामनाथ. तो खेळूंकूच हुशार आशिल्लो अशें न्हय तर फौजेचे दर कवायतींत तो हुशार आसलो. पीटी, ड्रील, मस्केट्री, फायरिंग ह्या सगळ्यांत तो मुखार आसलो. सगळ्या वयल्या अधिकाऱ्यांचो आवडटो हवालदार रामनाथ.

एकुणिसशें एकात्तरच्या पाकिस्तान वांगडाच्या झुजांत तो आपल्या मराठा लाईट इन्फन्ट्रीच्या एका बटालियना वांगडा बांगला देशांत आसलो. ताचें बटालियन ब्रिगेडच्या हेर दोन बटालियनां वांगडा भारतांतल्या रानीघाटसान बांगला देशांत भितर सरिल्लें. भितर सरतकीच बांगला देशाचे मुक्तिवाहिनीचें नागरी सैन्य कशें दिसचें म्हण तांकां मिलिटरीचो भेस सोडून खाजगी कपडेच घालूंक सांगिल्ले. ताच्या ब्रिगेडांत आनीक दोन बटालियनां आसलीं. एक बिहार रेजिमेंटचें आनी दुसरें राजपूत बटालियन. ते सगळे बांगला देशाचें मोटें शार खुलना वाटेन वचूंक लागिल्ले. खुलनांत पाकिस्तानाचो मोटो फौज फांटो आसलो. दुसरें भारताचें आनीक एक ब्रिगेड बशीरहाटसान भितर सरिल्लें. दोनय वटेन फाटल्यान फुडल्यान खुलना शार वेस्टावन ताचेर झुडोन वचून तें जिखचें अशी माण्णी आसली. बांगला देशाचें मुक्ती झूज सुरू जातकीर उत्तर पश्चिमेचे सरादीर आशिल्लें पाकिस्तानाचें सैन्य धांवन वचून खुलना शारांत एकठांय जाल्लें. वयताना तांणी रस्त्यांची, पुलांची भोव मोडतोड केल्ली. व्हडले व्हडले रूख कातरून रस्त्यार उडयिल्ले. सुरूंग पुरून दवरिल्ले. बांगला देशाच्या लोकांलीं वाहनां रस्त्यांर आडवीं दवरून तांकां उजो लावन दिल्लो. ही खुलना मेरेनची देड दिसाची मोटारिची वाट कापून येवंक तांकां सारके आठ दीस लागिल्ले. तांकां मुक्तिवाहिनी वरी खाजगी वस्त्रां घालूंक सांगिल्लीं, पूण हवालदार रामनाथान तीं घातलींच नात, तो सद्दां आपल्या फौजी गणवेशांतच. ताचेर झेतान तीन फितां. एक दीस मेजर रंगनाथनान तापयतकीर ताणें सेल्यूट मारून नमळकायेन म्हटलें, 'सायब, खाजगी कपड्यांत सगळे पांखां कापिल्ले वरी बुरशे दिसतात. फौजी मनीस आमी. फौजी मुस्तायके बगर झुजामैदानांत कशे वतले? झुजूंक जोर कसो येतलो?'

'आरे पूण चयलें ना तुवें, ते विदेशी पत्रकार खंयच्यान येवन हाजर जातात नकळ. चोरून फोटे घेत आसतात. ते फोटे मगेर अमेरिकेंत पावतात.'

'पावं दी सायब.'

'पावं दी कितें? हें झूज बांगला देशाची मुक्तिवाहिनी सोताच्या बळग्यार झुजता, तें एक नागरी झूज अशेंच संवसाराक भासोवचें आसा फुडाऱ्यांक.'

रामनाथ हांसलो. 'संवसाराचें राजकारण नकळो हांव सायब. पूण म्हाका दिसता, निकाराची वेळ येतकीर आमकां खाजगी कपड्यांत झुजूंक तांकचें ना. तें बळगें आमकां येवचें ना. सायब, तुमी म्हजो कोर्ट मार्शल करात, पूण झुजा मळार म्हाका खाजगी कपडे घालूंक सांगूं नाकात.'

मेजर सायब वोगीच रावलो. दुसऱ्या दिसा मेजर सायबाल्या आंगारूय फौजी गणवेश आसलो. ल्हवल्हव करून सगळ्यांल्याच आंगार फौजी गणवेश दिसूंक लागलो. मुखार आठच दिसांनी पाकिस्तानान भारता आड 'जिहाद' म्हण प्रत्यक्ष झूज घोशीत करतकीर प्रस्नच उरलो ना.

ल्हान मोटे आडमेळे हुपून ते खुलना सावन पांच मैलांर पावतकीर अचकीत तांचेर बाँबगुळे येवन पडूंक लागले. ल्हानमोटे बाँबगुळे सारके येवन ताचे वाटेच्या आशिकुशीक पडटाले. तरीच तातुंतल्यान वाट काडीत ते आनीक एक मैल मुखार येवन पावले. तेन्नाच डिव्हिजन हेड क्वार्टर्सांतल्यान आज्ञा येयली, 'पावल्यात थंयच राखणे फळी उबी करून पांय रोमून रावात.'

मागीर हे आज्ञेचें कारण कळ्ळें. तें अशें. बशीरहाट सावन येवंक सुटिल्ल्या ब्रिगेडाक वाटेर खूब आडमेळ्यांक आनी खर झुजाक तोंड दिवचें पडिल्लें. ताचेन ते अजून खुलना सावन बरेच दूर आसले. ते खुलना लागीं येवन पावसर तांकां वाट पळयत वोग्गी रावंक जाय आसलें. कारण दोनय ब्रिगेडां दोन वटेन झुडोन वचचीं आसलीं.

तांणी एकेच रातीक मोर्चे खणून आनी बंकर्स बांदून तात्पुरती राखणे फळी उबी केल्ली. मुखावयले पांच स दीस तरी तांकां थंय पांय रोमून रावचें आसलें. राखणे फळी उबी करतना आनी ताचे उपरांत खुलना वटेच्यान पाकिस्तानी फौजे कडच्यान थार दिनासताना बाँबगुळे येत आसले. तांतूंत भारतीय सैन्याचे दोन जवान ठार जाल्ले आनी तीन चार तरी जखमी जाल्ले. पूण भारतीय सैन्याक जाय तशे बाँबगुळे खुलना वाटेन उडोवंक शक्य नासलें. नागरी भागांत बाँब घालचे न्हय अशी पयलींसानच शिटकावणी आसली. खुलनाचे शिमेर आदीं पाकिस्तान सैनीक आनी मगेर नागरी वसणूक अशी विचित्र अवतिकाय आसली. कितल्याय शादूरपणान गुळे घातले तरीय ते अर्देअदीक नागरी भागांत वचून पडटाले.

एक लांबच लांब बांद आसलो. बांदार शेकानशेक वडाचीं, फळसाचीं, आंब्याचीं झाडां आसलीं. त्या बांदा मुखार दर शंबर पावलांर तांणी मोर्चे उबे केल्ले. दावे वटेन बिहार रेजिमेंटचें बटालियन आनी उजवे वटेन रजपूत बटालियन आसलें. सरभोंवतणचो तिनेक मैलांचो वाठार तरी तांणी ते सांखळेन वेस्टावन घेतिल्लो. बांदामुखार देड दोन मैलांचो वाठार शेकानशेक उकतो आसलो. तातूंत शेतां, तळीं, ल्हानल्हान बांद आनी झाडां आसलीं. ताचे पेल्यान पाकिस्तानी सैनीक. ते थंयच्यान दिस्टी पडनासले. पूण ते थंय झाडांनी, घरांनी आनी बांधकामां आड लिपून आसात हें होलमतालें. रातच्या वेळार बाँबगुळ्यांचो फारपेट जातना झग् करून उजवाडय दिस्टीक पडटालो. तशें निकराचें झूज अजून सुरू जावंक नासलें. मोर्चांत रावन एक दुसऱ्याचेर बाँबगुळे उडोवचेंच सुरू आसलें. मदींच मशीनगनचो फारपेटय दोनय वटेच्यान जातालो. पूण तें एक दुसऱ्याक भिवोवंक आसतालें. इतले पयस मशीनगनच्यो गुळयो पावंक तांकनासल्यो.

तीन दीस जाल्ले मोर्चे बांदून. काल दीसभर आनी आज सकाळींय पाकिस्तानचे बाँबगुळे ज्युस्त राखणेफळयेर येवन पडटाले. पयलिंवरी फासपून फाटीं पडनासले. इतले पयसुल्ल्यान ते अचूक येवन कशे पडटान हें कुवाडें जाल्लें. वयल्या अधिकाऱ्याक दिसतालें, लागींच खंय तरी दुस्मानालें 'ऑब्झर्वेशन पोस्ट' – तेळचें ठिकाण – आसूंक जाय. थंयच्यान तांच्या तोफखान्याक वायरलेसी वेल्यान मोखिच्यो सूचना मेळटात आसूंक जाय.

काल दीसभर तीग आनी आज सकाळीं एक अशे चार जण जवान ठार जाल्ले. एक बाँबगुळो तर सारको मोर्चांत येवन पडिल्लो आनी तांतूंत दोग ठार जाल्ले. तांकां जेवण हाडूंक, उदक हाडूंक आनी हेर कसल्याय कामाक मोर्चांतल्यान वयर सरूंक मेळनासलें. कोणाची तकली वयर दिसली की येयलोच बाँबगुळो तेवटेच्यान. पूण तांचें तें तेळचें ठिकाण खंय आसा हाची इल्लीय सुलूस लागनासली.

सकाळीं साडेधांच्या सुमाराक रामनाथाल्या सी फॉर चार्ली कंपनिचे कमांडर मेजर रंगनाथन दोळ्यांक बायनॉकलर लावन मुखावेलीं झाडां आनी हेर खांची कोनशे नीट नियाळटालो. नितळ वोत पडिल्लें आनी तें झाडापेडांच्या आंगांनी रिगिल्लें. बायनॉकलर घुंवडायतां घुंवडायतां ताची नदर एका जांबळिच्या रुखार ऊंच थिरावली. रुखार एका मनशाली आकृती दिसताली. ताणें आंगाक पानां ताळे खोवोवन कॅमोफ्लाज बरें करून घेतिल्लें. तरीय तो एक मनिसच म्हण कळटालें. रंगनाथनान मनांत म्हटलें, हो हिंगा नकाशे घेवन बसला आनी आमची हालचाल वायरलेसीन फाटीं तोफखान्याक कळयता. फुडल्याच खिणाक ताची इल्ली इल्ली हालचाल जाली आनी ताणें बायनॉकलर दोळ्यांक लायिल्लेवरी दिसलें. मेजराक खात्री पटली, हो मनिसच. ताणें बेगीगेबीन कुशिच्या मोर्चांत आशिल्ल्या हवालदार रामनाथाक उलो मारलो. उलो आयकोंक गेलो ना अशें दिसतकीर वांगडा आशिल्ल्या रनराक ताचेसरीं धांवडायलें. कांय खिणांतच रामनाथ

य येवन हाजर जालो. तेन्नाच दुस्माना वटेच्यान एक बाँबगुळो येयलो ानी राखणेफळये फाटल्यान येवन पडलो आनी घुमऽऽ करून फुटलो. ण कोणाक कांय लागलें ना.

मेजरान बायनॉकलर रामनाथासरीं दिलें आनी मुखावेल्या जांबळी रुखाची ्ण फौजी भाशेंत सांगली. 'जवान आगे देख चार सौ मीटर, एक माटी ा टिला। उसके ऊपर एक बहुत बड़ा छत्रीदार पेड। उसके ठीक ग्यारह जे तीन ऊंगलियाँ, एक ऊंचा हरा काला जामून का पेड। उसके बिचोंबीच श्मन का एक जवान...'

रामनाथान आर्दी तो मातयेचो धुतो आनी ताचे वयलो सत्री कसो बो रूख सोदून काडलो. मगेर दोळ्यां मुखार तीन बोटां धरून अकरा ाजचे लायनीर आशिल्लो तो जांबळी रूख सोदून काडलो. उजवाडाच्या ाझझगांत ताकाय 'तो' दिसलो. 'हय सायब, मनिसच तो. टारगेट मेळ्ळें हाका सायब.'

'आतां तुवें तुजें सॅक्शन वांगडा घेवंचें आनी दोंपत दोंपत वचून तें ऑब्झर्वेशन पोस्ट नश्ट करचें. मारून उडोवचें ताका फारपेट करून.'

'पूण सायब एक दुबाव. ओ.पी.चे राखणेक थंय आनीक कांय जवान ड मारून बशिल्ले आसूं येतात. एक अख्खें प्लटूनय आसूं येता.'

'ना रामनाथ, रुखावेलें ओ.पी. सदांच वन् मेन् आसता. हें भोव जिकिरिचें ाम. प्लाटून इतले भितर रिगना.'

'पूण सायब...'

रंगनाथन तापलो. 'आतां निमित्तां नाकात. तुज्या सॅक्शनाक घेवन वच ानी ताका फारपेट करून सकल उडोवनच यो. हांव कमांडिंग ऑफिसराक ाची खबर दितां. पुराय डिफेन्साक सावधान करूंक जाय.'

रामनाथान ताकतिकेन आपलें सॅक्शन एकठांय केलें. एक नायक, एक ान्स नायक आनी सात जवान मोर्चातल्यान उठून येवन एका झाडा ाडसार एकठांय जाले. सगळ्यांल्या हातांत मॅगझीन चडयिल्ल्यो स्.एल्.आर. रायफली. पयलीं रामनाथान तांकां आपलें काम आनी मोख ामजावन सांगली. मगेर तो तांकां घेवन उजवे वटेन गेलो. थंय कांय ्शेलां आसलीं. आनी तांचे पेल्यान बरींच ऊंच वाडिल्लीं तुरिचीं झाडां ासलीं. उशेलांतल्यान, बांदाच्या, झाडांच्या अडसरांतल्यान, तुरिच्या ेतांतल्यान भोव शादूरसाणेन ते ओ.पी. आशिल्ल्या झाडाच्या लागीं पावले. न्नास मिटर पावतकीर मुखार अशें उकतेंच शेत आसलें. त्या शेतांतल्यान धांवतच रुखासरीं येयले. सगळ्यांच्या हातांत वयर जोखून धरिल्ल्यो ायफली. सगळ्यांत मुखार रामनाथ. तो एकलोच बरेच मुखार पाविल्लो. ो रुखापोनाक पावलो आनी त्या रुखावेल्या दुस्मानाच्या जवानाक मारून कल उडोवंक ताणें बंदूक जोखली आनी बोट बंदुकिच्या घोड्यासरीं ले... पूण खिणांत तो गळसणलो... एक पुराय जितो मनीस वयर म्हजे ुखार... मनशा वरीच गोरें, बाबडें, भियेल्लें तोंड... फक्कत हो एक मनीस! ो दुस्मान न्हय. होवूय कोणालो तरी पूत, कोणालो तरी भाव, कोणांलो री घोव आसुंये, कोणालो तरी बापूय आसुंये... हाच्या मरणान एक दुख्खाचो रया... दुरपद आवय कितलीं वर्सां पुताचे यादीन वथरेताली आनी रडटाली. ाचे भयणीन भाव मेलो म्हण कळटकीर धांवन येतना पायणींत मारिल्ल्यो ेळांच्यो अजूनय कानांत घुंवतात. जाण्टो बापूय धोपरांत तकली घालून तलेशेच दीस मोन्यांनीच रडटालो. तेंगेलो पूत मनोहर पोलिसांत काम रताना दरोडेखोरा कडच्यान ताका मरण आयिल्लें. ताचें दुख्खी सांवट राय गांवभर पातळिल्लें. तेन्ना चौदा वर्सांचो रामनाथ त्या सांवटांत पुराय ूडून गेल्लो...

ताचें रायफलिच्या घोड्यावयलें बोट अळंग जालें. ताणें सांगात्यांकूय ौजी भाशेंत शिटकायलें, 'कोणें फारपेट करचो न्हय. ताका जिवानिशीं रचो न्हय. सकल देंवोवन धरूंया ताका. रावं दी. आसूं दी जितो.'

एकट्यान म्हटलें, 'पूण सर...'

'ए, तूं वोगी राव. सांगतां तेंच कर. म्हजी आज्ञा ती.'

मगेर ताणें त्या रुखावयल्या जवानाक धपकायत म्हटलें, 'ए, चुपचाप नीचे आव। कुछ चालाखी दिखाई तो गोली मारके बंदर जैसा नीचे फेकूँगा।'

तो जवान आतां त्या खूब ऊंच रुखावेल्यान ल्हवल्हव सकल देंवंक लागलो. तो रूख शेताचे धडेचेर उंचायेचेर आसलो. दोन वटेन तरी शेताचो खणून कापून काडिल्लोसो सकल भाग आशिल्लो. रूख आनी रुखाचे सावळेचो भाग उंचायेचेर आनी सकल शेत.

ताचें सकल देंवप सामकेंच ल्हव आसलें. बेठोच गळसणिल्लेवरी पांय वयर सकल घेतालो. देंवताना तो एके खांदयेक धरून त्या रुखाचे दुसरे वटेन गेलो. त्या रुखाच्या मोठ्या कांडा आड गेलो. एके खांदयेर घट पांय रोवून एका खिणा भितर ताणें पोचांतल्यान हेन्डग्रेनेड काडलो आनी ताची पीन काडून हांचे वटेन सखल उडयलो.

आतां फक्कत चार सेकंदांत ग्रेनेड फुट्टलो... सगळ्यांनी हुडी घेवन सोताक सकल शेतांत घालून घेतलें. रामनाथ सगळ्यांत मुखार आशिल्लो. ताणेय धांवत येवन भुंयेर हुडी घेतिल्ली. पूण तो कुडिचें पुराय धड सकल आनी पांय वयर अशे अवतिकायेंत सकल पडलो. तेन्नाच ग्रेनेड फुटलो आनी ताच्या दोनय पांयांची छेनडी जाली.

आतां भुंयेर पडिल्ले सगळेजण उठले आनी तांणी किंवाट्यान वांगडाच ठो ठो फारपेट करून त्या दुस्मानाक माकडावरी वयल्यान सकयल उडयलें.

उपरांत तांणी हवालदार रामनाथाक उखलून डिफेन्सार हाडलो. थंयच्यान हॅलिकॉप्टरान ताका कुचबिहारच्या मिलिटरी हॉस्पिटलांत पावयलें. थंय तो स म्हयने उरलो. मजगतीं ताचे दोनय पांय काडचे पडले.

* * *


With best compliments from



M. S. PRABHU

MARGAO – GOA



# अबुद्द बाळक

— देविदास कदम



पप्पूक मम्मीन मळबा रंगाची पॅण्ट घाली, तसल्याच रंगाचो शर्ट घालो, आनी तो इन केलो. मागीर तिणें म्हळें,

'चल बुटां घाल...'

पप्पू धांवत धांवत व्हरांड्यार येयलो. थंय ताचीं बुटां आशिल्लीं.

ताणें बुटांतल्यान मेये भायर काडले. सखयल बसून ते दोनूय पांयांक घाले. बुटां घालीं. आनी लेस बांदले.

'मम्मी...''

'कितें रे...?'

'हात धुवूंक उदक दी...'

'हात धुवूंक उदक कित्याक रे? मातयेंत हात घालो रे?' मुस्तायकी आंगार लकयत, डॅडीन भितरल्यान उलयलें.

'ना डॅडी. हांवें बुटांक हात लायले.'

पप्पूली आजी सोप्यार बशिल्ली. आपले धवे केंस दातोणेन बरगिताली. ती हें आयकून खो खो करून हांसली. म्हणूंक लागली,

'बुटांक हात लायले म्हूण हात धुवप वायट न्हू... गांवभर वाट माड्डोन येतात तीं. कसली कसली घाण लागिल्ली आसता तांकां. न्हू रे पप्पू...?'

पप्पून हय म्हूण तकली हालयली, आनी पर्थून उलो मारलो,

'मम्मी...'

'मातसो राव रे... हांव न्हेसतां...'

'थांब. हांव हाडटां' अशें म्हणत आजयेन मेकळे केंस बांदले. कमरेर हात घेवन 'आऽबा!' करत उठली. भितर गेली. आनी न्हाणयेंतल्यान एक तांबयो भरून उदक घेवन येयली.

'घे...'

पप्पू व्हरांड्यावेल्यान सखयल देंवन आंगणांत येयलो.

'हांगा हाड. हातार घाल...' म्हणत ताणें दोनूय हात मुखार केले.'

आजयेन नातवाच्या हातार उदक घालत म्हळें,

'कोणें सांगलें पप्पू तुका हें...? बुटांक हात लायल्यार हात धुवूंक जाय म्हूण कोणें सांगलें? मम्मीन काय डॅडीन...?'

'टिचरीन! शाळेंत!' पप्पून आपले दोनूय हात घश्टीत म्हळें. 'आजये, साबण...?'

'साबण आनीक जाय...?'

'शीऽ! साबण आनीक नाका? साबण लावनच हात धुवूंक जाय. ते बीन बरेऽ करून! घाण दवरिनासतना. घाणींत जंतू आसतात... टिचरीन तशेंच सांगलां.'

'अरे बाबा!' अशें म्हणत ती पर्थून भितर येयली. आनी न्हाणयेंत दवरिल्लो साबण घेवन भायर येयली.

'घे.'

पप्पून साबण लावन बरेऽ हात घश्टिले. घसघशीत फेंस काडलो. आनी पर्थून हात मुखार केले.

आजयेन हातार उदक घालतकीर बरेऽ करून धुवले. आपले पॅण्टींतल्या बोल्सांतल्यान चिमटेन लेंस भायर काडलो. हात बरेऽ पुसले. आनी पर्थून तो बॉल्सांत दवरलो.

आजी नातवाक पळोवन ओठांतल्या ओठांत हांसत साबण आनी तांबयो घेवन भितर गेली आनी ते दवरून भायर येयली.

पप्पू आयज सामको खोशयेंत आशिल्लो. ताका एक उमळशीक लागून आशिल्ली. कुलदेवा परबेक वचचेली. देवाल्या हाताचें तीर्थ घेवचेली.

पप्पू पांच वर्सांचो जाल्लो, तरी अजून पप्पून एक्कूय फावट देवा परबेक येवन, देवाल्या हाताचें तीर्थ घेयलें नाशिल्लें.

देखून पप्पूल्या डॅडीक आवयन (पप्पूले आजयेन) बरयल्लें, कश्शींय करून अंदू पप्पूक घेवन येयात. आनी देवाल्या हाताचें तीर्थ घेवन वचात.

तिणें हेंवूय बरयल्लें, कुलदेवाल्या हातचें राखणे तीर्थ घेवंक मुजरत लोक इंग्लंडांतल्यान आनी अमेरिकेंतल्यान येतात. आनी तुमी भारतांत आसुनूय पावनात. राखणे तिर्थाची म्हयमा तुमी नकळो? रोग-पिडा पयस दवरता तें. गेल्लेकडेन, येयिल्लेकडेन सुखान दवरता.

पप्पूलो डॅडी दिल्लींत रावतालो. केन्नाय वर्सान दोन वर्सांनी मे म्हयन्यांत तो गांवात येतालो. पुणून अशें मदींच तो केन्नाय पावूंक नाशिल्लो.

पप्पू जाले उपरांत एक दोन वर्सां अशींच कितेंतरी अडचण जावन तो उरलो. आनी पप्पू कॉन्व्हेंटांत वचूंक लागतकीर अशें मदींच येवप ताका जमलें नाशिल्लें.

कुलदेवाली परब वर्सान वर्स मार्च-एप्रिल म्हयन्या सामकारा येताली. परिक्षेचो वेळ. आनी इतल्या पयसुल्ल्यान येवन ताकतिकेन वचप समा जायनाशिल्लें.

पुणून अंदू आवय सामकी फाटीकच लागिल्ली, देखून चल्याक घेवन येवचेंच पडिल्लें.

डॅडीन कपडे घालतकीर पांयांक पायतणां चडयलीं आनी 'यो गो... जालें तुगेलें...?' म्हणत तो व्हरांड्यार येयलो.

पप्पू थंय डॅडी, मम्मी भायर सरचेली वाट पळयत आशिल्लो. बापूय भायर सरतकीर ताणें येवन बापायल्या हाताक धरलें आनी 'डॅडी, चल...' म्हळें.

'बाळशाक हाताक धरून बरेऽ करून व्हरा गो. ते गच्चेंत भुरग्यालो हात सुटून भुरगो खंयी वचत...' आजयेन यादीन सांगलें.

'बरें बरें! तूं काळजी करूं नाका.'

'देवाक बरें करून सांगणी करून घेयात.'

दोगांय घोव-बायलेन 'हां' म्हूण तकली हालयली.

वाटेर पप्पू प्रस्न विचारीत आशिल्लो.

'आमगेलो देव कसो येतलो डॅडी...?'

'आतां तो खंय आसा...?'

'येवन तो कितें करतलो?'

'तागेल्या हाताचें तीर्थ घेतकीर सगळ्यांत पयलीं आमगेलें कितें बरें जातलें?'

जायते प्रस्न. उमळशिकेन भरिल्ले.

डॅडीन, मम्मीन दिल्ले जापेर ताचें समाधान जायना आशिल्लें. एकार एक प्रस्न विचारतालो... निमाणेकडेन डॅडीन बेजारून म्हळें, 'आतां थंय वयतकीर पळय... हांव आनीक सांगना...'

हें आतांच म्हूण न्हू. देवाचे परबेक, राखणे तिर्था खातीर गांवांत वयतले म्हूण कळतसावन पप्पूचें हें असले तरेचें विचारप सुरूच आशिल्लें.

तो शाळेंतल्यान येतना आपल्या इश्टांक सांगून येयिल्लो, हांव आतां देवाक मेळूंक वयतां. देवाल्या हाताचें तीर्थ घेवन येतलों. मागीर म्हाका कसलीच भंय आसची ना. म्हाका कोणच कीडनॅप करचो ना. म्हाका कसलेंच दुयेंस जावचें ना. हांव देवाल्या आशिर्वादान शिकून व्हड व्हड जातलों. मोटार कार घेवन भोंवतलों...

पप्पून मनांत म्हळें, आतां म्हाका बरें! देवाल्या हाताचें तीर्थ घेतकीर कसलेंच दुयेंस जावचें ना.

नाजाल्यार, म्हाका पर्थून पर्थून थंडी जाताली. थंडी जातकीर जोर येतालो. आनी जोर येतकीर डॅडी-मम्मी म्हाका त्या दोतोर चतुर्वेदीगेर घेवन वयतात... तो तरी कसलो दया-माया नाशिल्लो! येद्दें व्हडलें इनिसांव काडून कुल्याक तोपता... आवयस्!

पप्पून कुल्याक बेठोच हात लायलो आनी कुलो सांसपिलो. ताणें मनांतच दोतोराक 'मरूं तो बेगीन' म्हळें.

इनिसांव दिता आनी वेल्यान वखदय दिता. वखद तरी बरें लागता? तेंवूय ना.

आतां म्हाका कोणच धरून उखलून व्हरचोना. नाजाल्यार कितली भंय दिसताली. भुरग्यांक कीडनॅप करून व्हेल्ल्यो कितल्यो कागाळी...?

म्हाका कोणूय धरूंक येयल्यार आमगेलो देव तांकां दवरता...? मारुनूच उडयतलो...

पयसुल्ल्यान देवळाकडेन वाजिल्लो ढम् ढम् ढम् आवाज येतालो.

आवाज आयकून पप्पून म्हळें,

'डॅडी, हो आवाज कसलो रे...?'

'देवळाकडेन वाजता तें...'

'कोण वाजयता रे...?'

'तें आतां थंय वयतकीर दिसतलें तुका.' मम्मीन मदींच म्हळें.

पप्पू ओगी रावलो.

ताची उमळशीक आतां मळबाक तेंकिल्ली. आतां एक फावट बे... देवळाकडेन पावल्यार पुरो जाल्लें. ताणें कान शेळयले... ढम्, ढम्, ढ... ढम्, ढम्... असो एके लयींत आवाज येतालो. तो आयकूंक ताका ब... दिसतालें...

'आतां आमी बेगीन बेगीन पावलां उखल्ल्ल्यार बरीं दिसता... देवळाक... वाजूंक लागलां म्हणटकीर सगळे विधी पुराय जाले. आतां देव ये... तयारी ही...'

'...'

'पप्पूक हांव उखलून घेतां... मातशें बेगीन बेगीन चांट मारुंया...'

डॅडीन पप्पूक उखलून घेयलें आनी तेमी बेगीन बेगीन पावलां उखल... लागलीं...

देवळा कडेन घेऽ लोक जमिल्लो. थोडो न्ही. सामकी गच्ची. ग... येतालो. कोण वयतालो. सगळे गच्ची करून चलताले.

मदींच कोणें तरी कोणालो पांय माड्डयलो. 'आवयस्! म्हजो य... माड्डयलो...' म्हणत तो वळवळूंक लागलो. आनी ताणें आपल्या बगलेच्क... धकलून उडयलो. तो ताचे बगलेच्या बायलेर लंवडलो. 'मरूं गे हे लो...! आंगार पडटात! दादले म्हूण ना! बायलां म्हूण ना...! मरूं बेगी...!' तिणें म्हळें.

पप्पूक हांसूंक येयलें.

जण एकलो थंय कोणा ना कोणाकडेन, कितें ना कितें उलय... आनी सगळ्यांचो आवाज मेळून एक निराळोच आवाज थंय येतालो... सामुहीक बोवाळ कसो.

मदीच 'पँऽ पँऽ पाँऽ' करून कोण कितें तरी वाजयतालो. आन... सगळ्या आवाजांक फाटीं घालपी 'ढम् ढम् ढम्' आवाज.

देवळा भायर मदीं मदीं कसले कसले पसरे मांडिल्ले. कांय ... कांय दादले एके बडयेक फुगे, खेळणीं बीन बांदून उबे आशिल्ले. ... देवांचे फोटे विकताले. तर कांय कडेन कोण जिलबी, लाडू, खाजें सा... गोड पदार्थ मांडून बशिल्ले.

जिलबी पळयतकीर पप्पूक लुच्च जालें. ताणें डॅडीक म्हळें,

'डॅडी, आमी जिलेबी घेवंया हां...'

पुणून रोखडेंच ताचें लक्ष त्या जिलेबीवाल्याकडेन गेलें. तो हातां ए... लुगट बांदिल्ली बडी घेवन, गोडशा पदार्थांवेल्यान हालयतालो.

तो अशें कित्याक करता म्हूण पळयल्यार, त्या गोडशा पदार्थां... मुसां येवन बसतालीं आनी तो तांकां आमुडटालो.

'शीऽ!' पप्पून म्हळें, 'नाका रे बाबा म्हाका त्यो जिलेबी! मुसां ब... तांचेर... आमच्या बुकांत आसा... मुसां बशिल्ले खंयचेच पदार्थ खा... दुयेंसां जातात.'

डॅडी आनी मम्मी पप्पूल्या उलोवण्यार हांसलीं.

तेमी देवळा मुखावेल्या तळयेकडेन येयलीं.

थंय सगल्या लोकांनीं आपआपणालीं पांयतणां काडून थंय दवरीं.

मम्मीन मागीर पप्पूलीं बुटां काडलीं आनी तांगेल्या पांयतणां ग... दवरलीं.

तळयेकडेनूय सुमार लोक जमिल्ले. कांय तळयेंत पांय धुवूंक ... देंवताले, तर कांय धुवन वयर येताले.

पप्पूक हाताक धरून, डॅडी आनी मम्मी ल्हवू ल्हवू तळयेचे पांयडे... देंवन सकयल येयलीं. निमाण्या पांयड्यार उबीं रावन, तळयेंत आपआपणाले पांय बुडोवन पर्थून वयर येयलीं.

देवळामुखार थंयच केळी, फुलां विकपी एका हारीन उबे आशिल्ले. घे', 'हें घे' करीत लोकांक विनवणी करताले.

डॅडीन तातुंतल्याच एकल्याक विचारलें,

'कितले दिवूं रे...?'

'धा रुपया...'

डॅडीन बॉल्सांतल्यान पयशांचें पाकीट काडलें. आनी तातुंतल्यान इकरा पया काडून ताका दिले.

त्या दादल्यान उरिल्ले पयशे, पांच केळी, एक आबोले फुलां फांती, ापूर आंनी एक उजवाती पुडो दिलो.

तें घेवन तेमी म्हाल दरवाज्याकडेन येयलीं.

थंय पळयल्यार लोकांली झुंडी पडिल्ली. कांय भितर सरताले, कांय ायर सरताले. जणएकलो एकामेकांक धुकलीत, धुमशीतच भायर भितर रतालो.

पप्पूक खिणभर दिसलें, डॅडीक सांगचें, डॅडी आमी देवळाभितर वचचें ाका. भायल्यानच पांय पडुंया देवाक... पुणून मागीर ताणें येवजिलें, इतले ासुल्ल्यान मुजरत हे परबेक म्हूण येयल्यात, आनी देवाचें दर्शन घेनासतना ुंया म्हळ्यार, डॅडी रागार जावचो ना? देवाचें जितें दर्शन! दर्शन घेनासतना ल्यार वर्ग वांगड्यांक कितें सांगतलों...?

ताणें भुरग्यांक हेंच सांगिल्लें, तुमी केन्नाय देवाचें जितें दर्शन घेयल्यात? ंव देवाचें जितें दर्शन घेवन येतलों. तागेल्या हाताचें तीर्थ पिवून येतलों.

डॅडीन पप्पूक उखलून घेयलो आनी निमाणेकडेन त्या बोवाळांत तेमीय शेंतरी ओडत, चिड्डत भितर सरलीं.

भितर देवळांतय तशीच गच्ची आशिल्ली. तातुंतल्यान वाट काडत वाचें दर्शन मेळुंकच तांची दानाधिस्पट जाली.

डॅडीन पप्पूक सकयल दवरलो. मम्मीन पप्पूल्या हातांत केळीं, फुलां ांती, कापूर आनी उजवाती पुडो दिलो. भटान तें घेवन देवाक सांगणी रून ओंपलें. आनी पर्थून, देवाचो प्रसाद म्हूण पांच केळीं आनी ्वामाथ्यावेलीं फुलां दिलीं. पप्पूल्या हातार चिपटान तिर्था गिंडेंतलें तीर्थ ालें. पप्पून तें गोड तीर्थ पिलें.

पप्पूच्या मनांत घुस्पळ. देव आपल्या हातान तीर्थ दितलो म्हूण डॅडी-मम्मी ांगतालीं. हांगा पळयल्यार भट दिता... ताणें विचारलें,

'मम्मी, देव आपल्या हातान तीर्थ दिता म्हणटाली न्हू गे तूं...?'

'तें हांगा न्ही. थंय देवा आंगणांत...'

'हो आमगेलो कुलदेव थंय येतलो?'

'हय...'

पप्पू आतां ओगी रावलो.

डॅडी-मम्मीनय देवालो तीर्थ-प्रसाद घेयलो. देवाक साश्टांग नमस्कार करुंया म्हळ्यार तशी सुवात थंय नाशिल्ली. मागीर लोकां वांगडा एकामेकांक ुकलीत तेमी कशीतरी प्रदक्षिणा घाली.

डॅडीनं पर्थून पप्पूक उखलून घेयलो आनी तीं भितर सरिल्लीं तशींच भायर सरलीं.

भायर सरतकीर पप्पून म्हळें,

'डॅडी, हांकां शिस्त ना न्हू...? आमी शाळेंत कशीं रांकेंत वयतात येतात, तशीं हीं येनात. हीं मनशां शाळेंत गेलिंना आसतलीं न्हू डॅडी?'

डॅडी ओगी रावलो.

तेमी आतां देवा आंगणांत येयलीं. थंय व्हड माटव घाल्लो. आंगण शेणान, मातयेन सारयिल्लें. आंगणांत चोंयवाटेन हातऱ्यो सोडयिल्ल्यो आनी लोक तांचेर बशिल्ले. चड करून बायलां आनी भुरगींच बशिल्लीं. दादले फाटल्यान कवंडाळें करून उबे आशिल्ले. पप्पू आनी मम्मीय येवन थंयच हातरेर बसलीं. आनी डॅडी तांचे फाटल्यान उबो रावलो.

आंगणांत मदीं दोन दादले गळ्यांत धोलकें घालून ढम्, ढम्, ढम्, ढम् करून वाजयताले. तांणी पंचे न्हेशिल्ले आनी आंगांत बानेनां घातिल्लीं.

तांचे मुखारच एक दादलो हात पांगरून आनी दोळे धांपून ओगी उबो आशिल्लो. तो काळो आनी मोटवो आशिल्लो. तो उकतोच आशिल्लो. ताचे आंगभर दाट केंस आशिल्ले. तकलेर मात एक्कूय केंस नाशिल्लो. तकली पुराय तिकतिकताली. ताणें पंचो न्हेशिल्लो, गळ्यांत फुलांची माळ घाल्ली आनी कपलार उबो पिंजरिचो नामो ओडिल्लो.

पप्पूक ताका पळोवन कितेंशेंच दिसलें. ताणें विचारलें,

'मम्मी, हो कोण गे...?'

'होच देव...'

'हो...?'

'हय...'

पप्पू घुसपलो. ताणें म्हळें,

'असो कसो? तो भितरलो देव वेगळो दिसता आनी हो वेगळो दिसता मुगे...'

'त्या भितरल्याच देवाचो भार आतां हाचे आंगार येतलो.'

'भार...' पप्पूच्या तोंडांतल्यान झुप्प करून उतर भायर सरलें. 'म्हळ्यार हो खुदतलो आतां...?' ताणें विचारलें.

'हय...'

पप्पूक याद जाली. तांकां टिचरीन एक 'भारा'ची काणी सांगिल्ली. एक मनीस आपल्या आंगार देवाचो 'भार' येता म्हूण सांगून लोकांक कसो फटयता – आनी लोक कशे पिशे जातात –

टिचरीन सांगिल्लें, कांय जाण बेठेच आपल्या आंगार देवाचो भार येता म्हूण हेरांक फटयतात, लोक तांचेर कुड्डो विस्वास दवरतात म्हूण आपूण दवरुं नये...

पप्पून एक फावट मम्मील्या तोंडाकडेन पळयलें, आनी एक फावट फाटल्यान उबो आशिल्ल्या डॅडीकडेन.

ताणें मनांत म्हळें, डॅडीन आनी मम्मीन म्हाका भार येतलो म्हूण सांगूंक नाशिल्लें. देव येतलो म्हूण सांगिल्लें. म्हाका फटयलो दोगांनूय.

इतल्यांत 'वाट सोडात... वाट सोडात...' म्हणत भट एका हातांत कळसुली आनी एका हातांत ताट घेवन येयलो.

ताच्या ताटांत पिंजरिचो कंडो आनी शेंदूर कालयिल्ले तांदूळ आशिल्ले.

भटान त्या दादल्याच्या पांयार इल्लें इल्लें उदक घालें. ताटांतलो पिंजरिचो कंडो उकतो करून ताच्या कपलाक पिंजर लायली. ताटांतले इले तांदूळ ताचे तकलेर फांफुडले.

आनी मागीर ताटांतले तांदूळ थंय उबे आशिल्ल्या कांय दादल्यांक वांटले...

भटान सांगणी केली,

'देवा म्हाराजा, आमी तुज्या विधीनेमा परमाणे, सगळ्यो विधी आमगेले शक्तीनुसार केल्यो. आमगेली भक्ती तुमकां पावली अशें मानून, आमी तुमकां हे कुडींत आफयतात. हे कुडींत येवन, देवान कुरपा करची. आनी आपल्या कुळाव्यांतल्या सगळ्या बाळकांक, तांचीं संकश्टां पयस करून, तीर्थ प्रसाद दिवन राखण करची...'

'हय म्हाराजा...' सगळ्यांनी एका सुरांत म्हळें.

आनी सगळ्यांनी ढम् ढम् ढम् ढम् आवाजांत 'हर हर म्हादेव...' म्हणत ताचेर तांदूळ फांफुडले.

मागीर खिणांतच 'शो ऽ ऽ!' करून तो दादलो भुंयेर सखयल पडलो... 'शो ऽ शो ऽ' करीत तकली हालोवन खुदूंक लागलो... मदींच एकदम तो उचामळ जातालो, जाल्यार मदींच संथ तकली हालयत खुदतालो... मदींच उबो रावतालो, जाल्यार मदींच दिमयेर बसतालो... चडसो दोनूय

हात भुंयेर दवरून ओणोव घेवनच तकली हालयत रावतालो...

एक एकटो येवन नुडी घालून तीर्थप्रसाद घेवन वयतालो.

जण एकटो आपल्यार येयिल्लें संकश्ट कथन करतालो. तो मागीर 'भिनाकात... हांव पांयामुळांत धरतां...' म्हूण सांगून भटाल्या ताटांतलीं कांय मुद्रां ताका खावूंक दितालो आनी कळसुलेंत हात घालून, हातानच तीर्थ तांच्या हातार घालतालो आनी 'पी' म्हूण सांगतालो.

मम्मी पप्पूक घेवन भारा मुखार येयली. डॅडीय येयलो. मम्मीन म्हळें,

'देवा, तुज्या कुळाव्याचें बाळक तुजे मुखार हाडलां. ताच्या हातां पांयांक सूख दिवन, आयुश्य आरोग्यान दवर...'

भारान भटाल्या हातांतल्या ताटांतल्यान, तांदळाचीं कांय मुद्रां काडून 'घे खा...' म्हूण मुखार केलीं... पुणून पप्पू हात मुखार करुंकच तयार ना जालो. मम्मीन म्हळें,

'घे पप्पू. खा तीं घेवन...'

पुणून ना. पप्पू तीं घेवंकच तयार ना.

मम्मीन दोळे मोटे करून पप्पूक पळयलें. 'घेयनासतना रावंनये... घे तीं आनी खा...'

पप्पू तयारच ना. 'ना. हांव घेयना...' म्हूण काकुळटेन म्हणूंक लागलो.

मम्मीन बळयांच पप्पूलो हात मुखार करचेलो येत्न केलो. पुणून पप्पू आपले हात तितल्याच नेटान फाटीं ओडटालो. ती ताच्या हाताच्यो मुठी सोडोवचेल्यो येत्न करताली, त्योवूय तो सोडयनाशिल्लो.

कोणेंतरी म्हळें, 'भुरगो भिलो.'

'आगे, तूंच घेवन खावय ताका...'

मम्मीन दोनूय हात मुखार करून कोंदलो करून तीं मुद्रां घेयलीं. आनी पप्पूक खावोवंक केलीं... पप्पू तोंडय उगडूंक तयार ना.

'पदराक बांदून घे... मागीर घरा व्हरून दिल्यार जाता...' भटान सांगलें.

मम्मीन तीं मुद्रां पदराच्या शेवटाक बांदून घेयलीं.

भारान कळसुलेंत हात घालून तीर्थ काडलें आनी हात मुखार केलो.

मम्मीन बेगीबेगीन दोनूय हात मुखार करून कोंदलो करून तें घेयलें आनी पप्पूल्या तोंडांत घालूं केलें. पप्पून आतांय तोंड उकतें केलेंना. डॅडीन पप्पूलें नाक घट्ट चिड्डून धरलें तरीय पप्पू तोंड उकतें करूंक तयार ना. येदो वेळ हातांतलें तीर्थ निशेवन गेल्लें. मागीर मम्मीन बेठेंच हाताक लागिल्लें तीर्थ पप्पूल्या ओंठांक लायलें. पुणून पप्पून तेंवूय थू करून हातान पुसून उडयलें.

पप्पूल्या ह्या वागपान डॅडीक सामकी तिडक मारिल्ली. मम्मीकूय पप्पूचो राग येयिल्लो.

दोगांय घोव-बायलेन देवाकडच्यान तीर्थ-प्रसाद घेयलो आनी पप्पूक घेवन भायर येयलीं.

भायर येतकीर डॅडीन फुरसद पळयली ना. 'पप्पू, देवालो तीर्थ-प्रसाद कित्याक घेयलो ना रे? आं...?' म्हणत सण्ण करून दोन पप्पूल्या पोल्यांर दिलीं.

'मारा. मारा ताका. हांव अशेंऽ पळयतां... एकेक फावट विचित्रच वागता तो... ताका माल्लेबगर न्ही... सुदारचो ना तो. नाजाल्यार...'

पप्पू अँ... आं... आं... करून रडुंकच लागलो.

'तितले पयसुल्ल्यान देवाच्या तीर्थ-प्रसादा पासत आमी मुजरत येयल्यांत. थोडे न्हू पयशे खर्च करून... आनी हो तीर्थ-प्रसाद घेवंक तयार ना. मस्ती वाडली तुजी. लाड जाल्या... करतां तुका सारखो घरा व्हरून...' अशें म्हणत डॅडीन पप्पूक ओडत घेवन चलूंक लागलो...

तळयेकडेन काडून दवरिल्लीं पायतणां पांयाक घालून तीं घरा सुटलीं...

वाटेर मम्मी आनी डॅडी पप्पूक संवत आशिल्लीं. आनी पप्पू रडटालो. हुंडकेतालो. ताका हुंडकेवचो पळोवन 'रडटा आनीक कित्याक? आं? आं?' म्हणत मम्मीन पप्पूक आनीक एक फुलयलें. पप्पू चडच रडूंक लागलो.

घरा येतकीर आजयेन विचारलें,

'पप्पू, तीर्थ-प्रसाद घेवन येयलो मुरे...?'

'खंय...? घेवंकच तयार ना... घेवन तोंडांत घालुंया म्हळ्यार तोंड घट्ट धांपून आसा...'

'अरे देवा! कित्याक अशें केलें रे? अशें करूं नजो...' आजयेन आबूज जावन म्हळें. 'देवा, चूक जाल्यार माफ कर... अबुद्द बाळक...'

'ताका दिल्लीं मुद्रां हाडल्यांत पदरांत बांदून...'

'मस्ती जाला तो... आनीक कांय न्ही... फकत लाड...'

'पप्पू, कित्याक पुता तुवें तीर्थ-प्रसाद घेयलो ना...?' आजयेन पप्पूक म्हऱ्यांत ओडून ताचे तकले वेल्यान हात भोंवडायत विचारलें.

'आजी, ताच्या हातांक माती लागिल्ली गे... तो जमणीक तेंकयिल्ल्या हातानच तीर्थ-प्रसाद दितालो... तसल्या हातांचें खायल्यार-पिल्यार दुयेंस जायना...?'

'ना पुता. देवाल्या हाताचें घेयल्यार केन्नाच दुयेंस जायना... उरफाटें देवाचे कुरपेन दुयेंसां पयस वयतात...'

'देवाच्या हाताक घाण लागिल्ली उल्ल्यारूय...?'

'हय...'

'आनी आजी...'

'कितें पुता...?'

'टिचरीन सांगिल्लें,' भार बीन सगळें फट म्हूण... हेर विस्वास दवरतात' म्हूण आपूण दवरूंनये म्हूण...'

'टिचरीन वाट लायल्या तुमची...' डॅडीन तिडकेन म्हळें.

आजयेन कुलदेवाक हात जोडले.

'देवा, म्हज्या नातवाक माफ कर. तुज्या वालिचें अबुद्द बाळक तें...' मागीर तिणें चेड्याक म्हळें, 'अरे, ताका कळ्ळें ना तें... अबुद्द बाळक न्हूं तें... आमकां जाण्टेल्यांक कळटा म्हूण, तेका कशें कळटलें अबुद्दाक...?'

✻ ✻ ✻


*With best compliments from*

**KUNDE SERVICE STATION**

Padre Miranda Road,
Post Box No. 72,
MARGAO – GOA 403 601.
Gram: DAMODAR
Ph: Outlet: 722474
Office: 721797, 732484






# A place in the sun....

Carefree innocence in the lap of nature-miles
and miles of silvery send with the inviting surf.

Come and stay at Hotel Baia Do Sol...........
Cottages on the sea front & river side rooms.

- Delectable Italian, Goan, Indian cuisine
- Barbecue on the Deck and live music
- Water sports ○ Palm fringed river for fishing and boating

For reservations : **Manager**
**Baia Do Sol**, Calangute, Goa.
Phone : 91 832 276084-85
**Margao** : 91 834 732470, 721141
Fax : 91 834 731415



Hotel
**Baia Do Sol**
BAGA BEACH, KALANGUTE, GOA
Tel. : 0091 832 276084 / 85



# पात्तुमायची बोकडी

— बरोवपी: वायकम् मुहम्मद बशीर

— अणकार: आर. के. राव

पात्तुमायची बोकडी अथवा बायलांगेली बुद्धी ही समास्याची काणी हांव हांगा सांगूंक प्रारंभ करतां.

अनेक काळाची भोवंडी आनी एकटुके जिणेचे उपरांत नाकार राग घेवन हांव वायकम् शारा लार्गी तलयोलपरंपु म्हळेल्या गांवच्या मागेल्या घराकडे रावूंक गेलों. गंभीर स्वागत! माका व्हड राग आयलो. हांव बैसून हून ज़ालों. मागेलें घर. हांवें कोणाचेर दोश लावप?

धा पन्द्रा वर्सा जालीं, हांव माज्या घराक तशें रावलों ना. तशें आसतना थोड्यो रात्यो थंय रावल्याचो उगडास मात्र आसा. माका मात्र रावच्याक घरा मुखार पब्लिक रोडाचे देगेर एक लान कोयलुवें घर आसा. तें निर्माण करच्या वेळार हांवें फातर आनी रेंव व्हांविल्ली आसा. व्हड प्रयत्न केलोलो आसा. शान्तताकायेक आनी चंदायेक हांवें साबार केलें. भो ऊंच मेरेन फातर बान्दयलो. धवी रेंव घालेल्या आंगणां भोंवतणी चंद झाडां लायलीं. भोंवऱ्या झाडार मोगऱ्यांच्यो आनी जायांच्यो वाल्यो धांवडायल्ल्यो आसात.

आंगणाच्या कोणशांत पेरी झाडां वोयल्यांत. थंय दोन तळीं आसात. पिंवच्या उदकाचें एक आनी न्हावच्या उदकाचें एक. केवल माका एक विशेश पायखिळो (संडास). पटांगण पुराय माड आनी माडयो, न्हंतना हांवें अनेक रूक वोवन केल्यात; तांकां लागून आंब्या झाडांय, रोडाचे देगेर आनी सिमेर चंदायेन अनवासां झाडां; पटांगणा भोंवतणी स फूट उंचार मडळाची आनी कांटयेची वोंय. मुखार जाळीदार, सदां बंद आसचें फाटक. तांतल्यान पळेल्यार वाटेन वतल्यांक झाडां आनी फुलां सर्वय चंदायेन स्पस्ट दिसतात.

हांव त्या लान घरांत एकलोच रावतालों. चाय, अल्पाहार आनी जेवण माजी उम्मा अथवा आवय फाटका उंचावेल्यान भितर दिताली. तशें कोणाकय भितर येवंच्याक दिनाशिल्ली. खुशीन बैसून बरयतालों अथवा कांय वाचतालों. तेंवय ना जाल्यार झाडांक आनी रुकांक उपचार कर्न थंय सग भोंवतालों. तशें आसतना हांव एक चक्कर मारूंक भायर सर्न गेलों. वर्कला गांवचे शिवगिरी, मद्रास, एरनाकुलम, कोयंबतूर ह्या जाग्यांर तीन वर्सां रावलों. मागीर सूख नातिल्लें. शान्तीन रावच्याक परतून आयलों. त्या वेळार हांव रावचें तें लान घर माजो धाकटो भाव अब्दुल खादरान भाड्या दिल्यां म्हण माका कळ्ळें! एक्सायज इन्स्पेक्टर श्रीमान रामन कुट्टी रांदप्यासयत थंय सुखान रावता. श्रीमंताक घर पसंद जालें. तरीय घूरा सर्न दीन. परंतू त्या व्हड गांवांत वेगळें एक घर मेळच्याक कांय उपाय ना. कितें करतलों?

ऊं हूं! तशें हांव घरांत रावच्याक शुरू केलें. खामोशी, शांतताय आनी पुराय आराम हें माका जाय. स्वास्थ्य वापस काडूंक जाय. मनाक कश्ट दिवंचे, त्रास दिवंचे शब्द आनी आवाज कांय जावंच्याक नज. परंतू हांव त्रास, गोन्दोळ आनी आवाज हांचे मद्दें जालों! सम मद्दें!

मडळान शिंविल्लें एक लान, दोन कुडां – एक रसोई आनी दोन जगल्यो आशिल्लें मागेलें घर. तांतूंत कोण सगटय रावतात?

माजी आवय, माजो धाकटो भाव अब्दुल खादर, ताजी बायल कुञ्ञानुमाय, तांचीं चेरडुवां पात्तुकुट्टी, आरीफा, सुवैदा; अब्दुल खादराचो धाकटो मुहम्मद हनीफ, ताजी घरकान्न ऐशोमाय, तांचीं मोगाचीं भुरगीं हबीब मुहम्मद, लैला, मुहम्मद रशीद; हनीफाची धाकटी आनुमाय, तिजो घोव सुलयमान, ताचो मोगाचो भुरगो सय्यद मुहम्मद, मागीर माजो सगटां पाशीय धाकटो भाव आबूबकर अथवा आबू.

इतलेच मनीश थंय आसात. हांचे शिवाय आनीकय लोक आसा. खंयकीसून येवन रावलेलीं शरणार्थी थोडीं माजरां; तांकां भियेवन माळ्यार केन्नाय धावन भोंवचे अनेक उंदीर; घरा वयर बैसून रडून गोन्दोळ करचे थोडे कावळे; हांचे सगटांचेय भायर मागेले आवयले आपणाले आनी घरा धनया लेकान शें, दोनशें कुंकडां, तांचीं आनेक पिल्लां, हांकां चोंचीन घेवन वचून खावंचीं सवणीं, घोण्यो रुकांचेर.

घरांत केन्नाय गोन्दोळ आसा. सान्ने स्थायावरी. रशीद अनी सुवैदा पोटार चर्न वच्याक आरंभले नात. मोमो चिवन पिवनातिल्ल्ल्या वेळार तीं तशें निरंतर रडतलीं. चमकच्याक लागल्ली आरीफाय एका राजाची राणी आसा. तिज्याकय स्वल्प चड पिराय आशिल्ली लैला आनी सय्यद मुहम्मद फाव जालेलीं रडतल्लीं आसात. आबी आनी पात्तुकुट्टी (हां, हबीब मुहम्मद म्हळेलें नांव स्कूलांत मात्र. घरांत उळदिताय 'आबी' म्हण. तो आपणाक म्हणता 'म्बी'; तोवय, पात्तुकुट्टीय पयले दर्जेंत शिकतात.) दोगांय व्हड रडवेलीं आनी हट करपीय आसात. भुरगीं, माजरां, कुंकडां, बायलो, घोण्यो, उंदीर आनी कावळे – सग मेळन एक मौज.

ह्या वरिश्ट गोन्दोळांत हांवें पळोवंक एक बोकडीय थंय येवन पावल्या!!

बोकडीच. कुंड्या रंग. बरी आनी हुशार आसा.

ती फाल्यां मागेल्या घराक येवन स्वयंपाक कुडांत येवन कांय पुणीय खातली. उपरांत घरांत येवन निदेल्ल्या भुरग्यांच्या आंगार माडोवन तांकां जागोवन भायर वचून आंगणांत पळ्ळेल्यो पणसा खोलयो अंवसरान खावंच्याक लागतली.

आंगणांत एक कडेन आसा तो पणसा रूक. म्हातारो जाला. तरीय पणस आसात. जायत्या बोकडांक खाण दिवंच्याक आशिल्ली खोलीय आसा. बोकडी खोली सग खावन उपरान्त आंगणांत देगेर आशिल्ल्या जांबा झाडा पोन्दाक वतली. थांगा खाल पळ्ळे जांब खावन उंचार चोयतली. अस्पश्ट तांबीडसाणींत मेळन आशिल्ले व्हड दोवा थेंब्या गदी पाचव्या पाल्यांचे मद्दें जांब लकलकीत पळ्ळा. कितें करप? बोकडी मागलांच्या दोन पांयांर रावून खालचे खांद्यावेले जांब खावंच्याक सरतली. पावना! हे जांबाचे बावगल्ले खांदे उंचार कर्न बांदलेले कोणें?

तशें चिन्तन कर्न रावच्याक एक पिकल्ली खोली पडतली. बोकडी धावन वचून ती लेंवन काडून रुचीन खातली. त्या भितर आवय, ना जाल्यार कुञ्ञानुमाय, ऐशोमाय, आनुमाय – कोणय आंगण झाडपाक सारणीय घेवन येतली. बोकडी घरा धावन वचून थांगा सगळे घरांत शोधून भोंवतली.

ही कोणाली बोकडी? कसली स्वतंत्रताय दाखयता पळय! खंय सग चडता! कितें सग करता! तरीय कोण कांय उलयना. आयकतल्लेय, सांगचेय कोणेंय तरी ना, असलें एक घर!

आराम कुरसीर हांव मुकावेले जगलेर बैसतना, कुडांत कोणकी कागद वोडून पिंजुची आवाज आयकली. हांवें लान दारांतल्यान भितर पळयलें. अजाप! ती बोकडी मागेल्या हांतणार उबी रावून पुस्तक खाता! पेटेच्या उंचार 'बाल्यकालसखी' आनी 'शब्दङ्डळ' ह्या दोन पुस्तकांच्या नव्या प्रकाशनाची एक एक प्रती आशिल्ली. तांत 'बाल्यकालसखी' ती आतां खाता. मुकवेल्या पांयांनी माडोवन धर्न दोन तीन पानां लेकान लेंवन लेंवन तोंडां काडून स्टायलार चाबून खाता. खावो! बरी बोकडीच... 'शब्दङ्डळ' हें आसा मू. नाळयांसून येवंच्या व्हड व्हड गुळ्यां समान भयानक कडक टिका अनमसिल्लें एक लान पुस्तक. तरीय खबर भयानक. तें पुस्तक खावंच्याक हे बोकडेक धैर्य आसतलें?

कांय आशंका ना. 'बाल्यकालसखी' तिज्या पोटांत पावलें. तुरंत 'शब्दङ्डळ' प्रारंभलें. दोन मिनट भितर सर्वय तिज्या पोटांत. मागीर बोकडेन मागेली कांबळ खावंच्याक सुरू केली. तुरंत हांव उडकी मारून मुखार सरलों; धांवन गेलों!

'हे अजसुंदरी! तूं तें पांगुरचें खावनये. ताजें मोल शें रुपया आसा. ताजी प्रति माजेकडे वेगळी ना. माजीं पुस्तकां आनी वेगळींय आसात. तुका तीं सगटय हाडोवन दंब्यार दीन.'

मागीर बोकडेक मार्न भायर धांवडायली. ती पणसा पोन्दाक धांवली. थंय दोन तीन पाले पळ्ळ्यात. सायबीण ते सग खाता.

हांवें आवयक आपयली आनी विचारलें: 'आगे, ही बोकडी कोणागेली?'

आवयन म्हळें: 'आमचे पात्तुमायची बोकडी मू ही.'

'देकून तिका इतली स्वतंत्रताय की?'

पात्तुमायची बोकडी... खबर स्पष्ट जालें. फालें जावंचे फुडें पात्तुमाय तिका भायर सोडटली. 'आंगण झाडून ती खोली सर्वय पेल्यान घालचे फुडें वचून खा, मिजे भांगरा बोकडी' म्हण उपदेश करतली. बोकडी सीधा पब्लिक रोडा वयल्यान घराक येतली. आनी हें त्रास दिवप! खुशाली!

हे बोकडे धनी पात्तुमाय मागेली भयण. ती अब्दुल खादराची सीधा धाकटी. ती रावता देड फरलाङ्. धूरा सान्तेच्या मागलान. तिचो घोव कोच्चुण्णी. साकाळींच चाय आनी अल्पाहार दिवन कोचुण्णीक व्यापाराक धाडतली. ताणें म्हळ-म्हळेल तराचो व्यापार सग केलो. मागीर आतां दोरा व्यापार करता. सांजेच परतून येतलो.

कोच्चुणी गेले उपरांत आयदनां सग धांसून धुवन उमतीं घालन आपणाली मोगाची लान धूव खदीजाकय घेवन पात्तुमाय सीधा हांगा घराक येतली. येत्ताच 'स्टायलार'. शेंपडी समान मागलान खदीजा. सपनांतल्यावरी पात्तुमायचें चमकप. घराक पावल्यार रीत परतली. पात्तुमायची आवाज ऊंच वतली. ताका गरज आसा मू! ती आवयची व्हड धूव. देखून घराकडे स्वल्प चड अधिकार आसतलोच मू?

पात्तुमाय येवंच्याकच हांवें गौरवान पळयलें. पात्तुमायची बोकडी आसा. आवय आसा. भयण आसा. दोग भावजो आसात. कितें जायत?

पात्तुमायन घरां भितर सरन भयण, आवय आनी भावजो हांचे लागीं गौरवान विचारलें: 'कोणेंय तरी मागेले बोकडेक पेजे निशें दिलें की?'

आवयन म्हळें, 'शें भर काम आसा हांगा. तुगेली बोकडी!'

पात्तुमायन जावांक कायकी विचारलें. भयणीक कोलदंड्यार काळ्ळी.

'हांव तुका बरोबर वळखतां मुगो!'

ताका आनुमायन कितें जाप दिली, कळना.

पात्तुमायन आवयक तिगेल्या जीवनाचीं कश्टां पासून सांगलीं. भौ चड दुखांचीं खबरां. मागीर एक प्रभाव पडचे गदी म्हळें: 'तुमी कोणेंय कांय करचें नाका. मागेली बोकडी वियेवो. तेन्ना पळोवूं!'

पात्तुमायची बोकडी वियेल्यार पात्तुमाय लोकांक कितें करतली?

जांबा रूक जांब भर्न हांसता सो दिसता. हांव तेंवय पळोवन आराम कुरसिचेर अस्तंतांत चोवन पडच्याक 'म्यावू' 'म्यावू' म्हळेली अळशिकेची आवाज करून शरणार्थी माजरां माजे लागीं आयलीं. तांत एकलें उत्साहान उडकी मार्न माजे व्हंटींत बैसलें. हें माजर व्हड साफ-सुफी न्हय.

माजे व्हंटींत चडून कित्या बैसलां? आमचे मद्दें कांय सरोकार ना. तरीय देखच्याक हांव ताका पसंद आयलों जावंयेत. ओ, आसां... तशें रोडार पळोवपाक जायतीं चेर्डुवां वतात देखलीं. हायस्कुळांत शिकतात. सग माक चोयतात. चंद आसात. तीख दृश्टी!

कारण कितें?

पात्तुमायचे बोकडे फाटीर एक कावळो येवन बैसला. कावळ्याकय घेवन बोकडी माजे मुखार येवन रावल्या. 'देखिलो उगडास ना मू' म्हळेल गदी कावळोमामा वांकडी दृश्टीन चोयलो.

माजे लागीं सिमेन्टाचे वरान्दारसून कुंकडां इतेंकीं चोंचून खातात. ह्या हिण्डांत एक देगेर कावळो उबून येवन बैसलो.

'हाका हांगा कितें काम?' म्हळेल गदी कुंकडां ताका चोयलीं. कावळ्यान कांय गरज दाकयली ना. हांव हांगाचो हकदार म्हळेल लेकान चोंचून खावंच्याक सुरू केलें.

त्या समाजांत एक धवो बुको आयलो. तांत चड व्हड काळ्या कुंकडाक तें पसंद जालें ना. ताणें माजराच्या मात्याक चोंचायलें! माजराक फुसकारलें. मागीर शेंपडी उबारून अंगाच्यो रोमो फुलझडावन आमकां ह्या घरांत कांय अधिकार आसा की ना म्हण आतांच दाकोवन दीन. कुशलकाय आसा जाल्यार आनीक एक चोंचाय!' अशे भाशेन रावलो.

आवय गे, हें पळयता की? म्हळेल्या कर्कश आवाजान त्या समाजांत मागेल चड धाकलो भाव अबूबकर, धुयल्लीं, घडी घालेलीं वस्त्रांय, वळोवन दवरलेले केंसय घेवन आवाज करच्यो व्हाणोय घालन आयलो. तो निपट 'आबू' म्हण भोंवता. तो एक वाम पंथी म्हण सांगतात. दिसाक दोन फान्तां वस्त्र बदलतलो. ताका साठ जोडी व्हाणो आसात म्हण आवयन सांगलां. तो सुता सारको सोपूर आसा. तरीय व्हड आवाज करपी. व्हड निरुपयोगीय आसा. हांव येवंच्याकच ताका भायर घालो. घरच्या मागेल्या कुडांत सर्वाधिपति भाशेन रावतालो. तें कूड माकाय, अब्दुल खादराकय बैसून शिकच्याक बापान फुडें घरा लागून घडयलेलें. त्या वेळारीच हांवें अब्दुल खादराक भायर देंवयलो. मागीर तो आवयचे लागीं रावतालो. अब्दुल खादराचो केंस आतां पिकला. देखल्यार तो आतां म्हागेलो म्हालगडो भाव सो दिसतलो. ताणें मागेल्या परन्या कुडा समान वेगळें एक कूड घराच्या ह्या भागाक निर्मलां. तांत हनीफा, तिजो घोव आनी भुरगीं रात काडटात. आबूक हांवें भायर घालच्याक तो तागेल्यो पेटो, पुस्तकां, दिवो आनी हांतूण सयत हनीफाच्या कुडांत सरलो.

आबूचो आवाज आयकतच माजरां धांवलीं. कावळो उबून गेलो. कुंकडां हांगा थांगा धांवलीं. पात्तुमायची बोकडी पेळतांत बायलां मद्दें धांवली भुरग्यांनी रण्णें राबयलें. घोणयो आनी सवणीं गुपचूप खंयकी वचून निपलीं बायलांलें संभाशण थामलें. घर शांत जालें. आबूची आवाज ऊंच जाली.

'व्हड भाव हाका सग अनुमती दिता मू? माजर, भुरगीं, कुंकडां कावळो, बोकडी! बोकडेक खाण दिवन वाडोवच्याक देकलें एक स्थल सगटांकय हांव सारकें करीन. आगे ती लाटी आनी फातर मारचें घण घेवन यो!'

पात्तुमाय तुरंत दुखान म्हणटा आयकलें: 'खदीजा, आमचे बोकडेक उलो दी. आमकां ह्या घराकडे अधिकार कांय ना, हें स्पश्ट! यो, वचा भांगरा आवसू आमी वतात!'

आबून गोन्दोळ केलो: 'माका ह्या घराकडे कांय अधिकार आसा की ना म्हण पळयतां. आयज हांव, हानीफा मामाकय, तागेले बायलेकय आनी भुरग्यांकय भायर देंवयतलों!'

हांवेंय बोब मारली. व्हड बोब. 'आरे, ह्या घराकडे तुगेली आवाज आयकूं पडूं नज! तुजीं हाडां हांव पुडी करीन! सुता समान आसा तूं!' तागेली एक बोब! 'आरे आबू, तेन्ना हानीफा आनी तीं सग खंय वचून रावतलीं?'

आबून होळू म्हळें: 'हानीफा मामाले भुंयेचेर एक घर निर्माण कर्न राबों.'

तें सारकें. तशें एक खबर आसा. घर करचे खातीर हानीफान माका म्हळां. दोन मील दूरा दोंगरा वांकड्यार सडका लागीं एक ८० सेन्ट चांग भूंय ताणें घेतली आसा. तांत आतां केळयोय, खुण्टा-कणंगय, आंब्या रूकय वोवन केल्यात. तांत एक घर निर्माण करपाक जाय. ताका जाय जालेलें मदत हांव ताका करतलों म्हण तो लेकता. ताजेकडे दाम ना म्हणूय ताणें माका सांगलां. तो फान्त्यार चार वरांर उठावन थंय वचून केळ्यांक बी शिंपून सात वरांर घराक परतून येतलो. मागीर तो आबी आनी लैलाक घेवन न्हयंत न्हावंच्याक वतलो. बापा आनी भुरगीं व्हड मोग भोगतात. ताचे भुंयेचेर घर निर्माण करतर माका थंय व्हरन म्हण लैलान आनी आबीन सांगलां. तशेंच, सयद मुहम्मदानय सांगलां. तोवय आनी माजी आवय आनुमाय आनी बापा सुलैमान हांकां रावच्याक घराक लागीं एका पटांगणांत एक घर दवरतात. ताजें रुकां दंद सग जालां. फातर देंवोवन दवरला. हें सग हानीफान केलें ना. हांवें म्हळें, 'आरे आबू, हानीफाकडे दुडू ना म्हण दिसता.' आबून ल्हवू म्हळें: 'हानीफा भाऊ भो लुच्चो, जायतो रुपया आसा.' 'वोस रे.'

तो रबरा घण्णू आनी कांय वाडकुळे फातरय घेवन सवण्यांक मार्न उडोवंक गेलो.

'यो बोकडे, ताणें कांय करचिना.' अशें समजावन बोकडी घेवन पात्तुमाय आयलेतांत आयली. लागिंच्या पटांगणांत आबू राबिल्लो देखून पात्तुमायन म्हळें, 'आरे आबू, तुवें मान मर्यादेन जीवन केल्यार पुरो! तुवें व्हड भाव आयला पळयलो ना?'

'माका 'आरे आबू' म्हण उलो दिता आयकलें ना तुवें? व्हड भाव आयिल्ल्याचो प्रभाव हो! ऊं हूं!'

आबूचे व्हडलेची, व्हडलेची व्हडली आसा पात्तुमाय. तिणें ताका 'आरे आबू' म्हण उलो दिल्लो ताका भो उणाव जालो! हांवें म्हळें, 'मागीर तुका 'आबूसार' म्हण उलो दिवं रे! वोस रे!'

पात्तुमाय माजेकडे आयली. आनी हांगा थांगा चोयली. कोणेंय ना! पात्तुमायन गुपीत म्हळें: व्हड भावा, कोणेंय जाण जावंचें नाका. आनुमाय जाणल्यार झगडटली. आनी भावान माका रुपया रुपान कांय दिवूंक ना. खदीजाक दोन वेडयो करोवन दिल्यार पुरो. हानीफाय जाणूंक नाका. लान भावूय जाणूंक नाका, आबूय जाणूंक नाका, आवयीय जाणूंक नाका.'

हांवें ल्हवू विचारलें: 'वेडयो रुप्याच्यो की भांगराच्यो?'

पात्तुमायन हांगा थांगा पळोवन ल्हवू म्हळें: 'भांगराच्यो जाय! व्हड भाव कोणाचेय कडे सांगतलो की?'

'हय!'हांवें म्हळें. 'परम गुप्त आसतलें.' तशें पात्तुमाय कडे एक परम गुप्त करार केलें.

'वेडयो बेगीन जाय!' पात्तुमायन म्हळें. हांवें म्हळें, 'चोयतां.'

ह्यो वेडयो एक तांतडिचो प्रस्न जावंच्याक एक लान कौरण आसा. हांवें येवंच्याकच तीन लान सत्रियो अंचिकमळांसून हाडोवन अब्दुल खादराची धूव पात्तुकुट्टी, हानीफाचो पूत आबी, आनुमायचो पूत सय्यद मुहम्मद हांकां दिल्यो. पात्तुमायची धूव खदीजा हिका सत्री दिली ना! पात्तुकुट्टी, आबी, सय्यद मुहम्मद, खदीजा हीं एकच पिरायेचीं आसात. लुचपणय, बोबाटीय बरोबर. रण्णेंय तशेंच. पूण खदीजाक सत्री दिली ना. कारणं कितें? वस्तुत: हांव तें कार्य विसरलों. कांय चिन्ता ना. भांगरा वेडयो. दोन तिका तयार!

पात्तुमाय पेळतांत वचून कांय घरा धंद करच्यांत लागली. तो वेळ पळोवन आनुमाय ल्हवू माजेकडे आयली. ती गुरुवारीन आसा. पात्तुमाय स्कुळांत गेल्ली ना. आनुमाय स्कुळांत गेल्लेली आसा. देखून ती पात्तुमायचे गदी न्हय उलयता. आनुमायन ल्हवू म्हळें, 'व्हड भावान दुडू जावन आनी माका कांय दिवूंक नाका. आयदनां घेवन दिल्यार पुरो. तिंवूय आतां नाका. आमी दूरा सर्न रावच्या वेळार पुरो.' हीं कायरीं धाकट्या भावालागीं सांगच्याक नज. म्हळ्यार पात्तुमायन जाणूंक नज, इतलेंच. जाण जाल्यार सांगतलीं.

पुरो गो, पुरो गो तुगेली फटवण! तूं एक व्हड शिकिल्ली-वाचल्ली! हांव नातिल्ल्या वेळार तुवें व्हड भावालागीं सून सग घेतलें ना की?'

देकून हें आयदनां रहस्य कानाक कान लावंच्याक नज. आनुमायक घरचीं आयदनां घेवन दीन आनी तें गुपीत दवरीन म्हळेल्या कराराचेर हांवें दस्तखत केलें. तशें शांततायेन बैसल्या वेळार एक चिके व्हड गोन्दोळ.

'उळ्ळाडत्ती पारू, उळ्ळाडत्ती पारू, हांवें व्हरना!'

लैलाचो आवाज. ती कोणाक 'उळ्ळाडत्ती पारू' म्हण उलो दिता? चड वेळ थांबचो ना जालो. अपमान सहन जायनातिल्ल्या, कलवल्ल्या दोळ्यां सयत निपट चेडो सय्यद मुहम्मद माजे मुखार आयलो. तो पुराय नागडो आशिल्लो. ताणें अस्वस्थतायेन म्हळ्ळें,

'व्हड मामा, लैलान माका 'पारू' म्हळें.'

एका चेड्याक 'उळ्ळाडत्ती पारू' म्हणता की? तेंवय एक दळिद्री चेडूं!...

'आरे छडी घेवन यो रे!'

सय्यद मुहम्मद बेगीन छडी हाडूंक गेलो. हांवें उलो दिलो. 'आगो लैला, हांगा यो गो!' ती आयली. पुराय नागडीच. सयद मुहम्मद छडी हाडता पळोवन तिणें म्हळें, 'व्हड म्हान्ताक व्हरचिना.'

'नाका गो!' म्हण सांगून सयद मुहम्मदाकडेसून छडी हांवें घेतली. लैला 'आयो' म्हण व्हडान बोब मारूंक लागली.

'आम्मची, आम्मची!'

लैला तिगेले आवयक 'आम्मची' म्हण उलो दिता. हांवें म्हळ्ळें: 'तूं तुगेले आवयक उलो दी, बापाक उलो दी, तुगेल्या आज्याक उलो दी! सगटांक हांव पेटतलों!'

आजो म्हळ्यार बापाचो बापा. आवयचो बापा. तो रावता हानीफाचे शेताचे समीप. त्या वर्शीं खंयकी एक रेल्वे स्टेशन येतलें. तेन्ना जाग्याक म्हळ्ळेलें मोल मेळटलें. मात्र न्हय, तो भाग उजवाडतलो. हें सग पयलेंच चिंतन कर्न लैलाच्या आज्यान हानीफा करान तो जागो घेवयलो.

लैलान म्हळें, 'आवयक मारच्याक नज! बापाक मारच्याक नज! आज्याकय मारच्याक नज!'

'तरी तुवें 'उळ्ळाडत्ती पारू' म्हण चेड्यांक उलो दिवंच्याक नज.'

'ना.'

'तुगेल्या बापान घर निर्माण केल्यार थांगा सय्यद मुहम्मदाक व्हरतली की? आज्याक व्हरतली की?'

दोळ्यां दुखां काडून तिणें म्हळें, 'सगटांक व्हरीन!'

तशें तें केस सोंपलें. नुकसान भरपाई म्हण सय्यद मुहम्मदाक दोन मिठायो आनी एक 'आलिपूवन केळें' दिलें. माजे कडे नन्द्रबाळें केळें, टमाटो, कण्णन् केळें, अनवास, आलिपूवन, मिठाई हांची मांडावळ आसा. केवल मिठाई हांवें दुडू दिवन घेतल्या, चेरडुवालें रण्णें दूरा करच्याक. बाकी सर्वय माज्या भावांनी, कोचुण्णी आनी सुलैमान हांणी घेतल्लीं आसात. माका फळां मस्त खावंची गरज आसा. तीं सर्वय मेजार दवरलेलीं. पेटे

उंचार चडून सय्यद मुहम्मद केळीं चोरून खाता, हांवें सीधा देखलां. हांवें देखलां म्हण ताणेंय देखलां. माजे मुखार तो व्हड चोर जालो हें ताका भो दूख दिसलें. तो रडलो. फुडल्या काळाक ताका रडच्याक अवसर दिवंच्याक नज म्हण फळां सर्वय पेटांत राखून दवरल्यांत. सय्यद मुहम्मद मिठाई आनी फळां खाता देखच्याक लैलाक दुखां आयलीं. तिकाय एक केळें आनी दोन मिठायो दिल्यो. परमळ घेवन आयिल्ल्या आरीफाकय तशीच दिल्यो. दोन मिठायो सुबैदाकय रशीदाकय दिवंच्याक धाडून दिल्यो. मागीर शांततायेन आनुमायचे करान एक चाय हाडोवन एक बिडी जळोवन एक बुकूय घेवन आराम कुरसीर बैसलों. सग शान्त.

तशें आसतना माका जल्म दिलेली आवय लागीं आयली. तिका सातसष्ठ, सास्तर, सत्ताशीं जावो वर्सांची पिराय आसा. दांत गेल्ले नात. फान्त्यार चार वरांर उठायताली आनी कालव्यांत फुगूंक घालेले पिडे वोडून हाडून मडळां विणतली. उपरांत तीं सग पटांगणांत फान्तीन घालतली. सूर्योदयसून सुकों अशें चिंतून. उपरांत घराक गरजेचें उदक भरतली. एक एक हातांत एक एक व्हड कळसो आसतलो. पात्तुमाय, आनुमाय, ऐशोमाय आनी कुञ्ञानुमाय हांकां मार्गदर्शन करतली, आवाज दितली. घरचें व्हड कामच रात्रीं धा वरां मरान. पात्तुमाय सग रात्रीय घराक उरची ना. तरीय रोखड तेगां बायलो आसात. आवय कित्या वावर करता? साबाव थांबून बैस न्हय? ह्या प्रस्नाक सग आवयकडे अस्सल जाप आसा. 'तांकां सगटांक कांय कळना. घर दार पोसून संवय ना.'

'आसों, तीं सग शिकोंत. आवय हें सग तांकां सोडून दी!'

त्या वेळारीय जाप आसा. 'तुका घरा पासून कितें रे कळता? तूं एकलोच, तीन वेंतां पोट.'

हाज्यानय हांव हारवलोंना जाल्यार ती म्हणतली, 'तांकां सगटांक भुरगीं आसात न्हय? तांकां सगटांक राखतात कोण?'

हांव सांगतलों: 'एकलेन भुरग्यांक राखूंक जाय. आनी बाकी आशिल्ल्यांनी घरचे धंद करूंक जाय.'

'तुका अशें सांगयेत. एकलोच आनी तीन वेंत पोट न्हय? तूं माका थोडे रुपया दी.'

आमचो संवाद केन्नाय सोंपता ह्या रुपयांर. हें माज्या स्वास्थाक बरें न्हय. देखून आवय कितेंय व्हांवल्यारीय, कितेंय वोडून व्हरता देखल्यारीय हांव चूप रावतलों. आवय करान साबाव रुपया निमगोवंचें कित्याक?

आवयन येवंच्याकच म्हळें, 'आरे धा रुपया माका दी.' ते खातीर हांवें आवयक कितें उपदेस करप म्हळेल गदी हांवें पळयलें.

आवयन ल्हवू म्हळें, 'अब्दुल खादराक कळूंक नज. हानीफाक कळूंक नज. आनुमायक आनी पात्तुमायक कळूंक नज.'

हांवें भो गुप्त रुपान विचारलें: 'कुञ्ञानुमाय आनी ऐशोमाय हांणी जाण जावंच्यांत कांय विरोध आसा की?'

आवयन मागलें, 'पुरो, दिता जाल्यार दी. कोणेंय जाणूंक नाका.'

हांवेंय चिके मागलें. हांवें विचारलें, 'हांवें आयले उपरांत कितले रुपया घरा खर्चाक दिल्यात? चार चौगांनी जाण जावन आनी गुप्त रुपान? तुवेंच कितले रुपया घेतल्यात?'

आवयन गुपीत म्हळें: 'तुवें कांय दिलें ना म्हण न्हय हांव सांगतां. माका आतां धा रुपयांची गरज आसा.'

'हांवें दिल्ले सग खंय?' साबार दीस जाले ना मू. रुपया सग खंय?'

आवयन भो ल्हवू म्हळ्ळें, 'ल्हवू सांग. रुपया सग अब्दुल खादरान घेतले.'

'हांवें ताका वेगळे रुपया दिल्लेले आसात मू? थोंटो पाकरू! तो हांगा येवो?'

लान आसतनाच ताजे गोवंटे सकल पक्षपात रोगान निर्जीव केला. बापान अनेक हजार रुपया खर्च कर्न औषध दिवन उपचार केला. आखेर ज पांय थोटो जालो. उजवो पांय स्वल्प सोपूर आसा. बाकी सग तो फायद आसा. लोकण्डा छडी तेंकून चमकता.

आवयन ल्हवू म्हळें, 'ताजे लागीं कांय सांगचें नाका. ह्या चेरडुबा सग संरक्षण करता तो न्हय? तो ना आशिल्लो जाल्यार कळटलें आशि तूं एकलोच तीन वेंत पोटय घेवन, देकिल्ले कडे सग रावून कितलो र खर्च केलो?'

'ताज्या दंडाची रकम हांवें दिली. जायतो रुपया हांवेंय हांगा केला.'

'ल्हवू सांग! ना म्हण कोणेंय सांगलें ना मू. गुपीत रुपान आतां धा रुपया तूं दी.'

'हाजे फुडें गुपीत रुपान हांवें आवयक दिल्लेले रुपया सग अ खादरान घेतले कशे? तो हें गुपीत कशी जाण जालो?'

'ल्हव सांग! आबी आनी पात्तुकुट्टी हांणी सांगून दिल्लें!'

हांवें ल्हवू म्हळें: 'आवयक हांव एक गुपीत सांगन. वेगळें कोण सांगच्या नज. माजे लागीं आनी पांच रुपयांचें एक नोट आसा. वे एक दुडू सरी ना!'

आवयन तुरंत म्हळें, 'तें अशें दी!'

हांव हांगा थांगा चोवन कुडांत वचून नोट आनी एक नन्दरबाळें घेवन आयलों.

केळ्याचो परमळ घेवन पात्तुमायची बोकडी मुखार आयली. केळें सोलून खाल्लें. कितेंकी खाता पळोवन आवयलीं शरणार्थी माजरां आय आवयचे देखरेखेचेर भोंवचीं कुंकडांय आयलीं. हांवें केळ्या साली पात्तुम बोकडेक घाल्यो. बोकडी आनिकय मेळटल्यो अशी प्रतिक्षा करून राबल

हांवें हांगा थांगा पळयलें. कोणेंय ना. मनीश, मृग कोणेंय ना. कुंक पात्तुमायची बोकडी आनी माजरां मात्र आसात. हांवें भो गुपीत रु पांच रुपयां नोट आवयचे व्होण्टींत उडकायलें. आवयन हांगा थांगा पळ जानवरांय मनिशय ना. आवयन तें घडी घालन लुगटाचे तलवार ब कमिसाचे भितर घालें. आनी कांय तरी घडलेंना वरी बैसली.

हांवें विचारलें, 'आनी विशेश खबर कितें?'

आवयन म्हळें, 'आरे माका आतां इतलीं वर्सां जालीं. केन्ना म म्हण कळना. माका एक इत्सा आसा. तूं एक व्हारडीक कर्न तुजे त माका रावूंक जाय.'

हांवें गोन्दोळ घालो. 'खंयीय एकडे शान्ति-समाधानान रावयेत म्हळ तशें करूंक दिवना.'

'पात्तुमाय! आनुमाय! धांवन येयात! मागेली संदूक आनी ह काडयात. एक व्हांवतल्याक उलो दी!'

तीं दोगांय धांवन आयलीं.

'कितें गे आवय हें?' आनुमायन विचारलें. पात्तुमायन म्हळें, 'म्हांता आवयन दुडू निमगिल्ले आसयेत?'

हांवें तुरंत म्हळें, 'तें कांय न्हय!'

आवयन उठावन पेळतांत गेली. 'कितें गे आवय?' म्हण विचारन पात्तु आनी आनुमाय दोगांय आवयचे फाटी गेलीं.

हांव थंय चिके शांतीन बैसलों. मागीर आनुमायकडान एक चाय हाड पिलों आनी एक बिडी ताण्डली.

तेन्ना पात्तुमायचे बोकडेन आंगणांत रावून माजेलागीं आशिल्ली उ पेट जिबेन वोडून काडून आग काडयो दूरा काळ्ळ्यो आनी रित्ती उ पेट रुचीन खाली.

(पान नं. ६२ चेर चाल

# विस्वासाची कोमरी

**रुपाली किर्तनी**

‘हजार फावटीं सांगलें, त्या रोप्पा कडेन वचुंनाका, त्या रोप्पा कडेन वचुंनाका... सांगल्यार समजना गो?’ उर्मीच्या कुल्यार एक फुलयत उषा चणचणलें.

उर्मीन वेळ केलो ना. रोकडेंच ‘व्हेंऽऽ’ करून वाजप सुरु केलें. उषा पयलींच तिडकल्लें. तातूंत ही रड.

‘कितले खेपे म्हणून सांगप? बरे भाशेन सांगल्यार कळना आयच्या भुरग्यांक... आमी जाल्यार...!’

तरिकूय उर्मीलें पेंपारें वाजत रावलें तेन्ना उषा चाळवलें. ‘ओगी! पयलीं ओगी! पयलींच म्हजी तकली कणकणटा. हात लावंनाका म्हळ्यार कळना. रडपाक मात बरें येता रोकडें. कितलेंय सांग, तेंच... ओगी राव पयलीं. नाजाल्यार...’

‘तूं बरी न्ही, पापाच बरो.’ हुडके दीत उर्मी थंयच्यान उठून भायर गेलें.

आतां वर्स जायत आयलें तो रोंपो हाडल्यार. तेन्नाच्यान हें अशेंच चल्लां. उषा त्या रोप्याची जतनाय घेता आनी उर्मी ती खेळपाची वस्त जाल्ले भशेन ताचेकडेन खेळटा. खेळटां खेळटां एखादरें पान बी तुटलें जाल्यार जालेंच! उर्मी हरशीं जाणां, आवयक त्या रोप्याकडेन खेळिल्लें आवडना म्हूण. पूण बापूय येतकीच आपलें सादतलें म्हणपाचेंय तें जाणां. आतांय सांजवेळ जाल्या. स वरांचेर बापूय येतलो म्हणटकच, ताचे पयलींच तें काकुटेचें तोंड घेवन घरांत येवन बसलां.

बेल वाजली. उषान उल्हासाक दार काडलें, आनी च्या दवरपाक रांदचेकुडींत गेलें. उल्हासान बोल्सांत हात घालनाफुडें उर्मी धांवत आयलें...

‘तूं कितलो बरो रे पापा... म्हाका सद्दां चॉकलेट हाडटा! मम्मी मात म्हाका...’

फुडें उलोवचे पयलींच उल्हास समजलो. ताका हें नवें न्हय. आत्र्या-पयन्यान हें चालूच आसता. व्हडलो सुस्कारो सोडीत ताणें उर्मी कडेन पळयलें.

‘आजय तुवें...’

‘हांव फकत पळयतालें पापा! हांवें हात पसून लावंक नाशिल्लो.’

‘उषा ऽ...’

‘आतां तूं धुवेचेंच आयकतलो हें हांव जाणां. कितले खेपो समजावप रे ताका...?’

‘आगो, ल्हान आसा तें...’

‘ल्हान? स वर्सां जावन गेलीं. तें उलयता तें आयकुपाक जाय... शाळेंत बरें ओग्गी आसता खंय! हरशीं घरांत कितेंय केल्यार हांव ताका कितें म्हणटां? फकत रोप्याकडेन...’

‘आतां पुरो, भायर सर, उर्मीकूय न्हेसय. मात्शीं बाजारांत वचून येवंया.’

येतना उषान रोप्याखातीर सारेंय हाडलें. उल्हास उर्मीक घेवन न्हिदपाक गेलो.

‘हाका मनीप्लांट म्हणटात. बरो करून सांबाळात हो रोपो. घरांत खूब पयसो येतलो.’ झाडां विकतल्याचीं तीं उतरां आयकून आनीक आनीक विचार करनासतना तीं तो रोंपो घेवन घरा आयिल्लीं आनी तांणीं तो सालांतूच कुंडेंत रोयिल्लो. ह्या रोप्याक चड उदकाची गरज ना. आठ दिसांतल्यान एकदां घाल्यार पुरो. पूण वेळा वेळार उदक-सारें घालें जाल्यार रोपो बरोऽ आंग धरता म्हूण कळटकच उषान टायमटेबल केल्लें. सोमाराक उदक, ब्रेस्ताराक इल्लें सारें... रोप्याची तें भोव जतनाय घेतालें. पूण ताची अदीक माया लागपाचें कारण वेगळेंच. रोपो घरांत हाडलो ताच्या दुसऱ्या दिसा उल्हासाक कामार बोनस मेळिल्लो. कांय दिसांनी सोर्तिचेर एक स्कुटर लागिल्ली. उषाक दिशिल्लें, हो सगळो ह्या रोप्याचोच गूण. मनीप्लांट हाडलें तेन्ना सावन पयसो घरांत ह्या ना त्या रुपान येत आसा.

रोप्याची आतां वाल जावपाक लागिल्ली. एक दीस – असोच कामा सावन येतना – उल्हास स्कुटरी वयल्यान निसरून पडलो आनी पांयाक फ्रॅक्चर जालो. स्कुटरय कामाक दवरची पडली. उल्हासाचो पांय फ्रॅक्चर जाला आनी ताका हॉस्पिटलांत व्हेला म्हूण उषाक फोनार कोणें तरी सांगलें तेन्नाच ताचें लक्ष थंय बसून खेळटल्या उर्मीचेर गेलें. फोन थंयच आपटून ताणें उर्मीचेर दोन-चार फुलयल्लीं. ‘कित्याक गेलें ते वालीकडेन... कित्याक तोडलें तें पान?’ म्हणीत ताणें उर्मीक मारिल्लें...

‘उषा ऽ... ए उषा, न्हिदना?’ उल्हासालो आवाज आयकून तें भानार आयलें आनी दोळे पुसून न्हिदपाक गेलें.

घरांत जें कितें घडटा तें रोप्याक लागून घडटा अशें उषाक दिसतालें. रोप्याचें पान तुटलें-बावलें जाल्यार आज कितेंय वांकडें जातलें अशें ताका दिसतालें. त्या रोप्याक पळोवनच तें जियेतालें म्हळ्यार जाता. वर्साभितर मनीप्लांट खूबच वाडिल्लें. ताचीं पानां मदीं बावतालींय आनी तुट्टालींय.

उल्हास सदांच तापतालो. ‘अशें पिश्यांभशेन कितें करता? रोप्याचेर कांयच ना तें. पयसो येवपाचो आसल्यार कसोय येतलो आनी वचपाचो आसल्यार कितलोय सांबाळ्ळ्यार वतलोच.’ पूण ना. उषा ताचें मानपाक तयारूच नासलें. तें मागीर उल्हासाक याद करतालें, ‘याद आसा, रोप्याक नवीं पानां आयिल्लीं तेन्ना कितें जाल्लें? आनी ताचें पान उर्मीन तोडलें तेन्ना कितें जाल्लें?’ उल्हास हांसून म्हणटालो, ‘पिशें तूं.’

‘जावं, पिशें जाल्यार पिशें. पूण खरें तें खरें...!’

‘बरें बाये... तुजेंच खरें’, उल्हासाक वाद वाडोवपाक आवडनाशिल्ल्यान तो मुखार कांय उलयनाशिल्लो.

सकाळचो आलार्म वाजलो. उषा बेगीबेगीन उठलें. उल्हासालो डबो तयार केलो, दोगांकूय उठयलीं, उर्मीक न्हेसयलें. आयज युनीफॉर्म ना. आयज रंगीत कपडे घालून वचपाचें. इश्कोलाचो आयज निमाणो दीस. मागीर देड म्हयनो सुटी. मे म्हयन्याची.

उल्हास आनी उर्मी भायर सरतकच उषा आपल्या कामाक लागता. आजूय तें मनीप्लांटाक पळोवपाक गेलें जाल्यार, ताका एक नवें पान आयलां. उषा आनंदीत जालें. म्हणटासर ताच्चें सकयलें एक पान सामकें बावपाक पाविल्लें ताणें पळेलें. तें पळोवन तेंय बावलें. उल्हास आनी उर्मी दोगांय घरा येयसर ताका सूख नाशिल्लें. कशेभाशेन ताणें जेवण करून काडलें आनी तें चिंतीत बसलें. ‘कितें जातलें काय? पयसो येतलोय आनी वतलोय... बरेंय जातलें आनी वायटय... कितें काय देवा?’ दनपार जाली. देड जायत आयलें. उर्मीची वाट पळेत तें गॅलरींत रावलें. उर्मी येतकीच ताका सूऽऽ जालें. ‘आयज उल्हासालो फोन कित्याक आयलो ना? हांवेंय केल्यार लागना.’ ताणें उर्मीक लावन न्हिदयलें. म्हणसर उल्हासालो फोन आयलो.

‘कितें जालें?’ हुसक्यान विचारिल्लो प्रस्न उल्हासाक समजलो.

‘कितें जालें गो? उर्मीन पान तोडलें? बरें, तें सोड. एक बरी खबर आयक. म्हाका पंदरा दिसांची रजा मंजूर जाली. तूं सदांच म्हणटालें न्हय,



## नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया

नॅशनल बुक ट्रस्टाचे वतीन कोंकणी भाशेंतल्यान
उजवाडायल्लीं संग्रहाक दवरपासारकीं आनी सवाय पुस्तकां

| | | | |
|---|---|---|---|
| ☐ | हिंदू धर्म म्हळ्यार कितें | महात्मा गांधी | २८.०० |
| ☐ | मदर तेरेजा | लीला मुजुमदार/ बच्ची करकरिया | ७.५० |
| ☐ | भारताचे बाल वीर | सिगुन श्रीवास्तव | ८.०० |
| ☐ | सगळ्यांचे सांगाती सगळ्यांचे इश्ट | उमाशंकर जोशी | १०.०० |
| ☐ | अपुर्बायेच्या पोपटाक | मधु लिमये | १०.०० |
| ☐ | आमचीं उपयोगी झाडां | के. एस्. सेखाराम | ११.०० |
| ☐ | मिता आनी ताचे जादुचे मोचे | बी. जी. गुज्जरप्पा | ७.०० |
| ☐ | मोहिनी आनी राकेस | शांता रामेश्वर राव | ११.०० |
| ☐ | मंगुचो भोंवरो | कामाक्षी बालसुब्रमण्यम | ९.५० |
| ☐ | शेंपडी | हाइड्रोसे आलुवा | ९.५० |
| ☐ | रुपा हतीण | मिकी पटेल | १०.०० |

कोंकणी वाचकांखातीर ह्या सगळ्या पुस्तकांचेर १० टक्के सूट.
तुमची ऑर्डर धाडात आनी पोस्टान पुस्तकां मेळयात.
ऑर्डर धाडटना पुस्तकांची वट्ट रक्कम (१० टक्के सूट सोडून)
बँक ड्राफ्टान धाडात. पुस्तकां तुमकां पोस्टांतल्यान पावयतले.

अदीक माहितीखातीर बरयात :

विभागीय वेवस्थापक, पश्चिम क्षेत्रीय कार्यालय
**नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया**
महापालिका उर्दू शाळा, बाबुला टँक क्रॉस लेन
जे. जे. हॉस्पिटला सामकार
मुंबई ४०० ००९
फोन / फॅक्स : ३७२०४४२

सुरी या म्हूण. आयज हांवं तिकेटी बूक केल्यात. पॅकींग करूंक लाग.'

उषा खुशालभरीत जालें. ताणें बेगीबेगीन आपले आवयगेर फोन करून ी खबर सांगली. उर्मीय फुल्लें. 'पळेलें? हो म्हजो कुड्डो विस्वास खंय... री खबर घडलीच! आनी पयसोय कसो वतलो तेंय कळ्ळें...' अशें म्हणत नें तयारेक लागलें.

ते चार-पांच दीस गडबडींत गेले. ताका रोप्याचेर लक्ष दिवपाक लेगीत ेळ मेळ्ळो ना. वचपाच्या दिसा उर्मी रोप्याकडेन खेळटालें. तें पळोवन उल्हासान ताका ल्हवूच पेल्यान काडिल्लें, उषाक कांयच कळूंक दिनासतना.

मसुरी ट्रीप बरीऽ जाली. पूण आठ दिसांनी येवपाचें तें बारा दिसांनी ेवप जालें. भायर सरपाच्या दिसाच उर्मीक डायरिया आनी जोय आयिल्ल्यान ार दीस चड रावचें पडलें... उषाक रोप्याची याद सदांच येताली.

घरांत भितर सरनाफुडें तें निट्ट रोप्यासरीं गेलें आनी ताचो आवरो उडलो. 'पळे रे, हें कितें जालें... पळे... कितेंय तरी वायट जावपाचें आसा...'

उल्हासाक कितें जालां आसतलें ताचो अदमास आयलो. तीं भायर सरतालीं त्या दिसा उर्मीकडल्यान वालिचो एक कुडको तुटिल्लो. तोच करपला आसतलो...

उषाक प्रवासान पुरो जाल्लें. घरांत आयिल्लें त्या दिसा सावन ताणें खाट धरली. पयलीं कितलेशेच दीस जोर, मागीर जोराची अशक्तताय. उल्हासाक रजाय वाडोवची पडली. ह्या सगळ्या बोवाळांत, खऱ्यांनीच रोंप्याचेर कोणेंच लक्ष दिलें ना, आनी रोंपो मरपाक तेंकलो. मसुरी ट्रीप म्हळ्यारूच खर्च खूब जाल्लो, तातूंत रजा वाडयल्ली. तातूंत उषा दुयेंत पडिल्लें आनी तातूंत उर्मीक सांबाळपाक बायलमनीस दवरिल्ली. पयसो वचत आशिल्लो... आनी, रोपो सामकोच मरपाक तेंकिल्लो. उर्मीन आवयक रोप्याक उदक घालतना खूब फावट पळयल्लें. तिचे भशेन तेंय ताका उदक घालपाक लागिल्लें...

एक दीस सकाळीं उल्हासाल्या मित्राचो फोन आयलो. 'हॅलो उल्हास... congrats, पेढे खावयता मरे?... सांजवेळा येतां...!'

उल्हास आयकतच उरलो. 'कित्याक रे? पेढे शे?'

'आरे, तुका सोर्त लागल्या. तुवें वतना नंबर म्हाका बरोवन दिल्लो न्हय?'

फोन दवरनाफुडें उल्हास सोर्तिची तिकेट सोदपाक लागलो. ऑफिसांत कोणूय सोर्त काड म्हूण आयल्यार उल्हास कितलीं वर्सां जालीं दोन-चार सोर्तीं काडटालो. पूण त्यो सांबाळपाची संवयच ताका नाशिल्ली... भायर वचून ताणें स्कुटरिचें बॉक्स उगडलें. पळेत जाल्यार सॉर्त थंयच आशिल्ली. तो आनंदान भितर धांवलो.

'उषाऽऽ उषा, पळे म्हाका दोन लाखांची सोर्त लागल्या. पळेलें? ओगीच तूं त्या रोप्याचेर विश्वास दवरतालें. रोपो थंय बावलो आनी येदी व्हडली सोर्त लागली.'

उषाक आनंद जालोच. पूण तरी तें भायर सालांत गेलें. रोपो सुकिल्लोच म्हळ्यार जाता... तें कुंडे म्हऱ्यांत गेलें.

'ए बेगीन यो. बेगीन... पळे', तें आड्डलें. उल्हास धांवत भायर आयलो. ताचो हात हातांत घट्ट धरलो. रोप्याकडेन बोट दाखयत उषान म्हळें, 'पळयली ही नवी कोमरी? तूं म्हाका पिशें म्हणटालो न्हय?'

उल्हास ताका वेंगेंत घेत हांसलो. 'तूं सुधारपाचें ना...' ताणें म्हळें.

* * *


# Think Goa Think Hotel Mandovi

THE CENTRALLY LOCATED BUSINESS/HOLIDAY CENTRE



RIORICO

The Royal Restaurant for Goan and Portuguese cuisine.

• AT THE MANDOVI, PANAJI



From high noon to high moon embark, at

High Tide BAR

for choicest Drinks & Snacks

• AT THE MANDOVI, PANAJI



BOOK



FAIR

THE PLACE TO PICK A GOOD READ.

• AT THE MANDOVI, PANAJI

—IN THE FINE TRADITION OF The Mandovi

PANAJI - GOA 403 001. TEL: 46270 TO 46273, 224405 TO 224409 FAX: (0832) 45451 TELEX: 0194-226 GRAM: MANDOVI

FOR INSTANT RESERVATIONS: 3/18 SHREYAS, NARIMAN POINT, BOMBAY 400021 TEL: 2027935. TELEX: 011-83350.

A&P

# The Goa State Co-operative Housing Finance & Federation Ltd.

Panaji – Goa

Goa's Apex institution in co-operative housing sector is poised to spread its tentacles to the grass roots.

OUR OBJECTIVES

- Advance loans for construction of residential homes to members of Cooperative Housing Societies.
- Co-ordination, monitoring and guidance to Federation Primary Co-operative Housing Societies, on day to day functioning.
- Individual loans upto Rs. 5.00 lakhs on reasonable interest.
- Loans upto Rs. 3.00 lakhs under Group Insurance Scheme.
- Repayment time spread over 20 years.

For details contact
Shri M. T. VERLEKAR, Secretary
THE GOA STATE COOP. HOUSING FINANCE AND FEDERATION LTD.
3rd Floor, Gomes Bldg., Opp. Hotel Delmon, Panaji, Goa.
Phone: 222232, 229865

S. A. SARDESAI
Vice-Chairman

R. K. PIKALE
Chairman



HERSON'S SPRINGS ARE

India's Most Popular Springs.
We may not be the biggest, but we are the best.

We know that your satisfaction is our Guarantee of success. So your satisfaction is our number one goal. We pride ourselves on our topnotch manufacturing techniques and strict controls on quality, both designed to give you best performance from our springs. We give you the best possible price too. No other company can do all that. Ask for your springs from any automobile dealer.

or contact:

**Herson Steels Pvt. Ltd.**

Office: Commerce House, Luis de Miranda Road,
MARGAO – GOA 403 601. Gram: 'HERSONS'
Phones: Off: (0834) 721246, Fax: 731062, Res.: 735358

Factory: Shed No. D/2-26, S. Jose de Areal,
Margao Industrial Estate, MARGAO – GOA. Tel.: 781316

# सांकळ

— ॲन्सि पालड्का



१.

क्यू. आय. टी. हॉस्टेल, साविरपुरा
२०/१०/९४

मोगाळ डॅड,

बऱ्या थरान आज फांत्यार पांच वोरार हांगासर पावलों. रावोंक बरें रूम मेळ्ळां. क्लासी सोमारा सुरू जातात. सिनियरांक एग्जाम चलतात जाल्ल्यान कॉलेज कॅंपस एकदम शांत आसा. आमच्या हॉस्टेलांत सिनियरांक प्रवेस ना. गार्ड केदाळाय पारो आसता. कॉलेज नोटीस बोर्डार रॅगिंगा विरोद कठीण नियमां घाल्यांत जाल्ल्यान रॅगिंगाचे चड उपाद्र आसचेनात म्हण चिंततां.

ही कॉलेज एकदम बरी आसा. लायब्रेरी मस्त व्हड आसा. हॉस्टेलाचें जेवण रुचीक आनी नितळ आसा. लार्गींच दरयो आसा. आज दनपारां हांव दर्या तडीक गेल्लों. दर्या तडीरच सोबीत इगर्ज बांदल्या. इंग्लीश हांगा सगळ्यांक समजता जाल्ल्यान म्हाका भाशेचे समस्से नात. आमच्या हॉस्टेलाक लागुनच स्विमींग पूल आनी जिमनास्टिक सेंटर आसा.

म्हाका तुमचो मस्त उगडास येता. आशीश, अशली आनी आशानाक हांवें विचारलां आनी मोग पाटयला. मम्मीची भलायकी कशी आसा? तिचेलागीं हांवें बेसांव मागलां. बरें तर, मागोन तुजें बेसांव.

तुजो मोगाळ
आश्विन

२.

प्रतिभा पेलेस
२९/१०/९४

मोगाळ बाबू आश्विन

तूं बऱ्या थरान पावलोय आनी तुका बोरें जाता म्हूण आयकोन आनी रॅगिंगा विशीं कॉलज मंडळी स्ट्रिक्ट आसा म्हण समजोन खुशी जाली. तुवें थंय रावोंक कितलें बरें जाता म्हळ्यारी आमचे थावन पयस रावोंक तुका कितले त्रास बगतात तें आमकां समज़ता बाबू. आमकांय उटता बसताना तुजोच उगडास येता. बेबी आशाना 'आचु कंय आसा माम्मी' म्हणटा. जिवितांत सुकाची विंचण करिजे तर थोडो त्याग गर्ज. शिकपांत बरें द्यान दी. बऱ्या इश्टांची विंचवण कर. तूं कुटमांत मालगडो जाल्ल्यान कुटमाचो आधार आनी खांबो म्हळ्ळें मतींत दवर. देवाचें बेसांव तुका.

तुजो मोगाळ
डॅड

*वि.सू.: साद्य तर सदां मिसाक वेचें प्रेतन कर. जेदना देवासांव आनी शिकप सांगाता वेता तेदना शिकपांत बरो फळ मेळता.*

३.

क्यू. आय. टी. हॉस्टेल, साविरपुरा
६/११/९४

मोगाळ डॅड

आमच्यो क्लासी सुरू जाल्यात. बरे प्रोफेसर आसात. तुज्या सूचना प्राकार हांव सदां मिसाक वेतां. आडळीत मंडळी रॅगिंगा विशीं कितली निश्करुणी आसल्यारी ती एक तुटवंक जायनातल्या सांकळी भाशेन रुपीत जाल्या म्हणतात मुजे सांगती. हर एक वर्सा दुसऱ्या वर्सा शिकचे विद्यार्ती ह्या सांकळिच्या आंकड्यांक गांच दितात जाल्ल्यान आज ही वश्याचे पिडे भाशेन वाडोन आयल्या. अशें रॅगींग आमच्या कॉलेज अडळीत मंडळी नदरे बायर रायाळ मर्जेन चलोन आसा म्हणतात म्हजे सांगती. काल मिसा थावन पार्टी येतांच एकलो सिनियर भेटलो. ताणें म्हजो नांव गांव आनी हेर थोडीं सावालां विचारलीं. हांवें कावर्जेनासतां जाप दिली. उपरांत चडीत कांय घडलें ना. जाल्यारीय रॅगिंगा विशीं पत्रांनी वाचल्लीं घडितां म्हाका सदां धोसतात...

तुजो मोगाळ
आश्विन

४.

प्रतिभा पेलेस
१४/११/९४

मोगाळ पुता बाबू

तुजें कगात वाचून बेजार जालें. तुमच्या कॉलजींत रॅगींग ना म्हण प्रिन्सिपाल थावन खात्री केल्या उपरांतच हांवें तुका इंजिनियरिंगाक भर्ती केल्लो. पूण इंजिनियरींग तसल्या व्रत्तिपर कॉलेजिनी रॅगिंगाचो वसो पुसून काडूंक जायनातल्लो कचरो जाला म्हण म्हाका भोगता. कितेंय जावं, उदकाक देंवल्या उप्रांत उप्येंक शिकचेंच सुक्त. रॅगिंगा विशीं हांवें जायतें वाचलां. तरी तेविशीं स्पश्ट चित्रण म्हजें थंय ना. हेविशीं तुज्या सांगात्यांलागीं उलवन बरें कर्न समजोन घे. तूं मात बोरो म्हळ्ळें चिंताप तुजे थंय घुसाना जावं. तुजे पासत आमी मागतांव...

तुजो मोगाळ
डॅड

५.

क्यू. आय. टी. हॉस्टेल, साविरपुरा
२२/११/९४

मोगाळ डॅड

पोर मिसा थावन पाटीं येताना सिनियर वाटेर आड रावल्ले. नाका जाल्लीं भुरशीं, पोजडीं आनी नाकारी सावालां विचार्न तांणी म्हजो बंगोस्तोळ केलो. त्याविशीं बरंवक मात नंय उडास काडुंकयी बरें लागाना. तांणी म्हाका जायतें बरवंकय दिलां. सगळी रात नीद खळून बरयलें. आज कॉलेजी वचानासतां बरवन आसां. तरय मुगदोंक ना. फाल्यां पावीत करिजेस म्हण सांगलां. येवंच्या आयतार संजेर ५.३० वोरार बस स्टँडांत मेळोंक सांगलां. म्हाका कितें करचें म्हण समजाना. मस्त भें दिसता. इंजिनियरींग करचें नाकाच म्हण भगता. दया करून तुजी सलहा दी.

तुजो मोगाळ
आश्विन

६.

प्रतिभा पेलेस
३०/११/९४

मोगाळ आश्विन

तूं कित्याक पुता देदेस्पर जालाय. तुज्या सिनियरांनी तुका उपाद्र दिताना अजून कित्याक वगोच आसाय? हॉस्टेल वार्डनाक खबार दिवंक जायना? इंजिनियरींग सोडून पाटीं घरा येवचेविशीं तुजी आलोचन वाचून म्हाका अघात जालो. तितलोय सिंतिमेंताळ कित्याक जाताय?

तुका इंजिनियरींग सीट मेळच्याक हांवें कितले त्रास घेतल्यात जाणांय? तुज्या कॉलेज आनी हॉस्टेल फिसा खातीर साडे तीन लाक रुपय एकटांय करूंक कितलेश्यो वाटो झरयल्यात जाणांय? तूं पाटीं येशी तर तुजो फुडार कितें जायत? आमच्या शेजाऱ्यांक आनी इश्टांक कितें सांगचें? तुज्या बांवडांचो फुडार कितें? तुजी व्हडिलां तुजी इतली जतन घेताना तांची ल्हानशी आशा सुफळ करची जबाबदारी घेवंकयी तुका साद्य ना?

तुजो मोगाळ
डॅड

७.

क्यू. आय. टी. हॉस्टेल, साविरपुरा
८/१२/९४

मोगाळ डॅड

आदल्या घडिता उपरांत हांव मिसाक वचानातल्लों. पोर आयतारा सिनियरांनी सांगल्ले परी बस स्टँडांत तांकां मेळोंक वचोंक ना. तशें जावन लायब्रेरी थावन पाटीं वेताना तांणी म्हाका वाटेर दर्न कारार बसवन दर्या तडीर वर्न म्हज्या स्वाभिमानाचो सत्यानास केलो. उपरांत सर्व मुकार विणगोच दांवडायलो. तांणी म्हजे थावन करूंक लायिल्लीं कामां चिंतताना आंग शिरशिरता. हांवें हेविशीं वार्डनाक कळयलां. जाल्यार वाजबी दाकले दाकयनासतां तांकां कितें क्रम घेवंक जायना कंय. सगळे म्हणटात वार्डन सिनियरांक भियेता खंय.

म्हज्या नशिबान म्हाका हे गतीक पायलां म्हण म्हाका भागता. ... परिगत अर्थ करचीं ह्या सांसवरांत कोणइ नातगी. वयल्यान पाटीं आयतां तुका आवमर्याद म्हणटाय...

हांवें रॅगिंगाची खबार दिल्या म्हळ्ळें आयकोन म्हजे सांगती भेश... लागल्यात. ही खबर सिनियरांक मेळ्ळ्यार म्हज्या जिवाकच संकष्ट कंय. जर उंचलें शिकप मानवीय मुल्यां शिकवंक सकाना तर, शिकप आसोन कितें फायदो?

म्हाका माम्मीचो मस्त उगडास येता. आशिश आनी अश्ली बरें ... शिकतात मू? बेबी आशानाक म्हजे रास रास कीस.

तुजो मोगाळ
आश्विन

11.45 a.m. 12/12/94 साविरपुरा

**Telegram**

To Adrian Picardo
Pratibha Palace
Lake View Road, Ramanagara

"घडोंक नजो जाल्ल्या कराळ घडिता वरवीं तुज्या पुतान संवसाराक आदेवस केला म्हण कळवंक बेजार पावतां. तुर्तान भायर सर."

Principal
Quality Institute of Technology
Savirapura


Greetings of the Season!



SHIRKA
INDUSTRIAL CORPORATION

Manufacturers of
CORRUGATED BOXES & BOARDS

Marchon Bldg., 2nd Floor
MARGAO – GOA 403 601.
Tel.: Off: 721523, Factory: 731304
Fax: 731324, Gram: 'Shirka'

# जीवघात

— सोनिया चार्ल्स डि'कॉस्ता

गो रां रातिचीं धा जाल्लीं. लोराबाय निदल्ली. बोरी नीद पडल्ली. सालांत ांक्या पंदा तिचो पूत उदारो पडोन घोरेतालो. तिची धूव इजबेल नाणयेंत ळू पोदां मुणोन नातालें. सद्दां सकटांक नीद पडल्या उपरांत इजबेलान ांवक वेचें. नावन जातेच आवय सांगाता निदचें.

इजबेल नांवन भायर आयलें. आंग पुसचो तुवालो सोडोवन सुकात ालो. उपरांत कुझणाक वसोन उदकाच्या मोडक्याचें दांपणें उकलायलें.

सद्दां लोराबायेन उदाक हून कर्न त्या मोडक्यांत वोतचें. सगळें कुटाम च तापोन निवल्लें उदाक वापरतालें. पूण त्या रातीं मोडक्यांत एक थेंबोयी ादाक नातल्लें.

इजबेलाक विरार जालें. देवा मुज्या, घरांत पियोवचें उदाक सयत ना. ातां करचें कितें? तापोन निवयनातल्लें उदाक पियोवन इजबेलाक संवय ा. शेळ जायत कोण्णां मुळ्ळें यें. तर करचें कितें? नांवच्या फोरसार ाळो सुकोन गेल्लो.

इजबेलान बोंवतीं पळयलें. कुझणाच्या एका कोनशांत वोड जयत नार्ल ़जबेलाक पळेवन हेडायलागलो. इजबेलाच्या मेंदवांत प्रकास फांकलो. नार्ल! नार्लांत उदाक ना वे तर? कुझणाच्या कोनशांतलो तो नार्ल, नाणये पाटल्या ाडाचो. तांतूं लार्गीं लार्गीं अडेज गोबळे उदाक आसात. आपणाचे उदकाचे ़श्ट मुगदाले, अशें चिंतलें इजबेलान आनी तो नार्ल फोडूंक सुरू केलो.

कोयत्याच्या बाढ्ढ कुशिचो एक मार जोरान नार्लाचेर पडलो. तरी नार्ल ़ुटोंक ना. पूण ह्या आवाजाक निदेच्या सागोरांत उपयोवन आसल्या इजबेलाचे मांयक एकाछाणें जाग जाली. एक घडीबर ती भियेली. इजबेलान नार्लाक आन्येक मार घालो. लोराबाय उडोन पडली. दुसऱ्याच घडिये ़ुटलि,

'इजबेला! कितें दाडायताय गो ह्या रातीं?' तकली समां आसा वा नां?'

तिच्या सवालाक जाप दिनासताना इजबेलान नार्लाक तिसरो मार घालो.

'इजबेला!' किंक्राटली लोराबाय.

'ऊं.... हूं....!' म्हणात इजबेलान चोवतो मार घालो. आतां नार्ल फुटलो आनी गोड उदकाचो वाळो 'दळ-बळ' आवाज करीत तोपल्यांत पडलो.

लोराबाय कुझणाच्या दारार प्रत्यक्ष जाली. तिच्या दोळ्यां थावन रागाचीं ़िटां उसाळतालीं.

'मद्यान रातीं कित्याक मोरताय गो?'

'मोरनातल्लीं मांय, नार्ल फोडतालीं', इजबेलान जाप दिली आनी उदाक ोटूंक लागलें.

'आपुरबायेची नीद पडल्ली. तुज्या गालाटया वरवीं जाग जाली. इतली ात जाल्यारी निदोंक ना! दळदिरी जिणी! काबार जावन वसों.' अशें ़ुटपुटत लोराबाय पाटीं आपल्या कुडाक गेली आनी मांदरेर कोसळ्ळी. ़जबेल नार्लाचें उदाक पियेवन तिचे सरशीन येवन निदलें. तकली उश्याक ागल्ली तशी इजबेलाक निदेन वेंगलें.

पूण ताचे मांयचे कश्ट दुसरेच जावन आसल्ले. एक पावटीं नीद सुटल्या ़प्रांत वेगिंच्याक तिका नीद पडानातल्ली. ती जागीच उरली. आपल्या ़ेंतनांनी मात्र तिका सांगात दिलो. तीं जावन आसल्लीं रागाचीं चिंतनां, ़िसरायेचीं चिंतनां, पुरासाणेचीं, मत उबदेस करचे तसलीं चिंतनां, दुखिचीं चिंतनां. इजबेलाच्या नार्लाच्या गालाट्या उपरांत पुताच्यो घोरोवण्योयी तिका स्पश्ट आयकाताल्यो.

चांदन्याचो उजवाड कुडांत भरूल्ल्यान लोराबायेक धुवेचें तोंड दिसतालें. तें सुशेगात निदल्लें.

'नापास चेडूं!' लोराबायेक सोसूंक तांकलें ना, 'करचो आसल्लो गालाटो पूरा करून आतां सुशेगात निदलां. हेवशिलें नीद नासतानां वोळ्वोळता. हाका कितें मुजे बरी पांच वोरांर उटोंक आसा? ना! साडे सात वोरां मुणासर निदता. दळदिरी जिणी. कोणाक जाय?' अशें लोराबाय देड वोर नीद नासताना वोमती आनी उदारी लोळ्ळी. देड वोर पाशार जातेच तिच्या मोतिंतल्या चिंतनांनीं तिका जीवघातिचें योजन दिलें.

ती उटली. भायर गेली. चांदन्यांत रावली. तिच्या दोळ्यां थावन दुखां देंवोंक लागलीं. दळदिरी जिणी! कितें आसा ह्या जिणयेंत? काम आनी पुराचाण! पुराचाण आनी काम! कोण विचारतेलें ना! गालाटो करचीं बुर्गीं आनी नीद नातल्ल्यो राती. कोणाक जाय जिणी?

तिका घोवाचो उगडास आयलो. मार पडुल्लो घोव. इगरजेंत सकटांच्या मुकार 'वय' मुळ्या पातकाच्या प्राजिताक हाका घोव मुणाजाय! खंय मोरोंक वेता गी कितें गी? आतां ताचो पात्तो नासताना चार दीस जाल्ले. हाचे आर्दी स महिने नातल्लो. मेला कोण्णां म्हूण संतोसान आसताना परतून आयलो. जीव खावंक. हाका बायलेचें, भुरग्यांचें कितें पडोन गेलां?

लोराबायेन दुखां पुसलीं. पोरनीं दुखां पुसुल्ल्या खिणां नोवीं दुखां तिच्या दोळ्यां थावन देंवलीं.

नापास जिणी! समा निदोंक सयत ना!! आपूण बांयत उडोन मोरतेलींच! खंडीत मोरतेलीं!!

धगिचो वेळ जाल्ल्यान गांवच्चो सुमार बांयो सुकल्ल्यो. लोराबायेची बांयीय सुकुल्ली. गांवच्या लोकान गुरकारामाच्या नाल्यार ईरप्पाच्या बांयतुलें उदाक हाडचें आसल्लें. गुरकारामाच्या बांयत उदाक आसल्यान आनी ती लार्गीं आसल्यान लोराबायेन गुरकारामाच्या बांयत उडोन मोरचें म्हूण चिंतलें.

ती वेगीवेगी गुरकारामाच्या बांय सरशीन गेली. बांयचें काटें दिसचे तितली लार्गीं ती पावली. त्या खिणा कोण तरी तिच्या पाटल्यान धावोन येवचे बरी आयकालें. ती गुंवली.

शेजारच्या गोविंदाची धावी शिकची धूव शैला रडोनच धावोन येताली. लोराबायक अजाप जालें. अरे, ह्या रातीं खंय धांवता चेडूं? चेडूं लोराबायक पळयनासताना, तिका पाशार जावन, बांयच्या काट्यार चडलें. उपरांत बांयत उडलें.

चेडूं उदकाक आपटाताना ताची किंक्राट आनी उदकाचो आवाज आयकोवन लोराबाय कांपोंक लागली. ती आपूण जीवघात करूंक आयल्या मुळें सत संपूर्ण विसरली. जोरान उडचें हर्दें, कांपचे पांय घेवून, गुरकारामाक मुरयो दीत, ती गुरकारामाच्या घरा सरशीन धांवोंक लागली.

गुरकारामाच्या दारार बोडयत 'गुरकारामा! गुरकारामा!' म्हूण बोबाटली. गुरकारामान अमसरान दार उगडलें. भियान कंगाल जाल्ल्या लोराबायक पळेवन ताची जीब सुटाना जाली.

'शैला! शैला! गोविंदाचें चेडूं तुमच्या बांयंत उडलां! आत्तां उडलां.

हांवें पळयलें!' लोराबाय खरशेली.

गुरकारामाक समजोंक वेळ लागलो ना. ताणें ताच्या चोवगी पुतांक उटयलें. त्या गालाट्यान ताच्या बायलेक आनी दुवेकयी जाग जाली. उपरांत गुरकाराम, ताचे पूत, ताची बायल, धूव आनी लोराबाय सकटां बांय सरशीन धांवलीं.

गुरकारामाच्या एका पुतान बांयत देंवोन चेडवाक वयर हाडलें. चेडवाक मत चुकिल्ली. गुरकारामाची धूव नर्स. तिणें ताका वोमतें निदायलें आनी पोटांतलें उदाक भायर काडलें. उप्रांत आरटिफिशल रेसपिरेशन दीवन मतीर हाडयलें. ताका उकलून घरा भितर वेलें.

'हांव बांयंत उडल्लीं.' चेडूं भेन्या बरी म्हुणालें. 'मोरोंक नां गी?'

'लज दिसाजे तुका बांयत उडोंक!' गुरकारामान आनी ताच्या बायलेन सांगाता देंकणो घालो.

शैला रडोंक लागलें.

'नहीं गो; जीवघात करचे तसलें कितें जालें तुका?' गुरकारामाच्या बायलेन चिके हळू ताळ्यान विचारलें.

'अप्पान मारलें!' तें रडोनच मुणालें.

'कोणी मारीत तुका!' गुरकारामाक ताची भिर्मत दिसली ना.

'ना', सुस्कार्न मुणालें तें, 'हांव तीन सबजेकटांनी फेल जाल्लीं. मार्कस् कार्ड दीवंक भें दिसता मुणोन लोव अप्पाच्या उशा पंदा चेपून निदर्लीं. आज अप्पा वेळ कर्न आयिल्लो. जेवलो आनी निदच्या पयलें गझडी फापुडताना ताका मुजें मार्कस् कार्ड मेळें. ताका राग आयलो. देकून माका निदल्ल्याक उटोवन समां पोपायलें. माकाची बेजार जालें. देकून... देकून... हांव... हांव बांयत उडालीं.'

'नहीं गो चेडवा', गुरकारामाक हासचें गी रडचें गी कळोंक ना. 'अप्पान मारलें मूण बांयत उडचें गी? अप्पा आसचेच मारूंक. हांवेची मुज्या बुर्ग्यांक कितले पावटी मारलां. पूण तीं तुजे बरी बांयत उडल्यांत गी? तूं कर्न शीक, बोरे मार्क्स काड आनी तुज्या अप्पाक संतोस कर. बां मात उडानाका. आज घडल्ली गजाल तुज्या अप्पाक कळात तर त कितलें बेजार जायत, जाणांय वे तूं?'

अशी बूद सांगून, शैलाक दोगां पुतां सांगाता घरा पावयलें. शैला गे उपरांत, गुरकारामान लोराबायेक पळयलें.

'लोराबाये, तूं नातल्लीय तर तें चेडूं मोरतें!' तो मुणालो.

'तें आसों', ताची बायल मुणाली, 'तूं मद्यान रातीं हांगा कशी पाव लोराबाये?'

लोराबायेक आपूण जीवघात करूंक आयिल्ली मुळें सत उगडा आयलें. तिका जीव मुये तेदो जालो. छे, कितें सांगतेली ती? कशी सांगतेल

'तें... तें...' तिणें चुकारी मारचें यतन केलें.

'कितें तें?' गुरकारामान विचारलें. 'सांग लोराबाये.'

'तें... तें... हांव बांयत उडोंक आयिल्लीं', लोराबाय लोव मुणाली.

'अजाप!' गुरकारामाक आपणालेच कान पात्योंक जाले नात, 'अ कित्याक सकटांक बांयत उडची आशा आयल्या? तुका कितें जं लोराबाये?'

'तें... तें...' लोराबाय कश्टाली.

'सांग लोराबाये', मोवाळायेन मुणाली गुरकारामाची बायल. 'आ क्रिस्तांवांनी एकामेकांक कुमोक करिजाय नंय वे?'

'तें... तें...' लोराबाय कश्टांनी मुणाली. 'तें... चेडवान धा वोरांर फोडून मुजी नीद पाड केली. माका इतलें विरार जालें की...'

गुरकारामाचें कुटाम इतल्या जोरान हासलें की लोराबायेन मुकार सांगलें तें कोण्णाक आयकालें ना.

✻ ✻

*With best wishes from*

# Mohan Bhandare & Fly.



GOA ARTS

Cortalim – GOA
Ph: 550234, 550277, 550528

*With best compliments from*



# UPA ENGINEERING

## SALES & SERVICE

Authorised Dealers of GREAVES LTD.
for MWM-RUSTON-LOMBARDINI Diesel Engines,
Spare Parts & Service for Goa State.
Diesel Gensets from 1.5 KVA to 500 KVA.
SOORAJ DISEL MOTOR CYCLE Spare Parts & Service
(World's first Diesel Motor Cycle)

Office: Leoniza Gomes Mansion, Rua de Saudade, Pajifond,
Margao – Goa 403 601. Tel: (0834) 723454
Branch Office: Pai Bldg., Behind Uma Petrol Pump, Mundvel,
Vasco-da-Gama 403 802, Goa. Tel.: (0834) 514512

*Best wishes for a Happy Diwali*





Sunivas

BUILDERS
Engineers, Contractors

FURNISHERS
Interior Decorators

REALTORS
Real Estate Developers

'KAMDHENU' D. V. RD., PANJIM – GOA 403 00. PH.: (0832) 228469
GRAMS: SUNIVAS MARGAO PH.: (0834) 732266

THE LARGEST AND THE OLDEST URBAN CO-OPERATIVE BANK OF GOA

## THE GOA URBAN CO-OPERATIVE BANK LTD.

(Regd.Off.: Dr. Atmaram Borkar Rd., Panaji 403 001, Goa)

NOW A SCHEDULED BANK

wishes its Share-holders, Depositors & Constituents

A VERY HAPPY DIWALI

With network of 17 branches in Goa at PANAJI - MARGAO - PONDA - CURCHOREM - VASCO DA GAMA - ST.ESTEVAM - CAVELOSSIM - ASSOLNA - MARKET (ST. INEZ) PANAJI - MALA (FONTAINHAS) PANAJI - NAGORCEM (CANACONA) - PORVORIM - HEAD OFFICE (Main Building) PANAJI - BAINA (Vasco) - MAPUSA - CUNCOLIM & MIRAMAR

Financial Position as at 30/9/97 (Rs. in Crores)

| | | | |
|---|---|---|---|
| Share Capital | 4.35 | Investments | 79.05 |
| Reserve Fund & Other Funds | 18.85 | Advances | 126.43 |
| Deposits | 188.87 | Working Capital | 232.95 |

No. of Members: 77804 (Actual)

*We take pride in being partners in the progress and prosperity of our constitutents.*

दिवाळीचे लाख दिवे
पर्जळ नवो फाकारूं
जिणेंत सगळ्या लोकांच्या
धादोसकाय उपाट भरूं !



## हरासु ट्रेडर्स

मडगांव, गोंय ४०३ ६०१.

फोन नं.: ७३२९८७, ७२०६९३

*Wishing a Happy Diwali and Prosperous New Year !*

THE PEOPLE TO SEE FOR LABELS AND CARTONS

## D. M. NADKARNI & SONS

Near Head Post Office
MARGAO – GOA 403 601.
Ph.: Off.: 732682
Press: 737845 Res.: 731219

*With good wishes for Diwali & a Happy & Prosperous New Year*



BABATILE CORPORATION

SUPERSTONE CORPORATION
TRIMURTHI TRADING
MANIKTILES PVT. LTD.
BABATILE INDUSTRIES

H.O.: Baretto Village, Volant,
P.O. Betim, Goa 403 101
Ph.: 217642/217387, Fax: (0832) 217426

# एक इतिहासीक कोलाज

(नाटकुलें)

स. डी. तेंडुलकार

पात्रां

आफोंस द् आल्बुकॅर्क, राम मनोहर लोहिया,

भाऊसायब बांदोडकार,

सोल्दाद, भुरगे, बायलो

आनी हेर लोक



(फाटल्यान फकत एक धवो पड्डो. ताचेर पुतुगीज बावटो आशिल्ले बोटिची व्हडली सावळी पडल्या. आफोंस द् आल्बुकॅर्क ड्रिंक घेत बसला. ताचीय सावळी त्या धव्या पड्ड्याचेर पडल्या. पियेतना आल्बुकॅर्क सामको गुल्ल जावन मांडवी न्हंय आनी सैम नियाळीत आसा. हावभावावेल्यान तो भरपूर पियेला हें जाणवता. इतल्यान एक सोल्दाद येता.)

सोल्दाद १ : सिन्योर, तुमचें जेवण हाडूं?

आल्बुकॅर्क : (रागान), तुमकां हांवें कितें सांगिल्लें? म्हाका त्रास दिवं नाकात म्हूण मरे?

सोल्दाद १ : हय, सिन्योर.

आल्बुकॅर्क : मागीर?

सोल्दाद १ : चुकलों सिन्योर.

आल्बुकॅर्क : हांव आपयतलों तेन्नाच तुमी येवपाचें.

सोल्दाद १ : हय सिन्योर.

आल्बुकॅर्क : वॉस. (सोल्दाद ताका सॅल्यूट करून वचूंक लागता). राव!

सोल्दाद १ : कितें जाय आशिल्लें सिन्योर?

आल्बुकॅर्क : हांगा यो. (सोल्दाद येता). तुमी सैमाची सुंदरकाय केन्ना भोगल्या?

सोल्दाद १ : म्हळ्यार सिन्योर?

आल्बुकॅर्क : पळे, पळे ही मांडवी न्हंय. तीं झाडांपेडां, सुकणीं, मळब. पळे, पळे तांची सुंदरकाय.

सोल्दाद १ : पूण अश्यो न्हंयो, झाडांपेडां, सुकणीं, मळब सगल्याकूच आसता सिन्योर!

आल्बुकॅर्क : सगल्याक आसता, पूण हांगचे वरी न्हय. हांगा गोंयांत सगळें वेगळेंच दिसता. अदीक मनभुलोवणें दिसता. (पॉज) हांव खरोच मोगांत पडलां ह्या वाटाराच्या. (पॉज) म्हाका हांगाच रावचें शें दिसता. म्हजी सबंद जीण हांगाच घालोवची शें दिसता. (पॉज) पूण करतलों कितें? हांव हांगासून आतां त्रान्स्फर जालां. सध्या हांव हांगा गवर्नर उरूंक ना. (पॉज) हें गोंय जिखपाक हांवें कितले उतळताप काडिल्ले. आनी आतां तेंच सोडून वतना कितलें दुख्ख जाता, हें तुका कळचेंना.

सोल्दाद १ : हांव समजतां सिन्योर!

आल्बुकॅर्क : (सोऱ्याचो व्हडलो घोंट घेयत) तुमकां कांयच समजुपाचें ना. (पॉज) म्हजें नांव कितें हें खबंर आसा तुका?

सोल्दाद १ : हय सिन्योर.

आल्बुकॅर्क : कोण? हांव कोण?

सोल्दाद १ : तुमी पुतुगीज व्हीसरैय, सिन्योर!

आल्बुकॅर्क : नांव कितें?

सोल्दाद १ : आफोंस द् आल्बुकॅर्क, सिन्योर!

आल्बुकॅर्क : (मोट्या कश्टान उबो रावत) व्हडल्यान म्हण. ह्या सगल्या सुंदर सैमाक आयकूंक येवं दी म्हजें नांव. म्हण, म्हण व्हडल्यान!

सोल्दाद १ : (व्हडल्यान) आफोंस द् आल्बुकॅर्क!
(इतल्यान भितरल्यान आनीक दोग-तीग सोल्दाद आवाज आयकून धांवत येतात).

सोल्दाद २ : कितें जालें सिन्योर?

आल्बुकॅर्क : (व्हडल्या आवाजान, भाशण दिल्ले वरी) हांव, आफोंस द आल्बुकॅर्क, तुमकां सगल्यांक वॉस म्हणटां! (तापोवन) वॉस्स! आपयले बगर हांगा येवं नाकात.
(सगले सोल्दाद सॅल्यूट मारीत एक एक करून वतात. पॉज. उपरांत शून्यांत पळेत) हांव आफोंस द् आल्बुकॅर्क. हांवें कितले वाटार जिखले! हांव कितलीं झुजां खेळ्ळों! हांवें कितलें रगत व्हांवयलें! कितले लोक गुलाम केले! कितल्यो बायलो भोगल्यो! आनी आतां ह्या खिणाक दिसता, हांवें हें इतलें सगलें केलें, तातूंत कांयच अर्थ नाशिल्लो. दिसता, हांव ही जीण जियेवंकूच ना. (पॉज) ह्या हांगासल्ल्या सुंदर, संतशांत सैमान म्हजेर जादू केला काय कितें? (पॉज) आतां आनीक कसलीच इत्सा उरूंक ना. हांगाच मरचेंशें दिसता. (ग्लास सोंपयता. आनीक ओतपाक बाटलेंत पळयता. बाटली काबार जाल्या. उलो मारीत –) सोल्दाऽऽद!

सोल्दाद १ : (धांवत येत) सिन्योर!

आल्बुकॅर्क : बॉत्ल हाड.

सोल्दाद १ : (अनमनत) सिन्योर, जेवण थंड जातलें!

आल्बुकॅर्क : (तापून) बॉत्ल हाड!

सोल्दाद १ : हय सिन्योर. (वचूंक लागता. थांबोन –) सिन्योर, कापितान विचारतालो, बोट सुरू करपाची काय म्हूण.

आल्बुकॅर्क : नाका, नाका. म्हज्या दोळ्यांची, म्हज्या मनाची भूक भागसर हांव हांगाच रावतलों, हें सुंदर सैम पळयत. म्हजी ऑर्द! (तापोन) चल, बॉत्ल हाड बेगीन. (सोल्दाद वता आनी भितरल्यान रोखडीच एक बॉत्ल हाडून दिता). वॉस तूं. (सोल्दाद वचूंक लागता). राव!

सोल्दाद : सिन्योर?

आल्बुकॅर्क : (बाटली उगडून ग्लासांत सोरो रकयता. उपरांत मोट्टो घोंट घेता. सोल्दादाकडेन नदर वता) तूं हांगा आजुनूय कितें करता? वॉस!

सोल्दाद : सिन्योर, तुमीच राव म्हणिल्लें न्हय?

आल्बुकॅर्क : हांवें? (पॉज) उपरांत आनीक एक मोट्टो घोंट घेता. पॉज). तुका खबर आसा, मर्ण म्हळ्यार कितें तें?

सोल्दाद : सिन्योर, मर्ण म्हळ्यार मर्ण!

आल्बुकॅर्क : (पॉज) इतलीं झुजां हांव खेळ्ळों पूण मर्णाचो विचार म्हज्या मनांत केन्नाच येवंक ना. म्हज्या मर्णाचो!

सोल्दाद : सिन्योर! सिन्योर, अशें उलोवं नाकात. पुरो. आनीक नाका तें. जेवन घेयात. जिवाक बरें दिसतलें. सिन्योर,

आल्बुकॅर्क : (आवाज बदलता) तूं कोण? तुका हांगा कोणें आ
वॉस्स!
(सोल्दाद वता. आल्बुकॅर्क सबंद बॉत्लूच तोंडाक
आनी एका दमांत सोंपयता. बॉत्ल जमनीर उ
कदेलार बशिल्ले कडेनूच फाटल्यान मान उडोवन
बरोच वेळ पासार जाला हें सुचोवपा खातीर उ
शेड बदलता. कांय वेळान तीन-चार सोल्दाद
करनासतना येतात. अदमास घेतात. आल्
नियाळटात.)

सोल्दाद २ : सामको जाम जावन न्हिदला मरे तो!

सोल्दाद १ : चल, ताका व्हरून भितर न्हिदोवया. धरात.
(सोल्दाद १ आल्बुकॅर्कच्या नाकाकडेन बोट धरून
पळेता. सोल्दाद २ ताची नाडी पळेता.)

सोल्दाद २ : मेलो!

सोल्दाद १ : सिन्योर मेलो!

सोल्दाद ३ : सिन्योर मेलो?
(तांचो बोवाळ चालू आसतना ल्हवू ल्हवू काळोख
परत उजवाड जाता. सामको प्रखर. धव्या प
'जयहिंद' हीं ठळक अक्षरां आतां दिसतात.
मोट्टो जमाव माचयेर जळींमळीं पातळ्ळा. तांच्यो
धव्या पड्झ्याचेर पडल्यात.)

पयलो : आरे कितें नविदाद घडल्या? इतले लोक शे?

दुसरो : तूं कित्याक आयला?

पयलो : गर्दी दिसली म्हूण! आनी तूं?

दुसरो : हांव सभेक आयलां.

पयलो : सभा? कोणाची?

दुसरो : आयज एक भारताचो मोट्टो लिडर येवपाचो
(तिसऱ्याक) कितें रे नांव ताचें?

तिसरो : लोहिया. राम मनोहर लोहिया!

चवथो : पूण ताचें भाशण कित्याखातीर रे?

तिसरो : पुर्तुगेजांक हांगासून धांवडावन घालूंक सोदता तो.

पयलो : धांवडावन? म्हळ्यार? पुर्तुगेज आसात म्हूण
आसात मरे!

दुसरो : आरे पिशा, आमकां तांणी गुलाम केल्यात. ते
येवन आमचेर राज्य करतात हें खबर आसा मरे

पयलो : ना.

दुसरो : ना?

पयलो : ना.

दुसरो : म्हाकाय खबर नाशिल्लें, पूण काल रातींच
कडल्यान कळ्ळें. आरे, आमी आमच्याच राज्यांत
नात खंय! आमकां स्वतंत्रताय जाय.

पयलो : पूण स्वतंत्रताय म्हळ्यार कितें?

दुसरो : (तिसऱ्याक) स्वतंत्रताय म्हळ्यार कितें रे?

तिसरो : (चवथ्याक) हाका खबर आसतलें. आरे, स्वत
म्हळ्यार कितें रे?

चवथो : स्वतंत्रताय म्हळ्यार स्वतंत्रताय!

पयलो : पूण म्हळ्यार कितें रे?

चवथो : जिबेर आसा रे. राव, मागीर उगडास जातकूच सां

दुसरो : पूण हो लोहिया कापाज मनीस खंय!

पयलो : म्हणजे कसो?

: थंयची ती इंदिया – भारतदेस – ब्रिटिशांकडल्यान सोडोवपाक मोट्यो चळवळी केल्ल्यो खंय ताणें!

: पूण भारत देस खंय आसा रे?

: दोडामार्ग काडटकच मेळटा तो सगळो भारत.

: आनी आमच्या देशाचें नांव कितें तर?

: सॉल्दाद बरेच आसात मरे!

: लोहियाक भाशण करपाक दिवपाचे नात ते. सोमतेच प्रेज करतले.

: लोकांची जात्रा कशी जाल्या न्हय? आमी मजा पळोवपाक आसाच.

: ही असली सभा आयज पयलेच फावट जाता खंय!

: कितेंय जावं आमकां मजा पळोवंक मेळ्ळी म्हणटकूच जालें.

(इतल्यान लोकांचो 'येयलो येयलो' असो बोवाळ सुरू जाता.)

: कोण आयलो रे?

: लोहिया. तो पळय. घोड्याच्या टांग्यांतल्यान देंवता. तो पळे, येता.

: सामको सादो दिसता मरे तो! हाका पुर्तुगेज भियेतले?

(इतल्यान लोहिया आनी तांचे वांगडा दोग-तीग जाण माचयेर येतात. 'जयहिंद', 'जयहिंद' अश्यो घोशणा लोकांमदीं आयकुपाक येतात. माचयेर एक लाकडी उबार सुवात आसा. लोहिया सरळ भितर येवन ते माचयेर भाशण दिवपाक उबे रावतात. लोकांमदीं शांतताय.)

: मेरे भाईयों और बहनों!

(इतलें म्हणना फुडें दोग-तीग सोल्दाद धांवत येतात आनी तांकां आडायतात.)

: तुमकां भाशण करूंक मेळचेंना!

: कित्याक?

: भाशण करपाक परवानगी घेवची पडटली.

: कोणाची?

: आमच्या गोवेर्नादोराची.

: तुमी म्हजें तोंड बंद करूंक शकचे नात!

: (पिस्तोल भायर काडून लोहियांचेर रोखीत) तुमचेर हांव गुळी घालतलों.

: (कापितानाच्या हातांतलें पिस्तोल सहजतायेन कुशीत सारीत) असलीं पिस्तोलां हांवें खूब पळेल्यांत. (लोकांक) तर, म्हज्या गोंयकार भावांनो आनी भयणींनो!

: (आड्डून, सोल्दादांक) आर्रेस्ट करात ताका.

(सोल्दाद आनी कापितान मेळून लोहियांक ओडून सकयल देंवयतात. तांच्या हाताक बेडयो घालतात. आनी तांकां ओडीत व्हरतात. लोकांमदीं बोवाळ. 'जयहिंद-जयहिंद' अश्यो मोटमोट्यान घोशणा. कांय सोल्दाद येवन लोकांचेर दांडे घालतात. लोक हेवटेन तेवटेन पळटात. कांय वेळान माची पूर्ण रिकामी.

काळोख.

काळखांत फायरिंगाचे आनी बॉम्बस्फोटाचे आवाज. परत उजवाड जाता तेन्ना फाटल्या धव्या पड्ड्याचेर '१९ डिसेंबर' अशीं ठळक अक्षरां दिश्टी पडटात. माचयेर आतां तीन ल्हान भुरगे आसात.)

पयलो : एऽऽ जाणा, सगले पाखले गेले खंय!

दुसरो : खंय गेले?

तिसरो : मामागेर गेले आसतले ते!

पयलो : जाणा मरे, म्हज्या बापायन एक बावटो केला. ताका मरे मदीं एक चक्र आसा.

दुसरो : तुवें हाडपाचो तो. हांगा आमकां खेळूंक मेळपाचो.

पयलो : च्यॅं!च्यॅं!! बाबा घेवन गेलो तो.

तिसरो : खंय?

पयलो : आयज प्रासार कितें तरी आसा रे. खूब लोक येतले. म्हजो बापूय सांगतालो, भारत काय कितें तरी जालां खंय आयज. सामको खोश्शी आसा तो. आयज ताचें थंय भाशण आसा.

तिसरो : तुवें रातीं फाराचे, बॉम्बाचे बी आवाज आयकूंक नात रे?

दुसरो : आयकल्ले तर! म्हाका भयानूच सामकी झेम लागली. (बॉल्सांतलें पिपिरमीट काडटा आनी तोंडांत घालता.)

तिसरो : एऽऽ म्हाका दी मरे पिपिरमीट.

दुसरो : एकूच आशिल्लें.

तिसरो : राव. सांजचो आवयकडल्यान हांवूय पिपिरमीट हाडटलों. तुका दिवचों ना.

पयलो : फाटीं आवय आनी हांव मरे बाजारांत गेल्लीं. थंय एका पाखल्यान म्हाका पिपिरमीट दिल्लें.

तिसरो : गोड आशिल्लें?

पयलो : कोण जाणां! आवयन झोपय मारून घेतलें तें म्हज्या हातींतल्यान आनी भायर उडयलें.

दुसरो : एऽऽ आपालिपा खेळुंया रे?

तिसरो : चल खेळुंया. आमी लिपतात, तूं धर आमकां. (पयल्याक) चल रे. (तिसरो आनी पयलो विंगेंत लिपतात. दुसरो धव्या पड्ड्याकडेन वचून आपले दोळे धांपून धरता. प्रेक्षकांक ताची फाट).

दुसरो : (व्हडल्यान) कुच्च्यूक?

(विंगेंतल्यान 'कुच्च्यूऽऽक!' असो लिपिल्ल्यांचो आवाज येता. एकदम काळोख.)

(माची परत उजळटा तेन्ना धव्या पड्ड्याचेर पानां-फुलां-फळांनी भरिल्ल्या एका सोबीत झाडाचें चित्र दिसता. माची रिती. कांय वेळान उजवे वेटेनच्यान लोकांचो एक मॉब 'झालाच पायजे, झालाच पायजे, गोवा महाराष्ट्रांत विलीन झालाच पायजे' अश्यो घोशणा दीत येता. रोखडोच दावे वेटेनच्यान दुसरो मॉब 'दोन पानांक, आमचें मत दोन पानांक' अश्यो घोशणा दीत येता. दोनूय मॉब आमने-सामने उबे रावतात. उजवे वेटेनचो मॉब आतां 'तुमचें मत कोणाला, आमचें मत फुलाला' अश्यो घोशणा दिवंक सुरू करता. दावे वेटेंतलो मॉब 'तुमचें मत कोणाक, आमचें मत दोन पानांक' अश्यो घोशणा चालू करता. दोनूय वटेंतल्या घोशणांचो पावस. उपरांत घोशणा दीत दीत दोन पानांवालो मॉब उजवे वेटेनच्यान भायर वता आनी फूलवालो मॉब दावे वेटेनच्यान. त्याच वेळार एक बेबदो लकत लकत येता. मॉब गेल्ले वाटेन पळेत—)

बेबदो : हे बोबो कित्याक मारतात म्हाका समजना. आरे कसलीं फुलां आनी कसलीं पानां? आमच्या पोरसांत घेऽ म्हणून

आसात. येयात – व्हरात. येयात – व्हरात. नाजाल्यार इल्लें मारून न्हिदात. (गावंक लागता) सालाझार द पुर्तुगाल ला ऽ ऽ ऽ ला ऽ ला ऽ. पुतुगिज गेले आनी रोखडेच मगो जाले, युगो जाले. कांय दोन पानां जाले, कांय फुलां जाले. (प्रेक्षकांक) ए ऽऽ हांव एक झाड. म्हाका पानां फुटल्यांत. फुलां फुल्ल्यांत. तुमचें मत कोणाक? आमचें मत झाडाक. (पॉज) आयज मात्शें इल्लें चड जालें. (पॉज) तुमी जाणात हांव कोण? हांव कोण? हांव एका हुतात्म्याचो बापूय. म्हज्या चेड्याक भारत जाल्लें जाय आशिल्लें. (मोठ्ठ्यान) जयहिंद! (पॉज) मेलो तो. पुतुगिजांनी ताका फारान माल्लो. म्हजो एकलोच चेडो तो. मेलो. हुतात्मो जालो खंय! पूण म्हाका ना जालो. आयकलां तुमी, म्हजो चेडो म्हाका ना जालो (पॉज). आरे, आतां तुमचो तो कसलोसो ओपिनियन पोल म्हाका जाय कित्याक? म्हाका कांयच नाका. म्हाका फकत सोरो जाय. सोरो. (पॉज). देंवली कीक्. आतां इल्लें आनीक मारचें पडटलें.

(लकत-लकत वतना धण्ण करून जमनीर पडटा. काळोख.

माची परत उजळटा तेन्ना धव्या पड्ड्याचेर शणै गोंयबाबाचें चित्र उदेलां. दोन तरण्या इश्टांचो वाद चल्ला.)

पयलो : तूं म्हणटा तें खरें न्हू. म्हज्या मत्तान मराठी गोंयची भास आनी कोंकणी तिची बोली.

दुसरो : कोंकणी बोली न्हय. ती भासूच.

पयलो : आरे, गोंयांत मराठीची कितल्याश्या वर्सांची परंपरा आसा. आमच्यो कितल्योश्यो पिळग्यो मराठी शिकल्यो. आमचो सगलो देवधर्म मराठींत आसा.

दुसरो : पूण आतां हें सगळें बदलूंक जाय.

पयलो : तुमी आतांच कोंकणी-कोंकणीशे करूंक लागले रे? पुर्तुगेज आसताना तुमचो आवाज नासलो मरे! तेन्ना खंय गेल्ले रे तुमी? तेन्ना बरी पुर्तुगिजांची धुताले तुमी!

दुसरो : आमी? आमी कित्याक? आमचें आख्खें घराणें स्वातंत्र्यसैनिकांचें हें जाणा मरे तूं? खरें म्हळ्यार तुमकांच केन्ना स्वाभिमान नाशिल्लो. आमचें गोंय, आमची कोंकणी भास, हांचो केन्नाच अभिमान दिसूंक ना तुमकां. ओपिनियन पोलाच्या वेळार तर गोंय तुमी महाराष्ट्राक विकपाक काडिल्लें. आतां आमची कोंकणी विकूंक सोदतात.

पयलो : कोंकणी कितें भास रे?

दुसरो : मागीर तूं आतां कित्याक उलयता तर ती?

पयलो : कोंकणीक व्याकरण तरी आसा मरे?

दुसरो : तुका भाशास्त्रांतलो 'भा' तरी खबर आसा मरे? बेठो तोंडाची वाफ कित्याक घालयता?

(इतल्यान तिसरो इश्ट भायल्यांतल्यान येता.)

तिसरो : आरे व्हडलें दिस्कुसांव चल्लां काय कितें रे?

दुसरो : हो मराठीवादी आनी हांव कोंकणीवादी. जातलेंच न्हय दिस्कुसांव.

तिसरो : आरे पूण सध्या तुजे कोंकणीकूय कोण खायना आनी तेचे मराठीकूय. आतां सगलें इंग्लेज. आमी बेठेच कोंकणी-मराठी वाद करीत बसपाचें. हें सगलें पुलितीक. आमचे सारक्या बारीक मनशांक दांबून दवरपाचें पुलितीक. आरे, आयज तुका इंग्लेज येता जाल्यार कोणूय [...] दिता. आरे, जायी कोणाक तुजी ती कोंकणी आन[...] ती मराठी? बंद करात.

(फट् करून काळोख. परत उजवाड येता तेन्ना एक[...] नुस्तें उजरायत बशिल्ली दिसता. धव्या पड्ड्यार[...] मांडवी पुलाचें चित्र उदेल्लें आसा. कांय वेळान[...] एक बायल भायल्यांतल्यान येता.)

ताईबाय : आगे माईबाय, कितें घेतलें नुस्तें?

माईबाय : करबट. आनी कितें?

ताईबाय : आमचो कितें हाडटा पळोवंया. हांवें सांगलां सुंगट[...] म्हूण. भेणे आसात गे. बरें हुमण जातलें.

माईबाय : आगे ताईबाय, तें अच्युतालें चेडूं कोणावांगडा पळून[...] तें परत आयलें खंय, न्हय?

ताईबाय : नाक मात कातरलें आवय-बापायचें. असलीं [...] जल्माकूच येवंक फावनात.

माईबाय : आतां कोण जातलो काय ताचे वांगडा लगीन?

ताईबाय : माईबाय, आमच्या वेळार हो असलो मोग-बीग आ[...] गे? हें भारत जालां तेन्नासानूच हीं असलीं मोग[...] उतरां आयकूंक येतात. काळूच बदल्ला.

माईबाय : आदीं चार आण्यांक पड तांदूळ आशिल्ले. धा पर[...] उणो मेळटालो. चार आण्यांचें नुस्तें तर घेऽ म्हूण. [...] सगलो उजो लागला.

(इतल्यान भायल्यांतल्यान बाईबाय बेगीबेगीन येता[...]

बाईबाय : आगे, नवीदाद आयकल्या तुमी?

माईबाय : कसली? अच्युताली चली आनीक कोणाचो हात [...] परत पळून गेली काय कितें?

बाईबाय : ती न्हय गे, आगे पुलाची!

माईबाय : पुलाची?

बाईबाय : मांडवी पुलाची गे!

ताईबाय : कितें जालें गे बाईबाय?

बाईबाय : मोडलो गे.

ताईबाय : मांडवी पूल मोडलो?

माईबाय : कसो?

बाईबाय : आतां कसो तो म्हाका खबर आसा गे पापणी?

माईबाय : हरशीं तुका गांवावेलें सगलें खबर आसता मगे.

बाईबाय : पुरो आं तुमचो थोमणो. म्हाका हांगा हुस्को पडला, [...] कशें जातलें?

ताईबाय : मांडवी पुलाचें गे?

बाईबाय : मांडवी पुलाचें न्हय गे. आगे आयज दनपारां म्हजे ब[...] भयणिचे चलयेचें लगीन आसा पणजे. आतां म्हापश[...] पणजे कशी वतली बस? आतां बेतींतल्यान फेरी[...] बी चालू केल्यात अशें आयकतां. देवा पाव रे [...] लग्न बरेभशेन जावं दी.

(इतल्यान काकीबाय येता.)

काकीबाय : आगे माईबाय, मांडवी पूल मोडलो खंय! कांय मनि[...] मेले खंय!

माईबाय : पूल बांदतना देवाचें बीन बरेंऽ करूंक नासतलें. म[...] हें अशें अपशरण येता गे काकीबाय.

(इतल्यान धांवत आईबाय येता).

आईबाय : आगे माईबाय, खबर आसा तुमकां? मांडवी पूल मो[...]

खंय! घेऽ गर्दी पळोवपाक. आमचो श्यामूय गेला मजा पळोवपाक.

: म्हाका कळ्ळें गे. पूण आईबाय, तुमचो श्यामू त्या दादी सायकलकाराकडेन बसून सद्दां चकाटां मारीत आसता मगे. कांय कामधंदो करिना काय कितें तो?

: नुस्तें ताजें आसा गे?

(इतल्यान लाईबाय धांवत येता)

: आगे न्यूज आयकली तुमी?

: आगे लाईबाय, तुजी बेळशेल्ली न्यूज सांगूं नाका आमकां. आयकून आयकून कान फुटले.

: मांडवी पूल मोडलो खंय!

: खरेंच आयकून आयकून कान फुटले!

: तुवें रांदलें तर?

: ना गे. अजून न्हावंक लेगीत ना. कपडेय उमळपाचे आसात.

(इतल्यान एक मनीस येता.)

: हें रामा चोडणेकाराचें घर न्हय?

: हय. कितें जाय आशिल्लें?

: तुमकां सांगपाक आयिल्लों.

: तुमी कांयच सांगूं नाकात.

: आमकां खबर आसा मांडवी पूल मोडला तो.

: आयकून आयकून कान विटले.

: च्ये, च्ये, तें न्हय.

: मागीर?

: तुमकां सत्यनारायणाचे पुजेक सांगपाक, आयिल्लों हांव.

(सगल्यो बायलो मेळून वांगडाच 'सत्यनारायण' असो एका सुरांत उद्गार काडटात, तेन्नाच काळोख.)

माची परत उजळटा तेन्ना फाटल्या धव्या पड्द्यार गोंयचो नकाशो दिसता. आतां उजवाडाची शेड बरीच धुंवरी, निळशी. गुढताय वाडोवपी. माचयेर भाऊसायब बांदोडकाराचो उबे पोजींतलो पुतळो दिसता. पणजे पालासीकडेन आसा तसोच. तोच. कांय वेळान आफोंस्स द् आल्बुकॅर्कांचो आत्मो माचयेर येता.)

: (पुतळ्याक पळयत) भाऊ! भाऊ!!

: (पुतळो हालता) कोण रे तो?

: हांव, भाऊ.

: हांव म्हळ्यार कोण रे? नांव ना?

: हांव, आफोंस द आल्बुकॅर्क. सोळाव्या शेंकड्यांत हांवेंच तुमचें गोंय जिखिल्लें.

: आमी सगळ्या पुर्तुगिजांक गोंयांतल्यान केऽऽन्ना धांवडावन घातले. तूं हांगा कितें करता रे?

: तशें न्हय भाऊ. हांव आफोंस द् आल्बुकॅर्क. म्हळ्यारूच ताचो आत्मो. म्हजें मर्ण हांगाच मांडवी न्हंयचे देगेर जालां. कितलिंशीं वर्सां जालीं, तेन्नासावन हांगाच म्हजो आत्मो असो घुटमळत आसा. हांवें गोंयाक गुलाम केल्लें पूण निमणें ह्या गोंयच्या सुंदर सैमान म्हाकाच गुलाम करून उडयला, हें जाणात तुमी?

: कितें उलयता रे तूं? गोंयची ती आदली सुंदरकाय उल्ल्या रे हांगा? सगलें बदललां हांगा, सगलें. आनी तें बदलपाचेंच. आमकां आवडूं ना आवडूं, काळ वता तशें तशें सगलें बदलतलेंच.

आल्बुकॅर्क : म्हज्या मत्तान तर कांयच बदलूंक ना!

भाऊ : कितें उलयता रे तूं? हांव गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री जाल्लों तेन्ना पोपुलासांव कितलें आसलें रे? आनी आतां कितलें जालां! पोपुलासांव वाडलां, बेकारी वाडल्या, भ्रश्टाचार वाडला. सगलें वाडलां, बदललां.

आल्बुकॅर्क : पूण मनशाची वृत्ती आजून बदलूंक ना. ती तशीच आसा. मोग, सुवार्थ, दुस्वास, राग ह्यो मनशांतल्यो प्रवृत्ती आजून तश्योच आसात. त्यो बदलूंक नात.

भाऊ : नासूं. पूण एका काळार आमी तुमचे गुलाम आशिल्ले. आतां आमी मेकळे आसात.

आल्बुकॅर्क : पूण भाऊ, स्वतंत्रतायेंत लेगीत जण एकलो मनीस दुसऱ्याक आपलो गुलाम करूंक सोदता हें जाणात तुमी? आतां हेंच पळयात, खंयचोय मोटो मनीस मरतकच लोक ताचो पुतळो बांदतात आनी ताका ताच्या मोठेपणाचे कादयेंत दवरतात, ताका ताच्याच मोठेपणाचो गुलाम करून उडयतात.

भाऊ : बऱ्यो शिनिफिक्यो उलयता मरे तूं! लक्षांत दवर, तुजोय एक काळ आसलो, तसोच म्हजोय एक काळ आसलो. आमी आपापले परीन आमकां दिल्लें काम केलां. आतां कितें? तूं थंय आत्मो जावन भोंवता आनी हांव हांगां पुतळो जावन उबो आसां. (पॉज) पयर म्हज्या दोळ्यां मुखार हो मांडवी पूल कोसळून पडलो. हांव कितें करूंक पावलों? एका पुतळ्याच्यान कितें करूंक जाता?

आल्बुकॅर्क : भाऊ, एक विचारूं?

भाऊ : विचार.

आल्बुकॅर्क : सोळाव्या शेंकड्यांतलो हांव आनी विसाव्या शेंकड्यांतलो तूं. इतिहासाच्या एका अदृश्य धाग्यान आमी दोगूय बांदिल्ले आसात. पूण आयज आमी दोगूय इतिहासभरवण जाल्यात. आतां फाटीं वळून पळयतना तुका कितें दिसता?

भाऊ : तुका कितें दिसता?

आल्बुकॅर्क : शून्य. फकत एक शून्य.

भाऊ : इतिहास म्हळ्यार फकत एक शून्य अशें तुका दिसता? (पॉज)

आल्बुकॅर्क : निमाणें, हें सगलें कित्याक?

भाऊ : कितें तें?

आल्बुकॅर्क : ही गुलामगिरी, ही स्वतंत्रताय, हीं झुजां-झगडीं, सुख-दुख्ख, जल्म-मर्ण. हें सगलें कित्याक?

भाऊ : ताकाच जीण म्हणटात. (पॉज) आतां वच तूं. फांतोड जावंची जाली. फाल्यां १९ डिसेंबर. म्हज्या गळ्यांत हार घालपाक सकाळीं लोक येतले. म्हाका तयारेंत रावपाक जाय.

आल्बुकॅर्क : बरें तर. मूयतु ओब्रिगादु. (वता).

(भाऊचो पुतळो परत आसा तसो स्तब्ध आनी निश्चल जाता. पड्डो.)

✻ ✻ ✻

*प्रयोगा खातीर बरोवप्याची मान्यताय गरजेची. नामो :* एस. डी. तेंडुलकार, लोबोवाडो, थिवी, बारदेश-गोंय.

**पात्तुमायची बोकडी** पान ४६ वयल्यान चालू)

तिका हांवें म्हळें, 'अजसुंदरी, काडयो माका जाय. वेगळीच रिती उज्यापेटी आसा.'

त्या वेळार पात्तुमायन एदें तांदूळें हाडून तिका दिलें. हांवें पात्तुमायक म्हळें, 'पात्तुमाय, तुगेले बोकडेन मिगेलीं दोन पुस्तकां खाल्यांत.'

हांवें कितलेकी भयंकर उपद्रव करचे लेकान पात्तुमायन म्हळें, 'तशें सांगनाका व्हड भावा, मागेली बोकडी तशें कांय करचिना.' आनी ल्हवूच, 'वेडयां कायरीं?'

हांवेंय ल्हवूच म्हळें, 'उगडास आसा.'

भो ल्हवू 'कोणेंय जाण जावपाक नज.' म्हण सांगून आयदन घेवन पेळ्तांत गेलीं.

रशीद आनी सुबैदा रडतात. एक सहानुभुतिचें रण्णें म्हण लेकून आरिफ, सय्यद मुहम्मद आनी लैला हांणी आरंभलें. मद्दें मद्दें लैला 'आवयक व्हरनाकात!' अशें म्हणत आसा. तेन्ना आबू एक बरप घेवन आयलो. बरप दिवन एक छडी सयत 'कितें हें!' म्हण आवाज कर्न पेळ्तांत गेलो. तुरंत सगटांनीय रण्णें राबयलें. घरांत शान्ति! हांवें बरप फुटोवन वाचलें. दूरा मद्रास शारांसून. राजश्री एम. गोविन्दाली बायल डा. पद्मावती बाळांती जावन एक भुरगो. आवय आनी चेरडूं दोगांय सुरक्षीत.

आवयक चेरडाकय देवाकडे खोस मागून हांवें तुरंत एक जाप बरयली. बालाक एक भाव जालेल्यांत तिका अभिनन्दन सांगलें. तिजे लागीं आशिल्ली संपत्ती अडेच रुपया बैंकांत ठेवूंक सांगच्याक हांवें बापाक उपदेश केलो. श्री. एम्. गोविन्द म्हा दुसरे पावटी बापा जालेल्यांत ताजी प्रशंसा केली. तातूंच ए. नारायणन नंपियार, एम्. ए., के.सि.एस. पणिक्कर, डेविड जार्ज, जानम्मा, पारुकुट्टीआम्मा, के.ए. कोडुङङल्लूर; के.पी.जे. पणिक्कर (गोपकुमार), शरतकुमार, रामजी, आर.एम. माणिक्कत आदी मद्रासाच्या सांगात्यांक मेळतर, हांव माका जल्म दिवन वाडयल्ले माजे आवयचे लागीं आसा म्हळेलें खबर जाणोवंच्याकय सगटय खुश आसात न्हय अशें हांवें विचारलें म्हण सांगच्याकय बरयलें. बापायक, चेरडुवांकय, आवयकय एक पावटीं देव बरें करों म्हण मागून बरप पुरा केलें आनी लकोट्यां घालन बरे रुपान थापून पतो बरोवन अब्दूक उलो दिवन ताजेकडे दिवन बेगीन पोस्ट कर म्हण हुकूम दिवपाक एक कायरी उगडास आयली. 'राव रे', हांवें म्हळें. तुजे पासन व्हड शिकायत आयकूंक पडता. तूं अब्दूल खादराले आंगडीं आशिल्लो रुपया सग काडून देखतल्यांक सग रीण दिता, अनेक म्हयनाळ्यांची एजन्सी घेतल्या, तूं कोणाकय अनुसरण करना. हें खरें की?'

सगटाचेंय जाप म्हण ताणें म्हळें: 'माका कोणाच्यान देखूंक पाडना.'

हांवें कांय सांगचे फुडेंच ताणें म्हळें,

'म्हान्तान येवंच्याक देखलें की! आका आनी मावस्यो, व्हड म्हान्त आनी आवय मेळन हें आंगण आनी पेटांगण सग झाडून कोयर एकडे करन लासून साफ कर्न घाल्यां देखलें? फुडेंच हांवें म्हळेलें: कोणेंय मानची ना. हांवच झाड म्हण सगटांनीय सांगलें. आतां कितें जालें? हे सग म्हान्तालागींसून दुडू घेवंचो उपाय आसा. दामेल्यान येवंच्याक, खुश करच्याक तांणी हें सग केलें. हांव दामेली की? माका दुडू आसा? म्हान्ता, आमकां हें आंगण वान्दोवंक जाय. घराचो मुगूळ परतून कोयलूव घालोवंक जाय. हांवें विचारलें, 'आमकां, म्हण सांगल्यार? म्हान्तान रुपया दिवूंक जाय. माजेकडे दुडू खंय आसा?'

तो जेवण जावन बरपय घेवन गेलो. ताणें वचून जावंका अब्दुल खादराक येवंचाक. ताणें गेल्ले मागलान हानीफा आयलो. हानीफा एक फौजदार आशिल्लो. ते उपरांत दर्जी दुकान चलयता. ताका लागून साईकल वापय.

हानीफा सादारणत: एक सुधारक आसा. डबल वस्त्र, जुबा, वळवन दव… केंस आनी क्लीन शेव. आतां एक वस्त्र मात्र न्हेसला. इतें की गु… आसा. हांव उलयलों ना. कांय उलयल्यार...!

ताणें म्हळें, 'म्हान्ता, मागेलो जागो विकच्याक माका उद्देश आ… म्हान्ताक भो उण्या मोलाक दीन.'

'तें कित्याक आतां विकूंक वता?'

'दुडू ना. आसल्यार एक कमीस शिंवोवन घालची ना?' स्थाय… कितें मोल मेळूंक जाय? म्हान्ताक देकून मोल उणें दीन. धा सास रु… दी.'

धा सास रुपया. हानीफान कितें मोलाक घेतलें म्हण म्हाका कळ… हांवें विशय परतिलें. हांवें विचारलें, 'तूं आतां ह्या घराकडे खर्चाक … दिता?' दोन तीन वर्सां फुडें हानीफा घरा खर्चाक दितालो दिसाक … आणे. ताकाय, ताजे घरकान्निकय, दोग जाण भुरग्यांकय खाणा जेवण… हान्तूण आनी कांय ताणें घेतलें नाशिल्लें. तें सर्वय दोन आण्यांत येता… अब्दुल खादर ताका संवतालो. ताका लजा कांय ना. दबाज्यान सांगल… तुरंत तो म्हणतलो, 'हांव फौजांत वचन. सरकाराक माजी गरज आसा…'

तरीय त्या दिसा मागेले मध्यस्त कायेचेर एदें निर्णय घेतलें. दोन आ… चार आणे केले. क्रमेण ते बारा आणे मेरेन पावयले. हांवें वच्याकच… हानीफान कातरून उणे केले. आखेर परतेन दोन आणेच केले शी मा… आयकून कळता. हानीफाक एक चेरडूं जल्मलें. ताजे करान दुडू … दिवोवंचाक एक न्यायूच जाला. पूण माज्या प्रश्नाक न्हय तो जाप दि… ताणें म्हळें, 'लान भावाल्या त्रास दिवपान जीवन काडचाक कश्ट जाता…'

'अब्दुल खादरान कश्ट दिवप म्हळ्यार कितें?'

'एक बंडल नोट घेवन मागेल्या दुकानांत चडून आयलो. जायते … मनीश थंय बैसल्ले. मागीर 'पळयेर' म्हण सांगून तें नोटां बंडल मागेल… तोंडार मारलें. आनी तो सांगता, 'दाम विंदल्यार दामाकच लागतलो रे… हांव लजलों. हांव म्हान्ताक प्रति दिन बिडी घेवन दितां मू? प्रति दि… आगपेटी घेवन दितां. मागेलो दुडू विंदल्यार दुडुवाक लागना कित्या?'

नीति.

तरीय ताका न्हय हांवें जाप दिल्लेली.

हांवें म्हळें, 'रशीदूय आसा मु रे आतां हांगा. तूं घराक रेशन घेवंच्या… कितें दिता?'

ताणें तोंड काडचाक सांगलें, 'हांव फौजांत वचन. सरकाराक मा… गरज आसा.' तो गर्वान भितर सरलो. जेवण जाले उपरांत सीधा दर्जिल… दुकानांत गेलो.

हांव जेवतां आसतना पात्तुमायची बोकडी जगलेर चडून माजेकडे येव… भोजनाक तय्यार. हांवें बोब मारली. 'पात्तुमाय, धांवन यो!'

पात्तुमाय धांवन येवन तिका आंगणांत उलो दिवन व्हेली. हांवें म्हळ… 'तिका दोरान बांदून राबवूंक जाय.'

पात्तुमायन म्हळें, 'दोर घालप तिका पसंद न्हय, म्हान्ता.'

सांज जावंच्याक कोचुण्णी आयलो. केन्नाय तरी घराकडे पडतलं… माजेकडेनच. माज्या आळतांत आवय, कोचुण्णीच्या पेळतांत आबू. हानीफ… तागेल्या परिवारा सयत लागिंच्या कुडांत, अब्दुल खादर तागेल्या परिवा… सयत घरा भितर. जगलेर साकां मद्दें सुलैमान आनी तागेलें परिवा… कोचुण्णी घराकडे येनातिल्ल्या वेळार तो परिवार सयत वतलो. चुडी लाव… मुखार कोचुण्णी, त्या उजवाडांत मागलान पात्तुमाय, शेंपडी सर्मान पात्तुमाय… लागून धा वर्सां पिरायेची खादीजा, खादीजा लागून मागलान बोकडी.

न

पात्तुमायचे बोकडेचें त्रास दिवप फाल्यार प्रारंभ जालें. सुमार आट जालेलीं आसयेत. माथ्याकय देहाकय तेल पुसून लंगेट न्हेसून हांव रत करतालों. तेन्ना आंगणांत भुरग्यांलो एक गोन्दोळ आयकलो.

'उळ्ळाडत्ती पारू! उळ्ळाडत्ती पारू!'

'शेंपडेक धर! शेंपडेक धर!'

'मुतचें देखलें ना! मुतचें देखलें ना!'

'सिंगांक धर! सिंगांक धर!'

विशय कितें? हांवें जनेलांतल्यान पळयलें. विशेश कांय ना. पात्तुमायचे डेन आबीच्या हाफ ट्राउजराचो मुखावेलो भाग खावन जाल्लो! बाकी शेल्ल्याकय धरला. आबीन बोकडेचे गोंवटेक धरलां. पात्तुकुट्टी शेंपडेक वोडता. सय्यद मुहम्मदान सिंगांक धरलां. आरिफा भियेवन रावलां. द आनी सुबैदा वेगळ्यांत कांय मन दिवनातिल्लें उंगोटो तोंडात दवरून न आंगणांत बैसल्यांत. लैला बोकडेच्या पोटाक धर्न तिका धमकी ा,

'उळ्ळाडत्ती पारू! उळ्ळाडत्ती पारू!'

हांवें आंगुटी वेडावन कुडांसून जगलेर सर्न आंगणांत देंवन वचून, बोकडेच्या ाक धर्न आबीक सोडयलो. आबीच्या ट्राउजराचो मुखावयलो भाग न्हय, खिसोय बोकडेन खालो.

विशय समजूंक पात्तुमायची बोकडी दोशी न्हय. आबीच्या हाफ जराच्या खिशांत केक आशिल्लो. एदोच ताणें बोकडेक दिलो. बाकी र खोवन दवरलो आनी बोकडेचे मुखार वचून रावलो आनी तिका च्याक सांगलें. बोकडेन केकय, हाफ ट्राउजराच्या मुखावेलो भागूय ो. खिशांत आशिल्लें खिशा सयत खालें. आबीन म्हळ्ळें, 'बापा तलो!'

तें पयलेंच उगडास करूंक जाय आशिल्लें न्हय? मारों!' स्वल्प ांत हांवें म्हळें, 'भियेवंच्याक कांय ना रे. कोणेंय सांगप ना.'

पात्तुकुट्टी, लैला, सय्यद मुहम्मद हांचेकडे गुपीत रावच्याक सांगलें. ाक आनी मुखार कोणाकय 'उळ्ळाडत्ति पारू' म्हण उलो दिवूंक नज उपदेस दिलो.

कसरत कर्न हांव न्हंयत न्हावंचाक वच्याक तयार जालों. सय्यद मुहम्मद पात्तुकुट्टी हांकांय उलो दिलो. तेन्ना आबी आनी लैलाय आयलीं. ापाकडे न्हावंच्याक गेलीं ना. माजेकडे न्हावंचाक राखून रावलीं. विशेश कांय ना. आबीचें स्लेट पेन्सील लैलान मोडून लान कुडके केल्ले. अपराधाक लागून आबीक आनी लैलाक बापान न्हावंचाक व्हेलीं ना. त्तुकुट्टी आनी आबी हांकां स्लेट पेन्सिल घेवंच्याक हानीफान तीन दिल्लेले आसात.

ंवें सगटांकय मुवाट्टुपुषा न्हंयत व्हर्न न्हाणोवन तिरार राबयलीं. उपरांत पोवन बुडून न्हातालों. तेन्ना आबीचो एक उलो आयकलो. 'व्हड !'

व घूंवन चोयलों. कोणेंय उदकांत देंवन गेलें ना. हांवें पोवन घाटाकडे विचारलें. 'कितें रे?'

बीन म्हळें, 'माका ट्राउसर ना!' ताणें स्पष्ट केलें. तो नागडो. अंगार ना. अश्या पुराय नागड्या रुपान सडका वयल्यान तो कसो वतलो? वें विचारलें, 'रे तूं तशें न्हय आयल्लो?' तें सग खरें. तैं तेन्ना. आबीन ताज्या स्कुलांत शिकच्या एकल्याक मंचुव्यार देकलो. तो न्हेसला आसा.'

ून आबीचें नागडेपण लिपोवंचाक हांवें ताका एक अंगुठी दिली. तेन्ना ट्टीकय नागडेपण संबंधी गरज आयली. तिकाय जाय वस्त्र.

हांव न्हाण जावन मागेलें लुगट काडून न्हेसून अंगुठी तिम्मोवन पिळन मातें पुसून, अंगुठी उदकांत बुडोवन पिळन पात्तुकुट्टीक न्हेसयली.

लैलाक आनी सय्यद मुहम्मदाक नागडेपणाचो गंध येवूंक आरंभलो ना. आयल्लो तरी कितें करतलीं आशिल्लीं? माजेकडे दोन अंगुठ्यो मात्र आशिल्ल्यो. धवी रेंव घाल्लेले ते वाटेन आमी गेलीं.

आमी वच्याक घरांत अब्दुल खादर आनी हानीफा, दोगांय झगडतात. झगडूंक विशेश कारण कांय ना. काल हानीफान घराक रेशन हाडचे खातीर कांय पैसो दिले ना, हें अब्दुल खादर जाणा जालो. तें हानीफाक बरें दिसलें ना. देकून तोवूय, कुटुंबय घरांसून वच्या वता!

'देवं गो ऐशोमाय!' हानीफान उलो दिवन म्हळें, 'भुरग्यांकय उलो दी.'

तोवय, तागेलें कुटुंबय तांगेल्या केळी बागांत कितेंय मडळां तेंकून खोवन रावच्याक वतात. हांवें पळोवंचाक तो न्हेसला वस्त्र मागेलें! चोरलेलेंच. हांव लागीं वचून विचारूंक, 'सांगून रावच्याक वेळ ना. मस्त काम आसा' अशें सांगून तो चल्लो.

दारार वचून ताणें म्हळें, 'माका ह्या घरांत कसलोय अधिकार ना जाला.'

हानीफा तागेल्या दर्जीच्या दुकानांत गेलो. हांवें अब्दुल खादराक विचारलें, 'आरे, तुका माका ह्या गोन्दोळासून राखूंक जायना की? त्या इन्स्पेक्टराक दूरा सरूंक एक फान्ता लागेन सांगच्याक पडना की?'

अब्दुल खादरान म्हळें, 'हांगा म्हान्ताक कितें की उणाव? तेल, तूप, दूद, चाय, बिडी, आगपेटी, केळें, नन्द्रबाळें, टोमाटां, अनवास, ञाफिपूवन केळें, कण्णन केळें, पिकल्लो पणस, खाण आनी लागीं निदेवंच्याक आवय, हांव, आबू, कोचुण्णी – आनी कितें जाय?

अब्दुल खादर एक अध्यापक आशिल्लो. व्हड व्याकरणकार. फुडें एक दिसा ताणें आवयक म्हळें, 'माते, स्वल्प शुद्ध जल दियात.' त्या दिसा आवयन शीत वाडचे दायन एक मार मारलो. बापान ताका शान्त केलो.

'तुवें तशें सांगल्यार पुरो. तूं माका कितें म्हण उलो दितलो?'

'पिता' म्हण.

तें आयकच्याक दायन आवयन एक लागेन दिल्लो.

मागीर तो आवय आनी बापा म्हणून उलो दितालो.

थोंटो!

ताकाय, माकाय एकाच दिसा स्कुलांत घाल्लो. तेन्ना तें 'मुहम्मदन स्कूल' आशिल्लें. उम्बियण्णन म्हळेल्या एका भक्तान तें स्कूल निर्माण करयलेलें.

पुतुश्शेरी नारायण पिळ्ळा तेन्ना पयले दर्जेंतलो अध्यापक आशिल्लो. तांणी माकाय, अब्दुल खादराकय 'अ आ' बरोवन दिल्लें.

अब्दुल खादर स्कुलांतय, भायरय हरामी आशिल्लो. घरांत बरो चेडो. हांव स्कुलांत विनयशील आशिल्लों. नारायण पिळ्ळा मास्टरान ताका मस्त मारिल्लो आसा.

अब्दुल खादर दाव्या पांयार रावून उजवो थोंटो पांय भोंवतणी घुंवडावन चेरडुवांक मारतालो. तशें माकाय मारल्लो आसा. मागीर तो उजव्या पांया ताळूव नाका सम हाडून विचारतालो, 'अशें दाकयशी की?'

साध्य न्हय! कशें करूंक शक्य आसा? दुसऱ्यागेलो पांय सडळ सडळ जावन आसा की? दुसऱ्या कोणाकय हो अभ्यास शक्य न्हय.

'मागीर हुंगून पळय!' तागेल्या थोंट्या पायाची ताळूव दुसऱ्यांनी हुंगून पळवूंक जाय. न्हय जाल्यार मूठ मारतलो! चेरडुवां दूरा सर्न रावल्यार तो स्वयं हड्ड्यार मार्न रडतलो. ताज्या थोंट्या पांया निमित्तीं साबार जनांक ताजेर दया आसा. तो तांतसून चडान चड फायदो काडता. ताणें कितेंय केल्यारीय अपराध दुसऱ्यांगेलो. चेरडुवां ताजी मूठ घेवंच्याक रावून दितलीं. हांवेंय रावून दिल्लेलें आसा. तागेली स्लेट आनी पुस्तकां हांवें

व्हावूंक जाय. हांव व्हड न्हय? नीतीक धाकट्या भावांनी व्हड भावांगेले स्लेट आनी पुस्तकां व्हावूंक जाय. पूण हांवें तागेलीं व्हावूंक जाय. न्हय जाल्यार मूठ!

हांवें मुठी जायत्यो घेतल्यो. हांवें स्लेट आनी पुस्तकां मस्त व्हांवलीं. प्रतिक्रियेचें झोड-वारें मनांत आसा. पूण कितें करप? ती स्लेट आनी पुस्तकां रोडार दवर्न हात मुखार काडून माजेकडेन ल्हवू विचारतलो: 'मागेलीं पुस्तकां आनी स्लेट घेता की ना?' 'मन ना' म्हण केन्नाय सांगतलों आनी नीति आनी न्याय हांचे भाशेन उलयतलों.

'आरे हांव तुगेलो भाव न्हय?'

'काडता की ना?'

'ना.'

तेन्ना एका पांयार रावून ताण्डून वोडून एक मार. माज्या हृदयाच्या हाडार. हांव स्वल्प अजाण खाल पडून तशें पडून आसतलों. तो धूरा सर्न रावून हुकम दितलो. 'उठा रे, यो वचया. तोडोव कर्न गेल्यार अध्यापक मारतलो.'

हांव पडून दुखान चिंतन करतलों. हो खंयचो न्याय? भावान मूठ मारप आनी व्हड भावान तें घेवप. आनी पुस्तकां आनी स्लेट व्हांवप. हांव तशें पडटलों. तो माज्या हड्ड्यार चडून बैसतलो आनी विचारतलो, 'आनी मूठ जाय?' हांव खरेंच सांगतलों: 'नाका, व्हांवन.'

तशें उठावन तागेलींय पुस्तकां आनी स्लेट हांव व्हांवन घेवन वतलों. कितले दीस! कितल्यो मुठयो!

तशें येनासतना एक दीस माका बुद्धी दिसली. बोधोदय! मूठ मारूंक हात उबारचे फुडें हांवें ताका पांयान ताज्या स्वस्थ पांयार एक मार दिलो!

अब्दुल खादर उद्दारी जावन पडलो.

हांव तुरंत ताज्या हरद्यार चडून बैसलों. हांवें कांय अनीति दाखयल्यावरी ताणें दुख्खान विचारलें, 'हें कितें रे, हांव लान न्हय? माज्या हरद्यार चडून बैसयेत की?'

ताका मारूंक हांवें हात काडलो. तो रडूंक लागलो. दोळ्यांत दुखां?

'माका मूठ मार नाका. हांव तुगेलो भाउ न्हय?'

भाउ! हंबा!

'तुका पयलींच उगडास कर्येत आशिल्लें न्हय?'

'आनी हांव केन्नाय उगडास करीन.'

'आरे', हांवें विचारलें, 'सुण्याक देखचे पयलींच फातर मारता कोण?'

'तूं'.

'न्हंयत न्हावन, पोवन, बुडून पेळतड पावता कोण?'

'तूं.'

'घरांसून कांय फारतना पयलेंच तुका दिता कोण?'

'तूं'.

'नारापुळ्ळा मास्टराल्या मेजांसून च्याक फारन पयलेंच तुका दिता कोण?'

'तूं.'

'मागीर कितें?'

ताणें म्हळें, 'हांव तुगेलें स्लेट आनी पुस्तकां व्हांवन.'

हांवें म्हळें, 'तुगेलें तूं व्हांव.'

'जाल्यार मागीर मुखार चलता कोण?'

'हांव!'

तशें त्या दिसासून अब्दुल खादर भाउ जालो. तो हो थोण्टो!

'आरे', हांवें म्हळें, 'तुका एक सांगच्याक नज की. त्या इन्स्पेक्टराक दूरा सर म्हण? हांव घरच्या गोन्दोळांत घुसमटतां. तुका हें कळचना.'

'भावा, तो मनीश जागो पळयता.'

तो लोकण्डा बडी तेंकून तेंकून तागेल्या दुकानाक गेलो.

हांव एक अनवासा अर्द कापून साल तासच्या वेळार पात्तुमायची जनेला लागींय, भुरगीं दारारीय हाजर जालीं. नन्द्रबाळें केळें, कण्ण आनी तूप हीं सर्वय पुटां मेळोवन कालोवन भुरग्यांक एक एक दिली. अनवासाचो एक एक कुटकोय. तें मेळ्ळ्यार चेरडुवां खेळ-कर्च्याक वतलीं. पूण आबी, पात्तुकुट्टी, लैला, आरीफा आनी हांकां देकनातिल्लें आनुमायचो पूत-सय्यद मुहम्मद माजे मुखार आयल कर्न कांय किरकिरांचें गीत म्हण खांब्याक धर्न ताजें तोण्ड दाकय हांव ताका एक विशेश उण्डी दितलों. फलाहार खावन केळासाल बी पात्तु बोकडेक दितलों. मागीर हात धुवन च्या घेवन जगलेर कदलार बैसतलों. तेन्ना स्कुलांत चेरडुवां वता आसतलीं. भौ कर्न चले विकाराधीन जावन लकलकच्या दोळ्यांनी माका पळयता आसतलीं.

चेलियांचे ते चंद दृश्टींत निपून पळ्ळेलें दिव्य रहस्य मागीर समजता. तें हांव मागीर सांगन.

त्या दिसा आबी आनी पात्तुकुट्टी प्रात: वचे गदी स्कुळांत गेलीं जावंच्याक आबी आनी पात्तू निपून गदी रोडार रावून माका हात दा उलो दिलो.

कितें जालें?

हांव देंवन गेलों. पात्तुकुट्टी एका माडा पोन्दाक निपून बैसलो वच्याकच आबीन म्हळें, 'आबो, बापान स्लेट पेन्सिल घेवंच्याक दि दोन पैशे.'

'दोन पैशे!'

'ट्राउजराच्या खिसांत आशिल्ले!'

'आरे तूं कितें म्हणता?'

'बोकडेन खालेल्या खिसांत आशिल्ले!'

ऊं हूं! पात्तुमायचे बोकडेन दोन पैशेय पोटां घाले. पूण बोकडे खायत की?

हांवें म्हळें, 'तुमी हें कोणाकय सांगचेंना. परम रहस्य आसो. दोन मेळच्याक उपाय आसा की ना, पळोवया.'

आबीन उगडास करयलो, 'आयेन देकल्यार ती मारतली.'

'निपून राव!'

हांव आयलों. पात्तुमायकडे दोन आणे रीण घेवन दोन पैशे व्हरन आ आनी पात्तुकुट्टीक दिवन तांकां स्कुलांत धाडलीं.

पात्तुमायची बोकडी आंगणांत रावल्या! खंयच्याय समयार दोन खाल पडयेत. हांव राखून बैसलों. पूण लान लान लेंडियो पडतात. वा कांय तरी पडना. कारण कितें?

पडनातिल्लें रावतलें की? माजे दोळे केन्नाय बोकडेचे मागलान आ

तशें आसतना व्हड उत्कंठा सयत माका पळोवन विद्यार्थी चेडु समुदाय रोडावेल्यान गेलो. सुन्दर चेडुवां. हांव खुश जालों. तांकां क हांव कोण म्हण! देकून तीं अशें पळोवन वतात.

तीं एकमेक उलयतालीं. (हें हांवें मनांत लेकलें म्हण तुमी स जाय.)

मुदियाळ केंसांची: 'ते आराम कुरसिचेर उद्दारि पळ्ळा कोण कळता की?'

मृगनयनी: 'मागीर, कळना की! सुप्रसिद्ध साहित्यकार वैकम मुह बशीर!'

कोयलवाणी: 'हांव मागेले ऑटोग्राफ बुकार तांचे करान बरवय मू!'

माजरा दोळ्यांची: 'तो न्हय तो. तें खोमटा गदी घर देखलें ना?'

मधुवाणी: 'वोस गो, माजरा दोळ्यांचें! तो तोच. चोयतां की

मागेल्या ऑटोग्राफ बुकार तांचे करान बरवयतां.'
गजरा दोळ्यांची: 'धांवली जाल्यार पळोवया!'
तशें त्या दिसा दनपारां जेवण जावन स्कुलांत वचचे वाटेर तीं माजे
क आयलीं.
त्या वेळार वेगळे एके घडणुकेचो उगडास आयलो. हांव तेन्ना दुसऱ्या
त रावतालों.
हांव आयलां म्हण जाणून हायस्कुलाचो मुख्य अध्यापक आयलो. ताणें
ें, 'स्कुलाचो वार्षिक उत्सव आसा. हांवें येवन एक भाषण दिवूंक
. चेरडुवांक उपदेश दिल्यार पुरो.'
'हांवें भाषण दिवप ना. आनी त्याय वेळार हांगा आसचो ना.'
ताणी म्हळें, 'हांव नोटिसार नांव छापतलों. आसा तरी जाल्यार आयल्यार
.'
नोटीस छापलें. नांवय आसा! हांव कितें करतलों? स्वस्थतायेन बैसून
बरोवपाक हांव आयलां! ऊं हूं!
तशें झाडा मद्दें रावले वेळार गेटाच्या कवडाचे खांचींत दोन दोळे!
याळ केंसाची एक चली.
हांवें विचारलें, 'कितें?'
तिणें म्हळें, 'नोटिसार नांव आसा. आमकां भाषण दिवूंक जाय. येनातिल्लें
नये, आयकलें?'
'तेन्ना आसल्यार येन.'
मागीर केन्नाय तिवूय दुसऱ्यो चेलियोय गेटालागीं येवन उलो दिवन
गतलीं: 'येनाशी रावनये, आयकलें?'
मागीर वार्षिक सुवाळ्याचे फुडें दिसा हांव थांगासून गेलों. सन्दूकय
ुळणय कांय काडूंक नातिल्लें. कांय घेवंनातिल्लें. रित्या हातान. आवयक
म्हळें. आनीक वार्षिक सुवाळो जालेल्या दुसऱ्या दिसा हांव आयलों.
दिसाच मुदियाळ केंसाची बी येवन विचारलें, 'तुमी हें कितें केलें?'
ें म्हळें, 'आसल्यार येन म्हण हांवें सांगिल्लें.'
'बरे मनीश तुमी!'
तें तशें सरलें.
दार दावंटून येवंचे चेलियांत ती मुदियाळ केंसांची आसा की म्हण
ें पळयलें. ना. सग व्हड जालेलीं आसूंक जाय. कितले बेगीन चेले-चेरडुवां
डटात!
हांव तांगेल्या ऑटोग्राफार बरवंचाक पेन काडया म्हण आठयलें. तुरंत
लें, येवां, स्वल्प घडियेक येवन रावोंत तीं.
तीं आयलीं. माका पळयलोना!!! तीं सीधा जांबा रुका पोन्दाक वचून
वयकडे इतें की म्हणून इतें की दिलें. आवयन लुगटा तलवासून एक
जांब काडून तांकां दिले. तीं थांगा रावून एक एक चाबून खावन
डां उदक काडून जांबा रुकार लोभी दृश्टीन चोयलीं.
लोभी गाढवां! आवयच्या बुरशल्ल्या लुगटा तलवार बान्दून दवरल्ले
तीं वसवस खातात. पूण साप शुद्ध माका पळयनात कित्या? गाढवां
रियो!
एक थरथरो सयत माका गुपीत सर्वय समजलें. चेलियो माका न्हय
यताल्यो! जांबा फळांक! लोभी!!
चेलियो सग जांबय घेवन गेल्या उपरांत हांवें आवयक विचारलें, 'तांणी
कितें दिलें?'
आवयन म्हळें, 'एक आणो'.
'जांबा फळां चेलियांक विकताली तूं?'
'न्हन्तना!'
'एका आण्याक कितले दिले?'
'वीस'.

'बरें. हांवें कितले कितले वीस पात्तुमायचे बोकडेक खावयल्यात!'
त्यो चेलीयो माका पळोवनातिल्ल्यान जालेले अनास्थे कारण व्हड हुसको जालो.
'तो जांबा रूक वोवन व्हड केला कोणें?' आवयक विचारलें.
आवयन म्हळें, 'हें झाड ताळियाकलसून गुंटी हाडून तुवें वोवन केलां.
समजलें. ताळियाकल एक जाकोबायट क्रिस्तांव कुटूंब हांगा लागीं रावून आसा. थांगा तोम्मन, मातनकुञ्ञ, कुञ्ञपन अशे तेगां इश्ट आसात. थंयसून हाडून हांवें वोवन व्हड केला न्हय? गाढवांनी माका पळयलोना. हांवें उठावन आवयक म्हळें, 'तो एक आणो आळतां काड!' आवयन तो तुरंत माका दिलो. हांवें वचून विडी घेतली. आनी न्हयचे देगेर वचून बैसलों. परणी न्हंय पळेवन माका चोयनातिल्ल्या त्या लोभी चेलियांक उगडास करून धुंवर सोडलो! फू!
मागीर दिसानदीस चेलियो मागेल्या जांबा रुकाक पळयतालीं. ताजेर खुतखुती जांब आसा. हांव स्वयं म्हणतालों: 'गाढवांनो, चोयात! मागेलो जांबा रूक. हांवें वोवन केल्लो... गाढवांनो!'
तांचे कडे कशी वैर साधप? कदलाचेर राखून बैसलों. कुडांत वचून पडप कांय ना. तशें आसतना तीं आयलीं. उठावन वचून भो तिरस्कार रुपान हांवें विचारलें: 'कितें जाय?'
'दोन पैशांक जांब जाय.'
'दुडू काड.' दुडू घेवन किरवंटीक खोयलो आनी भो लान पळोवन धा जांब दिले.
'हें कितें? सग लान मू? ती आजी जाल्यार व्हड जांब दिता आसली मू?'
'ते आजीक ह्या रुकाचेर कांय अधिकार ना. देकून तिणें तशें दिलां.'
गाढवांनो!
'तरी एक लागेन दी.'
'हो रूक कष्ट काडून वोवन केलेल्याक तें पसंद ना.' एक जांब सरी चड हांवें दिलो ना.
'कसलो मनीश' म्हण सांगून तीं लोभी गेलीं.
पोटार्चीं! माका एक पळोवपाक नज. लजा नातिल्लें मागेल्यां जांबा रुकाक पळोवंयेत!
अशें हांव जांब विकता आसतना आवय येवन दुडू निमगतली. हांव विचारतलों. 'कित्याक? आवयक ह्या जांबा रुकार अधिकार कितें? हें मागेल्या कश्टांचें फळ. मागेलें रगत ह्या रुकार जांब जावन आसा! आवय गे, कितलीं वर्सां जालीं तूं हे जांब विकता? तो दाम सग खंय?'
आवय हारवली. हांवें सोळ्ळी ना. आनी आपल्याक सर्वय दुडू जाय. तें घेवूंक जाय. हें घेवूंक जाय. कितलो रुपया? ऊं हूं! कोणे की करमली रूक वोयला?
आंगणाचे एक तांत व्हड एक करमली रूक आसा. मुळांसून रूक भर्न पांचवें करमल आसा. तेंवय आवयन काडून विकप आसा. तोवय हांवें वोवन केल्लेलो न्हय?
आवयन म्हळें: तो तुज्या बापान वोयल्लो. हांवें मस्त उदक शिंपल्लें आसा.
तरी ताजेर माका कांय अधिकार ना. आसों! आवय रागार पेळतां गेली.
हांवें आनुमायक उलो दिवन एक चाय हाडूंक सांगलें. आनुमाय लागिंच्या घराक वचून एका चेड्याक धाडून चाय हाडोवन दिली. हांव ती पिवन एक बिडी ताण्डून बैसच्या वेळार एक काळी काकाटी चेडूं आयली! धा पन्नेरा वर्सां पिराय आसतली. जांब घेवंच्याकच. एक पैशाचो की दोन पैशाचो. ह्या गाढवाक लानच जांब दितलों. ती तरी जांबा रुका तांत

चोयली. ती सीधा माजे कडे आयली आनी नमस्कार सांगून म्हळें, 'हांव तुमकां ओळखतां. तुमगेलीं सग पुस्तकां वाचल्लीं आसात. तुमी आयल्यात म्हण माज्या बापान सांगलें. देकून हांव आयल्यां. मागेल्या ऑटोग्राफ पुस्तकाचेर कांय पुणीय बरोवन तुमचें दस्तखत कर्न दिवूंक जाय.'

'हा! माजी मर्याद राखच्याक आयल्ली चंद ककाटी, तुका देव बरें करों. चन्द्रमा आनी नक्षत्रां आसचे काळ पर्यन्त तूं खुशीन जीवन कर!

'तुजें नांव कितें?' हांवें विचारलें.

तिणें म्हळें, 'सुहासिनी'.

'खंयचे दर्जेंत शिकता?'

'धावे दर्जेंत.'

'तूं खंयची?'

'हांव वोजें व्हांवतल्या माधवाची धूव.'

'वावराड्याची धूव न्हय?'

'वावराडी लोकाक जय मेळों!

हांव कुडां वचून पेन घेवन येवन सुहासिनीच्या ऑटोग्राफ पुस्तकाचेर 'सुहासिनीक सर्वय मंगल जावों अशें आमी देवाकडें मागतात' म्हण बरोवन दस्तखत कर्न दिलें. आनी तिका विचारलें, 'जांब खाता की?'

'खेल्लेले आसात.' तिणें म्हळें.

हांवें एक व्हड कागद हाळ्ळें. जांबा रुकार चडून एक पनास लान व्हड जांब काडून बांदून दिले आनी म्हळें, 'सुहासिनी, हो जांबा रूक हांवें वोवन केल्ललो.'

'खरें?'

'खरें!'

ती नमस्कार सांगून गेली.

ते राती एक विशेष खबर आयकली.

पात्तुमायची बोकडी तुरंत वियेतली! गाब आसा अशें न्हय. तुरंत वियेतली म्हण! हो विशेष विशय माका कळ्ळोना कित्या? तिका गाब आसल्यावरी सरी दिसलेंना. केन्नातरी पोट फुगलें सी दिसतालें. केन्नातरी पोट दामून गेलें सी दिसतालें. गाब आसल्यार तशें आसतलें की? हांवें आवयक विचारलें. आवयन म्हळें, 'तें वियेवंच्याक जालां.' माका दुबाव, खरें? माका कित्याक दिसलेंना? स्त्री जनांनी सग सांगचें न्हय? स्त्रियो मू बाळांतपणाच्यो परमाधिकार्यो!

सुखा वियेवप आसतलें की?

## तीन

तेन्ना पात्तुमायची बोकडी खरोखर वियेवंच्याक वता. चांग कायरी, वियेवों. माका खोस जाली. वियेतली केन्ना? आनुमाय मागेल्या कुडांत झाडून हांतळ्ण फाफडून वोतांत घालून येवंच्याक हांवें विचारलें: 'बोकडेक कांय दिल्लें गो चेड्वा?'

'तिका पेजे निशें दिल्लें.' आनुमायन म्हळें.

'पेजे निशेंच नु पुरो. तिका तण घालूंक जाय. एदी पेण्ड घेवन उदकां फुगोवन दिवंचें उत्तम.'

ह्या निर्देशाचे उपरांत स्वल्प चड केळ्या साल्योय, एक लान केळेंय बोकडेक दिवंच्याक आनुमायक हवालीं केलें. आनुमायन मोगान माजे मुखारीच बोकडेक दिलें. परंतू बायलांक इतें की एक व्हड चूक जाली सी माका दिसलें. प्रमाण बायल समाजच हें हांव मानतां. तरीय गाब संबंधी, बायलांक, चोय व्हड एक चूक जाल्या? माका व्हड आनंद जालो. म्हळ्यार माजे मुखार आशिल्ले बोकडेक गाब ना: पोट भारी दामून आसा. बोकडी जांबा पोन्दाक पळेयली. जांब खाता. तांत आवयय आसा. आवय जांब वेंचून काडटा.

तांबडे व्हड दोवा थेंब्या गदी, पांचव्या पाल्यांचे मद्दें जांब
आसा. माजे सामकी मुखार, आंगणाचे भो लागीं, माजे रगताचे
हांव तशें रावच्याक थंय पात्तुमाय आयली! अजापच. लागीं एक
आसा; खदीजाय. पूण पात्तुमायचे लागीं आयल्ले बोकडेक गा
हांवें आनुमायक विचारलें, ' ही बोकडी खंयची?'

आनुमायन म्हळें, 'ही मागेली. म्हन्तान दिलेली. पात्तुमायन अ
दिलेली!

आवयन म्हळें, 'पात्तुमायचे बोकडेची व्हड धूव.' तेन्ना आ
एक बोकडी आसा. माजे भो लागीं तीं रावतात. तरीय माका ते
दोगांकय वेगळीं वेगळीं कळूंक जालें ना. दोगांय कुण्ड्या रंगाचीं ए
आसात. मागीर हांवें सामकीच पळोवंच्याक पात्तुमायचे बोकडेच्
भोंवतणीं एक डाग (काळबाण) आसा.

येवंच्याकच बोकडी धांवन घरा भितर गेली. पात्तुमायक हांवें
'कितें गो पात्तुमाय, बोकडेनय तुवेंय येवंच्याक तोडोव केला?'

पात्तुमायन कार्य स्पश्ट सांगलें. 'कोचुण्णीन घेवन दिवंचें तण
आशिल्लें) पुरो जायना. गाब आसा न्हय? देकून कांय कांय
आनी शेतांत वचून, दुसरे लोक येवन हुमटावन काडचे फुडें
तण हुमटावन दिलें.'

पात्तुमायन पेळतांत वचून जावांक आनी भयण्यांक दोष सांगलो. प
बोकडेक दवरलेलें पेजे निशें नुपुरो!

'तें तिणें काडून तिगेले बोकडेक दिलें.'

नणंदो जावो हांचें झगडें आयकच्याक माका व्हड इत्सा अ
हें झगडें ना जाल्यार मांय सून हांचें झगडें. माका आयकच्या
ना. केवल आवयचो आवाज आयकच्याक येतालो. सगटांकय
माहिती दितली. तेन्ना आनुमायचो आवाज आयकलो.

'मागेले बोकडेक पेजे निशें उणेंच दिलां. एदें आमी पिल्लीं. बाकी द

हांवें दिल्लेली केळ्या साली आनुमायचे बोकडेन खाली म्हळ
गुपीत हांवें कोणाकय सांगलें ना!

'पुरो, पुरो. तूं कांय सांगचें नाका!' पात्तुमायचें दोषारोपण आसा. '
माका पसंत करना.'

'आगो', आवयन म्हळें, 'खुंटा कणंग खावनच एदें पेजे निश
जाय. आमीय उणेंच पिल्यांत. तुजे बोकडेक सगय दवरलेलें!'

हें खुंटा कणंग खावन पेजे निशें पिवूंक जाय, अशें म्हळेल
कणंग केन्ना खातात? तपासच्याक दुखाचें तें गुपीत समजलें.
आनुमाय, ऐशोमाय, कुञ्ञानुमाय – इतले जाणांनी बरें प्रमाणी शी
ना, म्हळ्यार तांकां मेळना, अशें अर्थ. दादल्यांक आनी भुरग्य
शीत आसा. बाकी जनां खुंटा कणंग खावन जीवन करतात. दिसा
वरां लागीं सुकयल्लें कणंग धाडावन पुडी कर्न नार्ला सोयीय मिटय
उकडून 'पूट' म्हण खातलीं. एक चिमटी तय्या पालो (तो वेळावेळीं
दिता आसतलो) हून उदकां घालन पैंदार (साकर) जावों दू
घालनातिल्लें पितलीं. मागीर काम करतलीं. सगटांक पुराय काम
दादले जेवणा समयार मात्र येतले. बायलो चड कश्ट भोगतात.
घराक मात्र न्हय. प्राय सर्वय मध्यम दर्जेच्या लोकां घरांकडे अन
बायलो म्हत्वाची सेवा करतात. हें कित्या दादले जाण जायनात?

अब्दुल खादराचे बायलेन कुञ्ञानुमायचो आवाज आयकलो.

'पात्तुमाय, बोकडी वियेतर आमकां विसर नये. सुवैदाक एदें दू
जाय.'

हनीफाची बायल ऐशोमायन गौरवान विचारलें. 'मागेल्या रशिदा
दूद दिवंचिना की?'

ैमानाची बायल आनुमाय स्वल्प परिहास रुपान म्हळें, 'सय्यद दाकय दूद पिल्यार कांय उणाव येवना.'

नुमाय स्कुलांत गेलेली आसा म्हण सांगलें मू. सामान्य शिकवण आसा. ताय व्हड भयण जाल्यारीय शिकवण उणे. देकून पात्तुमायन थोड्या ा म्हळें, 'पुरो, पुरो...'

ल्प जावन हांव कुडांत वच्याक पात्तुमायचे बोकडेन माच्या संदुकाचे आशिल्लीं दोन केळीं तोण्डांत काडल्यांत. पात्तुमायची बोकडीच! ी पूर्वेकडेच्या दारांतल्यान आयली. दार बंद करच्याक आनुमाय विसरली. ऊलो दिवन म्हळें, 'अनुमाय, पात्तुमाय, धांवन येयात. तुमगेल्यो बोकड्यो खातात.'

ानुमाय आनी पात्तुमाय धांवन आयलीं. आनुमायक आनंद जालो. तिणें 'ही म्हन्ताली बोकडी.'

ोड भावा!' पात्तुमायन दुख्खान म्हाका समजावन म्हळें, 'हांव दोन दीन तिजे भुकेक.'

ानुमायन म्हळें, 'कितेंय खेल्यारीय भूक वचिना. मागेले बोकडेचें तण ारन खातली!'

ात्तुमायक सहन जातलें की? पात्तुमायन म्हळें, 'पुरो, पुरो. तुगेले बोकडेचें तण.'

ावें म्हळें, 'व्हड ना! तूं चेरडुवांकय सगटांकय बोकडे दूद दिवूंक जाय.' कशें दिवप?' कितें गरज? दूद विकून जावूंक जाय. आमी रावच्या ें दार मरम्मत करोवंच्याक?'

केतें करतलीं? पात्तुमाय, कोच्चुण्णी आनी खदीजा हांणी रावचें घराचें ड दोरान बांदून दवरल्यां. ते मरम्मत करवूंक जाय. तेन्ना?

रांत आशिल्ल्या बायलांक सगटांक हांवें वचे फुडें एक वेळार जाल्यारीय भर्न शीत घालूंक जाय!

ाका दाम खंय? माजेकडे एक पैसो सरी ना. आशिल्लो सगटांक वांटून ो. वांटून दिलो म्हळ्यार मर्यादि. खरें सांगल्यार सगटांनीय बलात्कार आनी माका अशें बैसयला. उगडास केल्यार राग येता. हांवें कितें दिलें? रुपया दिलो. आयदनां घेवन दिलीं. ग्लासां घेवन दिलीं. बायलांक ार घालूंक परदा-वस्त्र घेवन दिलें. हें सग कर्न हांवें कांय केलेंना म्हळेल आसा तांचें सर्वांचेंय चालचलणूक. राग तशें नाकार आसा. हालल्यार रागार येतलों. आबूक संवतलों. हनीफाक संवतलों. अब्दुल खादराक तलों. हनीफा, अब्दुल खादर आनी सुलैमान हांच्या चेरडुवांक मारतलों. ुमायची धूव खदीजाक मारप ना. तिका उजवाडां देखप ना देकून. मनां चें सांगचे वेळार सग बायलांकय मेळन सांगतलों. विशेष करन भावांच्या लांक. मागेलो आवाज तसो ऊंच जाल्यार घर शान्त! हांव तसो बैसतलों. ुमायची बोकडी आंगणां रावल्या. सुक्यो खोलियो खाता. खावन पोट वियेल्यार जायतें दूद जातलें. सुवैदा, रशीद, खदीजा, आबी, सय्यद ्मद, पात्तुकुट्टी हीं स्वल्प स्वल्प दूद पिवंचें बरें. पूण दूद, तूप मागेल्या क कोणेंय उपयोग करना. तूप हांव खातां. दूद हांव पितां. मागेलें एक ष केस आसा. तुपाचीं, दुदाचीं कायरीं सांगच्याक एक घडणूक उगडास

क धा वीस वर्सां फुडें जालेली घडणूक. चेरडुवां म्हण हांव, अब्दुल र, हनीफा आनी पात्तुमाय हीं मात्र आशिल्लीं! आनुमायक अन्नु आवयन म दिला की ना म्हण संशय. आबू ना.

रांत गायची धार आसा. दूद आनी मेणाय (धंय) मस्त. बापाक मंचवां र आशिल्लो. रुका ब्यारा मद्दें डोंगरारसून रूक कातरोवन थंयसूनच ां करोवन न्हंयतल्यान जमा करोवन हाडून वनकाटरां करान तासोवन व लेकान कोची व्हर्न विकतालो.

ेन्ना घरांत केन्नाय तूप आसतलें. हळदुवे राशीर रेवें कण सरी तूप. तें की व्हड एक फडकी बुयांव भर्न तशें आसा.

कुडयत्तूर गांवच्या डोंगरार कुरन्तोटी झाड खावन वाडल्ले गायचें तूप तें अशें बापान सांगल्लें उगडास माका आसा. तुपा बुयांवा लागींच फडके भरण्यांत पैंदारय (साकर) आसा. दोनीय आयदनां कोनशांतल्या फळ्यार आसात.

शितांत आनी फळाहारांत मेळोवन तूप तशें खावप आसा.

त्या काळाक बापाच्या हातान हांवें मस्त मार खाल्लेलो आसा. अब्दुल खादराक मार कांय ना! माका मात्र भर्न मार. केन्ना केन्ना कारण आसतलें! केन्ना केन्ना कारण कांय आसचना. बापाजन चेरडुवांक मारतले. आवय लोकय मारतल्यो... ओ माजे आवयन माका मारल्लो आसा. दायचे मुठीन मार्न मार्न माका स्वयंपाक घरांसून धांवडायल्लो आसा. कांय पुणीय खावूंक जाय. स्वयंपाक घरांत चडून कांय पुणीय हात घालन काडून खातलों. तशें अब्दुल खादरानय खाल्लेलें आसा. पूण कोणेंय विश्वास करना. ताणें फारन खेल्यारीय तें हांवें. मार माकाच.

तेन्ना एक दीस सकाळचे चायेचेय, दनपारांचे जेवणाचेय मद्देंचो शुभ मुहूर्त. भूक स्वल्प दिसूंक प्रारंभ जाता. हलका कांय खावंच्याक बरो वेळ. स्वयंपाक घरांत हांव गेलों. थांगा आवय आसा. वावराडीय आसा. वावराडेचें नांव नङडेली. ही नङ्डेलीय माका मारताली. मार्न धांवडावन घाल्लो आसा.

हांव एक लान यजमान आसां. लान यजमानाक वावराडेन मारच्याक नज! हो न्याय थंय चलचना. आवयक सांगल्यार 'बरें जालें. तूं हात घालन काडता देकून न्हय?' म्हण म्हणतली मात्र. नुपुरो जाल्यार हे नङ्डेलीचो मोमो हांव पिल्ललों आसा खंय. (अनेक चंद बायलांचो मोमो हांव पिल्ललों आसां. आवयन बी सांगल्लें आसा हें. देखल्ल्या बायलां सर्वांचोय मोमो पिल्लों हो हांव? छे!) तशें मागीर हांवें चिंतन केलें. एक हरवो आंबो चाबून खावंया. पूण तोवूय मेळूंक वाट ना. नङ्डेली म्हणटली; 'ऐदे वेळार भूक घेवन बैस. आतांच जेवूं न्हय जाल्यार मार जायकी?'

ऊं हूं! नुतोच अशें तशें भोवन घरा भितर सरूंक हांवें एक नवी शोध चलयली. तूप आनी पैन्दार (साकर) लागीं आसा. दोनीय मेळ्यार कांय शक्यताय आसा. ऊं हूं! मागीर चड तोडोव केलो ना. हांवें एक कोंड पिंगणें काडलें. कोणेंय पळोवनातिल्ले, बापान निदेवंच्या कुडांत सरलो. तुपा आयदन ल्हवू काडून बापाल्या मंचार दवरलें. धांकणें सन्त काडून मागेल्या शुद्ध हातान तूप काडून पिंगण्याचें अर्द मरान भरलें. आनी तुपा आयदन काडून कोनशांतल्या फळ्यार दवरलें; पैंदारय तशेंच पिंगण्याच्या फोंडांत जायती घाली. दोनीय आयदनां कोनशांतल्या फळ्यार दवरलीं.

कोणेंय पळयल्यार कांय तरी बदल सो दिसचना. बापान काडचे गदीच हांवें कर्न दवरलां. बापा स्पूणान काडून ल्हवूच आयदनांचे भितर समकी करतालो. तशेंच हांवें हातान कर्न बापाल्या मंच्यार बैसून तूप आनी पैंदार मेळोवन एदें एदें करून तोण्डां दवरून चावून खाल्लें. कणांची पैदार आशिल्ली. बरे रुपान गळली ना. तरीय स्टायलार खातालों. तेन्ना ल्हवू, भो ल्हवू दामून एक प्रश्न! हांव स्तब्ध जालों. प्रश्नकर्तार अब्दुल खादर आसा! तो लागींच रावला. कशें, केन्ना तो कुडांत आयलो कांय कळना. ताणें सन्त विचारलें, 'तुमी कितें खातात?'

हांवें ल्हवू म्हळें, 'एक ओखद.'

'हांव तुमचे मागलान आशिल्लों. सग हांवें पळयलें. माकाय दी. नाजाल्यार हांव सांगतलों!'

भो गुपीत लेकान ल्हवू हांवें विचारलें, 'आरे, तूं मागेलो भाउ न्हय?'

'जाल्यार माकाय दी.'

हांवें ताकाय दिलें. आयदन लेंवन शुद्ध केलें ताणें. 'आनी हांवें काडना.' हांवें म्हळें, 'तुंवेंय काड न्हये.'

अशें कबूल जालें. आमी भायर देंवले.

आयदन आसलेकडे दवरून, लोकांत कांय घडलें ना म्हळेल गदी आमी चल्ले. ती घडणूक तशेंच विसरले.

उपरांत हांवें तूपय पैदारय आपडलो ना. हें परम सत्य. तुपाचे गुण कांय माका कळना. पूण कांय नातिल्ल्या वेळार पैंदारय तूपय खालें म्हण मात्र. खावंच्याक घरांत जायती वस्तू आसा. पणस पिकिल्लो आसा. आंबो आसा. मांस भाजिल्लें आसा. एक भरणी भरन आलमारींत आसा. हांव हांचेर सग दोळे दवर्न भोंवतां. दीस तशे गेले. हांवें साब्बाव मार खावंच्याक आरंभला. अब्दुल खादराक रोग चड जाला!

मार खावंच्याक कारण, तूप कोणकी काडून फारन खाता! आयदनाचे भायरय भितरीय मंच्च्यारीय चिन्हां आसात. हांवें मार खालो. अब्दुल खादराचो रोग विचित्र. तो तशें गोलागदी फुगून येता. केन्नाय उदक पिवप, कांय खावंच्याक जायना.

'चेड्याक कितें की रोग आसा', आवयन आनी नङ्डेलीन म्हळें. बापा ज्योतिश्याक उलो दिवंच्याक गेलो. ज्योतिशी त्या दिसांचो व्हड वोयद. आयुर्वेद वोयदिका. पळोवया.

तेन्ना आवय अब्दुल खादराक व्हांटींत बैसोवन दुखान परसता! 'देवा! मागेल्या भांगराक कितें जालां?' नङ्डेलीन म्हळें: 'देवा, माज्या भांगराक कांय जावूं न्हयें!'

अब्दुल खादर कांय खळबळ नातिल्लो रोगेली, थोर जावन फुडारीसी बैसला.

हांव ताजे तोण्डाक चोयलों. आरे चोरा, तूं तें तूप सग फारन खावन थोर जावन आसा, न्हय? अशें दिसयलें.

तो कांय भियेना. ज्योतिशी आयलो. त्या उपरांत एक दुसरो वोयद आयलो. उपरांत मुसालियार आयलो.

दीस तशे गेले. तूप उणें जावन येतालें. नित्य क्रमान हांव मार खात येतालों. अब्दुल खादर गोलाकारी जावनच आयलो. ताणें ओकद कांय पिवना. कोणेंय देकनातिल्लें ओकद पेलान घालतलो! यदाकदा एदें शीत जेवतलो. तो रोगेली देकून सगटय ताका अपुरवाई करतात. ताका कसलोच त्रास ना. तशें चलतलें. खरें मुरे!

दिसान दीस तो तूप आनी पैंदार खाता म्हण माका कळता. पूण कोणाक सांगप? सांगल्यार कोणूय विश्वास करना.

एक दीस हांवें ताका थोडें भाजल्लें मांस दिलें. हांवें तें कोणेंय देकनातिल्लें आलमारींसून फारन काळ्ळें!

ताणें मांस घेवन खालें. हांवें म्हळें, 'आरे तूं मागेलो भाउ. खरें सांग. तूं ह्या गोलाकारी गदी थोर जावन आयला कसो? तूप आनी पैंदार खाता देकून?'

'साब्बाव वच भावा. माका रोग म्हण सांगलें न्हय?'

हागेली फटी साबार जनां मुखार कशें हाडतलों? सांगल्यार कोण विश्वास करतलो? तरीय हांवें आवयक म्हळें, नङ्डेलीकडेंय म्हळें: तूपय पैंदारय खावन व्हड चोर हो अब्दुल खादर.

म्हळेल गदीच. कोणेंय विश्वास केलोना. माज्या हृदयाचे पवित्रकायेनच एक घडणूक घडली. एक सुक्रार. बापा जुमा प्रार्थनेक मशिदींत गेला. आवय शेजारच्या घराक बैसून ऊ चोंवच्या वेळार गांवचे खबर सांगता. तांत मद्दें अब्दुल ख़ादराले शुद्धय रोगापासुनूय सांगलें. तें सग आयकून हांव घराक आयलों. नङ्डेली निदल्या. स्वयंपाकघरांत वचून हांवें चिलवाण स्वल्प शोध केली. एदें हाथ घालन काडून खालें. आनी घरां भितरच्यान जगलेर येतां. बापान पडच्या कुडांत इतें की हालता. एक करुमुरा आवाज!... हांव ल्हवू चोयलों. बापाच्या मंच्या खालच्यान दोन पांय देकले. एक पांय सोपूर!

अब्दूल खादर तूपय पैंदारय खाता. हांव ल्हवूच, भो ल्हवूच भायर देंवलों. धांवन आवयकडे गेलों. 'अब्दुल खादराचो रोग पळयतली जाल्यार धांवन यो.'

सगटांकय हांवें हाडलीं. ल्हवू दाराकडे रावयलीं. हांव भितर गे... कवडां उकतें केलीं. अब्दुल खादर पिंगण्यांत तूप आनी पैंदार खा... पोन्दाक लिपून बैसला.

हांवें ताका फारलेली वस्तू सयत धर्न भायर हाडलो. आव... खूब मारलो. गोन्दोळ आयकून नङ्डेली जागी जाली. खबर कळ्ळें. नङ्डे... ताका मारलो.

तें मनोहर दृश्य पळोवन हांव रावलों. बापान येवंच्याक ता... मारलो.

हें सग जाले उपरांत ताणें एकलोच माका विचारलें, 'हांव तु... भाउ न्हय? माका कित्याक दाकोवन दिलो?'

हांवें म्हळें, 'पोंजां चोरा! तुजे खातीर हांवें कितलो मार खाल... तुवें आठयलें की हांव भाउ म्हण – पोंजां चोरा!'

हें सर्वय आठोवन हांव मनांत हांसत आशिल्लों. तेन्ना म्हन्ता... आयली. तिणें विचारलें, 'तूं कितें बैसून हांसता?'

हांवें म्हळें, 'पोरनें एक खबर उगडास कर्न हांसल्लों. अब्दु... फुडें तूपय पैंदारय सयत फारन खावन गोलागदी जालो.'

'आ – तूं तें विसरलो ना की?'

'ना.'

'तुजेकडे दुडू आसल्यार एक पांच रुपया दी. पात्तुमायचे बोक... कोपूर्ल भेतलें!'

'व्हड भावा, ती आनुमायची बोकडी आसतली.'

आनुमायन येवन सांगलें, 'मागेली बोकडी न्हय. व्हड भयणिची बो...'

पात्तुमायन म्हळें, 'पुरो गो, पुरो गो. व्हड भाउ बैसला देखलो... तूं एक विनत जावन जीवन कर. मागेली बोकडी म्हण तूं कशें ... एक सांग!'

आनुमायन म्हळें, 'हांव व्हड भाऊ जाणूंक खातीर सांगतां. व्हड ... बोकडी आयल्यार तुरंत हांव मागेले बोकडीक भितर व्हर्न बांदत... भयणिली बोकडी मागेले बोकडेचें तण फारन खातली. आमची दूद ... चाय फारन पितली. चेरडुवांक खावंच्याक कांय मेळना. सर्वय व्हड ... बोकडी खातली!'

पात्तुमायन अपमान पावन बळान म्हळें, 'पुरो गो, पुरो गो... फारनाशिल्ली एक बोकडी!'

'तुका खंय बोकडी?' आनुमायन म्हळें. 'ती माका व्हड भावान...'

'आगो', पात्तुमायन म्हळें, 'ह्या संवसारांत कितले व्हड भाव ... भयण्यांक बोकडी दितात तें तूं सांग!'

आनुमायन म्हळें, 'ओ, कितलेकी भयण्यांक व्हड भयण्यो हस्तीक... मागीर न्हय एक किड्या गदी आशिल्ली बोकडी!'

पात्तुमायक राग आयलो. पात्तुमायन म्हळें, 'व्हड भाउ हांगा आ... तुका बरें जालें. ना जाल्यार हांवें तुका जीवन्त सोडचना. आगो... सायनातिल्लें कांय सांगच्याक नज. माका दोन बोकड्यो आशिल्ल्यो. ... मागेले भांगरा भयणीक – तुका दिली. तूं तें एक उगडास कर!'

पात्तुमायन माजेकडे येवन ल्हवूच विचालें, 'खदीजाच्या वेड्यांची... विसरलो की?'

हांवेंय ल्हवू म्हळें, 'ना!'

पात्तुमायन ल्हवू उपदेश दिलो, 'कोणेंय जाणूंक नाका.'

तुरंत आनुमायन माका विचारलें: 'व्होड भावान गुपीत कितें सां...'

पात्तुमायन धांवन येवन सांगलें, 'कांय सांगलें ना गो!!'

'ना', आनुमायन म्हळें. 'माका कळ्ळें. आमी कोणेंय जाण जायन...'

भावाक कितेंकी दिवूंक जाय म्हण सांगल्लें आसा. व्हड भावान कितें म्हण कबूल केलां?'

न्ना पेल्ले तांतसून दोन अशारिरीक वाण्यो एक सानी जाल्यो. अब्दुल राची बायल आनुमायची आनी हनीफाची बायल ऐशोमायची.

केतेंय भांगार अथवा जायें जाल्यार आमच्या चेरडुवांकय जाय!'

उद्बोधन तांकां कशें जालें म्हण म्हाका कळना. बायलांक अशें सगटय प्रेत!

ण तें आयकुच्याकच पात्तुमायक मागिरीय राग आयलो. पात्तुमायन म्हळें, ो खदीजे, आमचे बोकडेक उलो दी. आमकां वच्या. असल्यो 'भाग्रत्यो' ात हांगा. आमकां आनी हांगा पांय दवरूंक नाका!'

ानुमायक कळ्ळें. तिका खोस जाली. तिणें म्हळें, 'हे देवा! तेंच! भांगारच! भावान कितें दीन म्हण सांगल्लें?'

ावें म्हळें, म्हळ्यार हांवें जाहीर केलें, 'सर्वय जाणात! खदीजाक दोन ो. हांवें त्यो करोवन दीन म्हण सांगलां. दिवंच्याकच आठयतां. कितें ाक विरोध आसा की?'

ानुमायन म्हळें, 'व्हड भावा, माकाय जाय दोन वेड्यो!'

पुरो गो, तुगेल्यो जाळकायो पुरो. तूं तुगेल्या नव्या घरांत रावतना थंय , जालेलीं सर्वय आयदनां व्हड भावान घेवन दिवूंक जाय म्हण तुवें लें ना की? तीं सर्वय घेवन दीन म्हण व्हड भावान कबूल केलें ना हांव हें सग जाण गो! आयकलें गो भयणी?'

गुपीत पात्तुमाय कशें जाण जाली? बायलांलीं कायरीं न्हय? बायलांल्या तलें गुपीत वोदेश्वर दादल्यांक कितें कळूंक? डंकू! डंकू!

र

क गोन्दोळ आयकलो. हांव पाकशाळे तांत वच्याक माजे आवयचे क्षतायेचेर सर्वय बायलो स्तब्ध रावल्यात. मद्दें पात्तुमायची बोकडी. ा मातें ना! म्हळ्यार तिणें आवेगान एका कुळ्ळ्यांत कशें की मातें . मागीर तें भायर काडूंक जायनातिल्लें कुळ्ळेंय घेवन रावल्या. रावल्या ्यार बायलांनी सगटांनीय मेळन तिका धरन रावेयल्या. कुळ्ळें कशी तली? तेंच मुख्य चिंता विशय.

ात्तुमायचे बोकडेन दाकयलेलें तें हलका कर्म हांवें देकलें मू! पात्तुमायक यान स्वल्प अपमान आयला गदी. 'ही अशें सग करतली न्हय, भावा' म्हळ्ळें. संसर्गिचो दोष जावयेत!

ांवें एका लान फातरान कुळ्ळें भेतून बोकडेक मुक्त केली.

हें आमकां कळतालें. अम्बडा!' आवयन म्हळें. 'चांग मातयेचें कुळ्ळें भेतलें!'

ांव अपमान खावन जगलेर येवन बैसलों. तेन्ना अब्दुल खादराची व्हडली पात्तुकुट्टी धांवन येवन 'आज्या' म्हण माका उलो दिलो. तिज्या तोण्डांत वेले फांतीर एदे दांत नात. तिणें म्हळें,

अबीन म्हाका मारलें!'

अबी धावन आयलो. ताणें म्हळें, 'आज्या, अबीन माका मारलो.'

आनी मुखार तुमी झगडच्याक नज म्हण सांगून तांकां धाडलीं. आतां द मुहम्मद एक केस घेवन येता.

मामा', ताणें उलो दिलो. 'लैलान माका 'उळ्ळादत्ति पारू' म्हण उलो !'

यंकर! एका दादल्याक एक बायल दुसरीय 'उळ्ळादत्ति पारू' म्हण दिवप!

लैला!', हांवें उलो दिलो. लैला आयली. दोळे भर्न आसान. येतच , 'छडी हाड रे!'

य्यद मुहम्मदान चिंचे बडी हाडली. ती दाकोवन लैलाक भिसरावन आनी मुखार कोणाकय उळ्ळादत्ति पारू म्हण उलो दिवंच्याक नज म्हण ताकीत कर्न धाडली. एदीं कुंकडां व्हड बोव घालन धावन उबून आराम कुरसीर पळ्ळेल्या माज्या आंगार येवन पळ्ळीं. मागलान धांवन येवन पात्तुमायची बोकडीय! वेगळो विशेश काय ना. पात्तुमायचे बोकडेन एक लान कुळ्ळें लागेन भेतलें. आनुमायचो आनी ऐशोमायचो आवाज. आवयचीं वायट उतरां. चेरडुवांलो हास. पात्तुमायचीं दुखां सांगप. हांव कांय नेण म्हळेल गदी पणसा पोन्दाक रावल्या पात्तुमायची बोकडी.

चार वरां जावंच्याक हांव एक चमकूंक भायर सरलों. तशें सान्तात पावलों. तेन्ना एक अजाप घडणूक देकली. एक लान खोटो भर्न जांबय घेवन आबी आनी पात्तुकुट्टी मनशा हिंडांत बैसल्यांत. अनेक सास हसत्यां मद्दें दोन उंदिरा पिल्लां गदी. दोगंय जांब विकतात. विकचो आबीच.

'हांगा एक हाताक एक पैसो. दोन हात आनी एकाक दोन पैशे!'

म्हळ्यार पांचांक एक पैसो. दोन पैशांक इकरा. आबीच्या हाताक पांच बोटां मू आसात. ही व्यापार-रीत हांव पळेयत रावलों. तणी स आण्याक विकलें. स आणेय हांवें घेतले.

ते रातीं आवयच्या हातार हांवें आठ आणे दिले. आवयक आनंद जालो. जेवण जावन निदेवंचे फुडें हांव भुरग्यांक वाडोवंचे रिती पासून थंय आसल्या बापां लागीं उलयलों. आवय लोकांक, चेरडुवांक बरे रितीर शीत घालचे खातीर उलयलों. चेरडुवांक शुद्ध रितीर वाडोवंचे खातीर उलयलों. घर आनी परिस्थिती स्वच्छ आनी शुद्ध दवरची गरज, हांचे पासून उलयलों. सगटांचीय जाप म्हण हनीफान म्हळें, 'हांव लश्करांत वचन.'

आबून म्हळें, 'व्हड भावान एक पळयल्यार पुरो, एदे दुड खर्च करूंक जाय. आमकां आनी घराचें छपर नवें दंद करोवन कोयलूव घालोवंक जाय. व्हड भाउ आयलो देकून आंगण बरें जालें.'

दुडू देवोवन चांग करयलेलें हांवें. फातोर देवोवन बान्दयलें. 'तें सग वचो'. अब्दुल खादरान म्हळें. सग हांगा कुशल जातलें. पात्तुमायची बोकडी एक वियेवों!'

दीस आनिकय गेले.

डूम्! पात्तुमायची बोकडी वियेली!

दनपारां सी दिसता. मंगल मुहूर्त. स्वल्प पावसा कूप पडता. खबर आयकच्याकच हांव अस्वस्थ जालों. जायते संकट येवंयेत न्हय? वियेतांत मेलेलीं जायत्यो घडणुको उगडास आयल्यो. माका व्हड अडचण जाली. आवयक एकशें फान्ता उलो दिलो.

'तिजे लागींच आवयन रावूंक जाय' म्हण हांवें मागलें. आवयन कांय म्हळेंना. माका अस्वस्थताय चड जाली. कितें जावंच्याक वता थांगा वचून एक पळयल्यार? पूण ताका जाय आशिल्लें धाडस ना. तरीय हांवें एक कुंटून पळयलें. बोकडेक मात्र देकली ना. एक लोका हिंड देकलो. आवय, दोन आनुमायो, ऐशोमाय, पात्तुकुट्टी, अबी, आरिफा, सय्यद मुहम्मद, रशीदा, सुवैदा. हीं न्हंतना शेजारच्यो बायलो. व्हड सुवाळ्या गदी सर्वांकय आनंदच.

कोणाकय उत्कंठा दिसना कित्या? हांवें आवयक उलो दिवन विचारलें, 'पात्तुमायक सांगून धाडलें की?'

पात्तुमाय मू थांगा आसची मुखेल मनीश? पूण पात्तुमायक उलो दिवंच्याक कोणाकय धाडलो ना. आवयक आनी दुसऱ्या बायलांक एक 'शू' म्हळेल गदी. तेन्ना माका दिसलें, तांकां कोणाकय तीं व्हड कायरीं न्हय म्हण तीं सग एकेकलीय बाळांत जालेलीं आसात. आवयक जाल्यार एदे बाळांतिरे जाले. आवयच्यो धुवो पात्तुमाय आनी आनुमाय बाळान्त जालेलीं. आवयच्या पुतांच्यो बायलो आनुमाय अनी ऐशोमाय दोगांय बाळान्त जालेल्योच. हो बाळांतिरो म्हळ आयकल्यार तांकां एक खबरच न्हय. खंयीय बाळां जालीं म्हण आयकल्यार 'चेरडूं चेडो कि चेडूं?' म्हळेलें एक सरळ प्रश्न मात्र तीं विचारतलीं.

पूण हाजो कांय परिचय नातिल्लो हांव स्वल्प गडबडलों.

अस्तंत भागाक कदलार हांव एकलोच. कांय खबर कळना. पेळतांत कितें घडता? हांवें चड विडी वोडिल्यो. एदें चड आळतां पेळतां चमकलों. तशें चमकच्या वेळार अबी आनी पात्तुकुट्टी दोगांय आळतांत आयलीं. अबी पराक्रम सांगता. 'अबीन पयलें देकलें.'

पात्तुकुट्टीन म्हळें, 'अबीन न्हय, हांवें देकलें.'

तांचे मद्दें लैला आनी सय्यद मुहम्मद आयलीं. सय्यद मुहम्मदान म्हळें, 'हांवें पयलें देकलें.'

लैलान म्हळें, 'व्हड भावान न्हय, हांवें पयलें देकलें.'

'ह्या लान किसकुटांनी कितेंकी पयलें देकलें?'

हांवें अबीक विचारलें, 'कितें रे तुवें पयलें देकलां?'

अबीन अभिमाना सयत म्हळें, 'पुरतें वियेताना पयलें देकलें.'

'बोकडी वियेली?' हांवें विचारलें.

पात्तुकुट्टीन म्हळें, 'वियेली. पुरती वियेतां हांवें पयलें देकलां!'

हावु! ती वियेली. कांय गुंतागूंत ना आशिल्लें. माका धाडस जालें. हांवें वचून पळयलें. लान जगलेर आवय आनी चेरडूं. येदें चंद पील. संसाराक धैर्यान पळोवन तशें पळ्ळ्यां.

आवय बोकडेक हून उदकां न्हाणोवंच्याक अथवा तिका दूद दिवंच्याक सांगया म्हण दिसलें. पर दूद खंयसून? हून उदक आसा. हांवें कितेंय सांगल्यार बायलांक तमासो सी दिसतलें. तरीय हांवें आवयक विचारलें, 'तिका कांय दिलें की?'

'कांय दिलें ना! स्वल्प जातरी एक विशेष पालो दितलीं. ती हांगाची चाल.'

हांवें म्हळें, 'त्या पिलाक एके मांदरेर निदाय. शेळ खाली जगलेर तें पळ्ळां न्हय?'

मांदरेर तांणी निदायलें की ना, कळना. हांव धांवन वचन एक नन्दरबाळें केळें हाडून आवय बोकडेक दिलें. तिणें उपकार मानून तें खालें.

'हें कितें' अशें दिसचे गदी बायलो सग पळयताल्यो. आवय मात्र बैसून मंद हांसताली.

सांज जाली. पात्तुमाय, खदीजा आनी कोच्चुण्णी हीं आयलीं. बोकडी वियलें खबर आयकून तांणी कांय म्हळ्ळेंना.

निदेवंचाक वच्या वेळार हांवें विचारलें, 'बोकडे पिल्लाक खंय घाल्यां?'

'पाकशाळेंत.' कोणें की म्हळें.

हांवें विचारलें, 'खोंटो घालन धांपलां की?'

खोटो घालन धांपलो आसा खंय!

'आनुमाय, ताका उसरमेट येवना की? तुमगेल्या कोणाच्याय चेरडाक अशें खोटांत धांपून घालतले की?' अशें हांवें विचारलें.

'मागीर ताका कितें करूंक जाय?' अशें म्हण जाप जाली. कोण म्हण कळना. हांव नुतो पळ्ळों. हांचे मद्दें हांवें कांय सांगचें बरें आसचना. हांव नासल्ल्या वेळार तीं तें सांगून हांसतलीं. प्रथमच हांवें व्हारडीक केल्ली ना. तेन्ना कळनातिल्ल्या विशया पासून उलोवनातिल्लें रावचें उत्तम. हांव कांबळ काडून पांगरून दोळेय धांपून पळ्ळों.

हेर दिसा सकाळीं उठावन न्हाण बी जावन चाय पिवन आसतना आनुमायक विचारलें, 'तिका कांय दिलें?'

तिका म्हळ्यार आनुमायक कळता. पात्तुमायचे बोकडेकच.

'तण घालें' म्हण आनुमायन म्हळें. आनुमायचे बोकडेक घालचें तण.

पात्तुमायची बोकडी आनी पील आंगणांत पणसा पोन्दाकच रावल्यांत. आवय चेरडाक हाडून दाकयता जावंयेत, खंयसून तांगेलें खाण येता म्हण. पील चमकतां चमकतां पडटा. चलूंक स्वल्प कश्ट. ताका काडून एक चुंबन दिवूं म्हण दिसलें. त्या वेळार हानीफा माजे मुखार रावला. तो तशें आयला. वस्त्र मात्र न्हेसला. ताणें म्हळें,

'एक धा रुपया जाय, व्हड भावा! धाकट्या भावाकडे विच... माका आंबडटलो! आबूय मेळन माका खेळ करतले. पळय, दुड्... हांव एक कमीस घालचोना की?'

'तुवें एदे दीस फुडें एक धोती आनी एक कमीस काळ्ळल... उगडास् करतां मू?'

'हांवें?... कांय नाका. हांव सेनांत वतां. हांगां तुमकां मार्जी... जाल्यार सरकाराक माजी गरज आसा. तें आठयल्यार पुरो. ब... दिल्लेली धोती आनी कमीस.'

हांवें हाजे मद्दें म्हळें, 'स्वल्प राव रे. हांवें तें तुका दिल्लेलें न्ह... हाडच्याकच माजेकडे विचारनातिल्लें तुवें तें काडलें. माजे कडे क... वस्त्र उणें देकून माका ताजें लेख आशिल्लें. चड आसतना आवय... आसा. अब्दुल खादरान फारलें आसा. पात्तुमायन आनी आनुमा... आसा. तुजी घरकान्नी ऐशोमाय आनी अब्दुल खादराची घरकान्न... हांणी फारलें ना.

हनीफान म्हळें, 'माजेकडेसून धोती आनी कमीस आबून ध... व्हड भावा माका देकली तुवें?'

'सोपूर सुता गदी आशिल्लो आबू थोरु तुजेसून उपून घेतलें म... दुबाव आसल्यार आनीक विचार व्हड भावा? आरे आबी!'

आबी आयलो. तो हनीफाच्या सर्वाकय एक साक्षी. ताणें ये... 'बापा सांगतां, आबीन देकलें म्हण.'

इतलें जावंच्याक स्वल्प उगडल्ल्या कवडां मद्देंसून रशीदा... काडून ऐशोमाय आयली. ऐशोमायन म्हळें, 'बापा आनी पूत हांग... हरवी फटी. पुताक शिकयतालो हांवें आयकलां. व्हड भावाली धो... कमीस आबीच्या बापाच्या पेटांत आसा!'

अरे चोरा! पंजा चोरा! तुवें माजे करानय अब्दुल खादरा करा... भरयली काणी तुका उगडास आसा की?

हनीफान म्हळें, 'तें कांय माका कळना. माका काम आसा. ... उदक कर्न वावर करचो एक वावराडी.'

'तावळ तुका केळी बागान आसलें?'

ताणें म्हळें, 'हांव तें व्हड भावाक दीन. पंदरा सास रुपया दिल... स्वल्प मोल चड लागीं.'

ताणें तें हाजे दांत एक दिवन घेतलां म्हण म्हणतात. पंजा चोर!

हांवें आवयक आपयली. आवयन येवंच्याक हांवें विचारलें, 'फुडे... लान आसतना पांच रुपया हाणें फारन काळ्ळेना की? मागीर हाणे... जावन बैसून हाजे व्हड भाव माजे आनी अब्दुल कादरा करान ... सोण सुकत घालयलें. हाणें घालेंना. आमकां केन्नाय दिसाक च... दितालो. तशें पांच स दीस जावंचाक हें बाषा जाण जालो. हांवें... म्हण लेकून बापान माका मारलोय. तें आवयक उगडास आसा की...

आवयन म्हळें, 'हनीफान फारलेलें बापाल्या पेन्टांतसून न्हय. त्या... माज्या फडचानाच्या चिरियांसून रुपया फारप हाजो एक वावर ... आवयचे लागीं निदतालो. आवय एक झेमेली म्हण जाल्यार व्होंटीसून प... थैलींसून चार रुपय काडून आवय नेणतांच थैली आवयचे व्होंटीं... उठावन वतालो. सुरक्षित फारप!

आवयन म्हळें, 'हनीफा व्हड जाल्यारीय मोमो पिवंच्याक येताले... पिवंच्या वेळार हो फडचाना चिरी फारन तांतसून दाम काडताले... फांता हांवें देकून धरलें. ते दीस मारन धांवडायलो. मोमो पिवप राव...

'पंजा चोर! अब्दुल खादरान फारलेंना की?'

…ाय फारलेलें आसा. तुवें मात्र फारलेलें ना.'
…ांव! हां, मागेलें जीवन म्हत्वाचें!
…लें रे हनीफा, देखलें रे अबी, देखलें गो लैला, देखलें रे रशीदे!'
…मीन म्हळें, 'आवय गे माजे भांगरा आवय गे, आवयक उगडास
…ल्लान दिसता ना जाल्यार ऐशोमाय, आनुमाय, धाकट्या भावाली
… हीं आयकच्याक आवय फटी सांगता. व्हड भावानय आवयच्या
… चिरियांसून दाम फारल्लो आसा! माका भारी उगडास आसा.
… धाकट्या भावाकय व्हर्न व्हड भावान चाय घेवन दिल्ली आसा.
…गन्ता. तेन्ना दिल्लेले दुड्डू आशिल्ले. व्हड भावाक दुड्डू खंयसून?
… सांग!'
… विशय परतूंक हांवें थारायलें.
… जायते फान्ता दोन, तीन, पांच, धा लेकान माजे कडेसून घेतल्ले
… ते न्हतना तुवें माका शें रुपया लागीं दिवंच्याक आसा. ताका
…, नायर, चोगवंचे – ह्या तुज्या सांगात्यांक सगटांक गवाय जावन
… मुखार हाजीर करीन. आरे शें रुपया!
… भांगरा आवय गे हो व्हड भाव कितें सांगता? हांवें रुपया दिवंच्याक
…हण? हांवें ताका नन्दरबाळें केळें घेवन दिलां. अनवास घेवन दिलां,
…क्रनातिल्ली घेवन दिल्या. भेंडे, कारातें, बोकडी पित्ताशय, हंसा-तार्ती,
… पणस – हें सर्वय घेवन दिल्लेले लेकांत व्हड भावालागींसून माका
… रुपया मेळचे आसात. तांतसून हांवें आतां धा रुपया निमगल्यात.'
… दिलां. तुगेल्या बागांसून मोडून पळ्ळेले केळिंचीं हरवीं केळीं बावोवन
…न तुवें दिल्लेलीं आसात. बाकी सग अब्दुल खादर, कुच्चुणी, सुलैमान
…डू दिवन तुजे हातां दिलां. आरे चोरा!'
…यकच्याकच ताणें उलो दिलो.
…गो ऐशोमाय, भुरग्यांकय घे. आमकां आनी हांगा रावका नाका. आमगेल्या
… मडळसीर तेंकून जाल्यारीय थंय रावूं!'
… म्हळें, 'राव रे. त्या शें रुपयांक जाप कर्न वच. आवय आयक.
…गार सायकलां आसात. साबार वर्सां जालीं ना. तेन्ना हांव येवंच्या
…ागेलें सायकल काडून कांय वेळार एक माडयतालों. धा मिनट उपरांत
…ारीय सांगतलो दोन वरां जाल्यांत! म्हळ्यार ताका भाडें मेळूंक जाय.
…ाका दंद कितें? हागेले दोस्त नायर, क्रिस्तांव आनी चोगवंचे –
… अंचिकमळांत माजेकडे येतले. आबीक फटी गवाय सांगच्याक शिकयले
…कांय हाणें शिकयलां. एतच तुरंत हनीफाच्या कश्टां पासून हे उलयतात.
…हनीफा भो कश्ट काडता अशें सग. ते उपरांत हागेलें रीण मागप.
… पांच रुपया मागतलो. तेवय भुरग्यांक मागेल खातीर कांय घेवन
…ाक. हांव तीन रुपय दितलों. हो तांतसून एक आणो दिवन मिठाई
… भुरग्यांक दितलो. त्या काळाक हांवें तीनशें पंचवीस रुपया दिवन
…यकल घेतलें. तें कशें की हो जाण जालो. एक दीस सांगात्यां मेळन
…
…सयत चार जनां आसात. तीन सायकलांचेर आयल्यात. येवंच्याकच
…सत्याग्रह आरंभलें. हनीफाक मागेलें सायकल जाय. तें आसा जाल्यार
…ोलीं लुडकास सायकलां सग भाड्याक वतलीं. हांवें म्हळें, 'सायकलाची
…ो गरज आसा. तेन्ना हाचो एक दोस्त म्हणता: हनीफा मोल दितलो.
…च्याकच हनीफान एक नोटां बंडल काडून माजे व्होटींत उडकायलें.
…वन चोवंच्याक दोनशें चालीस रुपया आसात. बाकी, ओ, तें घराक
… तुरंत धाडतलो. दोस्तांनी म्हळें, ते धाडयतले. ते जामीन रावल्यार
…ो? मागीर त्याच वेळार हानीफान धा रुपया माजेकडेसून रीण घेतले.
…पया भुरग्यांक कांय पुणीय घेवन दिवंच्याक. मास जायते भोगून गेले.
…ीय बाकी रुपया धाडले ना. हांवें हांगा येवंच्याक हागेले दोस्त माका
…र निपतले. आरे ते रुपया!'

'हांव सेनांत वचन.'

आबीन म्हळें, 'बीन सेनांत वता.'

लैलान म्हळें, 'हांवूय सेनांत वतां.'

ऐशोमायन म्हळें, 'जाल्यार मागीर रशीदा आनी हांव – आमी दोगांय सेनांत येवूं. सरकाराक पेज आनी रावंदय तय्यार करन दिवूं.'

'पुरो गो, तूं कितें चार चौगं मुखार उलयता. व्हड भाउ आसा देकून. ना जाल्यार हांव तुका. वच पेळतांत!' म्हण सांगून सान्तांतल्या तागेल्या दुकानांत तो गेलो.

स्वल्प जावंच्याक रशीदाक आनी सुबैदाक दोगांकय घेवन आवय माजे लागीं आयली.

'आमी न्हावंचाक वतात. ह्या भुरग्यांक एक पळय रे.' तीं सग न्हावंच्या गेलीं. हांव चेरडुवांक पळोवंच्याक लागलों. दोगांय रडूंक लागलीं. रण्णें दूर करूंक हांवें दोगांयचे मद्दें बोकडे पिल्लाकय हाडलें.

दोगं भुरगीं मुतलीं. बोकडे पिलान दोनीय केलें. ते सभेर म्हाशुद्ध आबू आयलो. ताणें विचारलें, 'हें कितें?'

आबून भुरग्यांलें रण्णें दूरा केलें. विशेष करन ताणें कांय केलें ना. दोळे वाडकुळे कर्न दाखयले. खालचो ओण्ठ चाबलो. आवाज काडलो. ताणें पात्तुमायचे बोकडेक मार्न धांवडायली. माजरांक मारलीं. कुकडांक धांवडावन घालीं.

ताचे मद्दें हांवें बोकडे पिलाचें मूत, विष्ठा हें भोर्न दूरा घालन ताका काडून आंगणांत रावयलें.

'देकलें की, बोकडी, कुंकड, माजर आनी भुरगीं – हीं सग मेळन जगलीं आनी आंगण बालाव केलें. व्हड भाउ हें सग करच्याक परवानगी दिता.'

'हांवें कितें करूंक जाय?'

'मारूंक जाय.'

सूत सारके आबू मारपेलीय गोन्दोळ करपीय आसा. सगटांकय ताका व्हड भय. ताजेकडे भुरग्यांक बैसोवन वच्याक आवयांक जावो बायलांक धाडस आसचना.

'व्हड भावा, हांवें तुगेल एक कमीस आनी वस्त्र फारलें म्हण धाकट्या भावान सांगलें की?'

आनुमायन सांगलें की ना म्हण हांवें सांगलें ना. ताका राग आयलो. ताणें म्हळे, 'एक एकलोच म्हळ्यार सगटांनीय फारल्लें आसा. हांवें मात्र न्हय. आवयनय धाकट्या भावानय एक एक वस्त्र फारलें आसा. तें म्हळ्ळें की?'

'तुवें फारलें म्हण आनुमायन म्हळेंना.'

'हांवें एक वस्त्र आनी कमीस फारल्लें. हें हांव कोणाकय सांगन. व्हड भावान माका कितें दिल्लें?'

'तूं निदेवंचो मंचो. ताजें मोल चाळीस रुपया. मांच्यार पातळायल्लें जमखाळ, हांतरूण, उर्शी, बेडशीट. तुवें पांगुरचें काश्मीर शाल, ताका मात्र पन्नास रुपय मोल आसा. तूं घेवन भोंवचें पारकर पेन, ताका बावतालीस रुपया मोल आसा. मागीर तूं येवंच्या वेळार सग रुपया. ताका कांय लेक ना.'

'तो सर्वय पोरनो माल न्हय? नवें काय दिलां? दिल्लें त्या वेळार नवें आशिल्लें.'

'व्हड भावान माका पंचवीस रुपया दिवूंक जाय.'

'कितें गरज?'

'माका जाय.'

हनीफान विचारलां, आबून विचारलां. आज कितें विशेश?

आबूक जाल्यार दुडवांची व्हड गरज ना. ताका धा वीस कमिसां आनी वस्त्रां आनी बनियानां आसात. एक पेट भर्न व्हाणो. त्यो साठ आसा म्हण

आवयन सांगलां.

न्हावंच्याक गेलेल्यो बायलो सग येवंच्याक दादले जेवंच्याक आयले. अब्दुल खादरान येवंच्याकच विचारलें,

'व्हड भावा, एक पनास रुपया जाय. व्हड गरज आसा.'

'तूं वच रे.' हनीफान एक लागीं उगडास करयलो.

'एक धा रुपया हांवें निमगले.'

हांव कांय उलयलों ना. एक वर जावंचाक गुपीत समजलें. डाकियो कुट्टन पिळ्ळेन दार दांटवून येवन सांगलें:

'साराक एक मनी आरडर आसा, शें रुपयाचें.'

कुट्टन पिळ्ळेच्या गालां भितर एक पिकल्लो आंबो घाल्ले वरी एक डुमान आसा. तें चोवन हांवें म्हळें, 'हे मनी आरडराचीं कायरीं तुंवें कोणाकय सांगलीं की?'

'सारे आमी सग हे गांवांत रावचे. अब्दुल खादर आनी हनीफा हांचे पसावत माका कांय गरज आसा. तांणी सांगलां, सारे, साराक मनी आरडर आयल्यार तांकां फुडेंच जाणोवूंक जाय म्हण.'

'पूण माका हें मनी आरडर नाका. कुट्टन पिळ्ळा काड.'

'आयो! तें कितें सारे?'

'पन्नास, पंचवीस, धा आनी तीन पांच हीं केल्यार कितले जाले?'

'शें.'

'तेंच ताजें लेक.' हांवें स्पष्ट कर्न लेकूंक कुट्टन पिळ्ळेक सांगलें.

कुट्टन पिळ्ळेन म्हळें, 'तें सग तशें, सार.'

इ्हूं! तें सग तशें. कसली भिरांकूळ गुप्त मसलत! कसली लूट!

कुट्टन पिळ्ळेन, आपणाली धूव सरस्वतीक कॉलेजांत धाडलें खबर सांगचे मद्दें हांवें दस्तखत घालन दिलें. शें रुपयाय नोट रुपान माज्या हातार दिलो. तेन्ना आवय आनी आनुमाय दोगांय साबाव जगलेर आयल्लीं.

एक धा रुपयाचें नोट हांवें पात्तुमायचे बोकडेक दिवंच्याक नीट केलें. कुट्टन पिळ्ळेन विचारलें, 'हें कितें सारे?'

हांवें म्हळें, 'तें खावो. पात्तुमायची बोकडी. वियेवन एक दोन दीस जाल्यात.'

कुट्टन पिळ्ळे हांसून गेल्लो. तुरन्त आवयन विचारलें, 'कितले आसात रे?'

'तुमकां कळना की?'

कितें सांगचाक? त्या दिसाच ते पुराय सरले. शें रुपया लान लान आंकडो जावन गेले. म्हण अर्थ. नाश जाले ना!

जीवनांत खर्च नात की?

## पांच

त्या दिसा सांजे हनीफान ताणें केल्लेली चाय माका दिली. साधारणत: दुडू दिता अब्दुल खादर. पिवप हनीफाल्या दुकानां दवरन. त्या दिसा हनीफान दुडू दिले!

हनीफा खर्चाक सामको फाटीं सरपी. ताज्या दुकानांत दिवो ना. कित्याक साबाव एक दिवो? अब्दुल खादराची कथीला दुकाना लागून आसा. थंय पेट्रोमाक्स दिवे धा, बारा आसात. ग्रामफोन आसा. (मागेले आवयचे करान रडून घेवन दवरल्या.) दिवे आनी ग्रामोफोन भाड्याक दिवंच्याक. सांजे काम आसल्यार हनीफा आबूक उलो दिवन सांगतलो, 'तो दिवो चिके आळतां काडून दवर. तशें मेळच्या उजवाडांत हनीफा सिंवंता. तें नुपुरो? उजवाड मेळता!

हांव तशें बैसच्या वेळार अब्दुल खादराची पोरणी काणी उगडास आयली.

तो केन्नाय उज्या लागीं बैसना. कोरलंचालो भातो आसा. त्या दुकानांत केन्नाय कठीण काम आसा. ताजे मात्या केंस पिकले म्हण फुडें सांगलें मू. ताका देकून तो माजो म्हालगडो भाउ म्हण जायते जनां चुकून समजले आसात.

तो चड धाडसाचें काम केल्ललो.

आमी एकसानी चौते दर्जे मरान शिकले. मागीर हांव चार ... दूरा अंग्रेजी हायस्कुलांत भर्ती जालों. अब्दुल खादर मलयाळम सा... पास जावंच्याक, हांव कण्णूर जयलांत कठीण बंदखणींत दंड ... सी दिसता. ती कथा 'उगडासाच्यो मिरियो' म्हळेल पुस्तकाचे... तें सग जावन हांव गांवांत येवंच्याक कुटूंब वस्तू सर्वय रिणांत बुडून...

घरांत जेवंच्या-खावंच्याक बऱ्या रुपान कांय ना. अब्दुल खादर... अ, आ शिकयल्ल्या नारायण पिळ्ळा अध्यापकाल्या स्कुलांत एक ... आसा.

हांव एक समाचार पत्र चलौंचाक कोची गेलों. सुमार काळ जाले... हांव गांवांत येवंच्याक अब्दुल खादर अध्यापकाचें काम सोडून बिडी ... जावन एक दुकानांत मेळन आसा.

गेरश्यांत पान आनी सुका आनी कतरी हें घेवन तो बिडी कर... दिसाक दोन सास बिडी मरान करतालो एक देड रुपया मेळतलो.

मागीर हांव येवंच्या वेळार ताणें बिडी करप सोडलें. सान्तांत ... कुडांत कोर्लंचालो भातो सग दवरन् कथील दंदेली जावन तशी काम... कथिलान तो कितेंय करतलो. हें सग ताका कोणेंय शिकयल्लें न्हं... बुद्धी आनी स्वयं प्रयत्न. बुद्धीन आठोवन देकून धरलेलो स्वतं... स्वयं चिंतन केल्यार दुसऱ्याक अवलंबून नातिल्लें कितेंय सग दे... प्रयत्न कर्न कशें तरी सुखान जीवन करच्याक प्राय: जातलें.

हांव त्या काळाक साहित्यकार म्हण अंचिकमळ रावतां – १९३... जायतें बरयतालों. प्रतिपूरण कांय मेळना आशिल्लें. प्रतिपूरण ... घेवंच्याकय पाडना. साहित्याची सेवा! साहित्य-देवालयांतली नित्य... पूण कांय खावंच्याक ना आशिल्लें. तरीय बरयतालों. समाच... उजवाडायतालों. आनी तें सग पत्रांचेरसून पिंजून काडून घडी घालन... दवरतालों. तशें हांव पुराय समय साहित्यकार म्हण उपास आनी... घेवन जीवन करच्या वेळार अब्दुल खादर लोकंडा बडीय तेंकून ... पेनय घेवन माजेकडे आयलो. साबाव आयलो न्हय. कायरें आसा!

'व्हड भावान हें समाचार पत्रांचेर उजवाडायता? अशें काड. ... सग एक वाचून चोयतां.'

अभिमान सयत हांवें मागेल्यो साहित्य रचना काडून ताज्या हातांत... आनी दोन आणे ताजे लागीं मागून घेतले. आनी चाय पिवूं गेल... एदो वेळ भोंवलों. तो वाचून संतोष पावों. ताजेकडे चार आणे ला... घेवूं. ते विश्वोत्तर रचनो – ताजो रचपी तागेलो म्हालगडो भाव न्हय निम... तो दितलो. अशें सग आठोवन परतून कुडांत आयलों. हांव पळो... ताणें वाचिल्ल्या सग कागदांचेरीय तागेल्या थोर पेनान रेखा काळ्ळ्य... कसल्याक? हांवें एक बिडी जळोवन कदलार बैसच्याक ताणें उलो ...

'म्हालगड्या भावा, हांगा यो.'

कांयकी गरजेचीं कायरीं आसूंक जाय. हांव उठावन वचून ताजे... मांदरेर बैसलों. तो भो तिरस्कार रुपान माका एक चोयलो. आनी एक... वाचलें. तें स्टायलन वाक्य. पूण ताणें विचारलें, 'हांतली 'क्रिया' खं...

'माका कांय समजलें ना. कसली क्रिया?'

एक लान विद्यार्थ्या वरी तो माजेकडे कांय उलयलो. तांत कर्ता, क्रिया, अन्वय, लोट बी व्याकरणा पासून घुस्पागोन्दोळ करपी चर्चा आशि... हें कांय ताणें म्हळेंना. अर्द वरांचे उलोवपांत ताणें माका एक बोद... आनी म्हळें:

'म्हालगड भावान व्याकरण शिकूंक जाय.' मात्र न्हय, एदीं व्या... पुस्तकांचीं नांवांय ताणें दिलीं. माका राग आयलो. थरथरून हांवें ... 'वच रे उठावन. तागेली एक आख्या! अरे, तूं न्हय की तूप फारंन ...

ण सांगून भोंविल्लो पंजा चोर! आरे हें सग आमी उलोवंचे गदी रवन दवरल्यां. तांत तूं सांगचें एक 'आख्यादम' ना जाल्यार कितें? एक कश्ट दिवंचें व्याकरण! थोंटो!!'

हों म्हळें, 'म्हालगडो भाउ माका कितेंय दोष दी, माका कांय ना. ायरीं आसा. भाव एक वर्साक हांवें सांगल्लीं पुस्तकां सर्वय वाचून रुपान बरवपय, वाचपय. शिकून बरय. मलयाळम भासेंत कितलीं आसात म्हण तुका कळतात तें सांग!'

व रे तुजे वाटेक!' पाय काडून केवलो दिवूंक जाय म्हण आठयलें. रा पसावत हांवें ताका मारलो ना. हांवें म्हळें: हांवें घरच्या सगटां विचारलें म्हण सांगूंक जाय – विशेश कर्न आवयकय, बापाकय. दुडू कांय मेळूंक प्रारंभ जालोना म्हणून सांग देकून कांय धाडलें ना.' जे लार्गी एक पैसा सरी रीण निमगलें ना. निमगुचें मन ना आशिल्लें. व्याकरण! मलयाळम भासेचीं अक्षरां!!

काळ वेळ सग गेलो. आतां मागेलीं पुस्तकां तो व्हड रुचीन वाचतलो. या बंधू-बांधवां पासून कांय काणयो बरोवंच्याक माका सांगलें. काणी आयकयतलो.

भाउ एक बरवन दिल्यार पुरो. हांव छापोवन विकीन.'

डू तो काडतलो. पंजा चोरा!'

न्या दिसा मागेल्या जांबा रुकाक पळोवन चेले चेरडुवां आशेन तोण्डांत काडून वतासतना पात्तुमाय आयली आनी बोकडीकय तिगेल्या ाकय तिणें रावचे कडे व्हरूंक तयार जाली. कारण?

ंगा कोणेंय तिका पळोवंना. आबू धांवडायतलो. मागीर फायसून धार दूद विकूंक जाय. एक चायेच्या हॉटलांत दूद दीन म्हण सांगलां.'

ारण तें की?

त्तुमाय बोकडीकय पिल्लाकय घेवन गेली. पिलाक मायेन पात्तुमायन काडलें. मागीर बोकडी आनी पील सुवाळ्यान धा वरार येतलीं. पील हान धावन उडकी मार्न भोंवतलें. मागेल्या हांतुळणार चडटलें. भुरग्यां ंत खातलें. आवय बोकडी व्हड वळवळ जाल्या. ती चेरडुवां म्हार्यांत खातली. आवाज, गोन्दोळ आनी धांव.

शें एदे दीस जावंच्याक घरांत हास आनी गोन्दोळ. सग मेळन व्हड आबी, पात्तुकुट्टी, सय्यद मुहम्दद, लैला, आरीफा आनी बी दुदा पितात? तताका कित्याक इतलो गोन्दोळ,आनी हास? हांव पेळतांत दोगांय आनुमायो, आवय, ऐशोमाय हीं सग खुंटा कणगा पूट सयत ाय पितात. सग हांसतात.

कितें गे आवय हो हास आनी गोन्दोळ?'

ांय ना रे.' आवयन हांसून म्हळें.

हालगड्या भावान सांगच्याक नज. आमी पिल्लाक धर्न बान्दून घाल्यां.'

ानी?'

हालगडो भाउ सांगतालो की?'

बबर कितें?'

ब्दुल खादराचे बायलेन मद्दें सर्न म्हळें: 'आमकां पात्तुमायचे बोकडेक ाडून शोळशी दूद मेळ्ळें.'

कितें गे आवय हें आयकूंक पडता?'

ामी कित्याक पात्तुमायचे बोकडेक फारन धार काडली?'

ावयन म्हळें, 'नाजाल्यार तिणें तें उगडास करूंक जाय न्हय?'

ानुमायन म्हळें, 'भावान सांग न्हयें. आमकां सर्वांक तें भो उणाव जातलो!'

ाव जावो. माज्या दोळ्यां मुखार ही व्हड फटवण चलोवंक हांव कशी ाी दितलों?

त्तुमायन येवंच्याक हांवें म्हळें, 'पात्तुमाय, तूं जागरूक जा. तुजे बोकडेक मेळन धार काडून दूद काडून चाय करून पिलीं. पिल्लाक पयलेंच धर्न बांदिल्लें.'

पात्तुमाय रागार गोरी तांबडी जाली.

'तांकां दोळ्यांत रगत आसा? तांच्या भुरग्यांक धर्न बांदून घालतलीं. हांव निमगतां.'

पात्तुमाय पेळतांत धांवली. तेन्ना थंय आवय, दोगांय आनुमायो, ऐशोमाय, पात्तुकुट्टी, आबी, लैला, आरीफा बी सगटांय तय्यार रावल्लीं. सगटांनी मेळन सांगलें.

'बरें जालें! बरें जालें! आमी तें केल्लां. आनिकय करतलीं! बोकडीय पिल्लय हांगा मू वाडता! आमगेले कणंग आनी पूट, आमगेली खोली, आमगेलें पेजे निशें, आमगेलें भुरग्यांलें शीत – हें सग खावन ती थोरी गुबगुबीत जावन दूद दिता. समजलें?'

पात्तुमाय तांचे मद्दें भेद हाडच्याक चोयली. 'आगो आनुमाय, तूं मागेली लान भयणी न्हय. तुका हांवें एक बोकडी दिल्ली ना? आवय, आवय, मागेली आवय न्हय? ह्या दोळ्यांत रगत नातिल्लें, भयण-भावज्यां करान कितें की हें करयलां?'

आवयन म्हळें, 'पुरो गो पुरो. तुज्यो भावज्यो, तुगेली आवय, तुजी भयणी – हांणी सग मेळन धार काडली. आनी आमी सग मेळन चाय पिलीं. चंद रुची आशिल्ली.'

पात्तुमायन म्हळें, 'आनी हांवें ह्या घराकडे पांय दवरना!'

पात्तुमायन बोकडे पिलाक काडून उमो दिलो. 'भांगराचें, तुका आशिल्लें दूद तीं फारन काडून पिलीं. शेळ उदक दीन. यो!'

पात्तुमाय बोकडी पिल्लाकय घेवन माजेकडे आयली. 'हांव वतां भावा. आनी हीं मागेले बोकडीक धार काडून दूद पिवचें एक पळोवयेत न्हय?'

पात्तुमाय पिल्लाक घेवन गेली. माका खोशी जाली. पील नातिल्लें आनी हीं बोकडेक धार काडून दूद पितात पळोवंयेत मू? हंपा!

पूण दूद सोडूंक पील जाय की?

महिला रत्नांक कळना की?

जागरूक रावका मू!

# स

बरोबर धा वरांर पात्तुमायची बोकडी येतली. स्वल्प जातर पात्तुमाय आनी खदीजा हीं दोगांय येतलीं. पात्तुमायक झगडें आसा की ना? भावजो, भयण्यो आनी आवय हांचेकडे संभाषण करता. घरचे दंद करता. कणंग आनी पूट खाता. दूद नातिल्ली चाय पिता. बोकडेक निशें दिता.

कोचुण्णीन येवंच्याक हांवें दूद चोरलेल्या पासून म्हळें: कोचुण्णीन म्हळें, 'हांवें तें सांगल्लें, थोडें दूद दिवंच्याक. पात्तुमायन वचून कितें केलें? चार घरकारांक दूद दीन म्हण जबाबदारी घेतल्या. एका चाये दुकानांत हांवेंय जबाबदारी घेतल्या. माकाय खदीजाकय एदें दूद सरी चायेक दिना.'

तशें तें. तेन्ना कोचुण्णी आनी खदीजा हांणी जाय जाल्यार थोडें दूद फारूक आळसाय दाकोवना!

हांवें पात्तुमायक विचारलें, 'तूं ते कोचुण्णीकय खदीजाकय एदें दूद दिना कित्या?'

पात्तुमायन म्हळें, 'दूद विकून मेळचे दुडू खदीजाचे बापा न्हय घेता? आनी सगटय दूद नातिल्लें न्हय आयज पर्यन्त चाय पितालीं? आतां कितें इतलो लोभ? हांव पिता की!

'तूं म्हा कंजूस जालां मू?'

'खदीजाचो बापा चिट्ठींत वोगरी दिता. ताका दिवंच्याक दुडू नाका?

तेंवय बरोबर, म्हण चिंतन कर्न बैसल्या वळार सुलैमानान तीन अनवासां हाडून माका दिलीं आनी म्हळें, 'विशेष अनवासां हीं. चांग आसतलीं.'

हांव तें तासून भुरग्यांक सग एक एक कुटको दिवन खातां आसतना

आबू गंभिरकायेन चडून आयलो.

'आ... दामेली जाल्यार अशें आसतले!' ताणें म्हळें.

अनवास दिवंच्याक माका कोणेंय ना. आज म्हालगड्या भावाक एक जेवण दिवंच्याक तय्यार करतात!'

'कसलें जेवण?'

'पारोटा, लिव्हर आनी चाय!'

तुंवेंय माजे लागीं यो.'

'माका कोणेंय उलो दिलो ना. म्हालगडो भाव एक जाण जालो? कंजूस म्हालगडो भाउ धाकट्या भावाकय आनी हनीफाकय काल दूद घालेली चाय दिवन धाडल्लो. हांत कांय गुपीत आसतलें!'

'पात्तुमायन ही दुदा चाय धाडून दिवंच्याक कारण कितें?'

'हनीफान सत्याग्रह केलो.'

'कसलो सत्याग्रह?'

'म्हालगड्या भावालो कमीस, खदीजाचें ब्लौस आनी एदें बन्तोर लुगट – हें सर्वय सिवन दिता हनीफा आसा. पयरी की कितेंकी, सिवोवंच्याक खदीजा येवंच्याक मन ना. माका सिवन दिवंच्याक म्हण सांगून धाडलो. मुखार तशें सांग न्हये म्हळेल्याक लांच ही एक सिंगल दुदा चाय!'

'अब्दुल खादराक दिल्लेलें?'

तें व्हड मामान धाकट्या भावाक एदे रुपया दिवंच्या आसा. व्हड भावाक देकच्याक धाकट्या भावान म्हळें. 'रुपया तुरंत परतून दिलोना जाल्यार केस दितलों! पयली प्रति व्हड माम, दुसरी प्रति म्हालगडो भाऊ. तिसरी प्रति खदीजा. तेंवय पुरो न्हय जाल्यार बोकडीक जप्ती करयतली! तशें कांय करनातिल्लें रावचाक एक सिंगल च्याय!

अशें लांच दिवंच्याकय पात्तुमायचे बोकडेच्या दुदाचो उपयोग करतात.

आबून म्हळें, 'कुट्टन पिळ्ळा येता.

खरेंच. डाकिया कुट्टन पिळ्ळा. दार दाटवून येवन एक पारसल दिलें. हांवें दस्तखत करन दिलें. कुट्टन पिळ्ळा गेलो. उपरान्तेय हांव पारसल मेकोळन चोयलों ना.

आवयन विचारलें, 'कितें रे त्या काटांत?'

हांवें म्हळें, 'मागेल्या नव्या पुस्तकाची धा कापी. उजवाडावप्यांनी माका इनाम म्हण धाडून दिल्यात. पुरो?'

तेन्ना आवयक जाणूंक जाय, 'विकल्यार दुडू मेळटले की?

'तुमी एक पेळतांत वतात की? दुडू, दुडू, दुडू!'

माजेकडे तेन्ना एक पैसा सरी ना. माजे मनां चिंता उदेली. आवय वच्याक हांवें आबूक गुपीत उलो दिलो. 'तुका हीं पुस्तकां सान्तांत व्हरन विकूंक जातलें?'

तो तुरन्त विचारता, 'कितें कमिशन दितलो?'

'तें सग दीन रे' म्हण सांगून पारसल मेकोळन णव पुस्तकां एका कागदांत गुडळावन आबूलागीं दिवन राखून बैसलों.

मागेलो गांव. हांव बरयल्लें पुस्तक कोणेंय दाम दिवन घेतलो की?

एक दोन वरां जालीं. आबू आयलो. नशीब. पुस्तकां सगय विकलीं. एक पुस्तकाचें मोल पुराय ताका दिलें. बाकी दाम मोवंच्या वेळार.

'कितें मेळें रे?' म्हण निमगून आवय आयली. तिणें ते दुडू देकल्यात. माका व्हड राग आयलो. माजेलागीं आशिल्लो एक गिलास काडून सर्व बळय घालन वण्टीक एक विन्दप! एक धा हजार कुटके जावन गिलास भेतलें. 'क्णिम्' आवाजान खाल पळ्ळें. घरांत शान्ति. माका व्हड आश्वासन दिसलें. आवयन कांय उलोवनातिल्लें ते सर्वय पुसून काडून एका कागदांत गुडकावन व्हर्न दूरा घालें. आनी येवन चूप माजे मुखार अस्तंत दशेक पळोवन बैसली. कांय उलयना कित्या?

बाकी आशिल्लीं 'विश्वविख्यातमाया मूक' नांवाचीं पुस्तकां काडून पात्तुमायचे बोकडेक दिलीं. ती व्हड उत्सुकतायेन लागीं आयली.

'हें कितें म्हालगड्या भावा?' आबून विचारलें. हांवें म्हळें, 'पा
बोकडी', 'बाल्यकाल सखी', 'शब्दंगळ' हीं पुस्तकां रुचीन खाल्य
आनिकय पुस्तकां आसात. दीन म्हण सांगलां. 'विश्वविख्यातमा
खावन पळवों.'

'तिका खावोवंक नाका', आबून म्हळें.

हांवें पुस्तक व्हर्न पेटांत दवरलें. आबून वच्याक मेळेलें दुड
अर्द आवयचे व्हॉटींत उडकायलें. आवयन विचारलें, 'आरे, त्या पु
एकाक कितें मोल आशिल्लें?'

हांवें खरें सांग्गलां. चिके जावंच्याक अब्दुल खादर जेवणाक
माजेकडे आशिल्लीं बाकी पुस्तकां घेतलीं.

'एक व्हड काट मू आशिल्लो.'

'धा कॉपी आशिल्ल्यो. णव आबूकरान विकयल्यो.'

'दुडू खंय?'

'एकाचें मोल आबूक दिलें. बाकी आशिल्ल्याचें अर्द आवयक दि

'माका कांय ना?'

'तूं तें पुस्तक विकून दाम काड.'

'आवय!' म्हण उलो दिवन तो भितर गेलो. थंय थोडो मुरमूर अ

'हांव हांगा खर्चाचें पळयतां. तुमी न्हय!' अब्दुल खादर सांगता अ
स्वल्प जावन आनंदान तो गेलो.

आवयचें तोंड देकच्याक आवयचे कडे आशिल्लें चिलवाण अब्दुल
व्हेल्लें जावन माका दिसलें.

चार वरांचेर कोचुणीय खदीजाय येवन माका आपयलो. आबूस
गेलों.

कोच्चुणीच्या घरांत कोच्चुणीचो बापूय आवय भयणीय आसात. प
कोच्चुणी, खदीजा, पात्तुमायची बोकडी आनी पील, कुंकडां हांकां
शान्तीन रावच्याक एक पोरनी खोंपी आसा म्हण आबून म्हळें. 'ताजे
म्हालगड्या भावान जाणूंक नज म्हण मामान म्हळेलें आसा. म्हा
भावान तें एक पळोवूंक जाय' म्हण आबून गुपीत म्हाका सांगलें.

भाजल्लो पोळो आनी मांस भाजल्लें आमी पोट भर्न खालें. दु
पिले. पात्तुमायचें घर आमी देखलें.

'म्हालगडो भाउ कित्याक हांगा आयला?' म्हण दुख्खान पा
विचारलें. पात्तुमायचें घर व्हड दुख्खा आनी कश्टांचें. रेंव कालोव
ताड झाडाच्या मडळान शिंविल्लें एक लान कूड. ताजें कवड एक र
पोरन्या घराचें. तें दोरान बांदून दवरल्यां. ताका कदियात ना.

'व्हड उणाव जालो', पात्तुमायन म्हळें.

'आनी हांव जिवंत रावून कितें फायदो?' हांवें म्हळें. 'तूं साब
ताजें कवड सारकें करूंक रुपया हांव दीन.'

'नाका म्हालगड्या भावा, हांव मागेले बोकडेचें दूद विकून दाम व

'नाका, हांव दीन.'

ते रातीं जेवण जावन हांव घरांत कदलारीच असस्तं दिशेर घुंवन
कौच्चुण्णी आसा. सुलैमान आसा. पात्तुमाय आसा. सगटय आत.

अब्दुल खादरान हनीफाक म्हळें, 'आरे आमकां फालें जावंच्याव
जाय. कचेरी प्रारंभ जाल्यार तुरंत आमगेलें केस फायल करोवन
आळतां येवूं.

हांवें विचारलें, 'कसलें केस?'

'एक सिविल केस. एक तत्काल जप्ती आसा. हें केस हांवें नीट
दवरयल्लें. पूण कांय घडणुको घडल्यो. आनी तोडोव करोवंच्याक प

'कसल्यो घडणुको?'

'ओरवा चापात्ती नाल्ला रोसांत बुडोवन पिंगण्यांत दाळन दिवं

मां उगडास केलोना. मांस पिंगण्यांत दवर्न दिवंच्या वेळार आमकां उगडास ोता. आमकां एक एक सिंगल चाय! दुसऱ्यांक चपाती आनी मांस.'

ानुमायन म्हळें, 'हांवेंय, आवयय, नणंदो-भावजोय उदक पिवन ह्या ो बैसलीं. आमकांयै उगडास केलो ना!'

ुलैमानान म्हळें, 'त्या वेळार हांव?'

अब्दुल खादरान म्हळें, 'सुलैमना, तूं पयलो गवाय.'

ात्तुमायन म्हळें, 'हांवें कोणाक सगट भियेवंक जाय? आवयक भियेवंक र भावज्यांक नणंदांक भियेवंक जाय. माजे भयणिकय भियेवंक जाय. ज्या भावाक भियेवंक जाय. हनीफाक भियेवंक जाय. आबूक भियेवंक मागेल्या घोवाक भियेवंक जाय. आतां सुलैमानाकय भियेवंक जाय.'

ाका कोणेंय भियेवंका नाका.' आबून म्हळें.

वें म्हळें, 'पुरो रे.'

त्तुमायन म्हळें, 'धाकट्या भावा, हांवें सगटांक पारोट आनी चाय दीन. दीस जावो.'

केतले दीस?' ताणें विचारलें.

ां हांव सांगन. आरे हानीफा, जाल्यारय तुवें तें केल्लें मुरे? खदीजाकडेन ां शिंवनातिल्लें धाडून दिल्लें?

ीफान म्हळें, 'हांवें दुडू कांय घेनातिल्लें शिंवन बैसल्यार पुरो मू. क दिसान दीस कमीस शिंवूंक जाय. ह्या घराक आशिल्ल्या सगटांकय क जाय. कोणेंय कुली दितात की?'

ब्दुल खादरान म्हळें, 'तुगेले घरकान्निलें कमीस शिंवच्याक हांवें दाम क जाय. लैलाचो घागरो आनी ब्लाउज शिवूंक हांवें दाम दिवंक जाय. ाचो कोट आनी ट्राउजर शिंवच्याक हांवें दुडू दिवूंक जाय. बरें मुरे हें?'

नीफा झगडलो. 'माका कोणेंय कांय दिवूं नाका. हांव सेनांत वचन. ज रातींच वचन!'

ा वेळार माका एक घडणूक उगडास आयली. हांवें म्हळें, 'आरे, एक वर जावन वचूं सेनांत! तूं जायते पावटीं सेनासून सुटियेर येवन परतून सतना अंचिकमळ माजेकडे आयलो ना? तेन्ना केन्नाय तूं माजे लागीं धा रीण घेवन गेल्ललो आसा. तुजेकडे आशिल्ले सग आवयन घेतले, ुल खादरान घेतले अशें तुवें सांगलें. तो रुपया कांय तुवें माका धाडून ा ना. तो सग अशें काड.'

नीफान तुरंत ऐशोमायक उलो दिलो. 'देंव गो. भुरग्यांकय काड. ह्या त आनी रावचें नाक. जनांगेलें एक पोटार चडप. आमकां थंय वचून मडळाखिरो तेंकून रावंया. यो. उठा रे आबी.'

ांवें विचारलें, 'आरे, तूं म्हाका रुपया दिवंच्याक आसा.'

ाणें म्हळें, 'ते सग तेन्ना न्हय? तें सग आतां कोण उगडास करता?' कशेंय आसों. दिवंच्याक आसा म्हण स्पश्ट. संतोष.'

ांव वचून निदलों. फान्त्यार चार वरांचेर पात्तुमाय, कोचुण्णी आनी खदी च्या आवाजान जागों जालों. हांव तशें पळ्ळों.

ावयन विचारलें, 'तूं जागो रे?'

ांवें म्हळें, 'हांव पळ्ळां. कितें?'

ावयन म्हळें, 'तुजेलागीं दाम आसल्यार एक रुपया माका दी. कोणेंय नाका.'

काल दिला हांवें.'

ते सग अब्दुल खादरान घेतले. तो घरा खर्च चोयता न्हय? कितल्या क खर्चाक दिवूंक जाय! दिसान दीस कितले रुपया जाय म्हण तूं ा कर.'

ुजे वाटेन वच. उलयल्यार हांव आतां हांगासून वतलों.'

ावय उलयली ना. हांव तसोच पडलों. एदे दीस फुडें हांवें येवंच्याक जाल्ली घडणूक उगडास आयली.

तेन्ना हांव रावल्लों हांवें केन्नाय रावच्या ल्हान घरांत.

आयलों एका स्पेशल कारार. कार येवन घरा मुखार रावच्याक एदे जनां मेळें. हांव टॅक्सी ड्रायव्हराक रुपया मोवन दिवंचें सगटांनीय देकलें.

ते रातीं जेवणय जावन हांव निदेवंचाक वच्या वेळार अब्दुल खादरय, आवयीय, हनीफाय मेळन आयलीं. येवंच्याकच अब्दुल खादरान म्हळें, 'भावा, रुपया कांय आसल्यार हांगा दवरचें नाका. आळतां दी. कोणेंय चोर येतले. येवन मार्न लेखार करतले.'

हांवें पयशे रुपया आवयचे मुखार मोवन ताज्या हातांत दिले. चोरांनी येवन मार्न लेखार केल्यारीय रुपया वचना न्हय! सगटय आनंदान गेलीं. हांव शांत मनान पडून तशी एक विडी लायली. तेन्ना कोणकी एकलो काळखांत घरां भितर बैसला सी माका दिसलें. कठारीय घेवन येवन माका मार्न उडकावन दाम हातां घेवन वच्याक आयल्ली फारपेली वावराडी आसा की? स्वल्प भंयान हांवें विचारलें, 'कोण तें?'

'हांव रे', आवयन ल्हवू म्हळें. 'कोणेंय नेणतां हांव आयल्यां!'

'कितें गे विशेश?'

'आरे, कानान कान कोणेंय जाणूंक नाका', आवयन म्हळें, 'तुंवें माका एक पंचवीस रुपयो दिवूंक जाय. कोणेंय जाणूंक नज!'

आवय न्हय? जल्म दिवन मोमो दिवन व्हड केलो म्हणची आवय न्हय? हांवें पंचवीस रुपया त्याच वेळार दिले. तसो हांव मनांत शान्तीन न्हिदलों. दुसऱ्या दिसून रीण घेवचे जनावलिचो एक खीट जाल्लो. चडय बायलो आशिल्ल्यो. सगटय मुस्लीम समाजाचो लोक न्हय. पूण सगटांचोय मोमो हांव पिल्लोलों आसां? 'तें तूं विसरलो की? एक दोन रुपया माका दी.'

हांव अशे दोन, चार, पांच हे लेकान दिवंच्याक लागलों. शें रुपयां लागीं पावंच्याक. 'ना, हांव कोणाचोय मोमो पिल्लों ना' म्हण स्पश्ट सांगून बैसलों.

हाचे मद्दें एक खुशाली जाताली. आवय आबीक आनी पात्तुकुट्टीक हाडतली.

'कांय पुण्णीय हांकां दी रे. पैसा कांय दिवंनाका! मात्र न्हय.'

'आरे, तूं आतां रावूंक आयला. तुका देकच्याक तुजे गांवकारी येतले न्हय? आमी तांकां शीत कित्यांत दितलीं?'

'पानार.'

'तें अपमान. आमकां एदीं आयदनां जाय.'

'माजेकडे रुपया ना.'

'पूण हांव हस्ती पटांगणांतल्या दुकानां वचून तूं सांगलां म्हण सांगून घेतलीं.'

आवय तशें करतली! हस्ती पटांगणांतले वर्कीक व्हड स्टेशनरी दुकान आसा. तो माजो दोस्तय आसा. थंय आवय गेल्यार त्या दुकानांत आशिल्ले सर्वय हाडूंक तयार जातली! हांवें म्हळें, 'आवयन वचका नाका. हांव वचून घेवन येन.'

हांवें वचून एक व्हड वोजें आयदनाचें एकला करान व्हावोन हाडयलें. तशें शांतीन रावच्या वेळार आवयन म्हळें, 'आरे, तूं आतां कशेंय जावो हांगा रावच्याक आयला. तुजे दोस्त आयल्यार खंय निदतले? तूं एद्यो अचे मान्दुर्योय उशींय घेवय.'

'तूं साबाव वच.'

कित्याक? झगडें नाका म्हण हावें तेंवय घेवयलें. तेन्ना आवयक एक तांब्या कोपोरो जाय. खंयचय भात मेळ्यार उकड येत. न्हावंच्याक उदक भरन सोडयेत. नीती मू.

हांवें चिंतन केलें. तांब्या कोपोरो जाल्यार मागीर पाड्यां गाडी! ताचेय उपरांत मोटोर कार! ऊं हूं!

पेटय हांतरूणय काडून हांव एक चमकण वर्कला जावन मद्रास सग भोंवन आयलों. मागिरीय गेलों. मागिरीय आयलों. तशें हें आगमन. हनीफा

सेनांत वतलो म्हण सांगचें गदी न्हय. हांव वतलों म्हळ्यार हांव वतलों. देकून आवय चूप पळ्ळ्या. हांव उठावन वचून पेट उकती कर्न बाकी आशिल्ले रुपया सग काडून दिले आनी म्हळें,

'आनी भियेवंका नाका. हांव वतलों म्हळ्यार वच्याक शक्य न्हय. वाटे खर्चाक पैसा ना. आनी आतां माका खाण जेवण दिवन वाडेयात.'

उगडास तशे आयले.

दीस एदे गेले.

तेन्ना एक अजाप घडणूक जाली. महिला रत्नांचो विशेश चंद कार्यकलाप. पात्तुमायचे बोकडेक दोगांय आनुमायनय येशोमायनय आवयनय मेळन मागिरीय धार काडून दूद काडून चाय पिलीं. पील नातिल्लें दिसान दीस हें दूद फारप. पील नातिल्ले बोकडेन दूद दिवना म्हळेल पवित्र विश्वासाचेर सुखान शांतीन जीवन करता पात्तुमाय!

केवल एक रसपतीक अबीक आनी पात्तुकुट्टीक बोकडी पील करूंक प्रयास केलो. तरीय जालेंना. आखेर सुवैदा आनी रशीद बोकडे पिलां जालीं. बोकडेचे मोमे चिंवन पिलीं. केवल बोकडी पिल्लां! ही अजाप घडणूक पात्तुमायन आयकल्ली! पात्तुमाय हर्द्यार मारन रळ्ळी.

'तुमी मनीस की? तुमी अशी केले मू. नाका. हांव तुमकां दूद दीन!'

दुसऱ्या दिसासून पात्तुमायचें म्हण अर्द कुपी दूद तय्यार येवंच्याक लागलें.

सुवैदा, रशीद, अबी, आरीफा, लैला, पात्तुकुट्टी – सगटांकय खुशाल! आनुमायकय ऐशोमायकय आवयकय दुदा चायच!

आतां बोकडी मागलान पिलय येता. ताका लागून अर्द कुपी उदक घालनातिल्लें शुद्ध दूदय घेवन खदीजाय!

अशें दोन तरां दूद घरकडे मेळता. एक बरे रुपान फारचें! आनी एक प्रामाणिकपणान, परोपकाराक, पात्तुमायन दिवंचें! सादू पात्तुमाय! कितें करतली?

एक गुपीत मात्र आतांय कळूंक जालें ना. ही बुदवंतकाय आनी बायलांत कोणाक सुरवेक दिसली.

* * *


## शेतकामत्यांची गिरेस्तकाय होच आमचो य…

आमी दितात

तांत्रिकी सल्लो, योग्य रोपां आनी दर्जेदार बियो त…
अन्नधान्यां, कड्डणां, दाळी, भिकणां, भाज…
अळमीं, फळां आनी फुलांचें पीक काडपाक वि…
विंगड सरकारी येवजणांवांगडा पालव.

तुमचें समादान हीच आमची प्राप्ती.

आमच्या विभागीय शेतकी कार्यालयांक भेट दिय…
वा

**शेतकी संचालनालय**

पणजी – गोंय

हांगा अदीक म्हायतीखातीर संपर्क सादात.

फोन नं.: २२५९१०, २२६४४५





सगळ्यांक
दिवाळेचीं परबीं
आनी
नव्या वर्साखातीर
शुभेच्छा!

# एक बरें मागपी

पणजी – गोंय ४०३ ००१.

# ...ज कविता आनी एक चार

...भगवंत वेळुस्कार

...चें गाणें
... मनांत कोणे केणलें
...वन
...म्हाजें
...शें गा शेणलें

...तेचे
...आगळिकेंत
...ळय केन्नाय दिसता
...ायांच्या
...शिरंगाराक
...माळून भिजतां

...गाचो
...ग शिर्वाण
...तुल्यान मंत्रत येता
...कल्पांच्या
...ळांनी
...उन्मळावन घालता

...टचे
...ारची
... सर्पीण
...ंनी शिर्शिता
...पार्दिकी
...सोळीं
...ळसळावन
...भिरभिरता

...कोणाच्या
...कोणें
... माणें साणयलां
...च्या रे
...ाण्यांत
... म्हाका ताणयला

२.

ओंठातुल्यान
वयता वाट
उपाट सर्गाची
खिणा खिणाक
वयता भिजोवन
मोगा दडक मिर्गाची

दाळमा दोळ्यांवरी
भरून वयता
म्हाकां गच्च दडक
आनी दोळ्यांच्या
कडांकडांनी
कोणा मोगाचें
वत कडक

काळीज कंवळी
मोगाक रुखावळ
पाखां फांकारून
थंय वयतां
तिच्या आंगाच्या
पार पानांनी
शिडशिड जावन
विडविडटां

व्हटये पोटासून
पाट जो व्हांवता
मोग माळून
थंय हुळहुळटां
आनी निरंतराचो
जावन उजो
काळजा काळजांत
झुळझुळटां

३.

जाणा मगे
तुजे भितर एक तूं आसा
तें केन्नाय अकस्मात
दिश्टी पडटा खेळटना
तुज्या दोळ्यांच्या
बावल्यांच्या दोळ्यांत
आनी चान्न्याचो वट्ट उजवाड
रंग सारंग जावन
शिरंतरांनी सुंवारत येता
ता थै ता थै नाचत
हें मनशा परस
माडाच्या चुडटांक बरें कळटा
देखून मदींच दोन चुडट्यो
टिट्टिट्टा...
केन्ना तुज्या
स्पर्शातल्यान
वर्सांसंकिनी दामून दवल्लेल्या
हुस्कारांचो सुस्कार
मुखर जावन वयता
सांगल्यावीण रुजून येता
सगळे समज...
तुज्या आवाजाची
वज
म्हाका सजयत रावता
म्हज्या अच्यूत चित्तांत...
जाणा मगे
तुजे भितरली तूं
केन्ना केन्ना
म्हजे भितर कशी पसवता ?
ताचें हें उत्तर काय अत्तर
अशे तरेन वथरेत रावता
परमत्तरता...
जाणा मगे
म्हाम्माये...

४.

म्हज्या कुड्ड्या बोटांनी
तुका सांसपितां
तेन्ना म्हज्या रगतांत
रंगत येता
एक मल्हाराचें मोड

म्हज्या मोन्या उतरांनी
तुका काणयो संगतां
सुंगटांचे उडकेच्यो
तेन्ना म्हजे म्हाकाच
चंवरायत वयतां
मणिकांचन योगांत

म्हजे नदरेच्या उद्धाराक
हांव हुंगतां तुजो हुस्कार
तेन्ना ऑस्करांचेय पलतडची
आनी नोबलांचेय पलतडची
चैतन्य जैत निर्मण
म्हाका आनारून वयता

वेळा अवेळा
आतां कोण एकलो
आपल्या शिरंत्रांचें
वाजंतर करून
सादयत वयता सूर
शिडशिड
कूडभर
काळीज पिळून मेळयल्ली...

# तमसो मा...

शंकर रामाणी

*अख्खे पिकिल्ले जिणेची सांज*
*अदिकच सांवळटा... आनी निखटें नितळ*
*एकटेपण वांट्याक येवंक लागिल्ले*
*एकोडे वाटेंतल्या रुखांच्या सांवळ्यांचे*
*सासायेकडेन शिटूक नदरेन पळेतना*
*सुवर्णकांतिची एक वेगळी झळझळीत झांक*
*काळजाचे कोठये कुडींत ल्हवूच रिगता...*

*आजमेरेन वर्सांचीं वर्सां सोंशीत आयिल्ल्या*
*सुखदुख्खांची, वित्रागांची, उतळतापांची*
*शीम हुपले उपरान्त तिनसांजचे धारेर*
*व्हांवतल्या काळखांत हांव एकटोच व्हारांदार उबो*
*राविल्ले कडेन तनरेच्या झोंपाळ्यार बसून*
*झोंपय काडटां काडटां कुकुलोच जातां:*
*म्हज्या आंगाक आवयन अपुर्बायेन शिंविल्लें*
*आंगलें; माथ्याक तोपरें आनी तिणेच*
*मुठींत दिल्ल्या खिळखिळ्याच्या मंजूळ आवाजान*
*अस्तमतेचे उदेंतेक पर्थून तामशी फुट्टां*
*फुट्टां फाटोफाट फांतोड्डेचे न्हाणयेंत हुनहुनीत*
*उदकान न्हाणोवन, कार्तिकांतल्या दाट्ट धुक्याच्या*
*तुवाल्यांत गच्च गुठलायलेलो गुडगुडीत माणकुलो*
*सुर्या म्हजेकडेन पळेत हांशिल्ले वरी दिसता...*

*हो नस्तो भैरजळोपसो भुरकुटो भास*
*आनी ओंठार अळंग उदेल्ली अस्फूट प्रार्थना*
*'तमसो मा ज्योतिर्गमय...'*



# आवयले निरोप

आनंद वर्टी

*सांजचे पारार*
*धुवेल्या घरार*
*पारवो एक बसता*
*आवयन मोगान*
*दिल्ले निरोप*
*वचून तिका सांगता ॥*

*'गोडशें आयज*
*केल्लें बाये*
*खावचे म्हाका पयलीं*
*याद तुजी*
*येवन मनांत*
*दोळ्यां दुकां आयलीं'*

*'घोवाक मांवाक*
*सांबाळ बाये*
*मांयच तुजी आवय*
*देवादयेन*
*मेळ्ळा म्हाका*
*गुणी म्हजो जांवय'*

*'न्हिदूं नाका*
*चड वेळ*
*भायरभितर पळय*
*मायेमोगान*
*सोयऱ्यांमदीं*
*नांव बरें मेळय'*

*'ताकतिकेन*
*चलय घर*
*गांठीक पैशे लाय*
*केन्ना येत*
*काळ कसो*
*सांगूंक जायना बाय'*

*'आमी दोगांय*
*जाण्टीं जालीं*
*दवर आमची याद*
*कितेंय तुका*
*लागलें जाल्यार*
*घाल आमकां साद'*

*'धुंवाळ्याचें*
*आसा म्हगो*
*देव बरें करूं*
*नात नातू*
*कितेंय जावूं*
*घर तुजें भरूं.'*

...जि कविता

...ध बोरकार

...

...ांदरांचे असवडीं
... एकामेकांक
...वेळार मेळिल्लीं
...ी सावळेतळा;
...ङात हातांत घेवन
...ं नाजूक मेथयेच्या तळव्याचेर
... बोटां अळंग भोंविल्लीं
...ळेळाचें विसरून भान
...याच कैफांत आमी
...दयविळांनी विडविडिल्लीं...

...ांवरी
...ातळा शिंपडिल्ल्या
...र्मळीत खिणांचो वळेसर
... हांव

...ां काळाचे रेंवेर
...ुखार म्हजें नांव...

## पेले गाळींत

पेले गाळींत
झड्टा पावस
पावस धुक्याचो

कोंड्या आळींत
भिजता सूर
सूर चान्न्याचो

तुज्या दोळ्यांत
फुलता कळो
कळो रातीचो

म्हज्या मळ्यांत
पिसो पर्मळ
पर्मळ स्वासांचो...



# सकाळ, तूं आनी हांव : तीन कविता

**परेश नरेंद्र कामत**

१.

सकाळ: धवी-धवीच फिक्कट
उजवाडाची शेज;
रातच्या विर्यस्खलना उपरांतची...

२.

हून, तापिल्ल्या रगताचो
विर्यवंत सुर्या
येता धतरिच्या कुसव्यांत धगधगून;
किर्णाकिर्णांनी
अख्ख्या संवसाराचो शुक्राणू जावन...

३.

रातभर – म्हजे तुडूंब काळखे कुशींत बुडून
सकाळफुडें,
तुका जाग येतकीच
कुडिच्या जनेलाचो पड्डो कुशीक काडून
रुजवणे नदरेन तूं
धतरिच्याच निखळ पांचव्या मनान
घे आंगभर पांगरून
मळबांतल्यान आयिल्लीं सूर्य-किर्णां... आनी
काळजांतल्यान राव
वाट पळेत; एक दीस–
तुजेय व्हटयेंत
रक्तामांसाचें एक सुंरगी फूल
जावन आयिल्लें तुजें –
– म्हजें विश्व खेळोवपाची...

# जियेवप कठीण जायत चल्लां

रवींद्र रमाकांत म्हाड्डोळकार

*'जियेवप ही एक कला'–*
*अशें कोणें तरी म्हळां.*
*तशें म्हणप सोंपें... पूण;*
*जियेवन दाखोवप भोव कठीण*
*तातुंतले तातूंत झरतमरत जियेवप तर साप्प कठीण!*

*जियेवप ही कला आसतूय घडये*
*पूण... आमकां ती 'कला-बिला' कांय जमना;*
*देखून आतां जियेवप खऱ्यांनीच कठीण जायत चल्लां*
*फटिचो लटको धीर दीत दीत*
*जिवाक थातारीत-थातारीत जियेवप*
*अदिकूच कठीण जायत चल्लां!*

*सगळ्यांचे जाले एकाचे दोन; दोनाचे चार*
*चारांचे आठ...*
*पूण मुळांत आशिल्ल्या आमच्या एकाचेंच जालें अर्द;*
*अर्दाचो पाव... पावाचें शून्य...*
*तशें पळोवंक गेल्यार आमचें आशिल्लें नाशिल्लें*
*'मुदलू'च गेलें*
*आमी सामकेच फटवले*
*आमकां हे जिणेनूच नागयले*

*जिणेच्या गणितांत*
*आमकां अदीक खबर ना...*
*आशिल्ल्या-नाशिल्ल्याची 'वजा' जावन*
*आतां बाकी उरल्या शून्य...*
*तूर्ताक आमची 'श्रीशिल्लक शून्य'...*

*शुन्यांतल्यानूच खंय ह्या विश्वाची*
*उत्पत्ती जाल्या...*
*अशें तत्वगिन्यान घोंकीत घोंकीत*
*धाय दिकांनी शेणिल्ल्या मनाक*
*जाग्यार घालप कठीण जायत चल्लां!*
*सांधे धरलेल्या पावलांक ओडीत ओडीत*
*पावली मारप कठीण जायत चल्लां*
*हांगा जियेवप कठीण जायत चल्लां!*

*नवे जिणेचो जल्म;*
*ही कितली सुखदिणी गजाल.*
*सुकिल्ल्या रुखाक आयिल्लो तो कंवळो फागूर*
*हो जीव जल्माक आयलो;*
*तेन्ना भायर भितर भरलेलो बिण्ण काळोख*
*पावस घोगेतालो... ताणशेतालो...*
*असोच पावस खंय दडकांनी रकलेलो*
*ते अश्टमिचे राती*
*असो पुराणाचो आदार घेयत घेयत*
*जगप आतां कठीण जायत चल्लां!*
*हांगा जियेवप कठीण जायत चल्लां!*

*नवो जीव काळखाची वार कापून जेन्ना*
*धतरिर आयलो तेन्ना आमचे पांय धतरेक लागले ना...*
*पूण दुसऱ्या खिणाक जाली याद;*
*बोल्साक पडिल्ल्या बुराकाची;*
*नशिबाक लागिल्ल्या कोळेहुंदराची...*
*अशीच अवतिकाय आशिल्ली खंय, हुमायूनाची;*



का कळिल्ली खबर
भुरग्याच्या जल्माची...
सासाचो दाखलो
तोखेत जगप कठीण जायत चल्लां!
कठीण जायत चल्लां!

जनावरां आपल्या भुरग्यांक खातात
यकल्लें;
आपल्याच पेट्यांक खातना
ठ्यल्लें;
दींय अशी विकृती आसता;
ात लेगीत नाशिल्ली खबर;
त्रां पळयलो एका कसायाक
वाडयल्ल्या गोरवांच्या मानांवेल्यान
कायेन सुरी फिरयतनां;
ानच हो जीव गळसणलो,

मनाचें हें मडें
वेल्यान व्हांवयत व्हांवयत
कठीण जालां;
कठीण जायत चल्लां!
'आमी' 'आमकांच' पावणेर काडल्यात;
र काडला हांवेन म्हाकाच आनी
ांगडा बुभुक्षित नदरांनी कोंचायिल्लो...
ल्लो... इबाडिल्लो
'घोंटेर'
टेरांतलीं चोंचावन चोंचावन उडयल्लीं
वर्णी

धुंवरेल्लीं... वाळटी लागपाक आयिल्लीं
प्रमाणपत्रां... कांय शिफारस पत्रां;
स जाल्लो म्हजो एक चेक;
सारकेच उबंत पडिल्ले... कांय बँकांचे पासबुक...
.. आनी...
इल्लो करून ना जायत चलिल्लो म्हजो
ळावेलो हयन्हयसो हांसो
.. हें सगळें पावणेक जाका पावता...

... सामकें फुकट
मेल्लें मन...
तरी सभागी लास घालतलो
शेर आतां जगप कठीण जायत चल्लां!
नीच आतां जियेवप कठीण जायत चल्लां!
जायत चल्लां!

*Wishing a Happy Diwali and a Prosperous New Year!*



**M/s. KENI BROS**

Dealers in
Motor Spares, Tyres & Tubes

Govinda Building
Mahatma Gandhi Road
PANAJI – GOA 403 001.



*With best compliments from*



**NARAINA SINAI KIRTANY**

Post Box No. 284
MARGAO – GOA 403 601.

Partner of
M/s. Keshav Sinai Kunde & Co., Margao
M/s. K. K. Agencies, Margao
M/s. K. K. Automobiles, Mumbai

Ph.: Off: 722124, 732484, 721797
Res.: 735267, Gram: DAMODAR

# मटण शॉप

राजय रमेश पवार

*मार्केटांतली गर्दी चिरीत*
*हांव नीऽऽट*
*मटण-शॉपार पावतां.*
*... थंय*
*तीन चार कॉकांक*
*हुमकळायिल्ल्यो आसतात*
*बोकड्यांच्यो सोलिल्ल्यो कुडी.*
*एकलो मनीस*
*रगत रंगीत घालून खोमीस*
*लाकडाच्या कुडक्याचेर*
*मांस चांचावपांत गुल्ल...*
*... तेन्नाच म्हजी नदर वता*
*टेबलाच्या एका पोंतार*
*कापून दवरिल्ले*
*बोकडेचे तकलेचेर.*
*तिचे सताड उकते आशिल्ले दोळे*
*म्हाका तिडकीन पळयतात.*
*मदींच त्या दोळ्यांनी रिगिल्लो*
*गुप्प काळोख दिश्टी पडटा...*
*आनी दिश्टी पडटात*
*तिच्या दोळ्यांच्या कडांनी*
*अद्यारिच सुकिल्लीं दुकां,*
*... किळांच मारचे आदींच*
*दातांमदीं चिड्डल्लें जिबेचें पोंतय*
*हय न्हयशें नदरेक पडटा.*
*गिरायकांक एकटक*
*पळयत रावपी ती तकली पळोवन*
*हांव म्हजी तकली सांसपितां*
*तिवूय लूण जाल्ली आसत*
*ह्या भंयान...!*
*मदींच तो मनीस*
*गुबगुबीत काळजाचेर*
*सुरयेचो घाय घालता*
*आनी...*
*आवाज करिनासतना*
*काळजाचे दोन कुडके*
*अळंग दोशींवटेन पडटात!*

*तेन्ना,*
*म्हज्या हड्ड्यांतले खोलायेंतल्यान*
*एक घुसमट्टो स्वास भायर सरता*
*...! ...!! ...*
*ते तकलेक तेंकूनच*
*पडिल्ले आसतात चार पांय*
*... टिकीक टिकीक करून*
*उडक्यो मारपी ते पांय*
*मोन्यांनी पडिल्ले पळोवन*
*हांव ल्हवूच गर्देतल्यान कडसरतां*
*... आनी मटण घेनासतनाच*
*घरची वाट धरतां.*
*पूण...*
*बोकडेची तकली मात*
*म्हजे तकलेंत*
*घर करून रावता सासणाची!*
*... अजूनय*
*घरांत मटण शिजता*
*पूण,*
*मटणाचे दरेके फोडींत म्हाका*
*ती तकली दिसपाक लागता.*

# प्रवाहाच्या एका मोड

भालचंद्र गांवकार

*तेन्ना...*
*पांचव्या नदरांचो खेळ तो!*
*आशाडांतलो घसघसो...*
*आशाड सोंपलो तसो*
*खेळूय उलगलो.*
*वाटांक फांटे फुटले*
*आनी...*
*एका आकांताच्या प्रवाहांत*
*तूं नाच जालें...*
*हांव मात जळपेत उल्लों*
*प्रवाहांत घालून घेवप केन्ना जमलेंच ना...*
*काल...*
*कितल्याश्याच पावसाळ्यां उपरांत*
*प्रवाहाच्या एका मोडणार*
*तूं अचकीत दिसलें...*
*देखून...*
*पांचवी नदर... पांचवीच हांसली*
*पूण अचकीत तुवेन*
*जाण्टेपणांतली पिरपीर सुरू केली*
*आनी वगीच हांवेन*
*नदरेनूच तुका सांसपिलें—*
*प्रवाहांत आपटून-धोपटून*
*तुवेन कांय वर्सां आदींच*
*शंबरी हुपिल्ली!*

TWO DECADES OF SERVICE TO THE MEDICAL PROFESSION

# DCI PHARMACEUTICALS PVT. LTD.

Manufacturers of a wide range of
Life Saving drugs including Antibiotics,
Vitamins and Rehydration salts and suppliers to
DGS & D, Central & State Government Hospitals, etc.

Head Office:
Kare House, Near Metropole Cinema, P.O. Box 739
Margao – Goa. Ph: 731346, 722134
Grams: 'DROGSAL', Fax: 0834 732130

Bombay Office:
101, Neelam Building, Worli Sea Face Road, Worli
Bombay 400 018. Ph: 4965107
Grams: 'INCO', Fax: 4960641

दिवाळीचे लाख दिवे
पर्जळ नवो फांकारूं
जिणेंत सगळ्या लोकांच्या
धादोसकाय उपाट भरूं



# दुकळे, भोबे आनी कंपनी

पणजी – गोंय ४०३ ००१.

# JAPANESE ENCEPHALITIS

## PREVENTIVE MEASURES

Although Japanese Encephalitis is a disease of short duration and occurs in a very few infected persons, it can often prove fatal, if not managed properly and in time. Hence, preventive measures are of extreme importance in keeping the disease away. As the disease is caused only by the bite of the germ-carrying mosquitoes, all possible measures should be taken to eliminate chances of mosquito breeding or getting bitten by mosquitoes. These measures should be followed :-

(i) Prevent breeding of mosquitoes by taking care to see that there is no stagnant water in and around houses, in the form of large pools etc.

(ii) Use mosquito nets and repellants while sleeping, to avoid mosquito bites.

(iii) Preferably have cattle sheds / pig sheds away from the houses. It should be remembered that Japanese-B-encephalitis often resembles malaria, meningitis, and other diseases with fever. It is, therefore, essential to make a proper diagnosis. Hence, call for a doctor or contact the nearest Primary / Urban Health Centres or the hospitals whenever there is a case of high fever, alongwith unconsciousness, or headache or neck rigidity.

Early diagnosis and treatment can save a life.

Issued by

HEALTH EDUCATION BUREAU

Directorate of Health Services

Panaji – Goa

# GOA, THE INDUSTRIAL PARADISE CALLS CAPTAINS OF INDUSTRY. WHY ?

- ☐ Choice Industrial Estates & Prime Industrial Locations.
- ☐ Well Developed Industrial Infrastructure.
- ☐ All Weather International Port at Marmagoa.
- ☐ Air, Road and Rail link with the rest of the country.
- ☐ Excellent Telecommunication Services.
- ☐ Excellent Urban Infrastructure with Schools, Colleges, Hospitals, Hotels, Banks, Housing etc.
- ☐ Skilled, Intelligent and Disciplined Work Force easily available.
- ☐ 5 year Income Tax Holiday for new projects.
- ☐ 25% Capital Investment Subsidy, with a maximum of upto Rs. 25.00 lakhs.
- ☐ Attractive Sales Tax Exemption Scheme.
- ☐ Government and Institutional Support.
- ☐ Term Loan Assistance and other Financial Services by EDC.

For further details contact:

**PROJECT AND BUSINESS DEPARTMENT**




**THE ECONOMIC DEVELOPMENT CORPORATION OF GOA, DAMAN & DIU LIMITED (EDC Ltd.)**

EDC House, Dr. Atmaram Borkar Road, Panjim, Goa 403 001.



CONSUMERS BE AWARE OF YOUR RIGHTS

IF YOU HAVE ANY COMPLAINT IN RELATION TO GOODS AND SERVICES

i) As a result of any unfair trade practice or restrictive trade practices adopted by any trader you have suffered loss or damage;

ii) The goods suffer from one or more defects;

iii) Trader has charged for the goods price in excess of the price fixed or displayed on the goods or any package containing such goods;

iv) The services including services connected with Banking, Insurance, Transport, Financing, Supply of Electrical, Boarding, Lodging or both, Entertainment, Housing Construction etc. suffer from deficiency in any respect;

a) You may complain before the Consumer Disputes Redressal Forum, Goa, at Panaji, Junta House, 1st Lift, 4th Floor, Panaji, for getting your grievances redressed under the Consumer Protection Act, 1986 for the value of the goods and services upto Rupees five lakhs.

b) If the value of the goods exceeds Rupees five lakhs but does not exceed twenty lakhs, may complain before the State Commission, Junta House, 1st Lift, 4th floor, Panaji, Goa and

c) If the value of the goods exceeds Rupees twenty lakhs, may complain before the National Commission, New Delhi.

The limitation period for filing complaint is two years from the date on which cause of action arose. Period for filing appeals is 30 days.

Issued by

**DIRECTOR OF CIVIL SUPPLIES AND PRICE CONTROL**

GOVERNMENT OF GOA
DIRECTORATE OF INDUSTRIES AND MINES
Panaji — Goa

Imparts training in different crafts such as Coir, Handloom, Dyeing & Printing, Wood, Bamboo, Metal, Dolls & Embroidery, Pottery and Paper Machie, of 6 months, 1 year and 2 years duration on a monthly stipend of Rs. 250/-

Manufacture and sale of coir fibre and coir finished products.

Manufacture and sale of furniture including carved furniture.

Provides common facility services at Carpentry Centre, Verem and Poinguinim to the artisans and public.

Gives technical guidance in above trade to start small scale units and cottage industries.

For more details contact

**DISTRICT INDUSTRIES CENTRE**
**at**
**DIRECTORATE OF INDUSTRIES & MINES**
Udyog Bhavan, Panaji – Goa.

FISH IS A VALUABLE PROTEIN FOOD
LIKED BY GOANS

**THE DEPARTMENT OF FISHERIES**
aims at

☐ Increasing the fish production, improving fisheries infrastructure – for capture and culture fisheries.

☐ Protection of estuaries and coastal waters with a view to conserve the resources.

☐ Financial support both for mechanising the vessels and motorising the crafts.

☐ As a welfare measure, insurance cover to the active fishermen under Group Insurance Scheme to help the families of the fishermen in calamities.

*With best wishes for A Happy Diwali*
*from*

**AUTO SERVICE**

JOSHI BLDG., P.B. No. 39, VASCO DA GAMA, GOA.
Grams: AUTOSERVIS ☐ Phone Nos.: 512421 & 512422
Telex: 0191 JOSI IN ☐ Fax No.: 0834-513924

**AUTHORISED DEALERS FOR**

☐ HINDUSTAN AMBASSADOR & CONTESSA CARS & DIESEL TREKKERS
☐ MASSEY FERGUSSON TRACTORS & IMPLEMENTS
☐ BAJAJ SCOOTERS, MOTORCYCLES AND 3 WHEELERS




CELEBRATING GOLDEN JUBI
OF INDEPENDENCE



*May your Diwali*
*be bright with promise,*
*glad with hope and blessed*
*with prosperity and happines*

**Mormugao Port Trust wishes**
**all its patrons, clients, staff and workers**
**Joyous Diwali and a Prosperous New Year.**




# MORMUGAO PORT TRUST

*THE NATION'S PRIDE*

HEADLAND SADA, GOA. 403804

Advertising

# AIDS – A NEW DANGER

## DON'T DIE OF IGNORANCE

AIDS is a dreaded disease which kills you. So far there is no known cure for it. There are lot of rumours about it. But it is not difficult to protect oneself from it, provided some facts about it are understood.

### HOW DOES AIDS SPREAD ?

AIDS can be transmitted in the following ways :

i) Intimate sexual contact.
ii) Sharing contaminated needles, specially amongst drug addicts.
iii) By receiving blood of infected person.
iv) Transmission from infected mother to child during pregnancy.

### YOU CANNOT GET AIDS

— By normal social contact such as shaking hands, touching and hugging.
— At swimming pools, restaurants, workplaces, schools, colleges or other public places such as trains, buses etc.
— By coughs, sneezes and spitting.
— By using common clothes, telephone, toilet seat, glass and eating utensils.

Issued by

Government of Goa

**AIDS CELL**

**Directorate of Health Services**

Campal, Panaji – Goa

REGD. NO.



## लोककल्याणा खातीर

- मागाशिल्ल्या आनी वर्गीकृत जाती जमातींतल्या तशेंच अर्थीक नदरेन कमजोर वर्गांखातीर पिवपाच्या उदकाची फुकट पुरवण.
- मागाशिल्ल्या वर्गांखातीर फुकट संडास बांदून दिवपाची येवजण.
- शेतकामत्यांक गायो घेवपाखातीर अर्थीक पालव. शेतकामत्यां खातीर वेगळीं वेगळीं अवजारां घेवपाक आनी बांयो बांदपाखातीर अनुदान.
- नुस्तेमारी वेवसायांत गुंतिल्ल्या लोकांच्या फायद्याखातीर विंगड विंगड येवजणो आनी सवलती.
- जाण्ट्या आनी शरीरान अपंग तशेंच आधार नाशिल्ल्यांक जाण्टेपणांत निवृत्ती वेतन येवजण.

# दीपावली शुभचिंतन

स्वातंत्र्याच्या
सुवर्णमहोत्सवी उजवाडांत
लोकांचें जीवन
परजळीत जावंचें म्हूण
गोंय सरकार वचनबद्ध आसा




## लोककल्याणा खातीर

- २० ते ५० वर्सां वय गटांतल्या विधवा बायलांक म्हयन्याक १२५०/- रुपयांचो अर्थीक पालव.
- गरीब आनी हुशार भुरग्यांक उच्च शिक्षण घेवपाखातीर अर्थीक पालव.
- निसर्गीक आपत्तींत बळी पडिल्ल्या लोकांक लुकसान भरपाय.
- वेगळ्या वेगळ्या दुयेंसांचेर खाशेले उपचार घेवपाखातीर मॅडिक्लेम येवजणेखाला रु. १,५०,००० मेरेन अर्थीक मदत.
- रेंदेरांखातीर अपघातांत जखमी जाल्यार, सासणाचो अपंगूळ जाल्यार वा मरण आयल्यार नुकसान भरपाय येवजण.





माहिती आनी प्रसिद्धी खातें

## गोंय सरकार